साहित्य अकादेमी तस्त्रीप मेळिल्लो डोगरी कथासंग्रह

# भांगराचें सुकणें

## ओम् गोस्वामी



पुस्तकाचे फाटले वटेन एक शिल्पाकृती दिल्या. शिल्पांत तीन जोतिशी बुध्दभगवानाची आवय राणी महामाया हिका पडिल्ल्या सपनाचो अर्थ राजा शुध्दोधनाक सांगता अशें दाखयलां. शिल्पाचे सकयले वटेन एक बरोवपी तें सांगप बरोवन घेता. भारतांतल्या लेखनकलेची ही अशे तरेची सगळयांत पुर्विल्ली नोंद आसूंये.

नागार्जुनकोंड, दुसरो शेकडों, इसवी,
नॅशनल म्युझियमण नवी दिल्ली हांचे बरेपणान.

साहित्य अकादेमी तस्त्रीप मेळिल्लो डोगरी कथासंग्रह

# भांगराचें सुकणें




बरोवपी

**ओम् गोस्वामी**

अणकारपी

**शीला कोळंबकार**






साहित्य अकादेमी

**Bhangarachen Sukne** (**भांगराचें सुकणें**) :
Konkani translation by Sheela Kolambkar of
Om Goswami's Award winning. Short stories
*Sunne Di chirie* in Dogri
Sahitya Akademi, New Delhi (2004) Rs. Sixty five




First Edition : 2004

**Published by :**
Sahitya Akademi

**Head Office :**
Rabindra Bhavan, 35 Ferozeshah Road, New Delhi-110 001.



**Sales Department :**
Basement in 'Swati', Mandir Marg, New Delhi - 110 001

**Regional Offices :**
172, M. M. G. S. Marg, Dadar (East), Mumbai 400 014
Jeevan Tara 23A/44X, Diamond Harbour Road, Kolkata-700 053.
Central College Campus, Dr. Ambedkar Veedhi, Bangalore-560001.

**Chennai Office :**
Guna, 443 Anna Salai, Teynampet, Chennai-600 018.

ISBN : 81-260-1929-8



मोल : 65 रुपये

Typeset at : Micrograph, Ramdoot, Dr. Bhalerao Marg, Girgaum, Mumbai - 4.

Printed at : New Age Printing Press, Sayani Road, Mumbai - 25.

## मांडावळ











# 1
# मानगें

नांवांत कितें आसता अशें कोणेय कितलेंय जरी म्हळें, तरी नांवांत जायते किते आसता. धंदो सुरू करचे पयलीं दुकानांक नांवां दवरूंक लोक कितें पिसो?

सोरपावरी मोडणां आशिल्ल्या रस्त्यार तीन दुकानां आसात. तिगांयची नांवां विंगड आनी सायडबोर्डय बी विंगड.

रंगधर स्टुडिओ सामकार आसा 'गरीब गुरबा प्रिन्टर्स.' गरीब गुरबा प्रिन्टर्सची दारां उकती जातात तेन्ना तांचो वास भस्स करून रंगधर स्टुडिओत बशिल्ल्या लोकांच्या नाकांत रिगता.

स्टुडिओचो मालक आनी कॅमेरामन चंदर. प्रेसचो मालक गंढामल्ल. ताच्या हाताखाला एकतीस कामकार काम करतात.

जेन्ना जेन्ना प्रिंटींग प्रेसांतलो वास चंदराच्या नाकांत रिगता तेन्ना तेन्ना ताका तिडक मारता, ''नरकांत लेगीत हाचे इतलो घाणयारो वास आसचो ना.'' — तो आपले भीतर पुटपुट्टा.

रंगधर स्टुडिओचे दावे वटेन दिलरूबा हॉटेल आसा. तें सदांच सगळया तरांच्या काश्मीरीची वाट पळेत उबें आसा काय दिसता. पूण ताका मेळपी गिरांयकां चड करून ड्रायव्हर आनी मानाय! हांगच्या लोकांक ''यो रे दिसा भर रे पोटा'' हाचे भायर कांय खबर ना. तांकां जात, धर्म बी म्हळयार रानांत पावस! पूण तरीय हांगा आशिल्ल्या दुकानांच्या पाटयांक आपले म्हूण खाशेले म्हत्व आसा.

प्रेसाचो मालक गंढामल्ल म्हणटालो, ''दिलरूबा हॉटेल'' नांव वाचतकीच दल सरोवरांतली एक सुंदर हाऊसबोट आसतली, अशें दिसता. पूण भितर वचत जाल्यार ओंकूंक आयिल्लेवरी जाता.... दिलरूबा खंय....'' अशें म्हणुन तो खो खो करून हांसत सुट्टालो.

खरें म्हळयार ताका आपलो प्रेस वाडोवचो आसलो. पूण हॉटेल नाजाल्यार स्टुडिओ दोनां भितल्लें एक गेले बगर तें शक्य नासलें.

हॉटेलांतल्यान दिसूय भर तांदूळ धुल्लें उदक, निवळ आनी दुसरो कोयर रस्त्यार पडटा. हॉटेलाचो मालक एक काश्मिरी पंडित. ताचे नांव दिल. तागेलें खरेलें नांव कोणाकूच खबर ना. हिंदू ताका दिलबट्ट म्हण्टाले आनी मोयर दिलशाह!

कोणेय ताका नांवांविशी विचारलेंच जाल्यार तो हांसतालो आनी दोळो मोडीत विचारतालो, ''नांवांत किते आसा? रोशन नांव हिंदू, मुसलमान, दोगांयचे आसूं येता, तशे दिल

नांव आसलें जाल्यार कितें जालें? गुरूनानक सायबान म्हळांय, ''एक नूर से सब जग उपजा कौन भले कौन मन्दे'' तशेंच हावूय बी म्हणटां, कोण हिंदू आनी कोण मुसलमान? कोण दिलबट्ट आनी कोण दिलशाह.... सगळे एकाच देवाचे....''

त्या दिसा झंडासिंह ह्या ड्रायव्हरान ताची जाप आयकली. तो खूश जालो. ताणें म्हळें, ''तेरी गल्ल दा जवाब नेहीं वई... तू म्हण्टा तें खरें. ह्या गजालीं वयल्यान झगडपांत अर्थ ना.''

पूण लोकांचे हांतूंत समाधान जाय नासले. ते परथून विचारताले, ''नांवाचे पाडापडूं! पूण हलाल आनी झटका हांचे मदीं झगडीं आसूं येतात न्हंय? भारतांत हे एकेच गजालीचेर वर्सां कणकणी कितलीं झगडीं जातात खबर ना?''

हाचेर दिल मात्सो ओगी रावतालो आनी मागीर म्हणटालो, ''आमी हांगा झटक्याचेंय मटण वाडिनात आनी हलालाचेंय बी वाडिनात. आमी ते भानगडींतूच पडनात जाल्यार..... आमी हांगा शुद्ध निधर्मी बोकडेचें मटण वाडटां. बोकडी मेली काय हिंदू तिचो झटको जालो अशें समजतात आनी मुसलमान हलाल जालो म्हणटात.''

हॉटेलाचो 'मुंडू' (वेटर) हॉटेलाच्या दारार उबो रावता. हेवटेन तेवटेन पळेता आनी मागीर मोठ्ठ्या फोर्सान 'सावधान' म्हणटा आनी घसांयच करून रस्त्याचे मदीच हुनहुनीत नीस ओतता. रोकडोच तो भीतर वता. फाटल्यान वळून लेगीत पळेना. कित्याक, जायती कामां ताची वाट पळेत आसतात. तांदूळ वेंचप, कांदो कापप, वांयगी चिरप, *'कडम' शिनप बी. भायर रस्त्यार कोणूय निसरून पडत बी जाल्यार तो धावत भायर येता आनी आपलो हांसो चिड्डून दवरीत म्हणटा, आरे वा! फुक्यासवाय कपडे रंगोवन मेळ्ळे न्हय....?'' नाजाल्यार म्हणटा, ''ऊठ सायबा ऊठ! तुजे पोंदा कितल्यो मुयो चिड्डून मेल्यो पळोंवया.''

त्या दिसा गंढामल्ल शेट असोच निसरून पडिल्लो. हांसून हांसून मुंडूल्या पोटांत मुड्डे आयले. शेटीचें मोठ्ठे पोट आनी बारकुले पाय पळोवन ताचो हांसो कसोच थाथारना जालो. पडिल्ल्या शेटीक पळोवन, जल्लो उरफाटो पडून वांटकुळो धुंवता, ताची ताका याद जाली. ताणे म्हळें, ''पात्रांव ऊठ! तुज्या पेजान मुयो बाबडयो मेल्योच आसतल्यो. पूण ताणी हाडिल्ल्या कणयांचोय पिठो जालो आसतलो.

शेटीलो पाय तिरपलो. आनी दुखीन ताचो श्वास अडचलो. तरी आसतना तसोच उठून ताणे म्हळें, पाडापडिल्ल्या, ह्यो मुयो तुकां हांगासावन उंवाळून उडयले बगर रावच्यो नात.''

शेटीन दिल्ले हे धमकेन दिल भिलो. ताणे म्हळें, ''पात्रांव, तो भुरगो. ताचें उलवप तुमी कानार मनार घेवं नाकात.''

— आनी ती गजात तितल्यारूच उरली.

— × — × — × —

''गरीब गुरबा प्रिन्टर्स'' चे मानाय च्या पिवंक नाजाल्यार कितेंय खावंक हॉटेलांत येताले तेन्ना मुंडू कितलो इस्तिमसांवाचो भुरगो, हें ते दिलाक विसर नासताना सांगताले. अख्खो दीस

* कडम : काश्मीरची फामाद पालेभाजी.

कामांत आशिल्ल्या मुंडूक अशे तरेची तोखणाय आवडटाली. मागीर मोठे उमेदीन तो तांकां वाडटालो. दुसऱ्या गिरायकांनी उदक मागलें तरी तांचेकडेन लक्ष दिनासतना जे कोण ताची तोखणाय करताले तांकां तो पयलीं उदक दितालो. खेरीज तांकां कांदो, तोमाटां आनी चटणी इल्ली चडूच वाडटालो.

''दिलरूबा हॉटेलांतलें हें गुपीत ज्या लोकांक खबर आसा, ते आपले मजेंत जेवन वतात. वतना ते मालकाक सांगताले, ''दिलशाह, हो मुंडू एकदीस नशीब काडटलो पळे! आनी व्हड हॉटेलाचो मालक जातलो.''

आयकून दिलशाह खुश जातालो. मुंडूक लागून ताचे हॉटेल फामाद जातालें आनी मुंडू फुकटांत ताची जायरात करतालो.

जेन्ना कोणूय मुंडूच्या कामांत उणे काडटालो तेन्ना तो व्हडाव्हडान बडबडटालो, ''हांव येन्ना ड्रायव्हर जावपाचो. जम्मु पठाणकोट रस्त्यार धावपी सव्वीस आट्ठीस ट्रकार हांव किलींडर आसलो. ड्रायव्हर झंडासिंह म्हजेर भुरग्यावरी माया करी. म्हजे बराबरचे किलींडर दोन दोन मिनी बसींचे मालक जाले. हांव मात हांगाच उल्लों.... लोकांच्यो उश्ट्यो चिक्रपिरयो धुयत....''

— मुंडूक गिरायकांक सांगपाचें आसतालें, तो हॉटेलांतलो सादो वेटर नाशिल्लो, फकत नशिबाक लागून ताका हें काम करचें पडिल्लें.

खरें म्हळयार मुंडू दिलाचो खासा भाव. पूण दिलान हाची सुलूस कोणास लागूंक दिंव नासली. हाचे फाटल्यान ताची व्यापारी बुद्ध आसली. ताका दिसतालें, हॉटेलांत जे मानाय, ड्रायव्हर, किलींडर येतात, तांकांय आपणेय कोणाक तरी ऑर्दी दिंवच्यो अशें दिसता. सगलें जग तांचेर ऑर्दी सोडटालें आनी ते मुंडूक ऑर्दी दिताले. हांतल्यान तांकां मानसिक समाधान मेळटालें. आनी मुंड्य बी हें सगळें ओग्गी रावन आयकतालो.

दिलशाहक दिसतालें, हे मानाय, काळजांत दुनियेची कोडसाण घेवन, तीस पैशे मोखून मारून, बादशहाच्या रूबाबांत हांगा च्या घेंवक येतात. च्या घेवचे पयलीं दोन तीन ग्लास उदक घोट्टात. आनी मागीर आड्ढतात.

— ''मुंडू, च्या खंय पावली रे?''

— ''मुंडू, च्यांत साकर ना मरे!''

— ''आरे, च्यांत तुवें तिखी आनी वेलची घाली ना मरे..... शी!....''

— ''आजय च्या बरी लागली ना.''

— सगळे आयकून दिल हांसतालो. ताचो तो हांसो गिरायकांक सांगतालो, कितेंय चुकलों आसल्यार माफ करात. कितलेंय जालें जाल्यार आमी तुमचे चाकर!''

ह्या मानायांक जर कळत मुंडू दिलालो भाव म्हूण, ते हांगा येवचेच बंद जातले... दुसरी 'जायती हॉटेलां आसात हांगा...

दनपरां गिरायकां येवची उणी जाताली. आनी माथ्यावेलो पत्रो तापतालो, तेन्ना मुंडू जेंवक बसतालो. उदकाच्या ग्लासांत झेलाचो कुडको उडयतालो. जेवतना लेगीत तो उलयत आसतालो.

''शाहजी, ग्लास पळे, काम करून करून थकलो. बाबडो कसो घामेला पळे.... हाच्या

बाबडयाच्या नशिबांत घामूच बरयला.''

— अशें म्हणून ग्लासाभायर आशिल्लें उदक तो हातान पुसतालो. तो जम्मुत ल्हानाचो व्हड जालो. तेन्ना ताका काश्मिरी भास येनासली. पूण डोगरी भास मात बरी येताली.

पूण दिलशाह डोगरी उलोंवक लागतकीच तो मुळावो काश्मिरी उलोवपी, मागीर डोगरी शिकला हे रोखडेंच कळटालें.

दिलशाह मागीर लोकांक आयकूंक येता इतल्या व्हडान म्हणटालो, ''ग्लासाक घाम आयल्यार कितें जालें.... म्हाका पळे.... हांव पळे कसो माथें ते पांयांमेरेन हुमेन चिप्प भिजलां....''

अशा वगतार चंदर एक कप उदक पिंवक हॉटेलांत भितर सरतालो. तो चुकून लेगीत च्या मागयनासलो. कारण ती अळशिकावणी सुवात पळोवनूच ताची तकली उसळटाली. ताका दिसताले ह्या हॉटेलाच्या रूपान राहू आनी प्रिंटींग प्रेसच्या रूपान केतु, हाणी ताच्या भाग्यचंद्राक ग्रासलां. असले अळशिकावणे सुवातेर आशिल्ल्या स्टुडिओंत कोण फोटो काडूंक येतलो? रात दीस हांगा घाण येता, इतलें आसुनूय येतना वतना तो म्हण्टाच,

— ''कितें रे हें?... आरे बाबा, केन्ना तरी सान मारात हांगा.'' नाजाल्यार.... ''तुमी केल्ले हे अळशिकेंत मूस मात मजा मारतात.'' किंवा.... तो घोयरांव तुमी कित्याक काडिनात? घशीन हॉटेल पळेयात कशें काळें पडलां.... तें मात्शें लिंप करात.''

चंदराक चड तिडक मारताली ती मान्न्या कुशीक खणिल्ल्या खड्डयाची. ड्रेनेज नाशिल्ल्यान सगळें उदक खड्डयांत एकठांय जातालें. आनी ताची सोसूं नज तसली घाण मारताली. ताका लागून चंदराची तकली फोडटाली... कसले पाडा पडिल्ले लोक.... निवळसाण आनी आरोग्य हांचेकडेन हांचो केन्ना संबंधूच येंवकनासो दिसता... पूण उज्या दिसानी ताळो सुकून येतालो, तेन्ना हें सगळें विसरून उदक पिवंक तो ह्याच हॉटेलांत येतालो..... हांगा एकूच वस्त शुद्ध आनी ताजी मेळटा. तें म्हळयार उदक.... कित्याक तर तें नळांतल्यान येता..... तांतूंत कसली गडबड आसची ना.

''कितें म्हण्टा बट्ट साब.... कसो चल्ला उद्योगधंदो?'' चंदरान विचारलें. सुरवेक एक खेपे चंदरान दिलाक ''खोजा साब'' म्हळें.... तेन्ना ताक इतलो राग आयिल्लो की डोगरी भास उलोवची सोडून ताणे काश्मिरी भाशेंत म्हळें, ''खोजा साब कोणाक म्हणटा तूं? आमी पक्के काश्मिरी पंडित.''

तेन्नासान चंदर ताका 'बट्टसाब' म्हणटा. मनांत म्हणटा, ''मेलो, पाडापडिल्लो मांस विकता.... आनी आपणांक ब्राह्मण समजता. पूण काश्मिरी पंडितांनी मांस खांव नये अशें खंयच्याच शास्त्रांत बरोवंक ना, हें चिंतून तो ओग्गी रावता. सदांभशेन आयजूय ताणें बट्टसाबची वासपूस केली. तेन्ना दिलशाहन म्हळें,

''कितें चल्लां म्हूण सांगू? इर्फेनांत आशिल्लेवरी दिसता. वयर तापिल्लें पाखें आनी सकयल कोळशाची शेगडी. आयण्यान वारो घेतलो म्हळयार हुनहुनीत वाऱ्यान हुलपतां... तुजें आपलें नशीब बरें.... थंड बऱ्या दुकानांत बसून सुसेगाद जीण सारता.''

तशें बसून रावपाचें लेगीत नशिबांत आसचें पडटा. आपल्या कर्माप्रमाण फळ मेळटा.'' तो बकत्छायांनी म्हणटा. पूण ताका भितल्ले भितर खबर आसा, फॅन नासता तेन्ना ताकाय बी हुमेन भिजचें पडटा. तशें पळेल्यार स्टुडिओतलें वातावरणूय थंड आनी धंदोय थंड.... गिरायकच ना जाल्यार करतलो कितें? कॅमेरांत घाल्लो रोल कितले दीस धुवंकना म्हळयार जाता. म्हजेपरस हाचो धंदो कितले तरी पटिंनी चलता. तरीय उजो जाता म्हूण हो रडटा. असो म्हजो धंदो चलिल्लो जाल्यार उज्यांतूय बी थंडी खावपाची.

''कितें घेतलो?'' दिल ताका विचारता. ताका हरशीं खबर आसा, चंदर उदक सोडून कांयच घेना. पूण हालींसरा ताणें हॉटेलांत सोद आनी लेमोनाद दवल्लां... तेन्ना ताका मात्शी आस....

''काय ना! म्हजें गिरायक उदकापुरतें....''

दिल मुंडूकडे पळेता. पळेल्यार मुंडू जेवणावेल्यान उठून उदकान ग्लास भरता. मुंडू चंदराक 'फोटोसाब' म्हणटा. स्टुडिओकडल्यान येतना वतना तो चंदराक आपलो फोटो काडूंक सांगता.

''काडुंया रे केन्नाय....'' अशें म्हण चंदर ताका फाफडून उडयता.

''पूण केन्ना?''

''पॅन्ट आनी शर्ट घालून तूं 'बाबू' जातलो तेन्ना!''

''पूण तशें केन्ना जावचेच ना फोटोसाब!''

''कित्याक? तूं तुजी अख्खी जीण उश्ट्यो प्लेटी घासून सारतलो काय कितें? तूं व्हड जातलो तेन्ना दिल म्हातारो जातलो. मागीर तूं गल्ल्यार बसतलो आनी दिल चिक्रपिरयो धुतलो.''

मुंडू दिलाचो भाव म्हूण चंदराक कळ्ळां तेन्नासान तो मुंडूक असो चिथायता. ताका दिसता मुंडूक चण्याझाडार चडयलो काय एक दीस तो हॉटेल सोडून किलींडर जांवक म्हूण बसी फाटल्यान वतलो. आनी मुंडू गेलो काय हॉटेल बंद पडटलें. आनी हॉटेल बंद पडप म्हळयार चंदरालें गिरायक वाडप. पूण मुंडूंच्या बोडांत कांयच वचना. तो हांगासावन पळुनूय वचना. आनी चंदरालो धंदोय वाडना. ''फोटोसाब, तूं आयजूच म्हजो फोटो काड.''

''आयज ना रे बाबा! तू गाडयेचो कंडक्टर जातलो, तेन्ना सरकारी कागदार लावंक तुका फुकट फोटो काडून दितलों.''

पूण चंदरालो हेत लक्षांत घेनासतना मुंडू जेन्ना चडूच फोर्स करतालो तेन्ना तो ताका 'वासिमोर' म्हूण धांवडायतालो.

''घाण्याक बांदिल्ल्या बैलावरी काम करचे पडटा.'' दिल चंदराक सांगता. ''रातचे न्हिदता मेरेन बारा जातात..... परथून फांत्यापारार उठात, भट्ट्यो लिंप करात, गोबोर रस्त्यार उडयात, कोळशे फोडा, शेगडयो पेटयात..... न्हिदेंतल्यान उठून उज्यांत तोंड घालचें पडटा. केन्ना बरे कपडे घालूंक मेळनात. आनी सुसेगाद बसून जेंवकूय मेळना.... ही कसली जीण... ही जीण न्हय.... कादय ही....''

''खऱ्यांनीच'' चंदर ताची उतरां गांठीक बांदून आपलें सुत्र सोडटा.

''ह्या कामांत मानमर्यादा मेळप कठीणूच. तुजेकडेन लाखांनी पयसो घोळ्ळो जाल्यारूय सोयरे धायरे ''चिक्रपिरयो धुवपी म्हूण बरो'' अशें थोमणे मारले बगर रावचे नात.''

''हय सायबा! हांवय ही धंद्याची लायन सोडूंक सोदतां. हे हॉटेल सोडून कपडयाचें दुकान घालूंक सोदतां.''

दिल सांगता तें आयकून चंदर खूश जाता.... तशें जालें जाल्यार हांगचो कोयर तरी उणो जातलो. पूण फाटल्या दोन वरसां सावन तो कपडयाचें दुकान घालता म्हणटा..... पाडापडिल्लो सपनेता.... कितले खेपे ताका सांगलें कपडयाच्या दुकानांत खूब फायदो जाता म्हूण! दुकानांत फकत कपडे दवरतकीच जाले. एक कातर, एक मेजरटेप आनी पयशे दवरूंक तिजोरी आसली काय पुरो!

चंदराली सगळी तिडक आशिल्ली ती थंय एकठांय जावपी रेब्याचेर. आपल्या शेजाऱ्यान नितळसाणेक इल्लो तरी पाळो दिवचो म्हूण चंदर जाता तितले यत्न करतालो. पूण दिल ह्या कानांत आयकून ह्या कानांतल्यान सोडून दितालो. घडये ताका खबर आशिल्लें, ताचें हॉटेल हांगासावन वचत जाल्यार चंदरचो फायदो आसा. म्हूण ताका लागून कपडयाचें दुकान घालचें आसा अशें सांगून दिल चंदराक फुसलायतालो.

हें सगळें खबर आसुनूय चंदरान म्हळें, ''दिलबट्ट! तुजें नशिबूच फुटकें! नाजाल्यार धर्तरेवेलो स्वर्ग म्हळयार काश्मीर! तें सोडून तूं ह्या हून हवेच्या जम्मूत कित्याक जीव दिवंक येवपाचो!''

''काश्मीर म्हळयार स्वर्ग! गजाल खरी. पुण थंयचो लोक कान्दरांक चलयो दिनात.''

''कान्दर म्हळयार कोण?''

''कान्दर म्हळयार बेकरीवाले. पदेर म्हळयार जाता. थंयचे बेकरीवाले आंकवार मरतात. म्हूण हांव जम्मूत आयलों. उणाक जातीचे चलयेकडेन लग्न केलें. पुण पोटांत भुरगें घेवन ती सोडून गेली. आनी हांव लग्न जावनूय आंकवार उरलों. ताका लागून सोरो पिंवक शिकलो.''

ताची ही काणी चंदरान कितलेशेच फावटीं आयकल्या. सोऱ्याच्या निमतान ताणें दिलबट्टागेर येवप वचप सुरू केल्लें.

दिलाची धाकटी भयण उषा फोटो काडूंक म्हूण चंदराल्या स्टुडिओंत आयिल्ली. चंदर कॅमेरांतल्यान कितलोसोच वगत तिका पळेत उरलो. कितलो सुंदर चेरो.... मॉडेलांवरी फुलिल्लो आनी सोबीत! पोझ दिवच्या निमित्तान ताणे तिका कितलोसोच वगत बसोवन घेतली. मदींच तो स्टुल फाटींफुडें करतालो. तिची तकली एक खेपे उजव्यान जाल्यार दुसरे खेपे दाव्यान व्हरतालो. मदींच तिची खाडकी वयर करून मात्शी वयर पळे म्हणटालो. ताका दिसतालें तो फोटो काडिना जाल्यार ताच्या जिवितांतली खूब व्हडली एक कलाकृती तयार करता.

''मिस, तुजो फोटो इतलो बरो येतलो की तुजे तुकाच वळखूंक येवचोना.''

उषा ओग्गी रावन मुमुरख्यांनी हांसतालें. वतना तें पयशे दिवंक लागलें तेन्ना चंदरान म्हळें, ''शे! शे!! तुजेकडल्यान आनी पयशे? तू दिलबट्टची भयण.... तो म्हजो आमीग.... मागीर तुजेकडल्यान पयशे कशे घेंव?''

मोग करपाक मजनूवरी हांगांथंय भोवपाची गरज ना. असल्या ल्हानसान गजालींनीय मोग उकतांवक मेळटा. उषान ताका घरा आफयलो. दुसऱ्या दिसा फोटो दिवपाच्या निमित्तान ताचें

घर पळोवन आयलो. त्या दिसासावन ताच्या काळजांत मोग किल्ललो. उषा कडल्यान च्या चें कोप घेतना ताच्या बोटांचो स्पर्श जालो. थंय गेल्ल्याचें सार्थक जाल्लेवरी ताका दिसलें.

ते उपरांत जेन्ना जेन्ना तो दिलाक मेळटालो तेन्ना ताच्या तोंडातल्यान आपशींच उतरां फुट्टालीं, ''आरे, काश्मिरी च्या संवसारांतली रूचीक च्या!''

आतां तो आपल्या खर्चान दिलाक सोरो पिवंक घालूंक लागलो. आनी तो लकूंक लागतकीच ताका पावोवपाचे निमतान ताच्या घरा वचूंक लागलो. दिल पिवन न्हिदून पडटालो. चंदराक पळोवन उषालें मुखामळ फुलतालें. मागीर चंदर उषा वांगडा गजाली मारूंक बसतालो. आनी आपणाक भाग्यवान मनीस समजतालो.

रातीकडेन मुंडू हॉटेलांत न्हिदतालो. हॉटेलांत रातीकडेन हुंदरांचे राज्य आसतालें. त्या दिसा हुंदीर मारपाचें वखद हाडूंक ताका घरा वचचें पडलें. नाजाल्यार हुंदीर ताका न्हिदूंक दिवचे नासले. ''हांचे बी काबार केलें ना जाल्यार नांवाचो मुंडूच न्ही.''

कालुच सकाळी दिलान वखदाचें पाकीट उषाकडेन दिल्लें. मुंडू घरा गेलो. पळेत जाल्यार फोटोसाब उषालो हात धरून बसला. अकस्मात ताका थंय आयिल्लो पळोवन दोगांय कांचवेली. ''उषाबाय, दिलबाबाचेर लक्ष दी.'' अशें म्हणून फोटोसाब भायर सरून गेलो.

आतां जेन्ना चंदर काश्मिरी च्या बरी म्हण्टा तेन्ना मुंडू मुमुरख्यांनी हांसता. आनी मान हालयत म्हणटा, ''काश्मिरी च्या कित्याक बरी लागता तें खबर आसा म्हाकां!''

आयकून चंदर काचाबूल जाता.

''हांव तुमच्या घरा वचून सांगता काश्मिरी च्या कितली बरी ती!'' अशें म्हणून तो धांव मारतालो.

ज्या दिसा चंदर दिलबट्टाक सोरो पिवंक घालतालो त्या दिसा तो उषाक मेळूंक शकतालो. आपल्या पयशांनी केन्नाच पिवंचो ना असो दिलान सोपूत घेतिल्लो. चंदरालो धंदो इतलो चल नासलो. खेरीज तो सद्दां पिवंक घालपासारको पैशेकार नासलो. ताका लागून, पैशाची ऊब नाशिल्ल्यान ताचो मोग मात्सो मोव पडिल्लो.

धंद्याक बरकत नासली. घरांत भुरग्यांचे सदांच कितें ना कितें मागणे आसतालें. खेळणी.... मिठाय... पिकनीक.... आनी चंदर फाल्यां फाल्यां म्हूण दीस धुकलतालो. इतलीं पोटां भरचीं कशीं हीच व्हड अडचण आसली. एकदीस ताची बायल रागान भुरग्यांक घेवन कुळारा गेली. तेन्ना ताणें मोग आनी भूक एकमेकांचे दुस्मान असो निश्कर्श काडलो. ''दिल, तू भट्टी आनी रांदन फुंकीत फुंकितूच मरतलोसो दिसता. कपडयाचें दुकान काडपाची तुजी स्कीम केन्नाच फळचिना.'' पूण मनांतल्या मनांत तो चिंतता,.... हो मनीस हांगासान भायरो जातलो, तेन्ना हांव मारूतिक सवाय रुपयाचें तेल घालतलों....

''ना! ना! हांवें सामकें थारायलां कपडयाचें दुकान घालपूच म्हूण! तें जमलें ना जाल्यार कपडयांचे पोटले खांदार मारून तरी कपडे विकतलों म्हळयार विकतलों. आतां म्हज्यान हें काम करूंक नज....

''कपडे केन्ना घेवपाचे म्हाकां सांग. उधमपूरच्या कपडयाच्या एका व्यापाऱ्याक हांव वळखतां.

हांव वळखीन तुकां उण्यांत उण्या पयशांनी कपडे काडून दितां...." चंदरालो हातूंत दोट्टी फायदो. हाचेर उपकार केल्लेवरी जातलें आनी होलसेल व्यापाऱ्याकडल्यान कमिशन मेळटलें... खेरीज ही अळशीकावणी सुवात लींप जातली...

चंदर उदक पिवन स्टुडिओंत वता.

गरमेच्या दिसांनी हें अशेंच चलता. चंदर मन मारून दिलरूबा हॉटेलांतलें उदक तानेक घोट्टा आनी दिलबट्टाक काम बदलुपाचो सल्लो दिता.

पावसांत पावसाच्या उदकान रस्ते लींप जातात. रेबाची घाण येना. थंडेच्या दिसांनी मुस उणे आसतात. चंदराक सु्ऽ जाता. पूण ह्या दिसांनी तो हॉटेलांत वचना. थंडेच्या दिसानी दिलाचें काम दोट्टी जाता.

"हॉटेलांत जेवपी दरएकलो मनीस म्हयन्यांतल्यान एकूच खेपे फोटो काडीत जाल्यार चंदर उत्तर भारतांतलो एक पयशेकार फोटो ग्राफर जावपाचो... पूण अशें काय जायना. हे हिन्दुस्तानी लोक.... तांचो पयलो आनी निमाणो छंद म्हळयात शीत-कडी मारप.... ते कित्याक फोटो काडटले? आमी मरतले.... आमचे फाटल्यान आमचे फोटो पळोवन लोक आमची याद काडटलो, अशें जर ह्या लोकांनी चितलें जाल्यार कितलें बरें जातलें...." अशें तरेचे विचार चंदराल्या मनांत घोळटाले.

ह्या हॉटेलांतली च्या तो थंडेच्या दिसांनी लेगीत पिवपी न्हंय. आतां फुकट कोणेय दिली जाल्यार गजाल वेगळी. पूण गरमेच्या दिसांनी च्या वांगडा कोणेंय धा रुपया दितां म्हळें जाल्यार लेगीत तो घेवपी न्हंय. निमणें हो ज्याच्या ताच्या तत्वाचो प्रस्न.....

— × — × — × —

स्टुडिओंत परथुन येवन पळेत जाल्यार दरवट्यावेली ताच्या नांवाची पाटी मात्शी एके वटेन लवंडल्या. नेटान वारो येत जाल्यार तीच पाटी निखळून पडूंक शकता. फ्रेम तुट्टलीच. पूण थयंच्यान कोणूय वचत आनी ताच्या बोडार ती पडत जाल्यार माणसुकी ना. दुखापत जाल्लो मनीस हॉस्पिटलांत वतलो. हॉस्पिटलां हांगा कमी नात. पूण चंदराक नवी पाटी करून घेंवक परवडचेंना. ताच्या त्या बोर्डावेल्या नांवांतल्यान ताचीं सपनां आनी आशा जाणवतात.

RANGDHAR STUDIO, SPECIALIST IN GROUP PHOTOS, PARTIES ETC.

बोर्डाचे एके कुशीक काश्मिरी ड्रेसांतले आनी भांगराच्यो वस्ती घाल्ले बायलेचें चित्र आसा. आनी ताचे पोंदा बरयलां.

SPECIALIST IN VARIOUS FANCY DRESSES.

तो बोर्ड करून घेवपाकूच ताका पुराय दोनशें रुपया लागिल्ले. ताका तेन्ना दिशिल्लें, धंदो बरो चल्लो जाल्यार एकाच दिसा दोनशे रुपया जोडूं येतात. आपणे सात हजारांची पागडी दिवन जी सुवात घेतल्या तिका राहू केतून ग्रासल्या म्हणपाचें ताका खबर नासलें.

ताणे स्टुडिओंत एक व्हिशत मारली. कोनशाक आशिल्ले आलमारीर घोंटेर बांदूक चिमण्यांनी तण पुंजावन दवरिल्लें. चार पांच दीस जाले, चिमण्यो ते सुवातेर घोंटेर बांदचे तयारेक लागल्यात...

पाडापडिल्ल्यांक घोंटेर बांदूक जुस्त हीच सुवात मेळ्ळी जातली.... घोंटेर बांदलो काय ती तांतूंत तांतयां घालतली.... तांतयांतल्यान पिलां भायर सरतलीं.... तीं पिलां खावंक मागीर सोरोप येतलो.... लोक म्हणटात, चिमण्यांच्या घोटेरांक हात लायलोना जाल्यार पुण्य मेळटा... असलें पुण्य जाय कोणाक?

काल एक बरें गिरायक आइल्लें. पूण फोटो काडून घेवचे पयलींच तें कडसलें. भायल्या बोर्डाक भुल्लसून गिरायक भितर आइल्लें आसूं येता. पुण स्टुडिओची भीतल्ली दशा पळोवना तें गेल्लें दिसता. गिरायक परथुन कित्याक गेलें हाचे विशीं तो चिंतींत उरलो. खरें म्हळयार भायल्या बोर्डार बरयल्या प्रमाण ताचे कडेन काश्मिरी ड्रेस ना.

खंयचीय बायल काश्मिरी ड्रेसांत फोटो काडूंक येताली, तेन्ना आपली ही फटींगपणा लिपोवंक तो म्हण्टालो, ''मॅडम, आपलो स्वतःचोच ड्रेस फोटो काडूंक सदांच बरो.'' नाजाल्यार ''जण एकल्यान स्वतःचोच ड्रेस घालून काडिल्ले फोटो सदांच बरे येतात.'' अशें तड्डक तो मारतालो. तरी आसतना काश्मिरी ड्रेसांत फोटो काडपाचो कोणूंय हट्ट करीत जाल्यार तो तिरसुवादपणान म्हण्टालो, ''मॅडम, काश्मिरी ड्रेस काश्मिरी बायलांकूच सोबून दिसता. हेर बायलां त्या ड्रेसांत माकडावरी दिसतात.''

तो तरी बाबडो कितें करतलो? ताचेकडेन कम्प्लिट काश्मिरी सूट ना. ताणे स्टुडिओ घाल्ल्याक सात वर्सां जालीं. इतलो तेंप जावनूय ताचेकडेन हेरांभशेन तीन रिफ्लेक्टर नासले. बाबडयाक एकाच रिफ्लेक्टराचेर काम भागोवचें पडटालें.

केन्ना केन्ना कॉलेजांतले भुरगे ताचेकडेन झगडूंक येताले, ''आरे, हो फोटो काडला काय धवो रंग तोंडाक काडला?''

आयकून चंदराक भिरभिरी मारताली, ''आरे, तुमी जशे दिसता तसो फोटो आयला.'' मागीर तो बकत्छायानी म्हणटालो ''फोटोग्राफर म्हळयार ब्रह्माचो अवतार काय कितें तुमचीं मुखांमळां सुंदर करूंक! लोक ताका जादुगार समजता काय? आतां जॉनीवॉकराक देवानंदाचें रूप येवं येता?''

कॉलेजिएट चंदराची बॉडी पळोवन ओगी रावतात. दुसरो कोणूय फोटोग्राफर आशिल्लो जाल्यार जॉनीवॉकराक देवानंद कसो करप तें ते दाखयतले आसले.

जो मनीस ताच्या फोटवांतल्यो चुको दाखयतालो, ताचो चंदराक राग येतालो.... ह्या ग्लॅमरान हिंदुस्तानाची वाट लायल्या.... ताका लागून आमी भारतीय उरले नात आनी फॉरेनरूय जाले नात.... ताणें आतां थारायलां, जो कोण ताच्या फोटवाक नांवां दवरतलो ताका सरळ सांगप.... ''तुजें तोंडूच तशें.... तूं जसो आसा, तसो आयला. हारसो आनी कॅमेरा केन्ना फट उलयनात.''

''कालचे गिरायक परथून गेलें कित्याक?''.... तो परथून चिंतता. अकस्मात ताका घोटेराची याद जाली... तो घोंटेर पळोवनूच तो परथून गेलो आसूं येता. ज्या घरांनी रानवटी झाडां वाडटात आनी पक्षी आनी पारवे घोंटेर बांदतात त्या घरांचें पाड पडटा... म्हजें नशीब इतलें वायट ना... हो चिमणो आनी चिमणी परत्या पायांची आसूंक जाय...

तेन्नाच चिमणी एक लांब काडी घेवन भितर सरली. काडयेचें एक तोंक ताचे मानेक लागलें...

ताचें आंग शिरशिरलें... भयान आंगार कांटो फुल्लो.

आयज हो घोंटेर काडून उडोवंकूच जाय. चिमणेची पिलां खावंक सोरोप येतलो. तो चाबतकीच मनीस उदक लेगीत मागिनात खंय!

आयज बोर्ड सारको करूंकूच जाय. फाल्यां फाल्यां करून दीस गेल्ले. उजो लागतकीच बांय खणूंक सुरवात करप समा न्हय...

तो निसण हाडूंक प्रेसांत वता. भितर सरतकीच अळशिकावणो वास ताच्या नाकांत रिगता. तो नाक धांपता. ताका पळोवन कर्मा, चंदरालो आमीग मुखार येता.

"ए, तुमची निसण मात्शी म्हाका दी रे!"

"कित्याक रे?"

"भितर चिमणेन घोंटेर केला आनी सायनबोर्डय बी वांकडो जाला."

"निसण घेवन वच. पूण काम जालें काय रोकडीच हाडून दी. पात्रांव येवपाचो वगत जालो." कर्मा भितर वचून निसण घेवन आयलो आनी ताका दिली.

चंदर गेलो आनी नारायणान हातान कुरू केली. ते बराबर चार पांच प्रेसांतले कामगार ताचे भोंवतणी जमले. ताणे चंदर स्टुडिओंत पावलो तें पळेलें आनी सेग्रेद सांगिले प्रमाण म्हळें, "हो पाडापडिल्लो खऱ्यानीच सुखी प्राणी. बरी मजा मारता. एकाद्री सुंदर चली काश्मिरी ड्रेस घालून फोटो काडूंक हाचे म्हऱ्यांत येता, तेन्ना ती कपडे बदलताना हो तिका लिपून पळेता. ताणे एक कॅमेरा आपले आलमारींत लिपोवन दवरला खंय. तातूंतल्यान तांचे नागडे फोटो काडटा. आनी लोकांक विकता. मागीर हेच फोटो घेवन चलयांक ब्लॅकमेल करता. तांतल्यान तो भर्ती पयशे जोडटा. हाच्या स्टुडिओंत जितो मूस लेगीत यना... मागीर हाचेकडेन पैशे खंयचे सांग पळोवया!"

"आनी जर कोणूय चुकून आयलोच जाल्यार हो तांकां हारश्या मुखार व्हरता. आनी सांगता, पयलीं तुजें तोंड हारशांत पळोवन घे. मागीर म्हणशीत काडिल्लो फोटो आपलो न्हंय म्हूण!" दुसऱ्यान म्हळें.

तिसऱ्यान म्हळें, "म्हजो साकरपुडो जावपाचो आसलो. मेवण्यो म्हणूंक लागल्यो भावोजीलो फोटो आमकां पळोंवक जाय. धांवत धांवत हाचे म्हऱ्यांत येवन फोटो काडून घेतलो. आनी धाडलो. व्हंकले कारांनी सोयरीक मोडली. कित्याक काय म्हळयार चल्याक नाकूच ना म्हूण! असले फोटो काडटा हो."

सगळे व्हडान हांसले.

तेन्नाच प्रेसाचो मालक गंढामल्ल भितर सरलो. हांसो अर्दकुटो उरलो. सगळे आपआपल्या कामाक लागले.

"करमचंद!" —— आपले गादयेर बसतां बसतां गंढामल्ल आड्डलो.

"पात्रांव?"

"हांगा कितें चलतालें?"

"आमी निक्कीच्या लग्नाविशीं उलयताले."

"तुमकां वगताचें म्हत्व खबर ना. असल्यो गजाली उलोवपाची सुवात न्हय ही! ह्या निक्कीक

जाग्यार घालचो पडलो.''

''पात्रांव, ताका सिर्विसेवेलो काडून ताचेर जुलूम करूं नाका. बाबडयाची आतांच एक सोयरीक मोडल्या. आनी आतां ताची सिर्विस, गेली जाल्यार?''

''कितें म्हळें? हांवें ताचेर जुलूम केलो? दुकरा, तुका खबर ना, तुवें म्हज्या काळजाक केदो दाग दिला तो... म्हजो बापूय म्हाकां राजा विक्रमादित्य म्हणटालो... आनी हांव जुलमी अशें तूं म्हणटा?''

— इतल्यान नारायणान येवन लालाजीच्या (गंढामल्लाच्या) कानांत कितें तरी सांगलें. बेजारून लाला भायर गेलो. भितर येवन रागान आड्डून ताणें विचारलें, ''त्या माकडाक तुवे आमची निसण कित्याक म्हूण दिली?''

''पात्रांव, कितलोय जाल्यार तो आमचो शेजारी. ताका ना म्हणूंक बरें दिसलें ना.''

''आयकात! आयकात हो कितें म्हणटा तें.... तो शेजारी खंय... तो केन्ना शेजाऱ्यावरी वागला आमचेकडेन?.... हांव ताचो शेजारी, म्हूण ताणे केन्ना म्हजो फोटो काडला?.... आत्तांचे आतां वच आनी निसण घेवन यो.

— कर्मा रोखडोच निसण हाडूंक गेलो.

तेन्नाच गीगु, लालालो घरगडी, खरशेत खरशेत आयलो. ताचे केस कान धांपून वता इतले लांब आसले. दोळयांभोवतणी मिरयो पडिल्ल्यो. आनी ताच्या दोळयांत एक विचित्र.... म्हळयार तो ह्या गावंचो न्हयच.... अशीशी चमक आशिल्ली. आयले उपरांत ताणे सांगलें,

''लालाजी, शाहनी कुळारा वच्ची तयारी करून बसल्या.''

''आता आनी कितें जालें हिका? तिणें मागिल्लें सगळें तिका हाडून दिलें. म्हजें रगत पिलेबगर हिका सुसेग मेळचोना.''

''म्हांका सांगताली सामान बस स्टँडार व्हरून दी म्हूण!''

''तूं हांगा बस. हांव पळेतां कितें करचें तें!'' अशें म्हणून गंढामल्लशेट भायर सरून गेलो.

तो गेलो मात, प्रेसांतले सगळे कामगार गीगु भोंवतणी जमले. ''कितें जालें रे? शाहनी कुळारा वता म्हळयार लालापरस तूंच चड पिकार जाल्लेवरी दिसता.'

— सगळे व्हडाव्हडान हांसूंक लागले. आनी एकमेकांच्या कानांत फुतफुतूंक लागले. ''लालाल्या घरचे तरनाटे घरगडी लालापरस चड बरी मजा मारतात.''

त्या उतराक ओमू व्हडान उलयलो, ''हो साडेबावराती कितें करीतसो दिसना... चडांत चड तो शाहनीच्या केंसांतल्यो उवो मारीत... आनीक कांयना''

— ताच्या ह्या उलोवण्याचेर हांशाचो गडगड जालो. ''तुमी धनिणीविशीं अशें उलोंव नाकात.'' – गीगुन बारीक आवाजान म्हळें.

जाणटेल्या तीर्थुन विशय बदलचो म्हूण विचारलें, ''गीगु, तूं सांग, आयज अशें कितें म्हूण जालें?''

''जातलें कितें? सकाळसावन दोगांयचें पेटलां. शाहनीले भयणील्यो चलयो अखनूरसान आयल्यात. शाहनीन सांगलें, त्यो परथून वतना तांकां कपडे दिवचे पडटले. जालें! आयकून

लालाक घुंवळ आयली.''

''पूण ताणे आतां तुका आपलेबराबर कित्याक व्हेलो ना?''

''ताका खबर आसा, शाहनी सामान व्हरूंक मानाय करची ना. दोगांय झगडटना लेगीत बचत करूंक विसरनात.''

''कित्याक करतलीं? घरांत तूं आस न्हंय बैलावरी काम करूंक?''

''हांव नासत जाल्यार ती मानायाक दोन रुपया दिवची ना. अशे तरेन सांज मेरेन घराच रावतली.''

''तुकां लाला पगार बी दिता काय फुकटचो गुलाम करून दवरला तुकां?''

''लालाजी म्हणटा, तूं घरचो मनीस... घरच्या मनशाक केन्ना कोण पगार दितात?''

''घरचो मनीस कसो तर तूं? ताणें तुजें अजून लग्न करूंक ना. आनी तो तुका बरे कपडे लेगीत दिना... तूं फुक्यासवाय तुजी जीण हांगा होगडायता.''

''हांव तरी कितें करूं म्हज्या भांवानो? हांव जितो तरी आस न्हंय? हांव हांगा बांदून घाल्लेवरी कित्याक आसां, ते म्हजे म्हाकाच खबर! तुमकां सांगूक कितें?'' गीगुल्या उतरांत भंय आशिल्लो.

''तुवें कितेंय सांगल्यारूच आमकां कळटलें न्हय? तूं आमकां सांग. आमी तुका मदत करतात.'' — ओमान गंभीरतायेन म्हळें.

''हांव उरूं आसा तसो! म्हर्जी कर्मा हांव भोगतां. तुमी कित्याक ओगीच सकयल वयर जातात? त्रासांत मात पडटले बेश्टेच!''

''आरे बाबा, आमी सगळेच त्रासांत पडिल्ले लोक! तेन्ना तुजी काणी आमकां सांगूक कसलीच हरकत ना.''

खीणभर गीगु ओगी रावलो. मागीर ताणें म्हळें, ''तुमकां आयकुचें आसत जाल्यार आयकात. एक खेपे हांव गांवांत वचूंक सोदतालों. तें आयकून लाला तापार जालो. म्हणूंक लागलो, तूं असो हांगा थंय वचूंक लागलो, जाल्यार तुजे कुडके कुडके करून जनावरांक खावंक घालतलों.''

''लालाक एक मूस लेगीत मारूंक यना, तो तुका कितें मारतलो? तूं मनीस मरे!'' तीर्थुन म्हळें. त्या उतराक सगळे हांसले.

''साप्प साडेबावराती!'' ओमान कुशीक आशिल्ल्या कामराक म्हळें.

''लालान अशें म्हळें... ताचे गर्जनेक हो हुंदीर भिलो.''

गीगुन अजापान सगळयांकडेन पळेलें आनी म्हळें, ''पार्टिशनच्या वेळच्या लालाक तुमी पळेल्लो, जाल्यार तुमी अशे उलोवचे नासले. त्या वेळावेली ताची करणी पळोवन सगळयांक कितलें अजाप जाल्लें जाणा? तो मनशाचे मानेंत नेटान खंजीर रोमतालो. मागीर तितल्याच फोर्सान तो भायर काडटालो आनी उपरांत वोतांत धरून ताची चकचकसाण पळेतालो. तेन्ना तो बद्द यम कसो दिसतालो.''

''कोणाले मानेंत रोमतालो तो खंजीर?''

''वसंतगढच्या गुजरांच्या! काकूळट बाबडयांची! तो तांकां सांगतालो. तुमकां पाकिस्तानचे

शिमेभायर व्हरता म्हूण! मागीर हाचे सांगाती तांका एकठांय करून, गोरवांक पाणट्यार आंबुडची तशीं व्हरताले... हे राम!..."

"खऱ्यानीच गीगु?" सगळयांनी अजापान विचारलें.

— आनी गीगु आपल्या म्हेळया कुर्त्याक दोळे पुशीत उबो रावलो. "पूण गीगु, त्या तसल्या साद्या लोकांक ताणें कित्याक म्हूण मारले? तांणी ताचें कितें वांकडें केल्लें?"

"काय ना! फाळणे वेळार ताचेर म्हारू बशिल्लो. पयलीं हिन्दू आनी मुसलमान एका कुटुंबांतले आशिल्लेवरी चलताले. एक चीट आयली आनी कापाकापी सुरू जाली. लाला म्हणटालो, "संवसारांतलो गिरेस्त मनीस जातलों हांव! गिरेस्त जावपाचो ससार रस्तो मुखार आसलो. हाणें चांदीच्या रुपयांनी आनी भांगराच्या वस्तींनी साक भरले. रुप्याचीं आयदना आनी हेर वस्ती वांगडयांमदीं वांटल्यो."

"गिरेस्त जातलो जाल्यार दुसऱ्याच्या रगतांत न्हावचें पडटा. दुसऱ्याक नागडो करूनूच गिरेस्तकायेचे कपडे घालूंक मेळटा." जगदिशान म्हळें.

"हाचो बापूय कासीरीदास, इस्तिमसांवाचो मनीस. पोटभर जेवंक मेळ्ळें काय देवाले उपकार मानपी!" – गीगुन सांगलें.

"आनी हाच्यान दुसरो पोटभर जेविल्लो पळोव नज." ओमान म्हळें.

"तो आपूण तरी सारको खंय जेवता? गंढा म्हळयार कांदो. आनी हो कांदो आनी चपाती खावन खुश! दाळ भाजी खावप म्हळयार मजा मारप अशें तो म्हणटा." – अशें म्हणून तीर्थु व्हडान हांसलो.

"पयलींचे लोक भुरग्यांची नांवां चिंतून दवरतालो. त्या नांवांतल्यान तांचो सभाव कळटालो." ओमान सांगलें.

"हाचें पयलीचें नांव गंढालीराम आसलें. नगरोटे गावांत सगळें शांत जालें, तेन्ना लुटमार केल्ल्या लोकांक पोलीस धरून व्हरतले अशी वावडी पातळ्ळी. तेन्ना हो गांव, सोडून शारांत आयलो. आनी ताणे आपलें नांव दवरलें सेठ गंढामल" – गीगून सांगलें.

"लोक म्हणटात असले नागोवणेचे पयशे पचनात. पूण हाणें ते पयशे पचोवन वेल्यान धेंकरूय दिला." तीर्थुन अशें म्हणटलीच ओम् उलयलो, "आरे, हाणें तो पयसो खंय खाला? ताणें तो खाल्लोच जाल्यार अजीर्ण जावन येन्ना तो मरचो नासलो? तो सगळो पयसो दुसऱ्याचो अशें समजून सांबाळटा. लोकांचो माल, लोकांक तो परथून दितलो पळे!" आयकून निक्कू रागान उसळ्ळो. म्हणू लागलो, "मागीर तेन्नाच म्हजें लग्न जातले अशें समजात."

ताचें उलोवप आयकूंक नाशिल्लेवरी करून तीर्थुन म्हळें, "तूं म्हणटा तें आयकत जाल्यार हो शेठ न्हय जाल्यार त्या मालाचो चौकीदार जालो."

"चौकीदारूच म्हणचो पडटलो. व्हड लोकांमदीं हाचें उठप बसप पळोवन हाका डाकू कोण म्हणटलो सांग पळोवंया?"

"आरे गीगु, तूं कितलो तेंप हाचें फुकट काम करतलो! आरे सुकण्या पिला, दोंगरार उडून वच."

“म्हज्यान तें जावचें ना.” गीगून उदास जावन म्हळें. “तो म्हाकां उबो चिरून मीठ भरून सुकत घालतलो. ताका आमच्या दोंगराचो कोनशान कोनसो खबर आसा.”

सगळें वातावरण जड जाल्लेवरी जाल्लें.

कोणाली तरी नजर परथून येतल्या लालाचेर पडली. सगळे आपआपले सुवातेर गेले. गीगु ओग्गी रावन आपलें माथें खरपूक लागलो. तेन्नाच ताच्या नाखटांत एक ऊय आयली. ती ताणें हातार दवरली. आनी ती कशी चलता तें तो पळोवंक लागलो.

“आरे, मार मरे ती ऊय!” जगदिशान म्हळें.

“ते पातक हांव करिना बाबा!” अशें म्हणून तो तिका भायर उडोवंक गेलो.

“भायर उडयली जाल्यार पातक लागचेंना? ती थंय मरची ना?”

“हय मरे! तूं खरें उलयता. भायर उडोवप व्हडलें पातक. ती थंय कितें खातली?” तो चितूंक पडलो.

मागीर ताणे ते उयेक परथून आपल्या माथ्यांत घाली. आपल्या हातान जावपी पातक पुण्यांत बदल्ले हाची ताका खोस जाली. “पाडपडूं! इल्लीशी ऊय तर आसा. खावन खावन कितलें रगत खातली?”

इतल्यान शाह (गंढामल्ल) प्रेसांत परथून आयलो. ताचे बराबर निक्कु आसलो. निक्कु घामान भिजिल्लो. ताच्या हातान तीन डब्यांचो टीफिन आसलो.

शाह आपले कदेलीर बसलो. बसनाफुडें ताणें निसणीचो विशय काडलो. “हे पळेयात, तुमचो शेजारी आपलो शेजारधर्म पाळिना. जाल्यार तुमी तरी तो कित्याक पाळचो? शेजारच्या हॉटेलवाल्याक पळेयात... तो म्हळयार... दिलरूबा हॉटेलचो पंडित... म्हज्या प्रेसांतले एकतीस कामगार दिसपट्टे तीन खेपे ताच्या हॉटेलांत च्या पितात. पूण एक खेपे तरी ताणें म्हाका एक च्या घे म्हूण केन्ना दिला?” उलयतना ताची नजर टिफीन घेवन उबो आशिल्ल्या निक्कुचेर आनी गीगुचेर पडली.

“गीगु, तूं हांगा कितें करता?”

“शाहजी, तुवें म्हाका हांगाच उबो राव म्हणिल्लें.”

“चल. चलूंक लाग घरा.”

“शाहनी वचूंक ना न्हय?”

“ना! ती वचूं ना. तूं बरो फुल्ला! चोरा, तुजे रांदपाचे त्रास वांचले न्हंय?”

— गीगु हांसलो. मनापासून हांसलो. खोशयेन उडयो मारीत घरा गेलो.

गंढामल्लान निक्कुकडल्यान टिफीन बॉक्स घेतलें. तो एकेक डबो उकतो करूंक लागलो. पयल्या डब्यांत तूप लायिल्ल्यो चपात्यो आसल्यो. दुसऱ्या डब्यांत कडी आसली. आनी तिसऱ्या डब्यांत मुगातोय आसलें. हरशीं तो जेवचे पयलीं प्रार्थना म्हणटालो. जेवतना जगांतले रूचिक जेवण जेवता अशें भासयतालो. कोणूय ताच्या जेवणाकडे पळोवन अजाप जातालो, तेन्ना तो लोकांक सांगतालो, मुगांतोयाक निजाचो परमळ आनी रूच आसता. हातूंत मसाल्याची वेलची, लवंगां, जिरें आनी तिखी घालून घराव्या तुपाचीं फोडणा घालीं काय मटणाचो रस्सोलेगीत हाचे

मुखार झक मारता. खेरीज ॲसिडिटी, गॅस बी जायना ती गजाल वेगळी.''

पूण आयच्या वोतांत ओगीच धुंवळ आइल्लेवरी दिसतालें तेन्ना ताका दिलाच्या हॉटेलातल्यान कांद्यांत तळसुपी मटणाचो वास आयलो आनी ताच्या तोंडाक उदक सुटलें.

''आयज अर्दी प्लॅट मास मागवप... तेंवूय बी फुकट!'' नायजाल्यार ताच्या प्रेसांतले एकतीस जाण ताका गिरायक घालताले. ताचो फायदो घेवंकूच जाय. सद्दां सोड, पूण सुमानांतल्यान एक खेपे तरी ताणें ताका अर्द प्लॅट मटण फुक्यासवाय दिलें जाल्यार ताच्या घरचो कोयर वच्चो ना... ताका आपल्याच विचारांची तोखणाय दिसली. ताणें कडी, मुगांतोय आशिल्ल्या डब्यांत रकयली. तो डबो रितो केलो. रितो डबो ताणे एका भुरग्याकडेन दिलो. म्हळें, ''दिलशाहच्या हॉटेलांत वच आनी अर्द प्लेट मटण हाड. ताका सांग रस्सो इल्लो चड घाल म्हूण! पाडापडिल्लो वेटर रस्सो इल्लोय घालिना. खरें म्हळयार रश्यांत सगळें सत्व आसता...

भुरगो वचूंक भायर सरलो, तेन्ना ताणे ताका परथून आपयलो आनी सांगलें... ''ह्यो चपात्योय व्हर आनी गरम करून हाड. आनी ताका सांग शाहजी पयशे मागीर फारीक करतलो.''

प्रेसांत येवन ताका पंदरा वीस मिनटांच जाल्लीं आसतलीं. पुण ताची तकली खंय खंय धांवताली... वोत खर जाल्लें... येतना वोताची ताप सोसूं नज जाताली. आयज अकस्मात ताच्या प्रस्नांच्यो जापो मेळिल्ल्यो... ताका दिसतालें पयलींचे लोक धर्मशाळा कित्याक बांदताले... बांयो कित्याक खणटाले?... पाणपोयो बी कित्याक दवरताले? रस्त्याकुशीक सावळी दिवपी झाडां कित्याक लायताले? कश्टान जोडिल्लो पयसो अशे तरेन मोडप हें खंयचें शाणेपण? जो असलीं धर्मादाय कामां करता तांकां मेलेउपरांत कोण खाता? कितलीं वर्सां जालीं तो ह्यो बांयो आनी धर्मशाळा पळेतालो. कोणें बांदिल्ल्यो देवाक खबर! आनी तें जाणा जावन घेवंक हांगा वगत तरी कोणाकडेन आसा? तो मनांतल्या मनांत चिंत्तालो.

पूण आयज गांधीनगरांतल्यान परततना तो वोतान हुलपूंक लागलो, तेन्ना ताका ताचें मर्म कळ्ळें. आंग वोतान भाजतालें, तेन्ना जाण्टेल्यांच्या मनांत सावळेचीं झाडां लावपाचो विचार आयला आसूंक जाय. जाण्टेले खऱ्यानीच बुदवंत आशिल्ले. म्हुण्णूच ते रस्त्याचे देगेर झाडां लायताले. तांची बरी सावळी पडटा. गांधीनगर सान येतना रस्त्यार ताका एकूय झाड दिसलें ना. तानेन ताचो गळो सुकलो. पूण वाटेर ताका एकुय पाणपोय दिसली ना. ती गिरेस्त लोकांची वस्ती आसली. थंय कोण पाणपोय दवरतलो? च्या च्या एका गाडयार ताणें उदक मागलें जाल्यार गाडेवाल्यान ताका सरबत दिलें. ताका दोन रुपयांचें फिंत पडलें. थोडो लोक दुसऱ्याचे असहायतेचो असोय फायदो घेतात.

शाहनीची कशी तरी समजूत घालून तो प्रेसांत येतालो. वाटेर ताका बसूय मेळ्ळी ना. आनी टेम्पोय मेळ्ळो ना. गिमाच्या दिसांनी टॅक्सीड्रायवर नागयतात. ते मुद्दाम टॅक्सी सवका चलयतात. टॅक्सी मुखार टॅम्पो बी आसत जाल्यावर विचारूंकच नाकात. ल्हान भुरगें व्हड मनशाचें बोट धरून चलिल्लेवरी टॅक्सी टॅम्पोचें बोट धरून चलिल्लेवरी दिसता. आनी पंचेचाळीस पयशांचे सुवातेर पांच रुपया दिवचे पडटात. आनी मिटराचेर इल्लेशे पयशेय चड आसत जाल्यार तांचे बदलाक अख्खो रुपया दिवचो पडटा. आनी पाडापडिल्ले टॅक्सी ड्रायव्हर मोडचे पयशे नात म्हूण उरिल्ले पयशे केन्नाच

परथून दिनात.

इतलें अंतर पांयांनी चलून आइल्ल्यान चड वारें भरिल्ल्या टायरावरी ताचे पांय सुजिल्ले. आनी तकलीय फोडटाली. इतले मजगतीं निक्कु आयलो. ताणें सांगलें, ''शाहजी, दिल मटण उदार दिवंक तयार ना. तो म्हणटा, गेल्ल्या वर्सा तुवें अर्द प्लेट मटण उदार व्हेल्लें ताचे पयशे अजून फारीक करूंक ना...''

तें आयकून गंढामल्लाची तकली सण्ण जाली. बोडार कोणेंतरी उज्याचो गुळो मोखून मारिल्लेवरी ताका दिसलें.

''अशे म्हळें ताणें? यो पळोवंया म्हजे बराबर...'' गंढामल्ल भायर आयलो. पळेल्यार कर्मा निसणीर चडून चंदराच्या नांवाचो बोर्ड वणटीर लायता.

कर्मान अजुन निसण हाडूंना म्हूण कळटकीच ताका सामकी भिरभिरी मारली. हांव चलत घरा वचून परथून आयलों. आनी हो कावळो ताचो बोर्ड लायता. पूण प्रेसांत परथून येतना म्हजें लक्ष कर्माचेर कशें गेलेंना? घडये वोताक लागून आसत... तो रागान आड्डलो, ''ए, होऽ तो, कोण रे तो?... तूं प्रेसांत काम करता मरे? तुका पगार दिवंक हांव... आनी तूं दुसऱ्याली कामां करता? असलीं कामचोरपणा हांव चलून धेवपाचो ना. कळ्ळें मरे? नांव कितें रे तुजे?... तूं कर्मा?''

शाहजीक अकस्मात सामकार पळोवन कर्मा कांचवेलो. निसण वणटीक अशीच तेंकून दवरिल्ली. तिका कोणें धरूंक नासली. शाहजी आड्डना फुडें कर्मालो आवरो उडलो. आनी तो धबांयच करून सकयल पडलो आनी ताचे वयर निसण!

चंदर कर्माक धरूंक धांवत आयलो. पळेल्यार कर्माची पॅन्ट धोंपराकडे रगतान भरल्या. ताच्या दाव्या हाताच्या कोपराकडेन झरकटलां आनी खाडकेंतल्यान आनी तकलेंतल्यान भळभळीत रगत व्हांवता.

''आतां ताका कित्याक धरूंक धांवता? ताचो आता काय फायदो ना. तुवें ताका निसणीर चडयलोच कसो? आतां तो मेलो बी जाल्यार ताचे आवयक पूत ना जातलो. तुज्या बापायचें कांयच वचचें ना. लोक म्हणटलो प्रेसांतलो कामगार मेलो. ताका लागून म्हाकां कोर्टांत वचचें पडटलें. ताच्या सोयऱ्यांक म्हाका पयशे फारीक करचे पडटले. हे पाडापडिल्ले, निर्लज्ज लोक अशेच... प्रेसांत काम करपाचें थंयच उरलें... युनियन लिडर न्हय हो?... आपलें काम सोडून दुसऱ्यालें काम करूंक धांवता. हो ॲक्सिडंट प्रेसांत घडिल्लो जाल्यार प्रेसांतले सगळे कामगार संपार वचपाचे... तूं आनी म्हजें तोंड कितें पळेता? व्हर आतां ताका हॉस्पिटलांत!

अशें कितें जायत हाची चंदराक मात लेगीत कल्पना नासली. ताणे आपल्या स्टुडिओचीं दारां बंद केलीं. बोवाळ आयकून भायर आयिल्ल्या दिलाक, दुकानाचेर लक्ष दिवंक सांगलें आनी कर्माचो हात धरून तो ताका चलपाक मदत करूंक लागलो. कितें जालां काय म्हूण पळोवंक लोक रोखडोच एकठांय जालो. तांचेर चंदर आड्डलो.... ''कितें पळेतात? हांगा कितें कोणालो खून जाला? चलूंक लागात हांगासल्ले...'' ताचो तो तिडकल्लो आवाज आयकून लोक फांफसले.

जखमी कर्माक चंदर हॉस्पिटलांत व्हरतालो. तेन्ना शाहजीन आपल्या हातावेल्या घडयाळांत पळोवन म्हळें, ''तूं १.२०क हांगासान वता. आनी हाचे पयलीं सवायवर तूं प्रेसांतल्यान भायर

सरला. हो टायम लक्षात दवर. हांवूय बरोवन दवरतां. म्हळयार, पगाराच्या दिसा पयशे कित्याक कापले काय म्हूण विचारूंक येवं नाका.''

दिलशाहक सामकार पळोवन गंढामल्लान ताकाय पुर्राद दिवचें थारायलें... हो काश्मिरी पंडित. आनी नांव खोजाल्या नांवाभशेन. हालींच कुंडयावेल्यान उंडयार आयला म्हूण आपणाक कोण समजता देव जाणा! येतना वतना दिश्टी पडल्यार हांस लेगीत ना.

''आनी तूं रे? तूं कितें म्हणटालो, पोरूच्या अर्दप्लेट मटणा विशीं!... तुजें बोड जाग्यार आस न्हंय? हांव केन्नाच कोणाक कितें उदार दिना आनी कोणालें कितेंय उदार दवरिना.''

मुंडु मर्दीच पडिल्लो दांत सो उलयलो. ''शाहजी, आमीय केन्नाच कोणाक उदार दिनात... आमचे वणटीवेलो बोर्ड पळेला न्हय? ताचेर स्पश्ट बरयलां Do Not Embarrass us by asking for payment later. आनी ते पलतडचे वणटीर बरयलां Cash down. No udhar.

''तूं ओगी बस चेडयेच्या!'' शाह आड्डलो. शाहचो घरगडी निक्कु मुंडुल्या आंगार धांवन गेलो. ते बराबर शाहजीक चड्डूच नेट आयलो, ''मेल्ल्या, जाणटे उलयतना तुका मर्दी तोंड घालूंक कोणें सांगलां? म्हाका म्हजे ट्रक विकचे पडल्यार पडूं... पूण तुजो सत्यानाश केले बगर रावचों ना. अख्खी पांज अळशिकावणी करून उडयल्या. एक फोन मारल्यार पुरो, तुका तुजे जें कितें आसा तें गुठलावन पळून वचचें पडटलें.''

दिल पायां पडत मुखार आयलो. ताणें म्हळें, ''शाहजी, आमी तुज्या भुरग्यांभशेन... भुरगे चुको करतातच न्हंय? हांव तुजो चाकर... म्हजें हॉटेल तुजेंच... मटणाचो अख्खो तोप व्हर तूं... म्हजें कांयच म्हणणे ना.''

''तुका दोन खेपेचें जेवण मेळूंक लागतकीच तूं आपणाक कोण समजूंक लागलो रे? बेबो कितलोय फुगलो म्हूण तो बैल जायना, कळ्ळें मरे? तुकां मातुय दिनवास ना. म्हजे एकतीस कामगार तुजें गिरायक, हांवें तांकां सांगलां तुज्याच हॉटेलांत च्या घेयात म्हूण! आनी तूं... तुवें आजय तुजे खरेले दांत दाखयले... राव तूं! तुका दाखयता हांव कितें ते...''

इतले मजगतीं मुंडू आनी निक्कु एकमेकांचेर धांवन वचून झगडूंक लागले. मुंडूक बरो भड्डो पडटालो. ताका लागून तो बरो घटमुट जाल्लो. ताणे निक्कुक गोबरा राशीर उडयलो. आनी त्या दनपारच्या कडार ताका धपाधप मुठींनी गुड्डावंक लागलो. आनी तो आड्डलो, ''इरमांव, शाहजीक धर आनी हाड हांगा... पाडापडिल्लो आपणाक कोण समजता. तो आमकां पोटाक घालता काय कितें?''

दिलान मुंडूक फार्टी ओडलो म्हूण! नाजाल्यार ताची जीब वाखर कशी, कशीय चलपाची...

तो फुडें कितेंय उलोवचे पयलींच दिलान ताचेर सणसणीत चार थापटां फुलयलीं. तें पळोवन मुंडु एकदम थंड जालो. हो इरमांव ह्या शाहक इतलो भिता? कित्याक म्हूण? त्या शाहक सारकें कितें तें दाखोवपाचो...

मुंडूक शाहजीमुखार घालून दिलान सांगलें, ''शाहची पयलीं माफी माग!'' मुंडून शाहजीच्या पायार घालून घेतलें. शाहजीन ताका आपल्या पायांनी पयलीं चिड्डिलो. आनी खोटींनी धुकळून उडयत म्हळें, ''माय ×××! मारूंक मुखार सरता?'' शाहजीन चितलें, ''मुंडून निक्कुक जितलो

मारिल्लो ताचे परस आपणे ताका चड पेट घालो. शाहजींन मुंडूक धील सोडलो. ते बराबर तो उठलो आनी ताणें शाहजीक धुकल्लो. शाहजी वचून गोबरांत पडलो. तो तसोच उठलो. ताणें दिलाक सांगलें, ''तुका हें सगळें म्हारग पडटलें.'' उपरान्त तो हॉटेलांत गेलो. आपणालो रितो डबो आनी चपात्यो घेवन तो प्रेसांत गेलो.

मटण खावपाचो ताचो बेत थंयच उरलो. ताणें प्रेसांत येवन कामगारांक सांगलें, दिलाच्या हॉटेलांत च्या पिवंक वचपाची गरज ना. पयशे एकठांय करून तुमी च्या हांगाच करून पियात.

ताणें नारायणाक आपोवन हाडलो. आनी ताकां 'टी क्लबाचो' सेक्रेटरी केलो. फाटले खेपे युनियनाच्या इलेसावांत तो कर्मा आड उबो आसलो. नारायण शाहचो मनीस, म्हूण तो इलेसांव जिखूंक पावलो ना. शाह ताका वर्कर्स युनियनाचो सेक्रेटरी करूंक शकनासलो. पूण 'टी क्लबा'चो सेक्रेटरी करूंक शकतालो. कामगारांचें युनियन आशिल्लें. पूण ताचो काय उपेग नासलो.

प्रेस प्रोपरायटरांचे मिटिंगेंत एक खेपे शाहजीन सांगलें, ''कायदे मनशांनी केल्यात. तेन्ना मनीसूच ते जाय तशे वापरूंक शकता. युनियन बिनियन नाशिल्लें तेन्ना सगळें काय बरें आशिल्लें... हें युनियन म्हूण आयलें आनी झगडयांक सुरवात जाली. पगार, लिव्ह, बोनस, काम करपाचीं वरां आनी जायतें कितें कितें... हांवें एकाच धपक्यांत हें सगळें बंद केलें, हांवें लेबर डिपार्टमेंटातल्या लोकांक सांगलें, म्हजे कडेन तीन कॉन्ट्रेक्टर आसात. एक नारायण, मशीन सुपरवायझर, दुसरो प्रेस कंपोझिंग खात्याचो मुखेल आनी तिसरो द्वारका - प्रेसचो मॅनेजर, तिगूय लोक म्हज्या विश्वासांतले. आनी सगळे कामगार ह्या कॉन्ट्रेक्ट राचे लोक. हांव तांकां प्रिन्टींगचें काम कॉन्ट्रेक्ट बेसिसचेर दिता. आनी तांचे कडल्यान तें करून घेतां. हाका लागून जाता कितें, गरजेप्रमाण कामगार घेवंक मेळटा. ते भायर, वर्सभर प्रिन्टींगचो धंदो चलत म्हूण खात्री ना. जाय तेन्ना कामगार दिसवडयाचेर घेवचे, नाकां तेन्ना काडून उडोवंचे. दिसवडो म्हळयार कितें खबर आसा? दिसवडो म्हळयार काम कर आनी पयशे व्हर. तांकां मागीर प्रिव्हीलेज लिव्ह, बोनस बी कसल्योच कटकटी लागनात. खेरीज कायदो तुका कायच करूंक शकना. सुर्वेक युनियनान बोंब मारली. पूण कायदयान ते कांयच करूंक शकलेनात.

मागीर तांणी संप केलो. थोडे देडशाणे आसले. तांणी भूक हरताळ केलो. हो वांकडया तोंडाचो कर्मा तांतलोच एक. हांची कुटुंबां... तांचीं भुरगीं... पोटाक नासून पोटां फाटीक तेकलीं... पूण लोक कापाज... फाटीं सरले नात ते नाच. मागीर हांवें दुसरो मार्ग, काडलो. हांवें कितें केलें, भूक हरताळ करूंक बशिल्ल्या एकल्या घरांतल्यो वस्तू चोरून दुसऱ्याच्या माळयार व्हरून दवरूंक लायल्यो. ज्या घरांतल्यो वस्तू चोरिल्ल्यो तातूंत रडारड आनी गाळी फस्त्यो सुरू जाल्यो. तिसऱ्या भूक हरताळ करपी मनशाले चलयेक उबारून व्हरूंक लायकी. ती शाळेंतल्यान घरा पावलीच ना. तांच्याय घरा रडारड आनी बोंबाबोंब सुरू झाली.

तांच्या बऱ्या मागत्यानी मागीर पुलिसींत केस केली. म्हज्या लोकांनी अशे तरेन कामा केल्लीं की पुलिसांक भुकहरताळ करूंक बशिल्ल्या मनशांचोच दुबाव येवंक लागलो. चोरिल्ल्यो वस्तू एकल्यागेर मेळ्ळयो जाल्यार चली दुसऱ्यागेर.

मनशालीं तत्वां कितलींय घट आसूं, पयशानी तीं जाय तितलीं मोव करूं येतात. भूकहरताळ करतल्यां मदींच फूट पडली. तांचे दोन गट जाले. आनी आमकां हे गजालीचो लाव घेवची संद

मेळ्ळी. तांतल्या एका गटाच्या लोकांक आमी स्वेटर दिले. तांच्या भुरग्यांक पुस्तकां कादेर्न दिले. ते शिंयाचे दीस आसले. तें लक्षांत घेवन आमी एकेक लिटर पेत्रोल सगळयांक वाटलें. ताका लागून तांचे स्टोव्ह पेटले. हे वटेन दुसऱ्या गटाच्या लोकांक दिसलें सेर्त पयल्या गटाक हांवे विकतो घेतला. अशे तरेन हांवें युनियन फोडलें. हरशीं लेबर कमिशनर तांकां मदत करूंक सोदता म्हूण आयकल्लें. पूण कायद्यान ताका आधारूच नासलो. खरें म्हळयार हांव हया प्रेसाचो मालक . पूण सेलाद फोलीर हांव जनरल मॅनेजर म्हूण पगार घेतां. द्वारका हे कंपनीचो ॲक्झिक्युटीव्ह मॅनेजर आनी कॉन्ट्रेक्टर. पूण हें सगळें कागदार. हरशीं ताची सुवात प्युनापरस चड वयली ना. कायद्याक खूब चोरवाटो आसतात. तांचो लाव घेवंक मात कळूंक जाय. ह्या कामगारांक दिसवडयाचे मानाय म्हूण कामाक घेतल्यात तेन्नासावन हांव खोशी आसां. कित्याक, केन्नाय म्हाकां जाय तेन्ना, जाय ताका हांव घेवंक शकतां आनी नाका तेन्ना काडून उडोवंक शकतां. आनी मजा म्हळयार म्हाका कोणूच हात लावंक शकना.

गंढामल्लाच्यो ह्यो गजाली आयकून अजापभरीत जाल्ल्या प्रेसमालकानी ताका आपल्या मंडळाचो सेक्रेटरी केल्लो. गंढामल्लाक सेक्रेटरी करपाचें आनीक एक कारण आसलें. कर्मा हो प्रेस वर्कर्स युनियनचो सेक्रेटरी आसलो. आनी तो गंढामल्लाच्या प्रेसांत काम करतलो. ताच्या हालचालीं चेर नदर दवरप मालकांक गरजेचें दिसतालें,गंढामल्लाक सेक्रेटरी केलो काय हें काम आपशींच जावपाचें. म्हळयार मुंगूसान सोरपाचेर नदर दवरिल्लेवरी! खेरीज तो सदांच आपले अक्कलहुशारीच्यो गजाली तांकां सांगतालो.

सांजवेळ जायत आयली.

कर्मा परत येवंक नासलो. शाहक हुस्को जालो, ''हो मेलो बी ना मू?... मेलो जाल्यार बरेंच जालें. भायले भायर पिडा गेली... कर्मा केन्ना आनी कसो त्रास दीयत सांगप कठीण!... घडये ताचो घाय शिंवतना घुंवळून बी पडला आसूं येता. आनी दोतोरान ताका ॲडमिट केला आसूं येता. तशेंय जाल्यार बरेंच जालें. दोतोराक पयशे दिवन कर्माक बुद्द शिकोवंक गिदांकडेन बचफुलां, चोंच आनी पाखां आसतात. पूण म्हजेकडेन पयशे आसात. आनी पयशांनी गिदांची चोंच, बचफुलां आनी पाखां कापप सोंपें. ही संद सोडूंक फावना. हांव ताका हाथरूणावेलो उठुंकूच दिवचो ना...''

दिल आनी मुंडुक आपल्या दरवट्यार पळोवन ताचें चिंतप थांबलें. ताका तांची तिडक आयली आनी ती ताच्या तोंडार पातळ्ळी. पायां पडत ते म्हणटाले, ''शाहजी, आमची चूक जाली. आमकां माफ कर... तूं आमचो धनी...''

म्हज्यान जातालें जाल्यार हांव तुमकां फांसार चडोवपाचो. व्हासिमोर हांगासल्ले...'' गंढामल्ल आड्डलो.

''आमी सोपूत घेतात... परथून आमी अशे केन्नाच वागचे नात. तूंच आमचो मायबाप...''

''पात्रांव गुन्याव भोगोस... ताणे म्हजे कान इतले ओडले... इतले ओडले, ते तुटूंक पावल्यात पळे...'' मुंडून अशें म्हणूं नाका, शाहक परथून तिडक मारली.

''तुज्या कानांचे पडूं पाड... हांगासावन पयलीं चलूंक लाग नाजाल्यार पोलिसांक आफोवन तुका धरून व्हरूंक लायतलों... तांकां सांगतलों, तूं हांगा चोरूंक आइल्लो, म्हूण! लक्षांत दवर...

हांगा म्हजेकडेन एकतीस मानाय आसात.'' 'एकतीस' हें उतर ताणे नेटान म्हळें. म्हळयार, ताका दिलाक दाखोवन दिवचें आसलें की तुजीं एकतीस च्या ची गिरायकां म्हज्या हातांत आसतना तुवें अर्द प्लेंट मटणाक लागून म्हजो अपमान केलोच कसो? ताणें गवेत उकत्तें करून तांतले पयशे काडले, मेजार शिंवरले आनी फोनाक हात घालो.

शाह आपणाचेर कसलें तरी बगलांट घालूंक सोदता हाची सुलूस लागना फुडें दिल आनी मुंडु आयिल्ले तशे परतले.

तांकां हॉटेलांत परततना पळोवन शाह तांचेर आइडलो, 'फटिगांनो, दुस्मानपणा कशीं करचीं तें तुमकां हांव जिस्त शिकयतां.''

शाहक याद जाली, ताणें घरा कितें तरी धाडटां म्हूण सांगिल्ल्याची. ताणे आलमारींतलें व्हडलें पाकीट काडून द्वारकाकडेन दिलें. आनी ताका सांगलें, घरा वचून हें पाकीट शाहनीक दी. आनी तिका सांग, हांगा खूब काम आशिल्ल्यान हांव स्वतः तें पाकीट घेवन येवंक शकलों ना.

पाकिटाच्या वजनावेल्यान तांतूंत कपडो आसा हें वळखूंक जातालें. जेन्ना शाहनीन तें पाकीट उगडलें तेन्ना भितल्ली वस्त पळोवन तिका भिरभिरी माल्ली... त्या चिक्कूमारवाडयान हो कसलो ओर्दीनार कपडो धाडला... प्रेतार लेगीत हाचे परस बरो कपडो घालतात. म्हुण्णूच तो मालक्रियाद आपुणूच कपडो घेवन येवंक ना.''

द्वारकान ल्हवूच थंयच्यान कूस मारली. आनी तो गिगु म्हऱ्यांत आयलो. गिगु पोरसांत फुलझाडां लावंक जमीन खणटालो.

''शाहचें जार्दिन करता गिगु?''

''हय! पूण तूं खंय धांवता?''

''म्हाकां खबर नासलें शाहन म्हाकां गाळी खावंक हांगा धाडला म्हूण!''

''आरे, तुवें तिगेलो खरेलो राग अजुन पळोंवक ना. तुवें इल्लोसो प्रसाद चाखला...''

''कसलो प्रसाद?''

''तुका खबर ना... शाह फक्कत शाहनीक भिता...''

''आरे गिगु, त्या दिसा तुवें पार्टिशनची खबर सांगिल्ली ती खरी?''

''मागीर? तुकां ती फट दिसली?'' – गिगुन खोरें कुशीक दवरलें आनी म्हळें, तुका ताची आनीक एक गजाल सांगतां. ती आयकून शाह कितलो कुसको आनी कुन्नाटो तें कळटलें.''

द्वारका बसलो आनी गिगुन सांगूंक सुरवात केली.

''पार्टिशनचे पयलींची गजाल. जुम्मा गुज्जर शाहच्या शेजरा रावतालो. ह्या गुज्जर कुटुंबान शाहच्या फामिलीक खूब खेपो मदत केल्ली. शाहचें कुटुंब गरीब समजून हें गुज्जर कुटुंब तांकां केन्ना दूद दितालें. केन्ना लोणी जाल्यार केन्ना तूप. जुम्माचे चार भाव आनी तांचीं बायलांभुरगीं आनी जुम्माची बायल वयल्या दोंगरार रावताली. जुम्मा स्वतः, ताचो एक पूत सून आनी स वर्सांचो नातू शाहच्या शेजरा रावतालीं.

एक दीस खबर आयली की जुम्माचे बायलेक आनी ताच्या भावांक, तांच्या बायलेभुरग्यांसयत मारून उडयलीं. जेन्ना कासीरी मल्लाक म्हळयार शाहच्या बापायक हें कळ्ळें तेन्ना तो खूब वेळ

रडलो. मागीर ताणे जुम्मा, ताच्या पुताक, सुनेक आनीक नातवाक तापी न्हंयचे एके सुवातेर लिपोवन दवरलीं. ताका कळिल्लें हांकां मारप्या भितर ताच्याय पुताचो हात आस म्हूण! ताणें आपल्या पुताक कितलो समजायलो... पूण ताणें आयकलें ना... हेरांक मारून उडोवचे पयलीं आपणाक मारून उडय अशें लेगीत ताणें हाका सांगलें. पूण कांय फायदो जालो ना. हाणें जुम्मा आनी ताचो पूत, सून आनी नातू लिपिल्ली सुवात सोदून काडली. ताणें जुम्माक थंयच मारून उडयलो. पूण ताच्या पुताक, सुनेक आनी नातवाक कालीच्या देवळांत व्हेलीं. आनी थंय जमिल्ल्या लोकांमुखार तांकां मारून उडोवंक उबी केलीं. दिनान म्हळयार जुम्माल्ल्या पुतान हांकां कितें सांगलें खबर आसा? ताणें सांगलें, ''जाय जाल्यार आपूण हिंदू जातां. पूण म्हाकां मारूं नाका.'' पूण ताणी म्हळें, गाडवाची केन्ना गाय जाल्ली तुवें आयकल्या? अशें म्हणून ह्या गंढामल्लान अेकाच धपक्यान ताका मारून उडयलो.

खेडयांतलो लोक एकमेकांलागीं बरे भशेन वागतालो. तांचेमदीं गुज्जर वा तेली लोकाविशीं दुस्वास नासलो. पूण ज्या लोकांचे तकलेंत् रगत चडटा तांकां कोणे समजावप? हो गंढीला तेन्ना म्हणटालो महाभारता परस हें झूज व्हड. असल्या मनशाक उपदेश करप म्हळयार उमथ्या कळशेर उदक रकवप. ताचो बापूय म्हणटालो, महाभारत जावं ल्हान जावं व्हड, तें देशाक आनी लोकांक केन्नाच बऱ्याक पडचें ना. पूण ताचें आयकता कोण? ताचो पूत ताका पिसो लेखूंक लागलो.

मागीर ताणीं जुम्माले सुनेक मुखार हाडली. तिणें बावडेन तोंडार घुंघट घेतिल्लो. तिचे खातिर तरनाटे चले भाव, नाजाल्यार देरावरी आसले. आनी जाण्टेले बापयावरी... तिगेलें तोंड अजून घुंघटा भितर आशिल्ले. गांवचे थोडो लोक हें पळोंव नज जावन व्हवू घरा गेलो. जाल्यार थोडे कितें करचें तें कळना जावन गोंधळले वरी थंयच उबे उरले. एका जाण्टेल्यान म्हळें, ''काकूळट बाबडयांची! ह्या दुबळया जिवांक सोडून दियात. ते जीव म्हळयार जुम्माल्या कुटुंबाची निमणी कुरू! तांकां कांय करूं नाकात. तांकां सोडून दियात.'' ताणें अशें म्हणटकीच गंढीला, किंळचलो, मोयरांचेर फावोर करपी ह्या जाण्टेल्याक हांगासवान पयलीं भायरो करात.'' ते बराबर तो जाण्टेलो थंयच्यान पळून गेलो. गंढीलान मागीर ते बायलेच्या हाताक धरून तिका ओडली. तिणें म्हळें, ''भावा, तूं हें कितें करता?'' ते बराबर तो तिच्या तोंडावेलो घुंघट ओडूंक लागलो. तिणें म्हळें, ''भावा, तुकां पायां पडटां... तूं म्हाकां सोड.... जाय जाल्यार तूं म्हजो जीव घे. पूण गावच्या जाण्टेल्या मुखार म्हजो घुंघट उक्तो करू नाकां... तुका कालीमातेचो सोपूत! तूं म्हजी अब्रू वांचय म्हज्या भावा...''

थंय आशिल्ले सगळे जाण्टेले हिन्दू आशिल्ले द्वारकाभाई! पूण तांणी केन्नाच हिंदू मुसलमान असो भेदभाव करूंक नासलो. पाकिस्तान लाहोरांत तो जाल्लो. आनी आमचे दोंगर रगतान तांबडे जाल्ले. शारांतली गरम हवा दोंगरावेले शांततायेक लासताली. मनशांमनशांमदलो मोग ना करपी धर्म जाय कोणाक? जेन्ना दिनाचे बायलेचेर ताणें घाव घालो, तेन्ना ती बांदिल्ले वालीचो दोर तुट्टकीच भिरकटून पडटा तशी ती पडली. दुखीन न्हिन्नळी. निमणो श्वास थामसर तिणें आपलो घुंघट तोंडार घट्ट आंवळून धरिल्लो.

''पुरो गिगु पुरो! म्हज्यान हें आयकूं नज.'' द्वारकान सगळें सोसूं नज जावन म्हळें.

गिगुच्या दोळयांतल्यान दुकां व्हांवतालीं. गीगूच्या ओल्या दोळयांत मनीसपणाचें पड्बिंब दिसतालें. ताणें मुखार म्हळें, ''जुम्माल्या नातवाचें कितें जालें तें तुका आयकुपाचें ना तर?... आयक.... ताचो नातू कळ्यावरी आसलो. ताका हें सगळें कितें चल्लां तें कांयच कळनासलें. बापायक मारिल्लो. आनी आवयलो खून जाल्लो पळोवन लेगीत ताका रडूंक म्हणटा तें आयलें ना. तो पुतळयावरी घुम्म मोनो जाल्लो. भियेवन ताची साप्प गुळी जाल्ली. ताणे थरथरत म्हळें, ''काका, हांव ल्हान... म्हाकां मारूं नाका काका!''

द्वारकान आपल्याक सांवरपाचे खूप यत्न केले. पूण ताच्या दोळयांतल्यान घळघळीत दुकां व्हांवक लागलीं.

''तूं सांग भावा, राज्य, भाटां बेसां, पयसो दुसऱ्यांक मारूनूच जोडपाचो आसता?''

''गीगु, तूं तागेर इतलों तेंप कित्याक म्हूण पडून आसा?''

''खंय म्हूण वचूं? म्हजो आवय बापुय पठाराचेर गेल्लो. जुम्मा आनी ताचे फामिलीचें जें जालें तेंच तांचेंय बी जालें. तेन्नासावन म्हजी तकली जाग्यार ना. हें जें सगळें कितें जालें तें सगळें म्हाकाच लागून जालें अशें कितेंशें म्हाका दिसता. सगळयांच्या मर्णाक हांवूच कारण अशें म्हाका दिसता. म्हाका दिसता म्हज्या नशिबान म्हाका हांगा हाडून सोडला आतां आनी हांव खंय वचूं?

— × — × — ×—

सांजेचो द्वारकान प्रेस बंद केलो. आनी तो घरा वचूंक भायर सरलो. वाटेर ताका रस्त्यादेगेर चंदर, फोटोग्राफर आनी कर्मा-प्रेस वर्कर्स् युनियन लिडर - उलयतना दिश्टी पडले. तांकां पळेनाशिल्ले भशेन करून तो तांचेलागीं पावलो.

''तूं मरे ओरिजिनल दुकुमेंत हाडून म्हजेकडेन दी. हांव तांची फोटोस्टेट कॉपी करून खबरेपत्रानी दितां. सरकाराक नागयल्ल्या कारणान पाडापडिल्ल्याक कादयेंत घालो ना जाल्यार नांव बदलीन! ही साप्प लूटमार मरे.... कामगारांक तांचे हक मेळनात म्हळयार कितें?''

— तांच्या तोंडाक सोऱ्याचो वास मारतालो. ताचे वेल्यान दोगुय तायट आसात म्हणपाचें कळटाळें. द्वारकाक खबर आशिल्लें जेन्ना जेन्ना चंदर इल्लें 'कुट्ट' करता तेन्ना तेन्ना ताका कामगारांची काकूळट येता. ताच्या काळार तो कॉलेजांतल्या कम्युनिस्ट ग्रुपाचो लिडर आसलो. आपले हे सुवातेचो उपेग करून घेवन ताणें एक्सायझ डिपार्टमेंटांत सरकारी नोकरी मेळयल्ली. इतलेंच न्हंय तर करण नगरांत ताणें बंगलोय बी बांदिल्लो. पूण एके ॲन्टी-करप्शन केसींत तो सांपडलो. आनी ताका सरकारी नोकरी सोडून फोटोग्राफर जावचो पडलो.

कर्माचे तकलेर पट्टी बांदिल्ली आशिल्ली. ताणें चंदराल्या खांदार हात घाल्लो. आपलें नाक खरपीत ताणें म्हळें, ''सगळया कामगाराक वायट दिसलां. पूण कोणूच काय उलोवंक तयार ना. कोणांक आपली नोकरी होगडावपाची ना. मालकाचे दोन तीन चमचे आसात. पूण तांचें कांय चलचें ना. फाल्यां लेबर ऑफिसराक आफोवचें म्हूण थारायलां. हांव सक्काळीं ताचे म्हऱ्यांत वतलों. एक नवो लेबर ऑफिसर आयला खंय! आनी हांव आयकतां ते प्रमाण ताच्या मनांत कामगाराविशीं काकूळट आस खंय!''

सोऱ्याचे धुंवळींत चंदरान म्हळें, ''इन्कलाब जिन्दाबाद.''

थोडया वेळान कर्मान म्हळें, ''हे खेपे हांव प्रेसार रेड घालूंक लायतलोंच! पाडापडिल्लो चोर... सरकारान दिल्लो पेपर मार्केटांत विकता... ताणे घाल्ल्यो गाळी येवजून म्हजें काळीज हुलपता...

सोऱ्याच्या नेटान दोगुय गाळी शिंवरीत वताले. द्वारकाक दिसलें, तांचे फाटोफाट वचचें. पूण तशें करप सम्मा जावचें नासलें. खेरीज ताणे जें कितें आयकलें, तितलें माथ्याबोडावेल्यान पुरो आसलें. तो बाणावरी धांवत गंढामल्लाच्या बंगल्यार गेलो.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं फुडें स्टुडिओंत एका मनशाक पळोवन चंदर खुश जालो. गिरायकाक फारावंक जाय म्हूण ताणे म्हळें, ''म्हज्या स्टुडिओंतले फोटो गावांतल्या स्टुडिओंतल्या फोटवां, परस बरे येतात.'' पूण गिरायकाच्या तोंडाक पळोवन तो समजलो, गिरायकाक ताच्या उलोवण्यांत इल्लोय इंटरेस्ट ना. तेन्ना ताणें मुखार म्हळें, ''इतलें आसुनूय आमचो दर उणो आसा. तुमी मातशे रावात आं... हांव तुमकां आल्बम हाडून दाखयतां. तो पळोवन तुमकां खंयची पोझ जाय ती तुमी सांगात...'' अशें म्हणून चंदर आल्बम हाडूंक भितर गेलो. भायर येवन पळेत जाल्यार गिरायक परथून वता.

चंदर भिलो. आयचोय दीस पाडापडिल्लो वायट वतलो दिसता.

तो मनीस मुखार गेलो. आनी ताणें फाटल्यान वळून पळेलें. ताच्या तोंडावेले गूढ आनी फकाणा केल्ल्याचे भाव पळोवन चंदराक चर्र जालें... ''कोणूच गिरायक म्हज्या स्टुडिओंत कित्याक टिकना काय?... हो स्टुडिओ... भायली परिस्थिती पळोवन तांकां भितर यन दिसना काय?... पूण फोटो काडून घेवचे पयलींच हांगां काडिल्ले फोटो बरे येवचे नात अशें तांकां कित्याक दिसता काय? एक खेपे फोटो काडले उपरांतूच हांकां कळटलें न्हंय की बरे फोटो काडूंक स्टुडिओचो भायलो शो बरो आसूंक जाय अशें ना!...''

ताका दिसलें, निकतेंच दुकान उकतें केलें आनी पयलेंच गिरायक फाट करून गेलें म्हळयार बोणी वायट... गिरायक म्हळयार देव... ताणें अशी फाट करप म्हळयार देवानूच रागार जावप. म्हूण ताणें उलो मारलो, ''पात्रांव यो! तूं पयलेच खेपे आयला. तेन्ना पयशे इल्ले, उणे करूंया... पूण बोणयेच्या वगतार अशें... ''तरी ताचें कांय चल्लें ना... घडये म्हजी उलोवपाची रीत सारकी ना दिसता... पूण कितें करूं? आतां कोणाक फुक्या सवाय फोटो काडून दिवंक कशें परवडटलें?''

इतले मजगतीं प्रिंटिंग प्रेसूय उक्तो जालो. द्वारका एका हातान नाक घट धरून दुसऱ्या हातात सान्न मारतालो. चंदरान पळेलें, प्रेसांत कसलें कसलें काम चलतालें. नारायण एका आयदनांत च्या करतालो. आनी रात्रीत उरिल्ल्या पेपरांचे कुडके घालतालो. शाह अजून येवंक नासलो. पूण कामगार आपआपलें काम करताले. नारायण तांकां सुमानाच्या निमण्या दिसा च्यायेचो हिशेब करूंया अशें सांगतालो. चंदराच्यान रावं नज जालें. ताणें म्हळें,

''तुमी दिलबट्टच्या पोटार कित्याक आड येतात? गरीब लोकूच जर गरिबाच्या मुळार येवंक लागले, जाल्यार ह्या जगांत गरिबांनी जगचें कशें? गरीब लोक आनी कामगार हांणी एकमेकांच्या आदारान एकमेकांल्यो चुली पेटोवंक जाय. तुमी एकठांय जाले जाल्यार मालक सोडात, अख्खें जग तुमचो एक केंस लेगीत बागोंवक शकचे ना. जे मनीस मालकान विकत घेतल्यात, तांचें सोडात... ते लोक तुमचे पांय फाटीं ओडटले... पूण तुमी तांचेर लक्ष दिवंक फावना. निमणो विजय तुमचो

जातलो आनी घर-भेद्यांच्या तोंडाक काळें लागतलें…''

''तें सगळें बरें आसा… आतां तूं तांका मुखावेलो धडो शिकय् तांकां सांग… बंड करात… मशिना जळयात… नक्षलवादी जावन गुळयो खावन मरात.'' – द्वारकान संतापून म्हळें.

''मुयांचे मर्ण लागीं येता तेन्ना तांकांय बी पाखा फुट्टात… तूं बरे भशेन हांगच्यान वता काय?…'' अशें म्हूण नरेनान बडी उबारली.

''मशिनाक हात लायशीत जाल्यार तुजीं हाडां जाग्यार उरचिंनात. आनी तुज्या ह्या दुकानांत पयलीं उजो घालून आमी बंड करतले.''

— द्वारकान आड्डून म्हळें.

चंदराक सट्ट जालें… तो दुस्मानाचे हद्दींत आसलो. आनी ते लोक ताका खंयचेय केसींत कितेंय निमित काडून आडावंक शकतालो. ताका दिसलें… पाडापडिल्ली नाका ते अळशिकेंत फातर मारून आंगार उसळावन घेवपाची संवय जाल्या…. पूण हें सगळें स्टुडिओंत काम ना म्हूण जाता न्हंय… म्हाका काम मेळिल्लें जाल्यार दुसऱ्याने भानगडींत पडूंक वगत तरी खंय मेळपाचो?…

इतले मजगतीं, बोवाळ आयकून भितर आशिल्लो कर्मा भायर आयलो. ताणें चंदराक दोळो मारून ताका थंयच्यान वचूंक सांगलें. आनी तो वतना फकत ताकाच आयकूंक येत अशे रितीन ताणें म्हळें, ''हावं सकाळीं वचून आयलों. तांकां सगळें कितें तें सांगलें. ते आतां खंयचेय घटकेक येवंक शकतात.''

चंदर स्टुडिओंत आयलो. आपल्या स्टुलार बसतना ताणें चितलें, ''दनपरां जेवंक वतना पुलिसेंत वचप आनी गंढामल्ल कागद ब्लेकांत विकता तें सांगप…'' चंदर आपल्या कावंटरच्या फाटल्यान आयलो. तेन्नाच शाह प्रेसांत भितर सरतालो तें ताणें पळेलें. ताचे बराबर दोग मानाय दोन व्हड आयदना घेवन भितर सरले. चंदर चिंतूक पडलो, हो मनीस प्रेसाक हॉटेल कित्याक करता काय? तेन्नाच प्रेसामुखार एक जीप येवन थांबली.

शाह भायर आयलो. ताणे जिपींतल्या लोकांक हात जोडून येवकार दिलो. आनी नमळायेन तांकां भितर घेवन गेलो.

चंदर फुल्लो. निमाणे लेबर डिपार्टमेंटातले लोक आयले तर… आतां ते गंढामल्लाक सारकी बुद्द शिकयतले. स्टुडिओंत गिरायक नाशिल्ल्यान चंदराक हालीं शेठ लोकांची तिडक मारताली. सगळेजाण प्रेसांत भितर सरले, तेन्ना निमाणो शाह भितर वचूंक लागलो. वतना तो स्टुडिओंतल्या चंदराकडेन कपलाक मिरयो घालून पळोवंक विसरलो ना.

शाहन लेबर ऑफिसरामुखार सदांचें नाटक करूंक सुरवात केली. ''सर, आमचेकडेन कॉन्ट्रेक्ट सिस्टम आसा. तुमकां कोणेतरी चुकीची म्हायती दिल्या. तुमी आमचे रिकॉर्ड तपासात. मुखावेलें कॉन्ट्रेक्ट केन्ना पास जायत कळचें कठीण… म्हूण आमी दिसवडयाचेर कामगार घेतात… हे खेपे आमचें टेंडर साप्प उण्या मोलाचें आसलें… सगळयांपरस उणें… खरें म्हळयार हें पास जाल्लें टेंडर आनी ताचें काम लुकसाणेन चलता…''

इतले मजगतीं द्वारकान वचून फिल्टर्ड सिगरेटींचें पाकीट हाडलें. नारायण मेजाचेर मटणचॉप

वाडून दवरूंक लागलो.

"सर, रिकॉर्ड चेक करतना हें थोडें खावन पळेयात. हांव तुमचो सेवक... जे रिकॉर्ड तुमकां जाय ते तुमी म्हाका सांगात. हांव ते तुमचे मुखार दवरता. हे कामगार दिसवडयाचे आसले तरी परमनंट कामगारांवरी हांव तांची जतनाय घेतां... तुमी पळेलां जातलें, भायर आमी तांचे खातीर च्या करतात. खासा हांव गरीब घरांतल्यान आइल्ल्यान, तांच्यो अडीअडचणी हांव बरे भशेन जाणां... ह्या दिसांनी मालक आनी कामगार दोगांकूय वायट दीस आयल्यात. पूण आमचे संबंध बरे आसात. तांचे खातीर म्हज्यान करूं येता तितलेंय हांव करतां.

सगळेजाण मटणचॉप चाबडायत हाडां चोखूंक लागले. गंढामल्लानूय बी एक मटणचॉप उखल्लो आनी म्हळें, "सर, कामगारांक तांचे हक दिल्यात काय ना तें पळोवपाचें काम तुमचें... सरकारान हें पोझिसांव तुमकां दिलां... कित्याक? कामगारांचे कल्याण कित्यांत आसा तें पळोवन तुमी कायद्यांत सुधारणा करची म्हूण!... असल्यो गजाली मालकांकूय सुधारपाक बऱ्यो. पडटात..."

सेठ गंढामल्ल हें उलयतालो खरो, पूण भितल्ल्यान कोणे चाडी केल्या ताका गाळी घालतालो... कित्याक ताचे खातीर ताचे धनरेषेक बरोच मार आइल्लो... ताका दिसलें, ताचींच हाडां हे लोक चोखतात. आनी तो तांकां कांयच म्हणूंक शकना... "खायात, सुण्यांनो म्हजीं हाडां खायात." मनांतल्या मनांत ताणें स्त्राप सोडले. ताका दिसलें हे कामगार आनी हे सरकारी खात्यांतले लोक म्हजे दुस्मान... इतल्यान ताणें आयकलें..." "लालाजी, मटणाचो रस्सा भोव रूच्चिक आसा." ताणें नारायणाक उलो मारलो आनी सांगलें, "नारायणबाब, आनीक इल्लो रस्सा आनी मटणाचे कुडके सराले प्लेटींत घाल पळोंवया... आरे, हें कितें, तुमी कोणें अजून सारकें खावंकूच ना... सर, आनीक घेयात.... हें तुमचे खातीर आमी स्पेशल करूंक ना... आमी हें दिसपट्टें हांगा शिजयतां..."

भितल्ल्यान कामगार शेठीच्या वागण्याची आनी उलोवण्याची तोखणाय करीत सरकारी लोकांमुखार लक्ष दिवन काम करपाचें यत्न करताले.

कर्मा हें सगळें असहाय जावन पळेतालो. तीं हाडां आनी मांस ताका आपलींशीं दिसलीं, आनी तो रस्सा म्हळयार कामगारालें रगत! ताका दिसलें, त्या ऑफिसरांक विचारचें, तुमी कामगारांचे हक तांकां दिवंक आयल्यात काय पार्टी करूंक आयल्यात? उतरां ताचे जिबेर येवचींच आसलीं तेन्नाच भायर बुटांचो आवाज आयकूंक आयलो. ताणें जनेलांतल्यान भायर पळेलें. लाठी घेतिल्ल्या पुलिसांनी चंदराल्या स्टुडिओक घेराव घाल्लो. थोडे पुलीस ताच्या स्टुडिओची तलाशी घेताले.

गंढामल उठून भायर आयलो. ताणें पळेलें, चंदर धवो फटफटीत पडला. तें पळोवन तो मुमुरख्यांनी हांसलो. आनी भितर येवन हाडां चोखूंक बसलो. "तुमी सुसेगाद बसून खायात. पोलिसांनी फोटोग्राफराल्या स्टुडिओचेर रेड घाल्या."

कर्माच्या कानार हाडां चोखिल्ल्याचे आवाज येताले. ते आयकून ताका दिसलें, खुबशे सुणे एकठांय जाल्यात आनी प्रेताचेर तुटून पडल्यात. ताका दिसलें, ताचीय कूड एक प्रेत जाल्या. आनी एक सुणो ताच्या काळजाचे कुडके तोडटा... ताणे पळेलें, पुलीस स्टुडिओतलें सामान आरतें परतें करून पळेतात. ताणें खेळिल्ली चाल ताचेरूच परतल्या... हें अशें कशें जालें काय? जें कितें ताणें

येवजिल्लें तें फक्त चंदर आनी ताकाच खबर आसलें... मागीर?... कर्मा चिंतूक पडलो.

कर्मा प्रेसाचो हुमरो हुपून वता तें पळोवन शाहान नारायणाक उलो मारून सांगलें, ''आरे, नारायणबाब, सगळया कामगारांक च्या दी पळोवंया.... आमी हांगा खातात आनी ते आमच्या तोंडाक पळेतात हें मनाक पुटवना...'' हें ताणें माल्शें व्हडानूच म्हळें. ताका चंदर आनी कर्माक सांगचें आसलें की सभाग्यानो, तुमी तुमच्याच जाळयांत शिरकल्यात.

कर्मा हात चोळीत उबो उरलो.

तेन्नाच रेकॉर्ड तपासतल्या ऑफिसरचें लक्ष बॅंडेज बांदिल्ल्या कर्माचेर गेलें. ताणें धेंकर दिलो. आनी विचारलें, ''सेठसाब, हो जखमी मनीस कोण?''

''सांगता सर!... ह्या मनशाक प्रेसांत घाय जावंक ना. हो त्या फोटोग्राफराचें... जाचेर पोलिसांनी रेड घाल्या... ताचें निसणीर चडून काम करतालो. तो निसरून पडलो आनी ताका लागलें...'' शाह मात्सो ओगी रावलो. आनी मागीर बकत्छायानी उलयलो... ''ताचें कितें आसा सर, तुमी हे भाशेन दुसऱ्यांची कामां केलीं जाल्यार तुमकां पुण्य मेळटा. असलीं बरीं कर्मां करतल्यांची नोंद धर्मराज आपल्या पुस्तकांत करता. मागीर तांकां स्वर्ग मेळूंक सोपें पडटा... पूण सर, म्हज्या प्रेसांत काम करतना तांकां हो घाय जाल्लो जाल्यार हांव ताका सात दीस सुसेग घे म्हूण सांगून पयशे दिवपाचो...'' अशें म्हणून तो हांसलो. शाह चंदराल्या स्टुडिओंत पडिल्ली रेड पळोवन आनी आपणाल्या उलोवण्याचेर खुश जाल्लो.

पोलिसांनी चंदराल्या स्टुडिओंतल्यान कांय पुस्तकां आनी पोजडीं चित्रां आसलीं कांय कार्डां जप्त केलीं.

म्हाकां हांचेविशीं कांयच खबर ना. कोणतरी तीं हांगा हाडून दवरून म्हजेर चिखल उडोवंक सोदता. हांव बायल भुरगीं आशिल्लो मनीस! हांव तीं पोजडीं चित्रां कित्याक म्हूण दवरतलों? असल्यो भानगडी केल्ल्यो जाल्यार, हांव लाखांनी जोडपाचो... हांतलो एक तरी फोटो हांवें काडलोसो दिसता तुमकां?

पोलीस पार्टीचो मुखेली ओगी आसलो... चंदराक अकस्मात् सकाळचो तो आलमपेड्डयार आनी बकत्छायांनी हांसपी मनीस येवजलो...

— चंदर कितें सांगता तें आयकनासतना ताका पोलीस स्टेशनार व्हेलो.

नारायणान थोडया कामगारांक सांगलें, ''पोलिसांक स्टुडिओंत पोजडे फोटो मेळ्ळे आनी आरमारींक केल्लो बुराकूय बी ताणी धांपून उडयलो.''

कर्मा सामको बेज्जार जालो. तो भितर आयलो. गंढामल्लाक पळेत ताणें म्हळें, ''तांणी चंदराक धरून व्हेलो.''

''मागीर हांव कितें करूं? तूं वर्कर्स युनियनचो सेक्रेटरी... तूं म्हण्टलो, हांतूंत म्हजो हात आसा. जो जशें रोयता तशें ताका फळ मेळटा... ताणें म्हाका विचारून ह्यो भानगडी केल्ल्यो?''

आतां द्वारका उलयलो, ''पात्रांव, चंदराक तश्शें फाव. येदोळ तो हांगा आइल्लो. आनी कामगारांक मशिना जळोवंक आनी पोलिसांच्यो गुळयो खायात म्हूण चिथायतालो.

''दुसऱ्यांचें पाड घालूंक सोदता, ताचें सदां पाड पडटा.'' – शाहन म्हळें. लेबर ऑफिसरचे

पार्टीन आपलें काम केलें तांणी रजिस्टर उकतें करून पळेलें. उरिल्ल्यो फार्मेलिटीस केल्यो आनी ते आइल्ले तशे जिपीन बसून गेले. शाह तांका जिपीमेरेन पावोवंक गेलो. आनी मुखेल अधिकाऱ्याक ताणें सांगलें. ''सांजचो हांव तुमचे 'दर्शन' घेवंक येतां... कितें चुकलां माकलां जाल्यार समजावन घेवंक....''

शाह प्रेसांत आयलो. ताणें कर्माचो मस्टर रोल गवेतांतल्यान काडलो. आनी ताका आफोवन हाडून ताणें म्हळें, ''तूं तुजो हिशेब सांग. पयशे घे आनी घरा वच. तूं कसलो मनीस तें खबर आसुनूय हांवें तुका नोकरी दिली. पूण तूं म्हज्या धंद्याआड वावुरता. जे पितळेंत जेवता तांतुतूच अळशीक करता... हो धंदो हांवे घाम गळोवन वाडयला. त्या धंद्या आड येवपी मनशाक हांव भोगशिना. तशें पळेल्यार आमचे मदीं कसलीच दुस्मानकाय ना. तूंच सांग, आसा?''

दांतओंठ खायत कर्मान ताचे पयशे घेतले. आनी तो भायर सरलो. मात्शें मुखार वचून ताणें फाटल्यान वळून पळेलें. सगळे वांगडी ताचे वटेन पळेताले.

घरा येवन पळेत जाल्यार तागेर सोयरे आइल्ले... आतां पयशे मेळ्ळे तें बरेंच जालें... पूण मागीर फायचें कितें? दुसऱ्या खंयच्याय प्रेसांत नोकरी मेळप इतलें सोपें न्हय... सगळो लोक ताका कामगारांक चिथावन संप करपी मनीस म्हूण वळखतालो.

दिलरूबा हॉटेलाकडल्यान वतना ताणें भितर पळेलें. दिल जाग्यार नासलो. मुंडू ओग्गी रावन रस्त्याचे कडेक पळेत बशिल्लो. सगळयाक निर्शेणी पातळिल्लेवरी दिसताली. तो मुंडू म्हऱ्यांत वचून उबो रावलो. ताणें विचारलें, ''मुंडू दिलशाह खंय?''

''तो पोलीसस्टेशनार चंदराक सोडोवन हाडपाक गेला.''

— कर्माय बी पोलीसस्टेशनार गेलो. एका वरा भितर तो, दिल आनी चंदरा बराबर परथून आयलो. गंढामल्लान तिगांकूय एकठांय पळेले तेन्ना तो अडेचो मोठ्यान शिंकलो. मागीर व्हडान धेंकर दीत ताणें म्हळें, ''आरे मुंडू, हाडां सुण्याक घालीं काय ना?''

ते तिगुय हॉटेलांत भितर सरले.

हेवटेन शाह त्या तिगांयमदीं फूट कशी घालची हें चिंतूक लागलो...फाल्यांमेरेन त्या तिगांकूय वेगळे काडंकूच जाय. कर्माचें कोल्ल चाळवत, जाल्यार फाल्यांच तो प्रेसांत संप करतलो. आनी संप म्हळयार दिसाक स हजारांचें लुकसाण... मागीर शारांतले हेर प्रेसांत काम करपी कामगारूय बी हाका तेंको दिवंक म्हूण संप करतले. आनी प्रेस ऑनर असोसिएशनचो सेक्रेटरी म्हूण तांचें लुकसाण जावंचें ना ते पळोवपाची जापसालदारकी म्हजेरूच येतली.... एक वेळ एक कामगार दुसऱ्या कामगाराचो दुस्वास करीत... पूण दुसऱ्या कामगारांच्यो अडचणी मात तो आपल्यो अडचणी म्हूण समजता. अशा वेळार तो सदां एकठांय जातात. आनी चंदर काडी पेटोवन उजो लावंक बेस बरो जाणा. कामगारांक बरें कितें, वायट कितें तें साद्या गजालींनी समजावन सांगून तांकां चिथावपाची तांक ताचे भितर आसा.

— ताका एकट्याक कुशीक सारीत जाल्यार मुखावेलीं संकटां येवचिंनात... चारूय वटांनी चिंतून शाह आपले भितर हांसलो आनी भितर गेलो.

इतल्यान फोन वाजलो. रिसिव्हर उखलून ताणें कानाक लायलो. आनी शॉक बशिल्लेवरी

ताणें रिसिव्हर कानाकडल्यान पयस व्हेलो.

‘‘ओह, शायनी... आतां आनी कितें जालें? तूं भियेवं नाका... ताका कांय जायना... तो बांदिल्लो आसा, तसोच उरूं तो... राव. हांव येतां आनी त्या मालांद्राची हाडांच मोडून घालतां... मात्शी राव... हांव आत्तां येतां.’’ शाहन फोन आपटिलो. आनी तो भायर सरलो.

‘‘आरे, नारायण, तुवें हें समा केलें ना.’’

‘‘कितें तें?’’

‘‘त्या बाबडया भावार्थी मनशान सांगलें तें तुवें शाहक वचून कित्याक सांगलें? तुका खबर आसा? शाहन ताका वळ उदेसर मारला... ताची हाय तुका लागले बगर रावची ना...’’

‘‘ना. हावें शाहक कांयच सांगूकना... जाय ताचो सोपूत घेवन सांगतां हांव...’’ – नारायण.

‘‘तुमी गीगुविशीं उलयतात?’’ जगदिशान विचारलें.

‘‘हय! काकूळट बाबडयाची! तो शाह आनी घरच्यां खातीर फुकेसवाय वावुरता. खंयच्या जल्माचें रीण तो ह्या जल्मांत फारीक करता, खबर ना.’’

‘‘तो आनी बाबडो? ताका शेंपडो फाल्त. तो दिसता तसो ना. जो कोण ताका जेवंक घालता, ताच्योच चाडयो करता तो...’’

‘‘ना बाबा! तो पात्रावांच्यो चाडयो करिना. तो आपल्या पात्रावांच्या शौर्याची तोखणाय करतालो.’’

‘‘ताका राजवान बांदून घाला... आनी ताका जेवण सोड, पिवंक उदक लेगीत दिवंक ना.’’

‘‘गीगु म्हळयार शाहाचो कैदी... चल आमी वचून ताका सोडोवंया. आयुष्यांत एक तरी बरें कर्म करूंया.’’

‘‘तुमी त्या शाहाक वळखना. आमी अशें कितेंय करीत जाल्यार तो आमकां कामावेल्यान काडून उडयत म्हूण भंय! परत्या काळजाचो मनीस तो... ताका तूं वळखना.’’

‘‘तो परत्या काळजाचो आनी आमी तरी खंय धुल्ल्या तांदळावरी आसात? आमचें बरें जावचें म्हूण आमी दुसऱ्यांक फोंडांत घालिनात?’’

— जगदीश हांसलो आनी ताणें म्हळें, ‘‘आमी जें कितें उलयतात आनी आमच्या वांगडयांक फटयतात तें कितें आमचेंच बरें जावचें म्हण? म्हांका चार धुवो आसात. तुका दोन धुवो आनी दोग पूतं आसात. नारायणाक तर सात भुरगीं. आमी भुरग्यांची बुरावळ वाडयत उरले. आतां भुरग्यांक आमी जल्मांक घाली तर खरी, पूण तांका आमी मारून उडोवंक शकनात न्हंय? आमी थोडया वगताच्या सुखाक लागून जल्मभराचे दुःख पदरांत घेतलां... त्या ह्या भुरग्यांक लागून फटी मारच्यो पडटात.’’

‘‘गीगुचें म्हाकां खूब वायट दिसता.’’ – नारायणान म्हळें.

‘‘तुवें ताच्या तोंडावेलो हांसो केन्ना निरखून पळेला? म्हाका जाल्यार देवळांतले रामाचे मुर्तीच्या तोंडार आसता तसो दिसता ताचो हांसो.’’ – द्वारकान म्हळें.

‘‘मोनजातीवरी त्रास काडटा बाबडो.’’ नारायणान म्हळें. ‘‘आरे, ताचेकडेन विश्वासघात

करप म्हळयार गायक मारिल्ल्याचें पातक माथ्यार घेवप.''

हे कामगार शाहा वटेन आसले. पूण तांची सहानुभूती एका गरीब मनशावांगडा आसली... तो गरीब मनीस म्हळयार गीगु...

''बरें बाबा, जें जालें तें जावन गेलें. आतां उलोवन कितें फायदो? हांवें काय त्या बाबडयाक बांदून घालूंक ना न्हय, ताका मारूंकूय बी ना.'' जगदीशान म्हळें.

''पूण तांगेल्या ह्या त्रासांत तुजोय हात आसा.'' द्वारकान म्हळें.

''चुकून तुवें गाय मारली आनी तुका पातक लागलें जाल्यार ताचे विशीं कितें म्हूण करूंक शकता?'' जगदिशान म्हळें.

ओम् हें सगळें अलिप्त रावन आयकतालो. सगळें काम जातकीच ताणें जें कितें आयकल्लें ते सगळें वचून कर्माक सांगलें.

प्रेमू आनी हेर वांगडी कर्माक मेळूंक आइल्ले. प्रेमून विचारलें, ''उस्ताद, तूं म्हणटा जाल्यार लंकेक उजो घालू?''

''आरे शाण्या, हे लंकेचेरूच तुमचें पोट भरता. तिका जळयशात जाल्यार तुमीय मातयेभरवण जातले.''

''पूण उस्ताद, आतां आमी ओगी रावले, जाल्यार बाकीचे प्रेस कामगार त्रासांत पडटले.''

''कितें तरी करूंक जाय. फाल्यां सगळया प्रेसांतलें काम थांबुकूच जाय.''

''सगळयाक संप जातलो. उस्तादजी.''

''आमचे मुखार आनीक एक काम आसा. त्या राक्षसाच्या बचफुलांतल्यान आमी गीगुक, तो उपासांनी मरचे पयलीं सोडोवंक जाय.'' – कर्मान म्हळें.

''पूण गीगुकडेन आमचो कितें संबंध?'' सगळयांनी विचाल्लें.

''आमी जर ताका शाहाचे तावडींतसून सोडलो आनी ताची भिरांत उणी केली जाल्यार तो आमकां शाहाविशीं जायत्यो गजाली सांगतलो. आनी ताणे त्यो भानगडी प्रेसामुखार आनी पोलिंसामुखार सांगल्यो जाल्यार शाहाक तोंड दाखोवंक जागो उरचो ना.''

—— बरोच वगत कर्मा आपल्या सांगात्यां वांगडा भासाभास करीत रावलो.

– × – × – × –

सांजेर सगळे कामगार घरा वतकीच शाहान चंदराक आफोवंक द्वारकाक धाडलो. चंदर आपणालें दुकान बंद करतालो. चंदराक दुबाव मारलो... हो शाह म्हाकां कित्याक आफयता काय? आतां आनी कसलें किजील आंगार घालता देवाक खबर!... ताणें द्वारकाकडल्यान सांगून धाडलें, शाहाक सांग, मात्सो रावन येता म्हूण!...

चंदरान स्टुडिओ बंद केलो. आनी तो दिलाच्या हॉटेलार गेलो. दिलाकडल्यान ताणें धारेचो चाकू घेतलो. ताका बरी धार आसा हाची खात्री करून घेतली. मागीर ताणें तो चाकू बोल्यांत घालो. मागीर प्रेसाचें दार ल्हवूच उगडून तो भितर सरलो. शाहान द्वारकाक सांगून मेणवात पेटोवंक सांगली. मेणवात पेट्टकीच ताणें द्वारकाक सांगलें, सगळयो लायटी पालय आनी बंगल्यार वचून आपणाली वाट पळे म्हूण! द्वारका भायर वचनाबराबर ताणें दाराक भितल्यान खिळी घाली. आनी तो आपले

सुवातेर वचून बसलो. इतले मजगतीं चंदर बोल्सांतल्या चाकवाचेर हात धरून आशिल्लो... गरज पडल्यार सट्‌ करून चाकू भायर काडूंक बरो म्हूण!

थोडो वगत शाह आनी चंदर एकमेकांक पळेत उरले. दोगुय एकामेकांच्या मनांत कितें आसा ताचो अदमास घेताले. थोडो वगत ते ओग्गी रावले. मागीर गंढामल्लान म्हळें, ''हें पळे इरमांव, हांवें तुजें कांय वायट चिंतूक ना... केन्ना चितलां जाल्यार सांग म्हाका.''

चंदराक शाहाचो पयलीं दुबाव मारिल्लो. आनी पोलीस स्टेशनातल्यान परतताना कर्मान ताका हें सगळें कर्म शाहाचें म्हूण सांगिल्लें. तेन्ना ताचो दुबाव खरो जाल्लेवरी दिसलें. तो कितेंय उलोवचे पयलीं शाहान म्हळें, ''हें पळे, आमी दोगूय वेगळे मनीस. आमचे भीतर कसलीच स्पर्धा ना... हरशींय म्हण नाजाल्यार धंद्यांत म्हण!....''

''तुका कितें म्हणपाचें आसा तें सरळ सांग. तुजेकडेन तुजे मार्ग आसात म्हजेकडेन म्हजे...''

''खरी गजाल!.... आमचे रस्ते वेगळे... तूं सारको उलयलो... देव बरें करूं'' शाहन खुशालभरीत जावन म्हळें... ''आनी आमी एकामेकांचे वाटेक वचप ना, हातूंत दोगांयचें कल्याण आसा. तूं म्हाकां सांग, प्रेसांतल्या कामगारांकडेन तुजो कसलो संबंध आसा?''

''— मनीसपणाचो आनी कसलो?''

''तुवें म्हजी काकुळट करूंक जाय... कित्याक, म्हजेभशेन तूं तुज्या स्टुडिओचो मालक... म्हज्यो अडचणी तुवें समजावन घेवं नाकात?''

''तुगेल्या आनी म्हगेल्या मालकपणांत फरक आसा. स्टुडिओंत हावंच मालक आनी नोकरूय बी...'' चंदराक उगडास जालो, कॉलेजांत आसतना तो सुंदर भाशणा दितालो... खूप तेंप जालो ताका... पूण इतलो तेंप जावनूय भांगराची चकचकसाण वचूंक नाशिल्ली.

''तूं म्हज्या कामगारांपासून पयस उरिल्लो बरो! नाजाल्यार परिणाम बरे जावंचे नात!''

''लालाजी, तुका खबर ना... हांव मुळावो कम्युनिस्ट... तुगेल्या असल्या धमक्यांक हांव अजिबात भियेना.'' चंदराक खबर आशिल्लें, कम्युनिस्ट म्हणनाफुडें सगळे लाला ताचे पसून दोन हात पयसूच रावतात. पूण ह्या लालाक खबर नाशिल्लें कि चंदरान कम्युनिस्टाचें फक्त रुपडें घालां. कित्याक, तो आपलें असली रूप धापून दवरूंक सोदता. नाजाल्यार ताकाय बी लालाभशेन दुसऱ्यांचें रगत चोखूंक आवडपाचें.

गंढामल्लाक रोकडेंच कळ्ळें, हो मनीस दिसता तितलो सादो ना... हो मनीस म्हळयार देंवचार कम्युनिस्ट... हाका धांवडावचे यत्न करीत जाल्यार म्हाका म्हजो प्रेस साल्वार करूंक कुस्तार जातलें. तरीकूय ताणें यत्न केले, पळे बाबा, तूं कम्युनिस्टांचो तांबडो बावटो घेवन म्हाकां, भेश्टांवक नाका... म्हाका एक सांग, कम्युनिस्टांक कितें फामिल ना?''

''आसा तर!''

''तांकां दिसना, तांच्या भुरग्यांनी बरें खावंचें, जेवचें, बरें न्हेसचें आनी बऱ्या शाळांनी शिकचें म्हूण?''

''दिसता तर... तांकांय बी तें जाय न्हय?''

''अशें आसा जाल्यार, आमचे मार्ग वेगळे आसले, तरी आमचो मुखेल हेतू एकूच जालो ना?''

— चंदर ताच्या तोंडाक पळेत उरलो. शाहान मुखार म्हळें, ''हे पळे, तुकां पयशेकार जावपाचें आसा. हांव तुकां पयशेकार करूंक शकतां... कर्मा आनी दिल न्हंय...''

''शाहजी, दिलान म्हजो जामीन भरलो... तूं ओगीच दुबावाना तीर मारता... आनी कर्मा.... कर्माकडेन हांव फक्त उलयतां... ताचे म्हजे भितर तशें कांयच ना...''

''इतलेंच? म्हाका दिसलें, तुमी सामके घट म्हूण! चंदराक जामीन दिला म्हूण दिलशाहक बरी बुद्ध शिकोवची अशें शाहान मनांतल्यान थारायलें. मुखार ताणें म्हळें, ''म्हजेकडेन एका दुकानाची सुवात माळार आसा. थंय लागसार एकूय स्टुडिओ ना. ती सुवात एक लाख पागडी घेवन हांव कोणाकूय दिवंक शकतां.''

चंदराक दिसलें, हे कम्युनिस्टाचें रुपडें ताका सदांच लकी थारलां. फाटले खेपे तो E.T.D. जाल्लो. आनी आतां श्रीमंत वस्तींत ताका स्टुडिओ मेळपाचो. तें मतींत धरून ताणें म्हळें, ''शाहजी, तूं म्हळयार पारसमणि! जाका तुजो हात लागता ताचे भांगर जाता... जें जालें तांतूत्त म्हाका कांयच इंतेरेस ना... तुवें ह्या कर्माचेर बारीक नदर दवरूंक जाय. फाल्यां सकाळीं तो संप करतलो. ताणें सगळयांच्या घरा वचून तांकां मेळूंक सुरवात केल्या. हांव आतां तुजे वांगडा आसा, ताचे वांगडा ना... कितें करूं तें सांग...''

''चड कांय ना... तूं सांजेर वचून ताका सांग, तूं ताचे वांगडा ना... म्हणटकीच तो सामको एकलोच पडटलो. ताचो सगळयांवेलो विश्वास उडटलो... कामगारांवेलो लेगीत... आनी फुडारीपणा करचीं ताजीं सगळीं सपनां करंगेतलीं... ह्या कामगारांक हांव पळेतां... ताणीं काम केलें ना जाल्यार हांव तांकां दिसवडो दिवचो ना. दुसऱ्या प्रेसांतले लोक, हांव चड पयशे फारीक करून हाडटलो. तांचीं बायलां भुरगीं उपाशी मरतलीं, तेन्ना ते उण्या पयशांनी खंयूय कामाक वतले. कामगारांचो दुकळ पडला व्हय तर? हे नाजाल्यार दुसरे कामगार मेळटले. जितले खेपो आमी संप करतात तितले खेपो आमकां उणो पगार मेळटा आनी मालकाचो फायदोच जाता, इतलेंच हें गणित कामगारांक कळ्ळें जाल्यार खूब जालें.''

''म्हाकां कामगारांकडल्यान कितें मेळपाचें आसा? शाहजी, तूं फक्त म्हाका हे अळशिकेंतल्यान भायर काडून मळार व्हर. म्हजीं भुरगीं तुजें बरें मागतलीं. आनी सदांच तुज्या रिणांत रावतली...'' मनांतल्या मनांत चंदर चिंततालो, शाहालें बरेंपण म्हाका बरे वाटेर व्हरतलेंशें दिसता...

''तें बरें आसा. तुज्या हांगच्या दुकानाच्या बदल्यांत हांव तुका मळार आशिल्ली म्हजी सुवात दितां.'' असें म्हूण गंढामल्ल भायर सरूंक गेलो. ताणें चंदराक पुलीस केसींतल्यान सोडयतां म्हूण सांगून घरा धाडलो. मेणवात वाडयली. चंदर खुशालभरीत जालो. ताणें चितलें... उदकांत रावन मानग्याकडेन दुस्मानकाय करपांत अर्थ ना...''

शाहाय बी खूश जालो. कित्याक, चंदरालें दुकान च्या मळावेल्या दुकानापरस आठ पटींनी व्हड आसलें. तो कितलो तेंप जालो ऑफसेट प्रिंटींगचे मशीन घालूंक सोदतालो. तशें ताणें

बिल्डींगच्या मालकाकूय बी सांगिल्लें. मालकान म्हणिल्लें, ''तूं त्या फोटोग्राफराक भायर काड, मागीर हांव ॲग्रीमँट करतां.''

सगळीं दारां सारकी धांपून आनी व्हड कुलपां लावन चावयां बराबर खेळत शाह घरा गेलो. ताणे हॉटेला कुशीक आशिल्ले शेगडे म्हऱ्यांतली गोबरा रास पळेली. कितेंतरी चितलें आनी आपणालागींच तो हांसलो.

घरा वतकीच द्वारकालागीं ताणे थोडे पयशे दिले. आनी सगळें आपणें सांगलां ते प्रमाण जालें काय ना ताचेर लक्ष दी म्हूण सांगलें. मध्यान रात मेरेन शाह भायर भितर पासयो सारतालो.

तो बंगल्याभायर आशिल्ले खोपींत गेलो. पळेत जाल्यार गीगु अर्दकुटो बेशुद्ध जावन पडला. लापयांवाच्या उजवाडांत जाल्यार तो मडयावरी दिसतालो. ताणें ताका पायाचो आंगठो लावन उठयलो.

''ऊठ रे मालांद्र! तूं ज्यो म्हज्यो गजाली सगळयांक सांगता न्हय, त्यो म्हाका दुसऱ्या धर्माचो दुस्वासी म्हूण थारायतल्यो. आयक! हाचे मुखार तूं कोणाय मुखार तोंड उकतें करशीत जाल्यार तुजे जिबे कुडके करून सुण्याक घालतलों.''

गीगुक जोर आइल्लो आनी ताज्यान उठूं नज जाल्लें. ताचे कुडीर दिसपी निळे वळ ताका खूब दुखताले. मोठ्या कश्टान ताणें मान हालयली. ''ऊं!'' शाह तिरस्कारान थुकलो. तो भायर सरतालो. इतल्यान ताची नजर थंय आशिल्ले हून उदकाचे बाटलेचेर पडली. ताणें ती उबारली आनी तो गेलो.

आपल्या बेडरूमांत तो गेलो. पळेत जाल्यार शाहनी जागीच आसा. तिका तोंड कशें दाखोवचें तें तो चिंततालो. चोरपावलांनी तो भीतर सरिल्लो. ताका दिशिल्लें हो वेळ मेरेन शाहनी न्हिदून पडल्या आसतली. ताका पळोवन ती उठून बसली.

''हें कितें? झिळमिळयार तूं भायर सरता, आनी मध्यानराती चोरावरी घरा येता? कसलो दादलो तूं? घरांत कितें चल्लां में तुका खबर आसा?''

शाह ओग्गी रावलो. ताका भंय जाल्लो, सकाळीं धाडिल्ल्या कपडयाच्या पार्सलावेल्यान ती परथून गोंधळ घालीत म्हूण! तो कांयच उलयना तें पळोवन तिका नेट चडलो. ''हांव कितें उलयता तें तुका आयकूंक येता काय ना? कासरी कासरी* एक ठांय करून कोणाखातीर तूं हे पयशे एकठांय करून दवरता? घरच्यो रिती पाळच्यो म्हळयार तुज्या जिवार कित्याक येता?''

आतां शाहक उलोवंक चान्स मेळ्ळो. ताणें म्हळें, ''बरें! हांव एक पातकी मनीस! पूण तूं कित्याक नरकावटेन वता? तूं तुज्या मेल्ल्या मांवाक कित्याक म्हूण गाळी घालता?''

''हांवें ताका खंय कितें म्हळां? हांवे ताचें नांव तरी घेतलां?''

''ना घेवंक? ताचें नांव कासरीमल.''*

— शाहनी न जीब चावली आनी म्हळें, ''हांव नरकांत गेल्यार जाता. म्हाकां दिसता, हांगा रावचे परस नर्क तरी बरो आसतलो.''

---

* डोंगरी भाशेंत कवडीक कासरी म्हणटात. ताचे वेल्यान नांव आयलां कासरीमल आनी कासरीदास.

तिच्या मनांत फटीच्या पातकाचो भंय घालून शाहाक दिसलें, कि तो जे गजालीक भिल्लो तितलो भिवपाची गरज नाशिल्ली.

दुसऱ्या दिसा तो उठलो. पळेत जाल्यार, निक्कुक कोणेंतरी ताचेच खाटीक बांदून दवरला. पयलीं ताका राग आयलो. पूण राग थुंकून ताणे म्हळें, ''निक्कु, तुवें आतां कसली युक्ति काडल्या?''

पूण निक्कुन जाप दिली ना. पळेत जाल्यार निक्कुल्या तोंडाक कोणेंतरी कपडयाचो गुड्डो मारला. ताणें निक्कुक बेगी बेगीन सोडयलो इतल्यान शाहनीय थंय आयली.

''निक्कु, कितें जालें?'' गंढमल्लान विचारलें.

''शाहजी, म्हजो ताळो सुकला. हांव सबंद रात रडटालों. हरशीं शाहनी मध्यानराती जार्दिनांत एक पासय मारता. पूण आयज ती आयली ना.''

''कितें जालें तें बेगीन सांग.'' शाहनीन मर्दीच तोंड घालें.

''पयलीं म्हाका इल्लें उदक दियात. म्हजो ताळो साप्प सुकला.''

''उदक ना जाल्यार तूं मरपाचो कांय ना. कितें जालें तें बेगीन सांग पळोंवया.''

''रातीं चोर आइल्ले. तांणी म्हजें तोंड धांपून म्हाकां खाटीक बांदलो. आनी गीगूक घेवन पळून गेले.''

''अशें?'' शाहनीन व्हडल्यान म्हळें.

''शाहनी, गीगूक कोणें व्हेलो काय? कोणें?... ताचे कडेन म्हज्यो सगळयो गजाली आसात. ताच्या आधारान तो म्हजी भांगराची लंका जळोवन उडोवंक शकता.''

''म्हाका कितें खबर? हांव तुकां सदांच सांगतालीं, ताका मारूं नाका म्हूण! तो बा्बडो वावर करतालो. आनी आमचो मारूय बी खातालो. ताचे सारक्या साडेबावराती मनशाक मारून तुवें केल्लें पातक तुकाच म्हारग पडटलें.''

''हय! तो देवदूत आनी हांव देंवचार! म्हाकां सांगूंक वायट दिसता, तोच तुगेलो खरो घोव!''

''तूं असो उलयता, ते तुजे जिबेक किडे पडटले... तुका बिरमत फुट्टली... नीच... हरामी!... आमी ताका सदांच भुरग्यावरी वाडयला.''

''तुमी बायलां कशीं आसतात, तें हांव बरे भशेन वळखतां. म्हाका एक सांग, तुका रातीकडेन जार्दिनांत वचपाची कसली गरज आसता?''

''एकेक खेपे घरांत म्हजो घुस्मटमार जाता. तेन्ना हांव ताजी हवा खावंक वतां जार्दिनांत.''

''भायर वचून तुका कसलो सुसेग मेळटा, हांव जाणां. काल रातीं म्हाका ताचे खोंपींत हून उदकाची बाटली मेळिल्ली.''

— आता शाहनीन आपले केंस ओडूंक सुरवात केली. ''वैष्णवी माते, हो दुबावी मनीस म्हाकां मर्णादारांत धुकळटा पळे... पातकी मनशा, म्हजी माता तुझी कशी खबर घेता तें पळेशीत तूं...''

शाह भितर गेलो. ताणें फोन लायलो. फोनावेल्यान पोलिसांकडेन तो बरोच वगत उलयतालो.

मागीर तो न्हावंक गेलो.

त्याच दिसा सकाळीं तो प्रेसांत गेलो. थंय वचून पळेत जाल्यार कितें, दिलाक पोलीस बेडयो घालून व्हरतात. गोबराचे राशींत सोऱ्याच्यो बाटल्यो मेळळयो खंय... नारायणान द्वारकाक म्हळें, ''जर कोणाल्याय आंगणांत कितेंय मेळत जाल्यार ताचेर पुलीस केस जावं येता?''

द्वारकान सांगलें, ''पोलीस स्टेशनचेर पावतासर ह्यो बाटल्यो ताच्या हॉटेलांत सांपडटल्यो.''

शाह हांसलो. ताणें चवकशी केली. ''हागेले हेवूय धंदे चलताले तर!''

''आनी कितें? तेन्नाच तर तो हालींसरा वाऱ्यार उडटालो.'' – द्वारकान भोंवतणच्या लोकांक आयकूंक येत अशे तरेन म्हळें.

शाहान पळेलें, मुंडू दांतओंठ खायत ताचेकडेन पळेतालो. पूण तोंडाक पट्टो आशिल्लो सुणो जे प्रमाण भोंकूक शकना, ते प्रमाण तोवूय बी काय उलोवंक शकनासलो. इतल्यान शाहची नजर चंदराचेर पडली. चंदर दिलबट्टा फाटल्यान वचपाची तयारी करतालो.

''भावा, तूं खंय चल्लो?'' शाहान ताच्या भुजाक धरून विचारलें.

''शाहजी, म्हाका आडावं नाका... हांवें आयज जर ताका मदत केली ना, जाल्यार तीं पडमुरपणा थारतलीं... ताचें रीण फारीक करूंक नाकां?... सांग पळोंवया...''

''पिशेपणां करूं नाका. काल ताणें तुका जामीन दिल्लो म्हूण आयज तू ताका जामीन रावंक वचशीत जाल्यार त्रासांत पडटलो.''

''शाहजी, म्हाका वचूं दी. हांव त्रासांत पडल्यारूय उपकरता, पूण हांवें जर आतां ह्या गरीब मनशाक मदत केली ना जाल्यार हांव नरकांत पडटलों.''

''हो संवसार गरीब लोकांनी भरला. तूं कोणाकोणाक म्हूण मदत करतलो? अशें कर... तूं चल म्हजे बराबर... हांव तुका मळावेली सुवात दाखयतां.''

उदकाच्या भोवऱ्यांत सांपडिल्ल्या मनशाक देगेर येतकीच जो संतोश भोगता, तशी खोस चंदराक जाली. ताका दिसलें... ''हांव पयशेकार जावंक सोदतां. बरीऽ संद म्हांका मेळ्ळया... आता हे संदीचो लाव हांवें घेतलो ना जाल्यार म्हजे सारको कपलफुटको हांवच...'' आनीक एक विचार ताच्या मनांत आयलो. तो म्हळयार, दिलबट्ट पोलिसाच्या लोकपांत उरलो जाल्यार ताचे भयणीबरोबर – उषाबरोबर – दीस घालोवंक शकतां.

तो माळार वचूंक जाय म्हूण दुकान बंद करूंक गेलो.

इतले मजगती द्वारका थंय आयलो. ताणें शाहाक कुशीक व्हरून सांगलें, ''संप जायनासो दिसता. कर्मा सगळया कामगारांक मेळिल्लो. पूण मागीर कितेंतरी जालें. आनी रातच्या धा उपरांत संप करपाचो बेत फसलो. कर्मा ताच्या लागशिल्ल्या आमिगांक स्वार्थी आनी विश्वास घातकी म्हूण गाळींचो शिंवर घालतालो. शाह समाधानान हांसलो. आनी चंदरक घेवन माळाच्या रस्त्याक लागलो.

माळरोडच्यान परतल्ल्या चंदराचें मुखामळ खोशयेन फुलिल्लें. खोशयेन ताका भूक बी लागली ना. घरा वचचे सुवातेर तो सरळ दिलबट्टाच्य घरा गेलो... ''माळरोडावेलें दुकान ताका मेळत जाल्यार तो बायलेक आनी प्रेयसीक, दोगांकूय दवरूंक सोदतालो. जाणटयांनी म्हळां तें फट

न्हय. मोग म्हळयार पुजा… तातूंत वायट कांयच ना…'' त्याच नेटान ताणे दिलाल्या घरालें दार वाजयलें. उषान दार उघडले. पूण ताचे नजरेंत खोस नासली, तर परकेपणाची भावना आनी एक प्रस्नचिन्न आसलें. उषान ताका भितर यो अशें लेगीत म्हळें ना. तरी लेगीत ताणें हांसत म्हळें, ''एक बरी खबर आयज तुजे खातीर हाडल्या हांवे.''

''भाऊ सुटलो काय कितें?'' – उषान विचारलें.

''ना!… तें कितें…'' चंदराक उतरां सुचलीं नात.

''मागीर तुवें म्हजे खातीर बरी कसली खबर हाडल्या? हीच आसतली – ए आंकवार चलये, म्हज्यान तुजे बगर रावूं नज… हांव तुका मोगाच्या रस्त्यार घेवन वचूंक सोदतां… असो रस्तो जो तुका फुडाराच्या गुपाट काळखांत खंयतरी शेणयतलो?''

''तूं हे खंयच्या पुस्तकांतले डायलॉग मारूंक लागलां गो?''

''हांब तुजे सारक्या दादल्यावरी म्हजो दीस फटिंगपणा करून सुरू करिना.'' – अशें म्हणून उषान चंदराच्या तोंडार धडांयच करून दार बंद केलें.

मोगाची कोमरी परथून बावली. तो येदेशें तोंड घेवन घरचे वाटेक लागलो… घरा बायल बाबडी ताची वाट पळेत उपाशी बसल्या आसतली… आपल्या मोगाचेर अशे तरेन माती पडत हें ताणें चिंतूक लेगीत नासलें… ''पूण हांवे बी म्हजे मैत्रीची लज राखली ना.'' तो आपले भितर बडबडलो… तेन्नाच मनांतल्यान दुसरो एक सूर भायर सरलो… ''फायद्या इतलो व्हड दुसरो मित्र ना… मनशाचे लाचारीचें दुसरें नांव विश्वासघात…

— x — x — x —

सांजवेळ

पंजाबांतल्यान ट्रक शारांत आइल्ले. कामगार ट्रकांतलें सामान देवंयताले. ड्रायव्हर किलिंडराकडेन ट्रक सोडून, बोल्सांत बाटली घालून जेवंक वताले.

ह्या शारांतल्या घराव्या तुपाच्या फोडणाचो परमळ फामाद आशिल्लो. दिलरूबा हॉटेलांत सदचेवरी गिरायकां आशिल्लीं. आनी सगळीं कामा बाबडया मंडूचेर एकल्याचेरूच पडिल्लीं. कामा तरी थोडीं? जेवणाची ऑर्डर घे, तंदूर भाज, जेवण हून कर, उदक दी, प्लेटी धूय, आयदनां घांस… पयशे बी घे… एकलो मुंडू खंय खंय म्हूण नाचतलो? इतलें उणें म्हूण, हॉटेलांत पोलीस आइल्ल्याक हॉटेलांतलो रांदपीय बी नाच जाल्लो. ''आरे पोरा, पंडित खंय?'' तेजासिंगान - एका ड्रायव्हरान विचारलें.

''पोलिसांचे कादयेंत.''

— आतां ड्रायव्हर झंडेरामान विचारलें, ''अशें जालें तरी कितें पुता?'' ह्या झंडेरामाच्या ट्रकार मुंडून तीन म्हयने काम केल्लें.

''प्रेसवाल्या लालान ताका धरून व्हरूंक लायलो. ताणें पोलिसांक हें आमचें हॉटेल न्हय, ही सोऱ्याची भट्टी अशें सांगलें.''

''लाला सोरो पियेना तर?''

''उस्ताद, तो मसूरदाळीचो सूप पिता.'' मुंडून म्हळें.

‘‘तो पयलीं लाला... तो पिता बरें आसा. पूण तो मसूरचो सूप न्हय. तो गरिबाचें रगत पिता.’’ – दुसऱ्या एका ड्रायव्हरान म्हळें.

आतां मेरेन तांणी आपले बराबर हाडिल्ल्यो सोऱ्यांच्यो बाटल्यो सोंपयल्ल्यो.

‘‘कोण हो लाला गरिबांचें रगत पिवपी?’’ एकल्या ड्रायव्हराक सोरो चडिल्लो... आयज रोटी खावचे सुवातेर ह्या लालाक कुटी खावोंवया.’’

‘‘लाला खंय आसा?’’

‘‘ह्या कुशीच्या प्रेसांत.’’

— थोडे ड्रायव्हर भायर सरले. आनी प्रेसावटेन वचूंक लागले.

शाह तकली सकयल घालून जमा खर्च तपासतालो. झंडेरामान विचारलें, ‘‘ह्या प्रेसाचो मालक कोण?’’

‘‘हांवूच ह्या प्रेसाचो मालक.’’ शाहन वयर पळेत सांगलें.

‘‘तूं सोरो पिना?’’

‘‘सोरो पिवपी मनशाच्या तोंडात हांव मुतूंक लेगीत तयार ना.’’ शाहन व्हडा अभिमानान सांगलें. आनी विचारलें, ‘‘तुमचें कसलें काम आसलें? कित्तें छापपाचें आसा?’’

ताणें इतलें म्हळां मात, ताचेर फटाफट मुठी बसूंक लागल्यो. ड्रायव्हरानी केल्लो बोवाळ आनी लालाचें आड्डप प्रेसाच्या मशिनाच्या आवाजांत भरसून गेल्लें. प्रेसांतल्या कामगारांक कितें जालें तें समजूचे आनी ते लालाक वाटावंक येवचे पयलीं ड्रायव्हर आइल्ले तशे गेलेय बी. इतले बेगीन हें कशें आनी कित्याक घडलें, हें कोणाक कळ्ळें लेगीत ना. लालाली मुस्तायकी पिंजून बोंदरां जाल्लीं. कितें छापूं जाय’ इतलेंच ताणें विचारिल्लें, घटकेंत ताच्या आंगार काळेनिळे नकाशे उदेल्ले... हांवें त्या निर्दोष गीगुक बडयेन मारिल्लो, ताची हाय म्हाका लागली ना तू? काय शाहनीन दिल्लो स्राप म्हाका बादलो?... दुसऱ्याच खिणाक हो विचार ताणें फांफडून उडयलो.... हांगा पातक बी कांय ना... सगळे मनाचे खेळ.

सगळे कामगार तटास जावन आपले भोंवतणी जमल्यात तें पळोवन तो आड्डलो, ‘‘आतां तुमी म्हजें तोंड पळेत उबे कित्याक रावल्यात? जेन्ना गरज आसली तेन्ना तुमी आयले नात... मोन्यानी सगळें पळेत उबे रावले... अर्द डूज बेबदे येतात कितें आनी तिसांपरस चड कामगारांसामकार तांच्या मालकाक मारून परथून वतात कितें... सगळेंच अजाप... तुमकां लज दिसली ना?... नाल्लीभर उदकांत नाक बुडोवन जीव दियात.

— ‘‘तरी लेगीत कामगार थंयच उबे रावले... चलूंक लागात पयलीं आनी काम करात...’’ गंढामल्ल आड्डलो. आनी सगळे कामगार आपआपले सुवातेर वचून काम करूंक लागले.

शाहन फोन उबारलो. एक नंबर धुंवडायलो. दुसरे वटच्यान फोन उखलतकीच ताणें म्हळें, ‘‘सायबा, हांव तुजो सेर्वेंत गंढामल्ल उलयतां. हांगा थोडे गुंड आयले आनी तांणी म्हाका जिवो मारचो यत्न केलो. तांणी म्हजे हजारांनी पयशे लुटले... तुमकां खबर आस न्ही, रातीं म्हज्या घरा कितें जाल्लें तें? म्हाका दिसता म्हजे आड कोण तरी व्हड कट शिजयता... बरे पात्रांव, हांव वाट पळेतां. ‘‘देव बरें करूं’’ – फोनाचो रिसिव्हर जाग्यार दवरून ताणें द्वारकाक सांगलें, ‘‘घरा वच आनी

म्हजे कपडे घेवन यो.''

''शाहजी, म्हजें आयक! तूं हे कपडे बदलूं नाका. पोलीस चवकशी जाली काय मागीर कपडे बदलूं येत.''

''चवकशेविशीं तूं हुस्को करूं नाका. म्हाका कांयच लागूंक नाशिल्लें जाल्यार लेगीत कितें करचें ते हांव जुस्त जाणां. आनी आतां तर ताणीं म्हाकां खऱ्यानीच मार घाला... पयलीं चंदरागेर वचून ताका रोकडो येवन वच म्हूण सांग. आनी हय येतना कॅमेराय घेवन यो म्हूण सांग ताका.''

''पात्रांव, त्या आमच्या दुस्मानाक?'' द्वारकान दोळे मोडीत विचारलें.

''तूं मरे खऱ्यांनीच साडेबावराती मनीस! ह्या जगांत कोण कोणालो दुस्मान आसना. जण एकलो आपलो आपूण दुस्मान आसता. कळ्ळें?'' शाहान अशें म्हळें तेन्ना ताच्या तोंडार बकत्छायांचो हांसो आसलो.

''पात्रांव, हें मात खरें... पूण हे कामगार तूं मार खातना खुशालभरीत जाल्लेशे दिसताले.''

गंढामल्लान व्हड आवाजान म्हळें, ''हें तुवें म्हाका सांगूक जाय? हांव तांकां वळखना?... पूण म्हाका एक सांग, तेन्ना तूं कितें करतालो?'' ''हांव?... हांव नारायणाची वाट पळेतालों. तुवें ताका बुकबायडींग करूंक धाडिल्लो न्हंय?... तो येतकीच हांव ताचे सयत फोर्सान त्या बेबद्यांचेर धांवन वचपाचों... म्हजीं हाडां बी फोडिल्लीं जाल्यार तो म्हाकां हॉस्पिटलांत तरी व्हरपाचो...''

''तालां मारूं नाकां. आतां बेगीन वच. आनी चंदराक धाडून दी... आनी हें पळे, शाहनीक हांतलें काय सांगू नाकां'' मनांत ताणें चितलें... शाहनीक हें कळत जाल्यार ती म्हणटली, पळे, पळे.... पतिव्रता बायलेचो दुबाव घेतलो ताचो हो परिणाम....

चंदर आयलो. ''लालाजी, हें कितें?.... शाहजीक ते अवस्थेंत पळोवन ताका अजाप दिसलें.

''काय ना. हांवें म्हजो हे दशेंतलो फोटो फायच्या पेपरांत छापपाचें शारायलां. असो फोटो तयार कर की पळेतल्याक धक्को बसूं जाय. नक्षलवादी येवन तांणी म्हजी कशी दशा केल्या आनी ते कशे त्रेपन्न हजार म्हजे कडल्यान घेवन गेल्यात तें फाल्यां अख्ख्या देशाक कळूं दी.''

चंदरान कॅमेऱ्याचो बटण दांबलो. फ्लॅश लायट पडली. चंदरान विचाल्लें, ''हें सगळें केन्ना जालें? आनी आमकां कांयच कशें कळूंक ना?''

''म्हाकां तरी खंय कळ्ळें? ते गेले, उपरांत कितें जालें तें म्हज्या लक्षांत आयलें. एका वरा भितर तूं फोटो तयार करून दिशीत जाल्यार फाल्यांच्या पेपरांत ही खबर येवं येता.''

''शाहजी, दोतोराकडल्यान तपासून कित्याक घेना?''

''मालांद्रानी बरोच मारलो म्हाका. पूण म्हजी हाडां बरीं घट आसात.''

''शाहजी, ह्या वगतार उलोवप समा जायना.... पूण एक विचारूं!''

''आरे, कांय भियेनासतना विचार कितें विचारपाचें आसा तें....''

''तें दुकान? माळरोडावेलें?''

''तुका हांवें म्हजें उत्तर दिलां न्हय? तें दुकान तुजें... पूण म्हजें एक काम तुवें करूंक जाय.''

‘‘तूं फक्कत सांगून पळे.... तुजें काम जालेंच म्हूण समज. तुजे खातीर हांव म्हजो जीव लेगीत उंवाळून उडोवंक तयार आसा.’’

‘‘ताचें कितें आसा... आमचो पोरणो नोकर गीगु, ताचो हातूंत हात आसा . कर्मान ताका आपल्याक येवन मेळ म्हूण फुटयला. म्हाका तुजे साक्षीची गरज आसा. फक्कत पोलीस स्टेशनार न्हय तर कोर्टांतय बी...’’

‘‘कर्मा आनी गीगू मेळून अशें करीत हाचेर विश्वास बसना.’’

‘‘हातांत सुरो घेवन तो म्हजे छातयेर बशिल्लो तुवें पळयल्लो जाल्यार तुजो विश्वास बसपाचो?.... कितलोय जाल्यार तूं कम्युनिस्ट.’’

‘‘ना शाहजी! देव तुका खुब आयुश्य दिवं... पूण काल गीगू जोरान फणफणटालो म्हूण आयकलां...’’

‘‘तीं ताची धूर्तपणां आसलीं.... कर्मा आनी गीगू हांचे कडेन तुजो कसलो संबंध आसा सांग पळोंवया?....’’

‘‘तसो कांयच संबंध ना... पूण शाहजी, आपल्या मनाची म्हूण लज आसताच न्हंय?... लोकांक कशेंय फटोवं येता... पूण मनाक कशें फटवप?’’

‘‘तूं साप्प सादो मनीस... जिवितांत वयर येवपाचें आसत, जाल्यार मनशान हुशार आसचें पडटा... म्हाकां साक्षिदार मेळचे नात असल्यांतली गजाल न्हंय... हांगा तिसापरस चड लोक आसात... पूण जालां कितें.... तांणी साक्ष दीत जाल्यार मालक म्हूण हांवें तांकां फोर्सार केलां अशें जावं येता.’’

चंदर एक मिनीट कितें करचें तें कळना जावन ओग्गी रावलो.... ‘‘दनपरां उषाकडल्यान ताका बरें पुर्राद मेळिल्लें. भांगरासारकी एक संद गेली. आतां दुकानूय हातांतल्यान वचत जाल्यार?... बरे भशेन जगपाची संदूय बी वतली...’’ कितें करचें, ताका कळना जालें. तो दोशी वट्यां चिंतूक पडलो. एके वटेन माळरोडावेलें दुकान आसलें. तें मेळ्ळें जाल्यार सुखी संवसाराचें सपन फळादीक जावपाचें आनी दुसरे वटेन चिमणेचो घोंटेर आसलो... दुःश्चिन्हशें... मनीस एकलो आसत जाल्यार जीण कशीय सारूं येता... पूण बायले भुरगेकाराक आपल्या घरच्यांक सुखासमाधानान दवरपाची संद होगडांवक जाता?...

‘‘कितें चिंतता चंदरबाब? तुका हें मानवना जाल्यार आसूं... भोगू तें... हांव तुका फोर्सार करीना...’’

चंदरान पळेलें... हातांत दोन चांवयाची की-चेन घेवन शाह ताचे मुखार लंबकावरी हालयतालो.

‘‘माळरोडवेल्या दुकानाच्यो ह्यो चावयो...’’ शाहन म्हळें.

‘‘शाहजी, तूं कितें सांगता तें सगळे म्हाका मान्य आसा.’’

— आनीक लोकांक धरलें जाल्यार तांकांय तुवें वळखुचें पडटलें.’’

‘‘म्हाकां मान्य आसा लालाजी.’’

‘‘तशें जाल्यार ही चावी घे. आयज रातीं तुज्या उश्यापोंदा दवर आनी सुसेगाद न्हीद.’’

"देव बरें करूं लाला.... तुका चढ आयुश्य मेळूं... तूं गरिबांचो राखणो." – चंदरान म्हळें आनी तो गेलो.

शाहन जाल्ली गजाल फोन करून खूब लोकांक कळयली. इतले मजगतीं प्रिंटींग प्रेसांतले कामगार काम सोपोवन घरा परतले. तेन्ना सगळया प्रेसांचे मालक शाहाच्या प्रेसांत जमूंक लागले.

निमणो 'न्यू टायम्स' चो रिपोर्टर आयलो. जें कितें घडलें तें सगळें शाहान रिपोर्टराक सांगलें. निमाणें ताणें म्हळें, "हें सगळें काम कोणे केलें खबर आसा? नक्षलवाद्यांक वचून मेळिल्ल्यानीच हें काम केलां."

जमिल्लो लोक अजापभरीत जालो.

"सरकार तांकां धरूंक कांय प्रयत्न करिना?"

"परतें सरकारूच तांकां मदत करता म्हळयार जाता."

"प्रेस प्रोप्रायटराच्या शिशटमंडळान मुख्यमंत्र्याक वचून मेळचें पडलें."

"हय!... हय!!.... – सगळयांनी एकमुखान म्हळें.

प्रेसा भायर पोलिसांची जीप आयली. पोलिस इन्स्पेक्टर, एफ.ए.एस.आय. आनी दोन शिपाय भितर सरले. भितरलें वातावरण तापलां हें तांकां भायल्यानूच कळ्ळें. भितर सरनाबराबर रोखडेंच तांणी सांगलें, "कर्माक आनी गीगूक आमी धरले. आनीक दोगांक धरल्यात. ते म्हळयार ओम् आणि प्रेम."

तांणी तशें म्हण्टकीच जादू जाल्लेवरी वातावरण निवळ्ळें. सगळे खुशालभरीत जाले. आनी आड्डूंक लागले.

"इन्स्पेक्टर झिंदाबाद!"

"नक्षलवादी गुंडा मुर्दाबाद!!"

"हे नक्षलवादी गुंडा कोण?" इन्स्पेक्टरान दुबावान आनी आजापान विचारलें.

"तें तुमकां रोकडेंच समजतलें. आतां आमी कोन्टिनेंटल हॉटेलात वचूंया... थंय बसून सुसेगाद उलोंवया."

—प्रेसांचे जमिल्ले मालक, इन्स्पेक्टराक आनी ताच्या वांगडाच्या पोलीसांक घेवन हॉटेलावटेन वचूंक लागले. रंगाधर स्टुडिओकडेन पावतकीच गंढामल्लान चंदराक उलो मारलो. आनी ताकाय तांचेबराबर हॉटेलांत आपयलो.

चंदरान बेगीबेगीन स्टुडिओ धांपलो आनी तो तांचेबराबर गेलो.

हॉटेलाकडल्यान वतना शाहालें सुजिल्लें तोंड पळोवन मुंडू सातीशफेयत जालो. खोशेच्या ल्हारा वांगडा काउंटराचेर ट्रेंत आशिल्ले ग्लास छन्....न् आवाज करीत फुटले. दुसरो एकाद्रो वगत आसलो जाल्यार तो जाल्ल्या लुकसाणान कांचवेवपाचो, नाजाल्यार भियेवपाचो पूण मार खाल्ल्या लालालें तोंड पळोवन तो खूश जालो.. ताच्या काळजांतलो घुस्पट बंद जाल्लो.

भितरल्यान शाह एकदम् खुशालभरीत जाल्लो. कित्याक सगळयो गजाली ज्युस्ताक ज्युस्त

ताचे वटेन आनी ताका जाय तश्यो जाल्ल्यो. ताचे सगळे प्रस्न सुटिल्ले... तरीकूय तो खंयतरी भितल्ल्यान अस्वस्थूय बी जाल्लो. ताका एकूच विचार सतयतालो... ते मारूंक आयिल्ले लोक कोण? आनी तांणी ताका कित्याक मारलो काय?...

★ ★ ★



# 2
# थोटें खेंचर

ताच्या गळयाभोंवतणी एक म्हेळो धागो गुठलायल्लो आसलो. धाग्यांत एक गुंथिल्लो रूद्राक्ष. हो गुंथिल्लो रूद्राक्ष ताच्या गळयाच्या खोलगट भागांत पुरुनुच बसला काय दिस... ह्या रूद्राक्षाच्या दोनूय वटांनी दोन तांबडे मणी आसले. तो उलयतालो तेन्ना ताच्या दोळयांत एक चकचकसाण दिसताली. आनी ताच्या गळयांतलो रूद्राक्ष कठपुतळेवरी नाचिल्लेवरी दिसतालो.

हरशीं ताच्या हांसत्या मुखामळार सदांच सगळयांचें बरें मागपी खोस आसताली. तो सदांच मजेच्यो आनी हांसपाच्यो काणयो सांगतालो. ताका आइल्ल्या अणभवांतल्यान तो सादें, सोपें गिन्यान सांगतालो. तो म्हण्टालो, 'मनशाच्या मनांत इच्छेचें झाड आसता. त्यो इच्छा पूर्ण करपाक मनशाक शिकाऱ्यावरी संदीची वाट पळोवची पडटा.

सुरवेक ताच्यो खुबशो गजाली म्हज्या माथ्याबोडावेल्यान वताल्यो. पूण खूब तेंपान ताच्या उलोवण्याचो अर्थ म्हजे मतींत येवंक लागलो. मनशाची उंचाय ताचे कुडीचे उंचायेन जोखूंक फावना. ती ताच्या विचारांचे उंचायेन मेजची पडटा. तो म्हण्टालो, "हांव कितेंय उलयतां तेन्ना म्हाकां दिसता हांव खूब व्हड जालां. आनी पुराय सैमाचें झाड म्हजे भोंवतणी धुंवता."

पूण ह्या विशयांत म्हजो अणभव वेगळो आसलो. तो उलयतालो तेन्ना म्हाकां दिसतालें एका उंचेल्या रूखार एक पिटकोळ बसून टुट्-विट-टुट् करून गीत गायता.

आपलें उलोवप ताका आत्मविश्वासाचे तेंगशेर पावयतालें. आनी ताका दिसतालें, आपणें सर्गाकूच हात लायला.

अजापाची गजाल म्हळयार आजय तो एकदम मोटवो दिसलो.घडये ओग्गी बशिल्ल्यान म्हाका तशें दिसलां जावं येत. म्हाका ताचें उलवप खरें दिसूंक लागलें. उलयतां उलयतां मनशाची उंचाय वाडत वता, हें ताचें म्हणणे अशक्य आसत, पूण तें एकदम खरें शें दिसतालें.

चकचकसाण नाशिल्ले दोळे, कशाय कसो बांदिल्लो *तहमत, धुवंक नाशिल्लें आनी चुरिल्लें खोमीस... देंविल्लें तोंड... आइल्ल्याक तो घुमो कसो जावन बशिल्लो. तकलेक बांदिल्ली पगडी.... ताका लागून तो आनीक बाबडोसो दिसतालो. ताका पळोवन आयज तरी ऊंच रूखार बशिल्ले पिटकोळेचो उगडास जालो ना.

---

* तहमत : पुडव्याभशेन न्हेसपाचे वस्त्र.

"कोणेंतरी तुजो पोटलो चोरून व्हेल्लेवरी दिसता तूं...." ताका खूश करूंक म्हूण हांवें म्हळें.

"पोटलो झक मारूं! तो आनी कोण व्हरतलो?" ताणें उदास जावन म्हळें.

"झक कित्याक मारूं? तूं गांवचो मुखेली. मुखेली म्हळयार गांवची प्रतिष्ठा. ताचो पोटलो चोरून व्हरप म्हळयार ताचे प्रतिष्ठेक..."

"म्हजे प्रतिष्ठेक बाधा येवंक ना...." तो पिकार जावन उलयतालो. पिटकोळेची सरगम बेसूर जाल्ली. तिचे सुवातेर कावळयाची काँव काँव आयकूंक आयलें. मनाची भितल्ली तार तुट्टा तेन्ना सारेगम चे सूर बराबर लागनात.

"सगळें बरें आस न्हय?" विचारूंक जाय म्हण विचारिल्लो प्रस्न.

"आसा बरें?" दिवंक जाय म्हूण दिल्ली जाप.

"कितेंतरी जालां... गरमेच्या दिसांनी शेतांत काम करपी शेतकामत्यावरी तुगेलें तोंडूय बी काळें पडलां."

"आरे, शेतकामत्यांचो कोर असोच आसता. आतां उतार पिरायेर आनी कितें जातलें?"

"तूं एक कवी आसुनूय आपल्याक म्हातारो समजता? अशांनी तूं तुजेरूच न्हंय तर सगळया बरोवप्यांचे जातीचेर अन्याय करता... एकेवटेन तूं शेतकामती देशाचो अन्नदात्तो... काळीज इतलें ल्हान करशीत जाल्यार कशें जातलें?

— आमच्या दोगांय मदीं वयाचें खूब अंतर आसलें. तरीकूय आमी इश्टांवरी एकमेकांकडेन चलताले, इतलेंच न्हय, वय विसरून नाचतालेय बी... अन्नाडी आसून लेगीत तो मर्मज्ञ आसलो. जोत घालतना ताका कविता सुचताल्यो. त्यो तो पाठ करतालो. तो शारांत येतालो तेन्ना यादींचें किवाड उगडून तांतल्यान कितल्योशोच कविता भायर काडून दाखयतालो. मागीर हांव ताका त्यो बरोवन दितालों. कविता आवडली जाल्यार म्हजे वळखीच्या संपादकाक धाडून ती छापून हाडटालो.

आमी मन सोडून गजाली करताले. ह्यो गजाली साद्योच आसताल्यो. हेर लोकांवरी! ताचे कडेन कविता आनी साहित्याचेर चर्चा करप म्हळयात रानांत पावस!

धर्म आनी समाजाखातीर ताची सादी फिलोसॉफी आसली. ही फिलोसॉफी कुड्डी आसली तरी तातूंत खोलाय बी आसली.

— आयच्या जेवणाखाणांत कांय अर्थ ना... सगळयो गजाली नकली. आनी सगळया वस्तुंनी भेसळ.

— कलियुग धांवत येता. जगाची मत भ्रश्ट जाल्या. धर्म कोण पाळिना.

— तकरारी.... तकरारी आनी तकरारी! ताचे कवितेंतूय बी तेंच आसतालें. नव्याची निंदा आनी पोन्याची तुस्त. पूण तो शेतकामत्याचे जिणेचें वर्णन करतालो, तेन्ना दिसतालें, ताचो शेतकामती UNO च्या आदारान केल्ल्या मॉडे ल्हिलेजांनी रावपी शेतकामतीआसूं जाय. हांवे जे शेतकामती पळेल्ले ते सगळे गरीब आसले. युगायुगांच्या चालीरितींनी बांदिल्ले... तिळातिळान मरून मर्णाच्या दारांत वचपी.... हाचे शेतकामती कश्ट करून आइल्ले हुमेन केन्ना न्हाय नासले. ते सदांच हांसताले. ते अन्नदातेशे दिसताले.... खरो अन्नदाता जमनीचो मालक आसता... कश्ट करपी शेतकामती अन्नाक पादिशेर आसता, ही गजाल ताचे मतींत केन्नाच येनासली. ताचे कवितेंतल्या शेतकामत्यांक

खावपा जेवपाची चिंता नासताली. तांची जमीन पिकाळ आसताली... तांतूंत भरपूर उदक आसतालें... कश्ट, घाम, माती हे कवितेचे विशय जावं येतात हें ताका केन्ना कळनासलें.

लुंवणी जातकीच गांवागांवानी धोल वाजताले. भुरगीं काश्टी न्हेसून, कुस्ती करीत एकमेकांची शक्त पळेताले. आनी अशा भुरग्यांमदीं हो उबो रावन तांकां मोगान चिप्प भिजिल्ल्यो कविता वाचून दाखयतालो.

हांवें केन्नातरी वारभर छातयेच्या तरनाट्याविशीं वाचिल्लें. पूण चुकून लेगीत वारभर छातयेचो तरनाटो पळोवंक नासलो. खरी गजाल अशी आसली की आमचे पिळगेमेरेन पावता म्हणसर लोक मोटवे जाल्ले. घडये मिनियेचर युगाचो हो चमत्कार आसूं येता. घडये खऱ्यानीच कलियुग आइल्लें आसूं येता.

हय! हाची छाती खऱ्यांनीच व्हड आसली. तो बरो ऊंच आसलो. लांब रूंद... आदल्या तेंपावेल्या मनशावरी.

तो म्हणटालो, ''पयलीं देव सगळीं कामा करून मागीर आपूण एकलोच मनशाक रचूंक बसतालो. ताका लागून मनशाक लांबाय रूंदाय दिवंक तो चिकुपणां करिनासलो. त्रेतायुगांतले लोक वडावरी लांबरूंद आसताले. कलियुगांत देव शेषनागाचेर सुस्त न्हिदता. आनी ताचे चाकर मनशाक रचतात.... म्हणटकिच कितें जाता, खंयचेंय काम स्वतः करचें सोडून चाकरांचेर सोंपयलें जाल्यार ताचें पाड पडलेंच म्हूण समजुंचें. सगळया गजालींनी बेईमानी येता. ताका लागून मनीस मोटवो जायत चल्ला.''

हांव ताच्या लांब हातांक पळेतालों. तो आजानबाहु (धोंपरामेरेन लांब हात आसपी मनीस) आसलो. दोन बावळयांमदीं एक घटमुट छाती. एक खेपे हांवें ताका विचारलें, ''लोक, कोणूय मनीस चोराभशेन घटमुट आसा, अशें कित्याक म्हणटा?''

ताच्या ओंठार हांसो फुल्लो. ताणें म्हळें, ''चोरांचें काळीज काळंगावरी आसचें पडटा. कित्याक ताका धरलो जाल्यार मार खावंचो पडटा. मोटव्या मनशाचें काळीज घुटयेयेदें आसता. मागीर चोरपाची ताका हिम्मत कशी जातली?'' मागीर ताणें एका चोराची काणी सांगली. ह्या चोरान महाराणा प्रतापसिंहाक सांगून धाडलें, की अमुक तमुक दिसा हांव तुज्या महालांत चोरी करतलों. आनी ताणें ज्युस्त त्या दिसा चोरी केली. आनी खूब वस्ती वांगडा महाराजाची जळटी चिलीमूय बी घेवन गेलो.

त्या चोराची काणी सांगतां सांगतां तो मुडांत आयलो. त्रेतायुगांतल्या सादेपणान ताणें म्हळें, ''खरें सांगू? हांवें फक्त घरफोडी करूंक ना.... बाकी सगळें केलां... हां! घरफोडी करतल्या वांगडा रावलां. धरमूकडेन म्हजें बरें जमतालें... तन्नेपणांत जायतें कितें कितें केलें... चेडयांवांगडा नाचलों लेगीत...''

— मागीर तो आपले अणभण तिखटमीठ लावन सांगतालो आनी आमी आयकुपी उस्वास सोडटाले.

गळयाचे खळयेंतलो रूद्राक्ष आयज ओग्गी आशिल्लो... तो उदास आशिल्लो. ओग्गी बशिल्लो.

''तुवें परथुन पिवंक सुरवात केली काय कितें?''

"तुका कशें कळ्ळें?"

"सायबा, शेतकामत्यांचो रंग एकतर वोतान नाजाल्यार गोडाचो अर्क पियेवन बदलता."

"तुका कळ्ळें तर!"

"पूण एक खेपे सोरो पिवपाचे सोडटकीच परथून पिवपांत कितें अर्थ आसा? तूं तर म्हणटालो घरदार सोडून साधू जातलो. शेत्तांत खोंपूट बांदून जप-तप करतलों."

— तो ओग्गी रावलो.

"म्हजो तुका राग आयलो?"

"शे! शे!! तुजेर हांव कित्याक म्हूण रागार जातलों?

"कोणूय आपल्या मनशाचेरूच रागार जाता हय? खूब दीस जाले. तुवें आपलें तोंड दाखयलें ना. म्हूण म्हळें, नकळटां म्हजे कडल्यान खंयचीय चूक बी जाली ना मू?

— ताणें एक उस्वास सोडलो.

"खरें म्हळयार एका संकटांत पडिल्लों, दुविधेंत सांपडिल्लों."

"ओह! — म्हाकां सूऽ जालें. आतां भिवपाची गरज नासली... कवी दुविधेच्या दर्यांत बुडी मारून कवितेचें मोती घेवन येतात..."

— ताच्या तोंडावेले भाव बदल्ले.

"तूं म्हाका मदत करशीत?"

"तन-मन-धन तुजें! धन म्हजे कडेन ना, ताका लागून ताचेबद्दल कांय सांगूक शकना." — हांवें तोंडपाठ केल्लें वाक्य सांगलें. फाटल्या अणभवांतल्यान, कोणूय पयशे मागता, तेन्ना सांगपाखातीर हांवें हें वाक्य तयार केल्लें.

"पूण कितेंय सांग... तुवें विश्वास दाखयलो तो व्हडलो." हांवें म्हळें.

"पयशांची गरज ना... तुजो फावोर जाय." — दोळे मोटे करून, हो आतां कसलो फावोर मागतलो हाची हांव वाट पळोवंक लागलों.

"एक चली आसा... तिका नोकरी जाय."

"कितें शिकल्या?"

"धावी नापास."

— म्हजे दांतकडींत जीब आडखळ्ळी... कोणाल्याय घरांत आयाची नोकरी दिवप गजाल वेगळी... पूण हाका दिसता, हांवें ते चलयेक सरकारी नोकरी दिवची म्हूण!

ताणें बोल्सांतल्यान विडयेचें बंडल काडलें. तांतली एक विडी काडून घेतली. विडी पेटली ना. काडीय पालवली.

"पाडापडिल्ली ओली जाल्या." मागीर ताणें दुसरी काडी पेटोवन पयलीं विडयेचें भायलें पोंत जळयलें. आनी मागीर विडी पेटयली. विडी ओडीत ताणें नाकांतल्यान धुंवर भायर सोडलो. आतां तो सदांवरी मुडांत आइल्लो.

म्हाकां दिसलें, निळया मळबांत सुकणें उडूंक लागलें. उदासी ल्हवू ल्हवू वितळत गेली.

"हांवें आयज मेरेन तुजे कडल्यान कांयच लिपोवन दवरूंक ना." – तो सहज सुरांत

उलोवंक लागलो.

''जालां अशें, हांव म्हजे जिणेची नवी रजिस्टरी बरोवंक सोदतां.'' म्हाका धुंवळ आइल्लेवरी जालें. ''रजिस्टरी म्हळयार कितें?''

''काणी... इतिहास म्हळयार जाता... तें तें... म्हळयार.... शिकिल्लो लोक ताका रजिस्टरी म्हणटात...''

''ओह! हिस्ट्री!''

— ताणें आपलें उलोवप चालू दवल्लें.

''हावं चिंततालों, घरदार सोडून रामनाम जपतलों. पूण देवाची इत्सा तशी दिसना... घडये देव म्हजी परिक्षा घेता जाल्यार खबर ना.''

— ताच्या दोळयांत विचित्र चकचकसाण आसली... विडयेचो विचित्र वास सगळयाक पातळ्ळो.

''ह्या दिसांनी कितें जालां तें सगळें तुका सांगतां. लक्ष दिवन आयक....''

— शेवण्याचो आवाज परथून येतकीच म्हाका बरें दिसलें.

''गावांत आमच्या घराचे मात्शें मुखार एक घर आसा. तो भाटकार. तांगेर भुरगें ना. एक दीस भाटकान्न आपल्या भावाली चली घेवन आयली. गांवचो लोक म्हण्टात दुसऱ्याले भुरगें पोसूंक घेतकीच आपल्याक भुरगें जाता... तर ही चली शिकत शिकत धावी मेरेन पावली... म्हजे कडेन केन्ना ती उलयली ना. तिचेकडेन वळखूय नासली. आनी तसो म्हाकां तिचे भितर इंटरेस्ट्य नासलो.

— परथून विडयेचो एक झुरको घेवन नाकांतल्यान धुंवर सोडीत ताणें सांगलें, ''फाटल्या वर्सा आमच्या गांवांत एके बायलेक जुंवळयो चलयो जाल्यो... चलयो जातकीच तांची आवय मेली. तिचो घोव मिलिटरींत आसलो. मर्णाची गजाल आयकून तो घरा आयलो. बायलेलें मर्ण बी केलें. आतां ह्या चलयांचें करचें कितें? तांतले एके चलयेक ताची आजी घेवन गेली. आनी दुसरेक भुरगीं नाशिल्ले भाटकान्नीन पोसकें घेतलें.... हे चलयेक पळोवपाचें, न्हावोपाचें, दूद पिवोवपाचें काम ते बायलेन आपल्या भावाले चलयेक दिलें. तिका दिसतालें, भावाले चलयेच्या पायगुणान नासूं पूण हे चलयेच्या पायगुणान तरी तिची कूस उजवतली.

सान चली येतकीच ते व्हड चलयेक कोण विचारी ना जालो. ती आतां घरांतली वावराडीशी जाली. सगळो दीस ल्हान व्हड कामां करीत उरताली. कामांतल्यान उसरपत मेळटकीच धाकल्याक घेवन भोवंक वताली. म्हाका त्या घरांतली सगळी काणी खबर आसली. पूण म्हाकां हे चलयेची काकूळट दिसली ना. आनी ताचे आत्तेचो रागूय आयलो ना.

खुबशो वायट बऱ्यो गजाली आमच्या दोळयांसामकार घडटात. पूण आमकां तांचें कांयच पडूंक ना. लचांडांक तर आमी पयसुल्ल्यान नमस्कार करतात. ताका लागून जाता कितें, वायट गजाली तुमी वग्गी रावन सोंसतात. केन्ना केन्ना तिका बाबडेक हे लोक मारपेट बी करताले. कितलेशेच खेपो ताची तकली धरून वणटीर आपटिल्ल्याचो आवाज आनी ताच्या रडपाचो आवाज कानार येतालो. पूण तांचें हें सदचेंच अशें समजून आमी ओगी रावताले.... आमी गांवचे लोकूय विचित्र... कोणूय आपल्या घरच्या लोकांचेर कितलोय अत्याचार करूं, आमी समजतात, तो ताचो खाजगी

प्रस्न... तांणी घरच्यांचें कितें करचें तो तांचो प्रस्न.

ह्या नाका जाल्ल्या अधिकार आनी अत्याचारा विरूद्ध म्हज्या मनांत रागाची एक कीट पडली. एक दीस ती बायल ते चलये फाटल्यान पेट्टें लाकूड घेवन ताका मारूंक धांवताली. चली चार वणटी भितर हेवटेन तेवटेन धांवताली. निमणी पुरो जावन रडत रडत ती सकयल बसली. ते चाण्डाळीण आत्तेमुखार हातपांय पडून रडत तिणें म्हळें, ''आत्ते, तुकां पायां पडटां...'' ताचीं उतरां अदर्यारूच उरलीं. ते आतेन तें जळटें लाकूड ताच्या पोटाक लायलें. चली आड्डली आनी जमनीर न्हिदली. पूण ते चाण्डाळणीक दया आयली ना. किंळच्यो मारपी ते चलयेक ती मारीत रावली.

हांव खांदार जोत घेवन हें सगळें पळेतालों. मनांत आयलें, हे राक्षिणीक केशटयांक धरून साता समुद्रांपलतडीं मोखून मारची. हांवें आंगणांत जोत दवरलें आनी तांगेच वचूंक भायर सरलों. जाल्यार म्हजी बायल मुखार आयली. म्हणूंक लागली, ''दुसऱ्यांच्या घरांत लागिल्ल्या उज्यांत तूं कित्याक म्हूण उडकी मारता? ती चली तांची, निमणे ते सगळे एक जातले. आनी ते एक आसातूय बी. तेन्नाच तर ती आपलो अधिकार गाजयता.'' ती म्हाकां भुजांक धरून घेवन भितर गेली. हांव ते चलये खातीर कांयच करूंक शकलों ना. पूण तिचे खातीर म्हजो जीव चिटमिटलो. सोड! ही खबर हांव विसरूनूय गेल्लो. मुखार हे काणयेक आनीक एक फांटो फुटलो. कुटुंब-नियोजन वाले आमच्या गावांत आइल्ले. तांणी गावांत एक कवि-सम्मेलन घेतलें. रेडिओवाल्यांनी ताचें रिकोर्डींग करून व्हेलें. हांवेंय तांतूंत एक कविता वाचिल्ली.

एक खेपे हांव वजें घेवन घरा येतना रस्त्यांत फाटल्यान एक आवाज आयकूंक आयलो. ''हांवें रेडिओचेर तुमचो पोरगराम आयकलो. तुमी इतल्यो बऱ्यो गजाली कशो बरयतात? आनिकूय तरातरांचे प्रस्न विचारीत तें म्हजे फाटल्या फाटल्यान येवंक लागलें. हांव थोडे भितर जापो दितालों. चड करून हां... हूं करतालों. मनांत आयलें, तूं आवयबापाय म्हऱ्यांत कित्याक वचना काय म्हूण विचारचें.''

दुसऱ्या दिसा तें परथून रस्त्यार दिसलें. आमच्या पोरसाकुशीक आशिल्ले सुवातेर तें सदांच कोयर उडोवंक येतालें. आतां वळख जाल्ली. तेन्ना गजाली जावंक लागल्यो. एक खेपे हांवें ताका आमच्या पोरसांत आपयलें. थंय बसून ताची चवकशी केली. तें खंयचें.... ताचे घरची परिस्थिती कशी... घरांत आनीक कोण कोण आसा? ताणें सांगलें, ताची एक भयण आसा. ती लग्नाची आसा. बापूय गरीब. ताका लागून ती हे कादयेंत रावल्या. 'आत्ते म्हजी चली, म्हजी चली' म्हूण हात भोंवडायत घेवन आइल्ली. आत्तां दुसऱ्यालें पोट पोसता आनी म्हाका त्रास दिता.

विडी काबार जाली. उरिल्लें पोत ताणें पयस मोखून मारलें. मागीर ताणें सांगलें, ''आतां खरी काणी सांगपाच्या मुडांत हांव आयलां. आतां एक सिगरेट दी.''

हावें फिल्टर किंग ची एक सिगरेट ताका दिली. ती पेटोवन ताणें दोळे धांपले. आनी फाटल्या तेंपाच्या सुखसागरांत बुडयो मारूंक लागलो.

खरें सांगू? म्हज्या मनांत तिचेविशीं जी करूणा उत्पन्न जाल्ली ती आतां मोगांत बदल्ल्या. ही गजाल हांवें सपनांत लेगीत चिंतूंक नासली. आनी तिणें ह्या रस्त्यार एक पावल मुखार घालूंक नाशिल्लें, जाल्यार हें सगळें घडचेंच नासलें. ताका लागून म्हजें व्हडें वादळांत परतलें म्हळयार

जाता.

कोयर उडोवपाच्या निमतान तें सदांच आमच्या पोरसांत येवन म्हजे कडेन उलयतालें. आनी वतालें. ज्या दिसा तें म्हाका दिश्टी पड नासलें त्या दिसा मन सैरभैर जातालें. मनांत दिसतालें, ताका पळेत रावचें आनी ल्हवू आवाजांत गजाली करच्यो.

पूण मागीर ही गजाल कोयर आनी पोरसूं मेरेन उरली ना. हांव आमच्या परांतले एके विशिष्ट सुवातेर उबो रावलों म्हणटकच म्हाकां तांचें घर दिश्टी पड. तें केन्ना चलयेक घेवन सान्न मारतना दिश्टी पडटालें, जाल्यार केन्ना खाटीर बसून वोत खातना... केन्ना केन्ना तें अशेंच येतालें. गजाली करतालें. आमी उलयतात तें पळोवन लोक हांसताले. मनांत चिंततात आसतले, म्हातारो चळ्ळा म्हूण! तुका दिसतलें आमी कितें उलयतालीं काय म्हूण! पूण उलोवंक आमकां कसलेय विशय चलताले. देखीक, तें म्हणटालें, आजय आमचे गायीन दूद उणें दिलें. जाल्यार हांव मागीर ताका गायचीं दुवेंसा धरून गायचें दूद मेरेन जायत्यो गजाली सांगतालों. देखीक ऋषिमुनीनी दुदाक अमृत म्हळां बी. गाय दूद उणें कित्याक दिता आनी चड केन्ना दिता हाचेर भाशण दितालों. उलयतां उलयतां हेंवूय बी सांगतालों, दुदाची गरज पडल्यार आमगेर येवन घेवन वच. विचित्र अस्वस्थता आसली. चिंततालो म्हजें मन कितें सोदता काय? आनी तेंय बी ह्या वयार? मेळ्ळे बगर ताकाय बी सुसेग मेळ नासलो आनी म्हाकाय बी!

मागीर लोक उलोवंक लागले, भाटकारान हे चलयेक आपल्या जाळांतआडकायल्या. घरांत पूत, सुनो, धुवो सगळीं फुतफुतूंक लागलीं. पूण हांवें कोणाली पर्वा केली ना. सगळे म्हाका भितात. हांव बऱ्याक बरो. पूण वायटाक म्हजे इतलो वायट आनीक कोण ना. तोंडार कितेंय उलोवपाची कोणाली कापास्दाद नासली.

तें सकाळ सांज आमगेर म्हजे म्हऱ्यांत येतालें. तें येतकीच घरची सिनालानी एकमेकांकडेन उलयतालीं. नाजाल्यार लिपून आमच्यो गजाली आयकतालीं. हें सगळें जाणा जाल्ल्यान आमी आमच्या काळजांतल्यो कसल्योच गजाली करी नासलीं. घरच्यांचो दुबाव पयसावपाक हांवें ताका एक अर्जी बरोवन दिवंक सांगलें, म्हणजे तें नोकरी सोदता हें घरच्यांक कळचें म्हूण!

ह्याच दिसानी घरच्या लोकांच्यो दुबावी नजरो वाटावपाखातीर हावें सोरो पिवंक सुरवात केली. सोऱ्याचो अर्क काळीज कांपतालो. हांव तांकां दाखोवंक सोदतालों की तीं म्हजो फटीचो दुबाव घेतात म्हूण हांव पितां.''

''ती चली एक ल्हान आसली. पूण तूं... तूं मातूय अनमनलो ना?''

— हांवें ताची गजाल अर्ध्यार तोडून ताका विचारलें.

''तृप्ता!'' अवचित ताचे जिबेर ते चलयेचें नांव आयलें.

''ताचें नांव तृप्ता... आनी तें ल्हान न्हय.... ती सोळा सतरा वर्सांची चली. गांवच्यो ह्या वयांतल्यो चलयो बऱ्यो लांबरूंद आसतात. आनी व्हडज्या बायलांवरी दिसतात. उरली गजाल अनमनपाची. पूण तें म्हज्या धाग्याचें न्हय पाग्याचें... तें खंयचें आनी हांव खंयचो... जात एक न्हय. गोत्र एक न्हय... गावांत मोगाची मुरली कोण वाजयना? सगळो लोक वाद्य मेळ्ळें काय सरगम वाजयतात. पूण म्हजें वागप सगळयांक कुवाडयांत उडयतालें. कित्याक तर, हांव एक भाटकार...

सुनोधुवो आशिल्लो घरकार.... खरें सांगूं, पयलीं हांवेंय बी म्हज्या मनाक ''खानदान ची इज्जत'' बी अशी भीड घालून सांबाळ्ळें. लोक हांसतले म्हूण सांगलें. पूण हें मन लगाम नाशिल्ल्या घोडयावरी परथून परथून थंयच धांवतालें.

एक दीस दनपरां हांव तृप्ताल्या घरा गेल्लों. ताची आत्ते तांदूळ वेंचताली. तृप्ताले हांडीर तें भुरगें आसलें. ताचें तें नाक पुसतालें. म्हाका पळोवन आत्तेन माथ्यावेल्यान पदर घेतलो. तृप्ता हांसत हांसत म्हजेकडेन उलोवंक लागलें. ताची आत्तेय तृप्ताक नोकरी पळोवन दी म्हणूंक लागली. तिणे कोणाकोणाक सांगिल्लें खंय. तृप्तान आतेक म्हजेविशीं सांगिल्लें. गांवांतल्या लोकांक दिसता, शारांतले व्हडले व्हडले ऑफिसर आनी शिकिल्लो लोक आमगेर येता. तेन्ना कोणाकूय नोकरी दिवप म्हजे खातीर साप्प सोपें काम. हांवें फक्त 'हां हूं' केलें. ताका तशें उतर काय दिलें ना.

तेन्नाच ताची आते कळसुली घेवन उदक घेवन येतां म्हूण भायर सरून गेली. ती वतकीच तृप्ता सामकें म्हजे म्हऱ्यांत येवन उबें रावलें. ताणें एक चीट म्हजेकडेन दिली. चिटयेंत ताणें नोकरेविशीं बरयल्लें. चीट बोल्सांत दवरीत हांवें म्हळें, ''आतां तुजे बगर एक खीण लेगीत रावंक जिवार येता. ''तृप्ता एकटक म्हजे कडेन पळेत रावलें. मागीर ताणें म्हळें, ''ज्या दिसा हांव तुमकां पळेना त्या दिसा म्हाका चुकिल्लेवरी जाता.''

सांजेर तांगेर सावन घरा येतना म्हज्या व्हडल्या नातवान म्हाका पळेलो. घरांत पयलींच दुबावाची कीट पडिल्ली. नातवान ताका उजो घालो. रातीकडेन म्हातारी जेवली ना. भुरग्या बाळांचो सोपूत घालीत रावली. मनांत आयलें, हे म्हातारेक केंसांक धरून वांटकुळी घुंवडावन मोखून भायर मारची.आतां जाण्टेली म्हाका बेनुल्लेवरी दिसपाक लागली.

कित्याक खबर ना, पूण म्हजे भितर म्हाकां बदल जाल्लेवरी दिसूंक लागलें. खंयचीय तरनाटी पळेतकींच चंवरिल्ल्या झाडाची याद येवंक लागली. काळजांत उजो पेटिल्लेवरी जातालो... तोंड सुकतालों. दिसतालें युगान युगां हांव तानेल्लोंच आसा. तन्नो आशिल्लों तेन्ना सगळें कापून खालें. सारकें बरेंऽ बसून रोस चोखून खावपाचें खबर नासलें. आतां जीण कितें ती समजूंक लागली जाल्यार, लोक म्हणटात, बुड्ट्या सुर्याक सपनां पळोवपाचो हक ना.

घरचोच लोक दुस्मान जालो. पूत, नातू हांचे भितर म्हाका कितेंय म्हणपाची हिम्मत नासली. देखून ताणीं जाणटेलेक मुखार काडली. हांवेंय मागीर बोल्सांतली चीट काडून तांच्या तोंडार मारली. आनी म्हळें, ''हांव ह्या वयांत चळूंक ना. ही चीट वाचात आनी दुबाव मनांतल्यान काडून उडयात. सगळयांनी लायनीन चीट वाचली. तोंड शिंविल्लेवरी सगळीं ओग्गी पडलीं.

''चिटयेंत अशें कितें बरयल्लें तर?''

''चीट म्हजेकडेन आसा. तूंय ती कित्याक वाचिना?''

ताणें म्हजेकडेन एक कागदाची घडी काडून दिली. हांवे ती घडी उगडली. गांवचे भाशेंत खुबशो हांगच्यो थंयच्यो गजाली बरयल्ल्यो. पत्राचें तात्पर्य.... आमी खुब्ब गरीब! पोटभर जेवंक लेगीत मेळना. बापायक उद्देशून बरयल्ले ते चिटयेंत, परथून परथून आपणाक नोकरी लावची असो आग्रो केल्लो.

''तें सगळें बरें आसा. पूण ताणें तुका बापूय मानला. हें असलें कसलें नातें?''

— खरें म्हळयार प्रेमी आनी प्रेमिकेचें आमी जें नाते मनांत मानतात, ताचे परस हें खूब अत्रंगी आसलें.

"ही चीट म्हज्या घरच्यांक आमची 'तशी' काय भानगड ना हें दाखोवपाखातीर हांवे बरोवन घेतिल्ली. तेन्ना ते चिटयेंत ती म्हाका 'म्हज्या चंद्रिमा' नाजाल्यार 'प्रियतमा' बी कशी बरयतली?"

"पूण बापायचें नातें एक पवित्र नातें.... चड करून चलयेचे बाबतींत...."

"ते सगळे पड्डे... सगळीं फटींगपणा... जगांत कांयच पवित्र ना."

— ताच्या उलोवण्यांत राग आनी कुत्छित्रीपणां आसलीं.

"देवा संबंदान तुजे विचार कितें?" हांवें आनी एक पवित्र म्हणटात ताचेविशीं ताका प्रस्न विचारलो.

ताका तर हांव म्हा-नीच समजतां. ताणें मनशाक तकले सावन पांयामेरेन इच्छेन भरून उडयला. पूण त्यो पूर्ण करपाचो अधिकार ताका दिवंक ना. मनशाक कल्पनेन ऊंच उडयो मारपाची तांका दिल्या, पूण ताचे खातीर साधना दिवंक नात. कोणाय नशिबवान मनशाक साधन मेळ्ळें जाल्यार ताका शरीर साथ दिना. जर त्या नीच देवान आपलेच हे रचने वांगडा – मनशावांगडा – इतली बेईमानी केल्या, जाल्यार ताका ताणें पवित्र आनी अपवित्र अशें ज्ञान तरी दिवचें?"

"कित्याक, तर देवाल्या एका रूपाक भोलेनाथूय बी म्हण्टात."

— उलोवणें नाका तितलें गंभीर जाता आनी दुसरेकडेन वता तें पळोवन हांवें ताचें लक्ष दुसरे कडेन व्हरचे म्हूण हांवें विचारलें, "तेन्ना तुवें ताचे नोकरीविशीं कितें केलें?"

पोलीस डिपार्टमेटांत एक क्लार्क म्हजे वळखीचो आसा. आयज ताचे म्हऱ्यांत वचून आयलों. बायल पोलिसांची भरती चल्ल्या म्हूण आयकल्लें. थंय ताका भरती करपाचो. गांवच्या चलयांवरी ही चली बरी लांबरूंद आसा. पूण पुलिसेंत भरती जावंक धावी पास आसूंक जाय. हांव आनीक एकल्या म्हऱ्यांत गेल्लों. तो फाल्स सर्टिफिकेटां विकता."

"तूं हें जें कितें करता तें म्हाका बरें दिसना. मुखार ते चलयेकूच हाचो त्रास जातलो."

"ताका त्रास जावंक फावना. तू कितें म्हणटा? कितें केल्यार बरें?"

"म्हाका दिसता तुवें ताका धावेचो फॉर्म भरूंक लावचो आनी मुखार शिकूंक सांगचें. जल्मभर तुज्या उपकारांत उरतले. आनी नोकरी सोदुंकूय बी त्रास जावचो ना."

"पूण बाबू, ताका जर म्हजे बराबर जीण सारची आसा, जाल्यार नोकरेची कसली गरज? जेवंक खावंक भरपूर आसा. ताणें येवंचें. पोरसांत खोंप बांदून ताच्यान रावंक जाता."

— ताचो सूर एकदम उत्तेजीत जाल्ले वरी जाल्लो.

"आनी तें आपल्या सुवार्था खातीर म्हजो उपेग करता जाल्यार तें झक मारीना थंय...."

"लोक मानतले?"

"लोकांच्या पोटांत दुखतलेंच... ताची म्हाका पर्वा ना. खरें सांगपाचें म्हळयार, म्हाका ते चलयेची वाट लावपाची आशिल्ली जाल्यार ते हांव केन्नाच करपाचों. पूण म्हज्या मनांत वांकडें कायच ना. म्हूण हांव ताचे वांगडा लग्न जावंक सोदतां. आता तांच्या घरच्यांचो प्रस्न आसा. पूण ताच्या घरा दोन दोन लग्नाच्यो चलयो आसात. बोल्सांत तर पानदुडू ना. पयशांबगर लग्ना कशीं

जातलीं? तृप्ताकडेन लग्न जावन हांव उरफाटे तांचेर उपकारच करतलों म्हळयार जाता. हुंडो काय म्हाका नाका. हाचे उरफाटे ताच्या बापायच्याच नांवार चार गुंठे जमीन करपाची म्हजी तयारी आसा. जल्मभर जेवपाक पादिशेर जावचो ना. उरफाटो आशिर्वादूच दितलो. म्हज्या हिशेबान, तांची कायच हरकत आसची ना. सगळयांत व्हडली गजाल म्हळयार चलयेन मानूंक जाय. हांवे जाल्यार चितलां, चलयेबापाय म्हऱ्यांत वचून एक एक गजाल सारकी समजावन सांगप. गजाल हेवटेन नाजाल्यार तेवटेन दवरून मदींच हुंबकाळवप ना.''

''मुखार कितें जालें तें म्हाका कशे कळटलें?''

''परां हांव परथून शारांत येतलों, तेन्ना तुका मेळुनूच वतां.''

—इतकें सांगून तो गावांत परतलो. तो बद्द आयज मेळिल्लो. आनी कविता म्हणून दाखोवपाचें सोडून, ताणें आपली काणी म्हाका सांगली. आनी हावं मुळासावन हुमटून पडिल्लेवरी जाल्लों.

मागीर कितलेशेच फाल्यां आनी परां येवन गेले. हांव ताची वाट पळेतालों. ताचो पत्तोच ना. आइल्लो दीस वतालो... हो कित्याक येवंक ना काय?.... तृप्ताक नोकरी लावचे खातीर हांवें ताका मदत केली ना म्हूण म्हाका मेळपाचें ताणें सोडलें काय?... निमाणें ह्या जाणटेल्याची मोगा काणी खंय पावली काय?... ती खंय सोपतली काय? समजून घेवपाची म्हाकांय उमळशीक लागिल्ली.

त्या दिसा म्हाका वगत आसलो. कांय काम नासले. ऑफिसाच्यो फायली नासल्यो आनी कोणाक मेळपाचेंय नासले. जाण्टेल्याची मोगा काणी खंय पावली तें समजून घेवपाचे उमळ शिकेन फाटलो फुडलो विचार करीनासतना हांवें बस धरली. आनी ताच्या गावांत वचपाच्या स्टॉपार देंवलों. मुखार मातये रस्तो आसलो. रस्त्याचे दावे कुशीक ताचें शेत आसलें. आनी घर गावांत आसलें.

रस्त्यावेल्यान वतना खुबश्या शेतांनी कोयराच्यो राशी दिसताल्यो. हांतले खंयच्या राशीर तृप्ता कोयर उडोंवक येतालें काय? रस्त्यांत म्हाकां ती चली मेळत? आनी मेळ्ळयार हांव ताका वळखतलों?... ही ती सुंदर चली जिणें म्हज्या जाणटेल्या मित्राचे जिणेंत इतलीं धवळुकपणां करून ताका पिसो केला... घडये पोरसांत खोंप बांदून आपल्या मनाप्रमाण ताचे बराबर तो संवसारांत रमलायबी आसत.

तरां तरांचे प्रस्न म्हजे मुखार नाचताले.

कुमाराले भुरगे खेंचरां घेवन रस्त्यावेल्यान वताले. तांतूंत एक थोटें खेंचर आसलें. ताचे फाटीर कसलेंच वजें नासलें. पूण ताच्या मुखावेल्या पायांत गेताचे मातशे वयर एक दोरो बांदिल्लो. त्या दोराक घुंगुर बांदिल्ले. आपल्या आंगाचें वजें तीन पायांनी ओडीत तें खेंचर कशेंबशें चलतालें. फुडलें गेत जमनीक तेंकतकीच घुंगराचो आवाज जातालो. घुंगराचो आवाज जातकीच खेंचरावांगडा आशिल्लीं पाडकां आंग काडटलीं. आनी उडयो मारून नाचतालीं. आनी आवाज थांबना फुडें सरळ चलताली. ते उकताड सुवातेर खेचरांचो हो नाच पळेत पळेत हांव गावांत पावलों. हांवें ताचें घर सोदून काडलें. आनी लंगडया खेचराच्या तालार ताच्या घराची साखळी वाजयली. छन... छनन.... छन.

लाकडाचें व्हडलें दार करकरत उगडलें. तो दोळे चोळीत म्हजे सामकार उबो आसलो.

म्हज्या तोंडातल्यान आपशींच उतरां आयलीं, ''भाईसाब, सगळें बरें आसा न्हय? दनपार जावन गेली तरी न्हिदून आसा म्हूण म्हळें!''

भितर वचत ताणे म्हळें, ''तुवें म्हजें दुख वळखलां. सगळो लोक म्हाका जाण्टेलो समजतात. कोणूय बाबा, कोणूय काका जाल्यार कोणूय मामा म्हूण उलो मारतात. म्हजो भावबिव कोण ना. पूण तुवें भाईसाब म्हणटकीच हांव खुशालभरीत जालों. तुजें वय म्हज्या नातवाइतलें आसतलें. पूण तुज्या ह्या उतरांनी म्हजेर जादू केल्ले वरी दिसलें.''

अकस्मात् म्हज्या तोंडातल्यान आइल्ल्या त्या उतरांनी ताचो घाय मलम लायिल्लेवरी जाला हें म्हाकां समजलें. ह्या दिसांनी तो ल्हान जावंक सोदतालो. ताचें जाणटेपण दाखोवपी उतरां ताका तोंपतालीं. कल्पनेन तो आपणाक तरनाटो समजतालो. आनी आपले हे कल्पनेक धिगी दिवपी मनीस सोदतालो. त्या वगतार ताका एका दोळे धांपून विश्वास दवरपी मित्राची गरज आसली. मागीर ताची करणी बरोबर आसूं वा नासूं.

''तुवे म्हाका आमगेर येवन मुखार कितें जालें तें सांगपाचें उतर दिल्लें. पूण तुजो पत्तोच ना.''

''सांगपा सारकें काय जालेंच ना. म्हूण हांव तुगेर येवंक ना. किते सांगूं? ही चली तीन चार वादियांव चल्यांनी शिकयल्लो खेळ खेळटाली तें म्हज्या लक्षांत आयलें ना.''

— थोडो वगत ओगी रावन ताणें म्हळें, ''त्या दिस ताचें पत्र वाचून म्हाकां दुबाव आशिल्लोच खंय तरी कितें तरी गूट आसा. नाजाल्यार इतली बरी चीट ही चली कशी बरोवंक शकता? गांवांत एक शाळामास्तर आसा. हांवेच स्वतः डायरेक्टर सायबाक सांगून ताका शाळेंत नोकरी दिल्ली. हांवें ऑफिसरांक घरा आफोवन कोंबडयो खावंक घाल्यो. आनी आयज तोच मास्तर म्हजेकडेन मस्करी करता. तो आनी ताचे वादियांव आमीग ते चलयेक कितें कितें शिकोवन आनी भेशटावन म्हजे म्हऱ्यांत धाडटाले. ताका सांगताले, वच आनी जाणटेल्याक फटोवन पयशे घेवन यो. नाजाल्यार तुजी आनी ताची भानगड गांवभर करतात. त्या चोरांक दिसता, म्हजेकडेन खुब्ब पयसो आसा म्हूण! पूण म्हज्या भाव, तुका खरी गजाल सांगूं? हांव गळयामेरेन रिणांत बुडलां. शेतकामती बरें पीक आयल्यार पयशेकार जाता. तोवूय बी थोडया दिसांखातीर... मागीर तो सावकाराकडल्यान रीण घेता... हावूंय हेर शेतकामत्यांपरस वेगळो न्हय... सोड... हांव म्हणटालों, त्या अल्हाड पोरांनी ते चलयेक वश केलां. आनी ती तांच्या हातांतल्यान पिड्डयार जाले बगर रावची ना... म्हाका भंय दिसता, हे लोक म्हज्या पुताची दिसफाम करीत म्हूण! म्हजें कितें, ल्हानपणासावन हांव आलमपेड्डयार! पूण म्हज्या पुतांच्या चारित्र्याक दाग लागिल्लो म्हाका सोंसचो ना. ते धुल्ल्या तांदळावरी नितळ आसात. हांवें तृप्ताक सांगलें, त्या भुरग्यांचे सांगणेन तूं अशें वागता तें बरोबर न्हय. आतां हांव ताचे मुखार लेगीत वचना. त्या दिसा घरा यो जाल्यार हे दारांत उबे! ताका पळोवन हांव पोरसांत गेलों. रातीकडेन बरोच पिवन घरा आयलो.

हाचे मुखार ताची काणी सगळे मार्ग बंद जाल्ल्या एका वांकडया मोडणार पाविल्ली. हो वेळ मेरेन जाण्टेल्याक कळिल्लें की ताणें बडयेन उदकार काणी बरोवचो यत्न केल्लो.

— × — × — × —

दुसरे खेपे शारांत तो एका खटल्यांत साक्ष दिवंक म्हूण आयिल्लो. कोर्टातलें काम सोपोवन

म्हजेय म्हऱ्यांत आयिल्लो. ताच्या तोंडार पयलींचे तेज येवंक लागिल्लें.

"बाबू, आयज म्हजे रजिस्टरीची मुखावेली काणी सांगूंक आयलां."

— सगळें आयकून ना जाल्ली उत्सुकता दोबरातीन जागी जाली. "मुखार कितें आसतलें काय?"

— म्हजी, उत्सुकताय पळोवन ताणें सांगलें, "त्या दिसा तूं येवन गेलो. ते रातीं ते मागील दारच्यान म्हजे कुडींत आयलें. म्हजे खाटी सरीं येवन ताणें म्हाका उठयलो. तें म्हणूंक लागलें, तूं म्हजे कडेन लग्न जा. हांवें ताका कांबळीन गुठलायलें आनी ल्हवू आवाजांत उलोवंक सांगलें. ताणें म्हाका सांगलें, ताचे आतेचो घोव ताका विकूंक सोदता. तें रातीं तें म्हजे म्हऱ्यांत न्हिदलें. सकाळीं म्हाका जागा आयली, तेन्ना पळेल्यार तें गेल्लें.

अजून उजवाडूंक नासलें. हांव दातून आनी उदकाचो तांबयो घेवन भायर सरलों. इतल्यान तांच्या घरांतल्यान बोबो हुयेली आयकूंक आयल्यो. हांव दांतून चाबडायत पोरसांत आयलों. पळेल्यार तृप्ताची आते बोब मारीत रडटाली... आवय गे! ह्या रांडलाचें पाडपडूं... सत्यानास जावं ताजो.... मेल्ले बेगीन बुडून मरूं... आरे लोकांनो, आयकात. "पूण तें गेलें खंय?" शेजारची बायलां येवन वासपूस करूंक लागलीं. "त्या नादार मास्तरावांगडा पळून गेलें. ही चीट बरोवन दवरल्या चेडयेन... म्हजें सगळें भांगर घेवन पळून गेलें रांडूल...."

आयकून म्हाका कच्च जाल्लें... आतां रातीकडेन म्हजे भितोडेक आसलें. आनी रातीभितर असो कसो चमत्कार जालो? म्हजेंय बी ताणें कितेंय व्हरूंक ना मु?....

— तकलेंत अशें येतकीच हांवे खोमसाच्या बोल्सांत हात घालो. रातीं न्हिदतना बोल्सांत पयशे आसले. आतां ते जाग्यार नासले... खाटीर बी पडूंक ना मु?... हांवें दांतून भायर मोखून मारलें. तोंडार उदक मारलें. तेन्ना कितें तरी उणें आसाशें दिसलें. कानाक हात लावन पळेल्लो. थंय भिकबाळी नासली. वता आसतना पाडापडिल्ल्यान असो हात मारलो. पयशांचे तितलें वायट दिसलें ना. पूण कानांतल्याचें दुख दिसलें. ते भिकबाळयेचेर म्हजो जीव आसलो. तन्नेपणाची ती याद आसली. म्हजे तन्ने पिरायेर कानांत ती भिकबाळी आनी पायांत घुंगरां बांदून नागबनीचे जात्रेंत हांव एक पायर वयर करून भांगडा नाचतालों, तेन्ना पळेतलो लोक थंड जातालो.

अकस्मात म्हाका गांवचे शिमेर मेळिल्लें तें लंगडें खेंचर आनी तें पाडक येवजलें. म्हाका दिसलें, भांगडाचो आवाज आयकून तृप्ता त्या पाडकावरी भियेवन पयस पयस पळून गेलें. जनावरां आनी मनशांमदली समानताय पळोवन हांव अजापलों.

"ही गजाल हांवें फक्त तुका सांगल्या आनी कोणाक ना. घरांत तर कोणाकूच खबर ना. तुका विश्वासान सांगतां. कित्याक तुवें म्हाका भाईसाब म्हळा... खरें सांगूं, कानांतल्या परस चड वायट दिसलें ते चेडयेक एक भिकारडो मास्तर बरो दिसलो म्हूण! म्हज्या भाटकारपणाक ताणें कांयच वालोर दिलो ना. हांव ताका भांगरान हळडुवें करपाचों मागीर म्हजीं शेतां विकची पडल्यारूय बी उपकरतालें."

— ताणें एक व्हड श्वास सोडलो. थोडो वगत तो ओग्गी रावलो. मागीर ताणें म्हळें,

"घडये जालें तें बरें जालें. ताच्या आतेल्या घोवान जर ताका म्हाताऱ्याक विकिल्लें जाल्यार

बाबडें म्हाताऱ्याचें म्हातारपण काडीत जग पळोवचे पयलीं मरून वचपाचें. आतां जे सुवातेर आसा थंय सुखी तरी आसतलें... हय! आनी दुसरी एक बरी गजाल जाली. म्हजो भ्रम तुटलो.... जाका हांव म्हजे रजिस्ट्रीचें नवे पान समजतालो तें एक कपट कारस्थान आसलें."

— ताच्या दोळयांतली चमक गेली. गळयांतले खळयेंत चप्प बशिल्लो रूद्राक्ष, इतिहासाच्या ह्या मोडणार ओग्गी आशिल्लो. एकदम चूप!...

★ ★ ★





# 3
# भांगराचें सुकणें

इश्टानो, ही काणी न्हंय. ही एक खरी खबर.... तुमी जाय जाल्यार तिका लोककथा म्हणूंक शकतात. पूण लोककथेंत तर राजा, राणी, जादूगार, परी बी आसता. हे कथेंत तशें कांय ना. आसुंकूय फावना. कित्याक, आमी ज्या तेंपाची गजाल करतात त्या तेंपार लोकशाय चलता. खेरीज ज्यो गजाली सासणाच्यो आसतात तांचे विशींच आमी उलयतात.

हे धरतरेचेर कितलेशेच राजा-राणयो, डाकू-दरवडेखोर जावन गेले. तांची आजय कसलीच कुरू लेगीत ऊरूंक ना. तांच्यो काणयो केन्नाच मातयेभरवण जाल्यात. खरें म्हळयार आदीम युगासावन आयज मेरेन दोनूच गजाली तश्श्यो उरल्यात. एक माती, ती हे चिरंतन काणयेची मोनी साक्ष! आनी दुसरो घटना क्रमांक जाचीं पुसट चित्रां एका मनशाचे कल्पनेंत उरल्यात, नाजाल्यार इतिहासाच्या पानांत तरी! मनीस, सुकणीं सावदां आनी सैम, सगळीं वगताच्या चाकार जल्मुपी आनी ना जावपी मातयेची खेळणी! ताका लागून भारतीय तत्वज्ञानींनी संवसाराक लिला-स्थली म्हळा. रडत मरत हांगा आयले. खाले पिले आनी एक दीस मरून गेले. कशे जियेले हाचें म्हत्व ना. मान-अपमान विसरून, माथ्यार गुलामपणाचें वजें घेवन, गळयांत असहायतेचें जोत बांदून, पायांत गरिबीच्यो बेडयो घालून, किडयांवरी, पोटां घश्टीत चलत रावले.

ते भायर, हो भेदभाव कित्याक आसचो काय म्हणटां हांव! पिडून घेवपी आनी अत्याचारी, दोगांयचे ध्येय एकूच. निमाणें दोगांकूय मरचेंच पडटा. आनी मरचेंच पडटा जाल्यार गुलामीच्या बेडयांचें संगीत कित्याक बंद करचें? मुक्त जावपाचो फायदो कितें? निमाणें मर्ण सगळयांक बंदखणींतल्यान सोडयता. आमी ही कूड सोडली जाल्यार दूसरी कूड घेवन जल्माक येतले. आमी येवपा-वचपाच्या चाकांत घुसपले आसत जाल्यार, देव फुडल्या जल्मांत आमचेर अत्याचार केल्ल्या लोकांक शिक्षा केले बगर रावचो ना.

''कितें म्हणटा? हें येवप वचप म्हळयार कितें?

हय! हीच तर खरी अडचण. आयच्या भारतीयांक आपली जीण कशी आसची हेंच खबर ना. परथून परथून ताका चिरंतन भारतीय मुल्यांची याद दिवची पडटा. खरें म्हळयार, मुल्यां तीच आसतात पूण वगता कणकणी तांचे अर्थ बदलतात. भारतीय लोकांचे कितलेशेच पोशाक बदल्ले, पूण रगत अजून तेंच आसा. प्रस्न आतां आयलाच जाल्यार येवप वचप कितें तें पळोंवया.

धरून चलात, पयसुल्ल्या देशांतले चार दरवडेखोर उठले आनी हातांत तलवार घेवन

आमच्या देशांत आयले, हें जालें 'येवप!' आनी हांगा आमी पांय माथ्यार दवरून शेंपडी भितर घालून तांचे कडेन आमची घरांदारां दिलीं, हें जालें 'वचप.'

जो कोण हांगा येवन गेलो, ताणें पळेलें, हजारांनी लोक हांगा पायां पडत उबे आसात. ''यो देवा! घाल बेडयो आमच्या हातांत आनी आमचेर राज्य कर.'' जेन्ना हात, हात उरनासतना फुलां वा पानां जातात, तेन्ना तलवार उखल्ल्यार आपल्याच आंगाक घाय जावपाचो भंय आसता. ज्या हातांनी आमच्यो तकल्यो कापून उडयल्यो, तांकांच आमी आमच्या ह्याच हातांनी फुलांहार घाले. आरे बाबा, आमकां पोकरी म्हणूं नाकात. आमी आमचेच भितर झगडूंक केन्ना फाटीं उरले नात. तशें पळेल्यार लडाय झगडीं करपाची गरज कितें? अहिंसेचो संदेश हे मातयेंतल्यानूच वयर सरूंक ना? तांणी येवन आमचीं घरां घेवचीं. आमी दुसरी घरां बांदतले. तांणी आमचीं बायला व्हेली जाल्यार आमी दुसरीं भुरगी जल्माक घालतले. आमी सगळें करतले, पूण आमचे रक्षण मात केन्नाच करचे नात. कित्याक, तर आमच्या नशिबाची दोरी देवाल्या हातांत आसा. जण एकट्यान त्या लीलास्थलीचेर आपले सवंग रंगोवन दुसऱ्या घरा वतना मर्णाच्या दारांतल्यान वचूंक जाय.

तुमकां दिसतलें, व्याख्या करतां करतां सेर्मांवूच दिला. खरें म्हळयार, जेन्ना हांव म्हजे कथेंत राजा ना म्हणटां तेन्ना तातूंत म्हजी फिशालकाय आसता. जो तेंप आमच्या अधःपतनाची साक्ष दिता, ज्या बेशरम तेंपाची हांव याद काडूंक सोदिना. म्हूण सगळया जातींची अबरू पावणेर काडपी दलालांक म्हजे कथेंत इल्लीय सुवात ना.

मानेस्तानो, तुमी म्हणटले, जे लोककथेंत राजा, परयो, गूढ, अद्‌भूत, सैमीक गजालींची मात पसून खबर ना तिका लोककथा कशी म्हूण येत? तुमचें म्हणणें सामकें बरोबर.... हांव तातूंत लोकशाय पद्धतीन शिस्तबद्द सुधारणा करूंक सोदतां. तेन्ना ताका फक्त लोककथा म्हणचे परस राजकीय लोककथा म्हणात.

खरे म्हळयार, आमच्या चारूय वटांनी राजकारणाच्या बुद्धिबळाचो खेळ चल्ला. ताचेर पडिल्ल्या फाशांची काणी आयज आमी आयकपाचे आसात.

कथेची सुरवात अशी.

एका तपोंवेली गजाल. एक देश आसलो. एका तेंपार थंय मळबांत भांगराच्यो चिमण्यो उडटाल्यो अशें म्हणटात. म्हूण ताका धरतरेवेलो स्वर्ग मानताले. थंय सुखशांती आसली. लोक ओगीच कसलींय कामा करिनासले. खंयच्याय घरांतलो एकलो कोणूय भांगराचे चिमणेची शिकार करतालो. ताचेर ताच्यो कितल्योशोच पिळग्यो भांगराचें एकेक पांख विकून आपलें पोट भरताल्यो.

पन्त स्वायारामाच्या म्हणण्याप्रमाण त्या देशांत पारसमणी फातरावरी पायापोंदा आसताले. सगळयांच्या आंगणांत एक कल्पवृक्ष आसतालो. जी इत्सा मनांत उदेता, ती इत्सा हो रूख रोकडीच पूर्ण करतालो.

पन्त ड्योढाराम ह्या दिसानी एक संशोधनपूर्ण अशें पुस्तक बरयता. संशोधनाचें ताका पिशें म्हळयार जाता. ताचे तकलेंत कितेंय घुंवता तेन्ना तो तकलेचे शेंडयेक गांठी मारता. आनी सोडयता. अशे तरेन तो चिंतता. जे मेरेन स्वायारामाकडेन ड्योढाराम उलयना ते मेरेन तांचे व्हडपण कशें सिद्ध जातलें. म्हूण ताणें आपल्या प्रतिस्पर्ध्याची गजाल सांगली. ''महाराज, हो देश म्हळयार सगळया

देशांतलो शिरोमणी. त्या देशांत रत्नांची रास आसली. हांगच्या नररत्नानी विमान, ॲटमबॉम्ब, टि.व्ही., रेडिओ तयार केल्ले. संजयान धृतराष्ट्राक टी.व्ही. पळोवनूच महाभारतांतले लडायेची कॉमेंटरी सांगिल्ली. ॲटमबॉम्बाचें मॉडेल पळोवंक जाय जाल्यार शिवालयांत आशिल्लें शिवलिंग पळेयात. त्या लोकांनी धर्म आनी विज्ञान एकठांय हाडिल्लें. आयच्या वैज्ञानिकावरी ते नास्तिक नासले.

पन्ताचे वाणीत आत्मविश्वास चड जाल्ल्यान ताचो आवाज कावळयाच्या आवाजावरी कर्कश लागतालो. तो दोनूय दोळे धांपून ध्यान करता तेन्ना ताच्या हातांत नवें मोती आसता.

पूण ज्या लोकांक फातर आनी मोती हांतले अंतर कळना त्या लोकांची जीब वाखरावरी चलता. एकल्यान हांसत ताका सांगलें, ''तुजो आवाज कावळयावरी.''

''हाचो अर्थ फाटल्या जल्मात म्हाका कावळयाची भास येताली.''

— स्वायाराम देशाची तुस्त करताले. आदल्या लोकांक आपल्या जन्मजन्मांतराची खबर असताली. तांकां सुकण्यां सावदांची भास येताली. जड पदार्थांची इच्छा लेगीत ताकां कळटाली.

स्वायाराम आणि ड्योढाराम एकमेकांकडे मेवणो-भावोजी लागताले. दोगूय एकमेकांक नररत्नाची पदवी दिताले. केन्नाकेन्नाय दोगूय प्रतिस्पर्धी आशिल्लेवरी वागताले. पूण दोगांयचें एके गजालीचेर एकमत आसलें. तें म्हळयार, तो देश म्हान आसलो आनी आसा. संस्कृतायेची सुरवात थंयच जाल्ली. दोगूय व्हड अभिमानान सांगताले की ते पवित्र भुंयेर कामाच्या नांवान एक काडी हांगची थंय करची पड नासली.

इश्टांनो, म्हजे आनी तुमचेवरी लोकांक काम करीनासतना ताचे पयशे घेवप म्हळयार लजेची गजाल अशें दिसूं येता. काम करप ना, सुसेगाद बसून खावप हें जिणेंतलें व्हडातलें व्हड सूख मानूं येता. काम केले बगर जियेवप म्हळयार जीण फुकट वचप. बसून खावप म्हळ्यार सूख अशें आसत जाल्यार, हें सूख कादयेंत बसून खावपा सारकें आसतलें.

पूण ह्या नररत्नांचें शिजता कुंडयार! बशिल्ले सुवातेर काम करी नासतना दान, ज्ञान बी हांकां आयतें मेळटा... तांच्या अशीर मतान हेंच सूख... तांच्या मतान लोक सगळयो उस्तवाऱ्यो निमाणे पोटाखातीर करतात.

मनीस, समाज सुधारचो म्हूण वावुरता. तो नव्या मुल्यांक जल्म दिता. विज्ञानाच्या मुल्यांक जल्म दिता. विज्ञानाचे नदरेतल्यान पळेता. जग चडांत चड सुखी आनी शांत करचे पासत वावुरता. पूण हांचे आकाशवाणीचें एरियल हे विचार धरूंक शकना.

सद्या परथून एक खेपे त्या देशाच्या सुखी भूतकाळांत तशे परथून पळोवंक हरकत ना. न्हय?

थंय प्रशान्त वातावरणांत भिरींच्या भिरी उडटालीं. तांचें रक्षण करूंक रक्षक नेमूंक नासले. ताका लागून जालें कितें, तर पयसुल्ल्यान शिकारी लोक हांगा शिकार करूंक येवंक लागले. हरशींय म्हूण चिमण्यांचें भिरें येतकीच घोणीक ताचें आकर्शण आसताच. कोणाचीय नियत इबाडूंक एकूच खीण पुरो जाता. आनी चिमण्यांचे घोंटेर उस्तूंक घोणींक कोणाची परवानगी घेवपाची कितें गरज?

लुटालूट करपाच्या बाजारांत सगळयांत निमाणे आसले ते इंग्लीश लोक. तांणी सगळया

चिमण्यांचें भांगर विलायतेक धाडलें, तेन्ना हांगा रावपात कांय अर्थ नासलो. कित्याक हांगा जोडून घरा धाडचे बदला, घरा जोडून दवरिल्लें हांगा हांडचें पडटलें आसलें.

मागीर हांगच्या चिमण्यांचे निखटे सांगाडेच उडूंक लागलो. हे सांगाडे भूक लागिल्ले कोण खावपाचे नासले. आनी शिंपीभर मांसाखातीर तीन रुपयांची काडतूस होगडावपांत शाणेपण नासलें पूण हे गोरे लोक वतना आपली ही भुक तांणी पोशिल्ल्या जळवांक आनी गिदांक दिवन गेले. तांच्या वारसाखातीर खूब चिमण्यो आसल्यो. ते वारस हांचे रगत काडून बाटलेंत बंद करून 'प्रोटोप्लाज्मा' Protoplasma च्या नावान फॉरेनाक धाडटाले. रगता बदला भांगर नेळटाले. ह्यो चिमण्यो विचित्र आसल्यो. तांचो आकार मनशांभशेन आसलो. पूण सभाव चिमण्यांवरी म्हळयार, साद्या सभावाक लागून चिमण्यो जश्यो जाळांत फारावतात, तश्यो सदां जाळांत आडकूंक तयार.

स्वायाराम आनी ड्योढाराम हांचे राजकीय counterpart भाई शर्मा. तांचें म्हणणें, ''गोरे गेले, काळे आयले... मजाच मज्जा जाली. दरएकलो मनीस, दरएकलें जनावर, दरएकलें सुकणें आनी दरएकलो किडो आपले आपले बोलींत गुणगुणूंक लागले.

दर एकलो आपले गरजेप्रमाण पार्टीबाजी करूंक लागलो. कोणें जातिचो, कोणे दुकानदारांचो, कोणे विदेशी मालकांचो जाल्यार कोणे धर्म आनी सम्प्रदायाचो आधार घेतलो... पूण सगळया पार्टींची नाडी मात एकाच वर्गाच्या हातांत आशिल्ली... काळो पैसो धुमशेणां कांडटालो

नफेखोर, स्मगलर्स, काळे पैशेवाले, खुनी हांच्या तालार सगळे नाचताले. हांकां जाय जाल्यार राजनितीक संकटां फैदासूं येतालीं. आनी हांच्या तालार कायदे जाताले तशे मोडटाले बी. राजकीय पक्षांचे झेंडे रुप्याच्या जोत्यांचो धुल्ल झाडटाले. आनी ह्या झेंडयापोंदा उबे रावन बोब मारपी लोक वोतांत उबे रावन सांवळी सोदताले. पूण पड्डया फाटल्यान दोरयो हालतकीच एका दुसऱ्याक मारून उडोंवक फाटींफुडें पळे नासले. चिमण्यांचेर घोणी घिट्ट्यो घालताल्यो.

''कलियुग धांवत धांवत येता.'' ड्योढाराम हें सांगून सांगून खरशेलो. पूण ताचेर कोणें लक्ष दिलें ना.

दिसानदीस मोर्चाचेर मोर्चा भायर सरताले. तेन्ना स्वायारामाच्यान रावं नज जालें. ताणें सांगलें, हो देश स्वतंत्र जावंक ना. जुलुसीस्तान जाला. आड्डून आड्डून ताचो आवाज बसलो. ''आजादी में बरबादी'' तो म्हण्टालो. पूण ताणें उलोवपाचें बंद केलें ना. तो जड आवाजान उलयतालो, तेन्ना बेबे खोशयेन आडड्लेवरी दिसतालें. खरें म्हळयार ''आजादी ने कर दी बरबादी'' हो कलियुग नाशक कवच मंत्र आशिल्लो. आनी ताळो पडिल्ल्यान तो तें सारकें म्हणूंक शकनासलो. आनी असली अर्थाचो अनर्थ करूंक मेळटां ती संद ड्योढाराम कशी सोडपाचो? ताणें म्हळें, ''हाचो अर्थ, फाटल्या जल्मांत तूं बेब्याचे योनींत जल्मल्लो.''

ही उतरां आयकून नुस्त्यान भरिल्ल्या तळयाकुशीक उबे आशिल्ले सभ्य बगळे खक्कू करून हांसले. तें पळोवन स्वायारामाक भिरभिरी मारली. ''आरे, तुमी ओगीच दांत कित्याक काडटात? आमी एकामेकांचे भावोजी आनी मेवणे लागतात.'' मागीर ड्योढारामाकडेन वळून ताणें म्हळें, ''कितें पंडितजी, तुजोय आवाज बेबकावरीच तर आसा.''

ड्योढारामान ताका उलोंवक दी नासतना म्हळें, रागार जावं नाका भावोजी! तुजी कावळयाभास

म्हाका कळना.

स्वायारामाच्या काळजाक हीं उतरां कांट्यावरी तोंपलीं. काळजाक उजो पेटलो. पूण आवाज पडिल्ल्यान तो कांयच उलोवंक पावलो ना.

सगळयाक अराजक पातळिल्लें. जो तो आपल्याक जाय तशें वागतालो. जापसालदारकी कोणाकूच नाका आसली. ही जुलुसीस्तान राज्याची लोकशाय परंपरा म्हळयार जाता.

जुलुसीस्तानांत एक घटनाय आसा अशें आयकल्लें. पूण तिचे नेम फक्त बिनचेहऱ्याच्या लोकांखातीर आसले. गीद, जळवो आनी इंग्लीशां आदल्या दरबारी लोकांक हे कायदे लाग नासले. घटनेन देशांतल्या लोकांचे बरे जावचें म्हूण जायते कायदे केल्ले. अधिकार, न्याय, नोकरी हांचे वांगडा हेर सुविधाय मेळच्यो, असो कायदो आसलो. पूण कायद्यांक कलियुगाचें गिराण लागिल्लें, स्वायारामान खासा आपल्या दोळयांनी पळेल्लें. तेन्नाच भाई शर्मा आपलीं पाखां फडफडायत आनी चोंचीवरी आशिल्लें नाक मुठ्ठीत पन्ताच्या उलोवण्याचेर मंद मंद हांसलो.

पन्त स्वायाराम सांगतालो, मनशाक बरो मनीस करूंक गरजेची आसतात, तीं सगळीं वचनां घटना दिता. पूण कारस्थानी लोकांनी घटनेचें अपहरण केला. ते घटनेक कोणा मुखार येवंक दिनात. घटना पयलीं सावन काळयाबाजार वाल्यांकडेन घाण पडल्या. ताका लागून हे लोक सत्तेक ब्लेकमेल करून आपल्यो नाकाजाल्ल्यो मागण्यो पूर्ण करून घेतात.''

ड्योढाराम देडपटीन बातां मारतालो. ''आरे, चंदराजकुमार अपहरण करपी आसलो. ताणें घटनेची मायक्रो फिल्म करून ती फिल्म पांजऱ्यांत बंद आशिल्ल्या किराच्या आंगांत लिपोवन दवरल्या.''

आनी वाचप्यांनो, तुमकां खबर आसा, हो कीर सातासमुद्रां पलतडी आशिल्ल्या पंचम्हालांतल्या भीतल्ल्या म्हालांत कादयेंत आसा.

म्हाका माफ करात आं! सुरवेक हांवे तुमकां सांगिल्लें, हे कथेंत राजकुंवर, राजकन्या बी ना म्हूण! पूण निमणी तांची गजाल आयलीच. खरी गजारल मात वेगळीच आसा. जुलुसीस्तानांत एके नवे तरेचे राजकुंवर किल्लल्यात. पयलीं फकत राजाच्या पुतांक राजकुंवर म्हणटाले. राज्यां गेलीं आनी ही गजाल इतिहासांत उरली. राजकुंवराच्या ह्या नव्या पिकांत राजकर्णी, सावकार, चोर, वाटमारे हांच्या पुतांचे पीक आयलें. हे राजकुंवर पुर्विल्ल्या राजकुंवाराचे एकदम उरफाटो वेव्हार करताले. नव्या जमान्याचे राजकुंवर एके सुंदरीकडेन लग्न जाताले. पूण मागीर नेमान विंगड विंगड राजकुंवऱ्यां कडेन लग्न जावप म्हळयार महान कर्म करप अशें मानताले.

स्वातंत्र्या उपरांत जुलुसीस्तानांत पूर चड येवंक लागले. उपासमारीची बुट्टी! काळाच्या जबडयांत वचपी मनीस रूपी असहाय चिमण्यो... म्हारगायेचो हुंवार! फुडाऱ्यांची घरां मात भरून वोततालीं. तांचे जादूचे म्हाल व्हड व्हड जाताले, पूण भरून भरनासले.

भुरग्यांचो पूर! जुलीसीस्तानांत रस्ताद भुरग्यांची अती वाड जाल्ली. ते बद्दल पन्त स्वायाराम म्हणटालो, ''ही लंपट लोकांक लागून आइल्ली रस्ताद भुरग्यांची बुट्टी! हाका लागून देश एक दीस बुडटलो.''

तांचे म्हणणें न्हयकारीतभाई शर्मा म्हणटालो, ''ना! ना पन्त!! हीं भुरगीं म्हळयार मौजमजेचें

पीक! देश बुडचोना. वयर येतलो. आनी जगाक परथून एक खेप भांगराच्या ह्या चिमण्यांचो अभिमान दिसूंक लागतलो.

ड्योढाराम कितें तरी उलोवंक सोदतालो. पूण ताचो आवाज बशिल्लो. ताका लागून ताच्या ताळयांतल्यान खड्‌ खड्‌ असो आवाज आयलो. ताणें घेतिल्ल्या वखदांचे लेबल असली आसलें पूण वखद नकली आशिल्ल्यान ताका एक सुमानभर तरी सुसेग घेवचो पडपाचो.

शर्माजीन आपली गजाल फुडें व्हेली, ''ताचें कितें आसा पन्त, धरमयुगांतूय बी दासीपुत्र आसताले न्हय?... अशें म्हणटात की तांतले थोडे व्हडले झुजारी जाल्ले. आमची लोकशाय कालचक्र घुंवडावन आमकां त्या युगांत व्हरपाची आसा. आमी हें योद्धायुद्ध परथून हाडपाचे आसात.''

पन्त नाक मुड्डीन म्हणटालो, ''शिरीराम... शिरीराम! हो तर पतनकाळ! जग विनाशाच्या जबडयांत वता.''

खरें म्हळयार, ह्या राजकुंवराखातीर सत्ता आपूण जावन ब्लेकमेल जाताली. लोकांमुखार सत्ताधाऱ्यांचो निश्पाप चेरो घेवन भोंवताली. लोकांचें बरेंपण घेवंक आनी आपूण कितलो प्रामाणिक हें सिद्ध करूंक सत्ताधारी कमिशन नियुक्त करतालो. कमिशनान केल्ल्यो शिफारसी लायटीच्या डबल आरमारींत बंद करून दवरताले. मागीर खबरे पत्रांनी खबर येताली —'' देशाहित लक्षांत दवरूनूच आमी जाहीर करिनात.''

देशांत अफवा अशी आशिल्ली; सगळया कमिशनांनी अशी शिफारस केल्ली की घटना नांवाचे पांचवे परीक राजकुंवरांच्या चपक्यांतल्यान सोडोवंक राक्षसांची फौज धाडूंक जाय.

पन्त स्वायारामाचें म्हणणें, जे राखण करतात ते राक्षस.

जुलुसीस्तानांतल्या चिमण्यांची राखण करचेलें काम शिपायांक दिल्लें. पूण हे रक्षकूच भक्षक जाले तेन्ना ह्या नररत्नाचे जोडयेन तांकां 'राक्षस' हें नांव दिलें.

ड्योढाराम म्हणटालो, ''समुद्रमंथन जाल्लें तेन्ना राक्षसांक सोरो पिवंक दिवन तांची मत भेरेवन उडयल्ली. पूण आतां परथून ते ही चूक करचेनात.''

हाचेर स्वायाराम व्हडान हांसलो. ''आरे, आमीं दारूबंदी केल्ल्यान ते राक्षस सदाचारी जाल्यात. आतां तांचे राखणेखाला सोऱ्याच्यो भट्ट्यो, गँगस्टर्स आनी जुगाराचे अड्डे फुलतात.''

ड्योढारामान मुखार म्हळें, ''ह्या राक्षसदलाचोय कांय गुन्यांव ना. सरकारान सोऱ्याचेर बंदी हाडटकीच हांकां उणें दिसूंक लागलें. आतां जुलुसीस्तानांतल्या सरकारचे तिजोरेंत तांकां वक्लां हाडून दिवपा इतले पयशे ना. आतां वक्लूच ना म्हणटकीच तांकां तरी असले 'कुटीर उद्योग' कशे दिसतले?

भावोजी आनी मेवणो, दोगूय एक गैरसमजाच्या जाळांत घुस्पल्यात. तांकां दिसता, पळोवन व्हेल्ली घटना मुक्त जातली, तेन्ना गिदां आनी जळवांचे जातीर संकश्ट येतलें. हांतल्यान सरकारी आश्रय आशिल्ले राजकुंवरूय सुटप कठीण!

''हिंसा जातली?''

''ना रे, बाबा, ना!''

जुलुसीस्तानांत मारून उडोवपाची गजालूच करूं नाकां. आरे, कोणाकूय मारून उडोवंकूच जाय जाल्यार चिन्ता आनी भूक मारून उडय. पूण कोणाक मारून उडोवपाच्यो गजाली करूं नाकां.''

''अहिंसा परमो धर्मः

यह कहे भइया शर्मा''

शर्मा भाई जनार्दन पार्टीचो एम्. एल्. ए!

स्वायारामाक एम्. एल्. ए. म्हणूंक त्रास जाता. म्हणून तांकां 'मैले' म्हूण तो आपल्या मनाचो कस काडटालो.

शर्माजी इलेसावांची मिरवणूक काडटालो, तेन्ना चले चलयो हीच घोषणा दिताले. ''अहिंसा परमो धर्मः यह कहे भइया शर्मा!''

आनी भइया शर्माचो विजय जालो. जनार्दन पार्टिच्या उत्साहामुखार लाठीरस पार्टीची लाठी पार्टीच्या हातातूच उल्ली.

इलेसावाच्या वगतार पन्त स्वायाराम जनार्दन पार्टिचो सभासद जाल्लो. आनी पन्त ड्योढाराम लाठीरस पार्टिचो कार्यकर्तो जाल्लो.

दोगांयचें म्हणणे आसलें – ह्या युगांत राजकारणापासून पयस रावप म्हळयार अनीत, द्रोह, पातक....

भावोजी आनी मेवणो एकमेकांच्या सहमतान एकमेकांविरूद्धच्या पार्टेक जॉयन जाल्ले. कित्याक, दोनुय पार्टी मदली खंयचीय एक पार्टी जिखपाची. तेन्ना उदेत्या देवाक नमन म्हणटात ते प्रमाण एकलो कोणूय तरी जिखिल्ले पार्टेंत आसपाचो.

खावपा पिवपाचो वगत आयलो तेन्ना भाई शर्माक आपल्या सोयऱ्यांभायर दुसरो कोण दिसलो ना. जिखून आयले उपरांत भाई शर्मान ड्योढारामाक तांदळांतल्या आशावरी काडून भायर उडयलो. ताचेंय बरोबर आसलें. मुद्दाम कोण आपल्या पायांर फातर मारून घेतलो? पन्ताक ताणें बुद्धिबळाच्या घुलांवरी हांगा थंय नाचयलो. काम जातकच काडून उडयलो, हाकाच तर राजकर्ण म्हणटात.

भावोजी आनी मेवणो दोगूय रडकुरे जावन माथ्यार हात घेवन बसले.

ड्योढाराम : कुड्डो रेवडयो वाटूंक बसलो आनी परथून परथून घरच्यांच्योच झोळयो भरूंक लागलो.

स्वायाराम : त्या रेवडयांचें पाड पडूं! तेवटेन परमिटांचें वांटप चल्लां. एजन्सी आनी कारखान्याच्या लिसेसांचो एलोटमेंट जालो आनी तूं हांगा रेवडयांच्या नांवान बोंब मारता?

ड्योढाराम : भावोजी, आतां आमी झगडपाचें बंद करूंया. म्हांका सांग मुखार कितें करपाचें?

स्वायाराम : सगळयांत पयलीं पार्टी बदलूंक जाय. खबरे पत्रांनी खबर छापूंक दिवंक जाय. ड्योढारामजीन शर्माजी आनी तांचे पार्टीकडेन मतभेद जाल्ल्यान, पांच हजार कार्यकर्त्यांसयत जनार्दन पार्टी सोडून लाठीरस पार्टेंत प्रवेश केला. आनी दुसरी खबर अशी छापूंक जाय की ड्योढारामान मिस्टर शर्माचे पार्टींत आशिल्ल्या हुकुमशाहीच्या विरोधांत पार्टीचो राजिनामो दिलो. मंत्री जातकीच

ताणें आपल्या संबधितांक बेकायदेशीरपणान फायदो दिवंक सुरवात केली. परमिटां आनी लिसेसांचो कोटा ब्लॅक केलो.

ड्योढाराम : तें सगळें बरें आसा. पूण पांच हजार पार्टी वर्कर्स खंयच्यान हाडचे?

स्वायाराम : तें फक्त खबरेपत्रांखातीर... दुस्मानाक डिमोरलायझ करूंक.

ड्योढाराम : भावोजी, ताचो काय उपयोग ना. तो पांच वर्सांखातीर निवडून आयला. एक धा लायनीची प्रेस नोट ताचें कदेल मातूय हालोवंक शकना.

— ताच्या स्वरांत निर्शेणी आसली.

स्वायाराम : हें कसलें स्वातंत्र्य बाबा... नाका आशिल्लें...

ड्योढाराम : लाठीरस आनी जनार्दन पार्टी, दोनूय पार्ट्यो भितल्ले भितर एकूच आसात, भावोजी. तांणी गुलामीकूच स्वातंत्र्याचें नांव दिलां.

स्वायाराम : शास्त्रांत तांडव नृत्याचें वर्णन आसा. हें नकली स्वातंत्र्य त्याच नृत्याची सत्यानास करपी मुद्रा... डमरू... डिम्... डिम्... डिम्.... वाजता आनी स्वातंत्र्य डोंबाऱ्याच्या खेत्यावरी घुंघट काडून नाचता.

''तुमकां सगळे तरेचें स्वातंत्र्य आसा.'' शर्माजी, लोकांक केन्ना केन्ना उपदेश करतालो.

''कसलें स्वातंत्र्य? कोणाक सुरो मारपाचें, कोणाक पळोवन व्हरपाचें? मनशाचें चामडें काडून जोतें करपाचें?... काय गळो कापपाचें स्वातंत्र्य?''

— गर्देतल्यान कोणेंय अशें विचारीत जाल्यार शर्माचे मनीस ताका फोर्सान बसयताले.

''आरे बाबा, शर्माजी हांसत म्हणटालो, हाकाच लोकशाय म्हणटात. मारून उडयतल्याक आनी मरतल्याक दोगांकूय समान अधिकार आसा.''

स्वायारामान ताका आडावन विचारलें, ''आनी रडपाचेंय स्वातंत्र्य हे लोकशायेंत आसा?''

ड्योढारामान म्हळें, ''हांसपाचें स्वातंत्र्य ना. जुलुसीस्तानांत हांसपाचो हक फक्त लीडरांक. जनतेन रडून नाजाल्यार आकांत् करून दीस सारपाचे. नाजाल्यार ओगी रावन मजा मारपाची... कित्याक, मौनं सर्वार्थ साधनम्.''

आयकुपी लोक व्हडान हांसले. ह्या दोगांयनी हाडिल्ले आडखळीन सभा उध्वस्त जाली. शर्माजी आपल्या सेक्युरिटीच्या आधारान पळून गेलो. हो आपलो पयलो विजय, अशें समजून स्वायाराम आनी ड्योढाराम खोशयेन फुल्ले.

आयज जुलुसीस्तानांत झेंडयाच्यो लायनीच्यो लायनी फर-फर आवाज करीत उब्यो आसात.... जितले झेंडे तितल्यो पार्ट्यो. जितल्यो बडयो तितले कार्यकर्ता.

लाठीरस नांवाच्यो कितल्योशोच पार्ट्यो आसात देखीक लाठीरस - ए, लाठीरस - बी, लाठीरस - सी... अशे तरेन मुखार वचत लाठीरस - झेड् मेरेन पक्ष. हीच गजाल जर्नादन पार्टी आनी हेर पक्षांची. केन्ना केन्ना, एकाच नांवाचे दोन पक्ष. मागीर कितें करप? तेन्ना तांचें वेगळेपण दाखोवंक लाठीरस - A (कॅपिटल ए)आनी लाठीरस - a (धाकटी ए) अशे तरेची नांवा वापरल्यांत.

देशांत आनीक एक पार्टीचें वजन आसा. पूण आमच्या दोगांय पंडितांक ते पार्टीचो मात्सो पात्सो आसा. ते पार्टेक हे लोक ''कौमनष्ट'' (मनीसजात ना करपी) अशें म्हणटात. तांचेय आनीक

गट आसात. आनी ह्या गटांक वाद्यो लागल्यात. देखीक क्याऊंवादी, क्योंवादी, धमकीवादी, व्हिस्कीवादी बी.

स्वायाराम त्या पार्टीच्या ह्या वादयांचेर खूश आसा. ताचें म्हणणें, ह्यो पार्ट्यो गॅसार आसात. खासा धन्वंतरी स्वतः आयलो तरी ह्या वादयांचेर कांय वखद ना.

जण एकली पार्टी, जण एकलो गट दुसरे पार्टीचे पांय ओडून तांकां उडोवपाक फिशाल जाला. केंद्रापासून राज्यामेरेन, राज्यापासून जिल्ह्यामेरेन सगळयाक स्वातंत्र्याची मुळां पावल्यांत. ताका लागून जण एकलो मनीस दुसऱ्याचे पांय ओडूंक लागला.

हांगचें सरकार धार्मिक वृत्तीचे. हांगच्या मंत्रिमंडळाचे काम किते काय म्हळयार धोल आनी कासाळीं घेवन देवाची पुजा करप. देवाकडेन मागप, देवा तूं लोकांचे कल्याण कर... देशांत परथून भांगराचीं सुकणी उडुं दी. सगळया लोकांक बशिल्ले कडेन सुक्या उडयांचे सुवातेर बटर लायिल्ले उंडे मेळूं दी... सूख आनी चैनीचो पावस लोकांचेर पडूं... ओम् नमो नारायणा...

दिसानदीस जुलुसीस्तानाच्या इतिहासाक नवीं नवीं पानां दसत आसात. जुलुसीस्तान हो शारां, गांव आनी खेडयांचो देश.... आनी तुमकां खबर आसाच, हांगचो चडान चड लोक शेतकामती. खेरीज संवसारांतल्या सगळयांची चिंता जुलुसीस्तान करता.

हांगचे गल्लेंत, बाजारांत, मेळत थंय बुद्धिबळाचो खेळ चल्ला. हेच लोक राजकीय अडचणींचेर उपाय सोदतात. आनी कामगारांक चडांत चड कशे पिळून काडचे हाचेर विचार करतात. खरें म्हळयार, हांतूत खेळगडी दोगूच. उरिल्ले खेळ पळोवपी, थंय बसपी जाल्यार थोडे मजा पळोवपी आसतात. थोडे आपली तकली चलोवपी आसतात. देखीक मिठायवाले, पानपट्टीवाले, हॉटेलवाले बी. सांगपाचें म्हळयार ही गर्दी दुकानदारांची आसता. पूण तांचेकडेन चेंबर ऑफ कॉमर्सची मेंबरशिप आसना.

चेंबर ऑफ कॉमर्सचे लोक कॉकटेल पार्टीक एकठांय जमतात. क्लबांत हाय लेव्हलचेर चॅस चलता. एके वटेन सरकार आनी दुसरे वटेन कॉमर्सवाले.

सगळया नफेखोर लोकांमदीं एक गजाल सारकी आसा, ती म्हळयार ह्या लोकांक रिटायर्ड क्लार्क, पोस्टल क्लार्क नाजाल्यार चड शिकूंक नाशिल्ल्या लोकांवरी थळावें खबरे पत्र वाचपाची संवंय. त्या खबरेपत्राचें नांव 'चारपाई समाचार पत्र' हांतल्लें राजकारण लिमिटेड आसता.

'चारपाई समाचार' पत्राचे ब्रीदवाक्य अशें, चारपाई म्हळयार जिणेचें सार. जल्मापासून मर्णामेरेन मनशाचो एकलोच खरेलो इष्ट.

जे लोक चारपाईचे सुवातेर जमनीर हांथरूण घालून न्हिदतात, तेय बी चारपाई समाचारपत्राचेर विश्वास दवरतात. हांगचो लोक परम्परावादी. तेन्ना ते खिंडीपसून पयस वचनात. म्हूण हें खबरेपत्र खिंडीत जावपी कायदेशीर, बेकायदेशीर, सगळयो भानगडी उजवाडाक हाडटा. स्वायाराम ड्योढारामच्या सुरांत सूर मेळोवन हें खबरेपत्र म्हणटा, जुलुसीस्तानची पुर्विल्ली परंपरा म्हान आसली. वांगडा विदेशी बायलांची नागडी चित्रां छापता. आनी सकयल कॅप्शन आसता, ''चारपाईच्या मोगाळ वाचप्यानो, पश्चिमेचो सत्यानाश जावंक कळाव ना.''

''चारपाई समाचार'' च्या वाचप्यांचो गळो भरून येतालो. ह्या खबरेपत्रान वाचप्यांक एक

विशिश्ट नजर दिल्या. खंयूय उदरगतीचें काम जायत जाल्यार हातूंत छापून येतालें.... हो तर अवनितीचो कळस.''

हें खबरेपत्र वाचपी मनीस कांय आठवडयानी आपल्याक मनीस मानी नासतना स्वतःक हिंदू, नाजाल्यार मुसलमान, नाजाल्यार किरिस्तांव मानूंक लागता. आनी ताणें तशें खंयचेय एके जातींत आपल्याक घालप महत्वाचें.

हें खबरेपत्र जातीय झगडीं व्हड माथाळयान छापता. कित्याक, जातीय झगडीं चडांत चड वाडोवप हेंच तर तांचें मुखेल काम. जातीय झगडयांक फूंक मारून तें खबरेपत्रांच्या स्वातंत्र्याची झलक दाखयता. हाचो धनी उदारतावादी 'धल्ला' नावाच्या कॉलमाखाला तो वाचप्यांक उपदेशाचो बाम चोळटा.

आयज 'चारपाई समाचार' रस्त्यार चलपी लोक ते चेम्बर ऑफ कॉमर्सच्या लोकांचे जीवन दर्शन जालां. खून, दरवडो, वलात्कार, लुटमार ह्या गजालींनी हो पेपर शिरंगारिल्लो आसता. हातूंत आनीक एक गजाल आसता. सदांच हाचे भीतर सेठसायबाचो फोटो आसता – सेठजी हॉलांत विचारमग्न मुद्रेंत... सेठजी कोडांगी लोकांक पाव वांडटना... सेठजी तांबयो घेवन झाडयाक वतना...

जुलुसीस्तानांतल्या दरेका राज्यांत असल्या खबरेपत्रांवरी दुसरी खबरेपत्रां उजवाडाक येतात. दर खबरेपत्रांत एकलो थळावो सेठ पद्मासन मुद्रेंतलो आपलो फोटो छापीत आसता.

खरें म्हळयार हो असो देश, ज्या देशांत सोरोप आनी मुंगूस एकाच बिळांत बरे तरेन रावतात. सोरोप आपले फुत्कार सोडूंक विसरता. आनी मुंगूस नेटान धावंक... सत्तेची धुंदी ल्हवू ल्हवू उणी जावंक लागता. अमकी एक शीम येतकीच धुंदी येवपाची बंद जाता. हीच गजाल सत्तेवेल्या पक्षाची. दुसरे वटेन विरोधी पक्षय बी विरोध करूंक, टिका करूंक विसरला.

आतां सतेर आशिल्लो पक्ष आनी विरोध पक्ष हांचे मदीं बरेंपण आयलां. वांटून खावपांतूय मजा आसता. आतां दरेक कोटा, परमिट, नोकऱ्यो आनी कॉलेज, संस्था हांचे भितर विरोधी पक्षाच्या वांगडयांकूय सीट दवरला. आतां सगळे सुखी जाल्यात. राज्य करपी पक्षाचे लोक आनी विरोधी पक्षाचे लोक, सगळयांच्या हातांत लाडू आसात. फक्कत पन्त स्वायाराम आनी पन्त ड्योढाराम सोडून! ते दोगूय बेब्यांचे भाशेंत आनी कावळयांचे भाशेंत आपलें दूख परगटायताले.

स्वायाराम : सगळे बदमाश!

ड्योढाराम : सत्तेवेले लोक आनी विरोधी पक्षांतले लोक, सगळे सारके. एकेच माळेचे मणी. दोगूय लुट्टीत.

स्वायाराम : बापायलो फात समजतात काय कितें?

ड्योढाराम : सुणे खंयचे कडले...

स्वायाराम : चेडयेचे!

ह्या नररत्नाचें असलें उलवप शर्माच्या विश्वासांतले गांठीक बांदून शर्मामेरेन पावयतले.

मागीर एक दीस मानिकोमवाले पोलिसांक घेवन आयल्ले. आनी त्या दोगांकूय घेवन मानिकोमात गेले. पुलीस इन्चार्जान म्हळें, ''हांगा बसून आतां जाय तितले आड्डात.'' दोगूय म्हालगडे आड्डले, ''त्या शर्माक वचून सांग आतां ताचे थोडेच दीस उरल्यात म्हूण! आमी जारणमारण करून ताचें

घट्टाण केले बगर रावचे नात.

पयलीं फक्त सत्ताधारी पार्टीच सगळें गिळटाली. ताका लागून सताधारी लोकांकूच धोंद फुट्टालें. पूण आतां विरोधी पक्षाच्या लोकांकूय बी धोदां फुटूंक लागलीं. हांचे सोयरे आनी तांचे मर्जींतले लोक वयल्या पदांचेर पावले. सोंशिकतायेचो आदर्शूच तांणी घालून दिल्लो.

इलेसांवाच्या वगतार जुलुसीस्तानांतलो लोक व्हड व्हड लायनी करून उबे रावतात. विधानसभेचो उमेदवार पॉलीश आनी ब्रश घेवन तांचें बुटपॉलीश, करून तांच्या पायांवेलो धुल्ल लींप करतात. हें पॉलीश पांच वरसां मेरेन आपलो रंग बदलिना. मागीर हे सायब पांच वरसां कदेलीर बसून तींच जोतीं लोकांच्या माथ्यार धरून मारतात. पांच वरसांत लोकूय बी कळमेतात. तेन्ना हो बहुरूपिया परथून एक खेपे ब्रश आनी पॉलीश घेवन येतात. आपल्या दोनूय हातांक डांबर लावन, तो हात जोडून पायां पडत म्हणटात, ''तकली ते पांय मेरेन हांव तुमचोच सेवक.''

केन्ना केन्नाय कोणूय फकांडानी विचारतात, ''तुमी आमचे खातीर कितें केलां?'' तो रोखडोच म्हणटा, ''कर्तोसवरतो तो परमेश्वर! मनीस कोणालेंय कितें म्हूण करूंक शकता?''

''पूण तुज्या सोयऱ्यांची घरां भरून दारां ओततात.''

''गोबराचें भांगर करपीय बी देवूच! आमी आनी तुमी फक्त निमित्त. आतां तुमीच सांगात, आमी तुमचेकडेन वर्गणी नाजाल्यार पयसो केन्ना मागला? फक्त इतलेंच मागतां बोकडेचेर शिक्को मारात. आनी पुण्याचे भागीदार जायात. म्हाकां जैतीवंत करून एक बरें काम करात.''

''बोकडचेर शिक्को कित्याक मारूं? गायचेर कित्याक नाका? गाय तरी आमकां दूद दिता...'' जमिल्लो लोक विचारतालो.

''पाडापडिल्ल्यानो, गायेर शिक्को मारतले? पातकाचे भागीदार जातले?''

लोकांकूय मागीर पश्चाताप जातालो. मागीर ते बोकडेचेरूच शिक्को मारताले... मळबांत गर्जना... लोकशाय... जिन्दाबाद...

ललाटे खां कुत्छित्रीपणान म्हणटा – हे गर्जनेचो अर्थ... काड तुजें जोतें आनी पांच वरसां मेरेन मार आमच्या बोडार!

सत्ताधारी पक्ष आनी विरोधी पक्ष हांचे भितर अंडरस्टेंडिंग आसून लेगीत, मोर्चा काडचें प्रमाण वाडत आसा. हाचे वांगडाच आनीकूय नररात्नांक मानिकोमांत धाडप चालूच आसा. इतले मजगतीं, जुलुसीस्तानांतलो रेडिओ विकासाची पदां गायत आसा. कादयांची संख्या वाडत आसा.

लोक कितेंतरी सोदतात आनी ताच्यो गर्जना करतात. ''आमकां कितें जाय?''

''न्याय!''

''आमची मागणी?''

''जेवण, घर आनी घटना...'

स्वायाराम आनी ड्योढाराम मानी कोमांतल्यान सुटून आयल्यात.दोगांयल्या हातांत गॅसाचे बोमाडे आसात. आनी ते गायतात,

''झंडा ऊँचा रहे हमारा.....''

न्याय, घटना, घर आनी दोन वेळचें जेवण हाचे खातीर मोर्चा काडलो जाल्यार ताका जाप म्हूण दुसरो मोर्चा येता. दुसऱ्या मोर्चांतले लोक म्हणटात, ''हांचे अधिकार काडून घेतल्यात खंय... कोणें? आमी म्हणटात आमकांय आमचे हक जाय... लुटमार करपाचो आमकां अधिकार जाय... आमी तर म्हणटात दुसऱ्यांचो हक काडून घेवपाचो कायदो करूंक जाय...

हो देश न्हंय... हो एक म्हासागर... हांगा व्हडलें नुस्तें धाकल्या नुस्त्याक गिळटा. आमची जीण म्हळयार मारपेट आनी हिंसा! मनशांक खावपी लोकांचो जमो मजा मजा मारता. सुकून काटो जाल्लीं सुकणी मर्णाची वाट पळेतात.

जुलुसीस्तानांतल्या निजामाक दर वरसा रगत पिवपाची तान लागता. तेन्ना जिबली चाटीत तो रस्त्यार प्रेतलीला करता आनी असले संदीची वाट पळोवपी दलाल ताची तान भागोवपाचें ओब्र घेतात. हे दलाल आपल्या लोकांक शाळा, कॉलेजां आनी हेर संस्थानी धाडून संप करतात आनी मजा म्हळयार संप करूंक कसलें कारण आसुंकूच जाय अशें ना. प्रिन्सिपलाचें नाक मात्शें मोटें हें कारण लेगीत संप करतल्याक पुरो जाता. ना जाल्यार उलयतना ताची खाडकी हालता हें लेगीत कारण जांव येता. सद्या मडयांच्या एजंटांक तोडफोड करूंक कसलेंय निमित्त उपकरता. मागीर सरकारी आनी गैरसरकारी सामान उज्याचे भकीक पडटा.

शिकून लेगीत तुमकां नोकरी मेळची ना, अशें सांगून तरणे पिळगेचीं काळजां कुसयतात. सगळयो नोकऱ्यो मंत्र्यांच्या मेवण्या खातीर दवरल्यात. हें सत तरनाटे सोसूंक शकनात. आनी मागीर ते सगळ्यांचो सत्यानास करूंक मुखार सरतात. ह्या अक्कल नाशिल्या पोरांक आळाबंदा हाडूंक डमरू डम-डम आवाज करीत वाजूंक लागता. निर्शेल्ल्या तरनाट्यांचे रगत रस्त्यार व्हावता. रगतान भरिल्ले ओंठ हा हा हा करून हांसतात.

तेन्ना शर्मा प्रकट जाता. तो मेल्ल्या लोकांच्या घरा वचून, त्या घरच्या लोकांक अडेज, तीन हजार रुपया वांट्टा. पेपरांत फोटो छापता. तेवटेन प्रेतांची लीला करपी दलालांच्या घरांत पयसो कुसता.

मोर्चा!

आनी मोर्चा!!

आनी आनीक मोर्चा!!! हुतहुतो मोर्चा...

''आमकां कितें जाय?''

''न्याय! न्याय!! न्याय!!!'' सगळयो दिशा गाजतात.

सरकारी नोटिफिकेशन येता. शारांत मोर्चा काडूंक फावना. सरकारी रेडिओ बातमी दिता. लोकांच्यो मागण्यो मानून आयज सांजेर टी.व्ही. चेर ''इन्साफ'' नांवाचें पिक्चर दाखयतले.

१४४ वे कलम लागू केलां हाची पर्वा करिनासतना स्वायाराम आड्डता, ''हे पाडापडिल्ले जिबेक दांतां भितर दवरात. सगळयाक रामराज्य आसा.''

ड्योढाराम आत्मसंतुष्ट जाल्लेवरी गायता, ''चल उड जारे पंछी कि अब ये देश हुआ बेगाना!''

स्वायाराम ताच्या म्हऱ्यांत येता. ताका थातारता... ओगी! पापया ओगी राव! जो उलयतलो

ताचे जिबेक लायटीचो शॉक दितले... कितें शर्माजी?... हय काय न्हंय हा! हा!! हा!!!

सत्तेचीं नाखटां लोकांच्या काळजांत रोमल्यांत. व्हड व्हड हुद्द्याचे अधिकारी सरकारी गुलाम जाल्यात. आनी तांच्या सकयल्या हुद्द्याचे लोक म्हळयार तहशीलदार, पटवारी बी सरकारी गुलामांचे गुलाम... हे गुलामांचे गुलाम तांकां कितें जाय तें घेतातूच आनी तांच्या वेल्या अधिकाऱ्यांकूय जाय तें दिवन खूश करतात. हांची नाखटां पाताळांत लेगीत वचून जाय तें खणून हाडूंक शकतात. तूप, सुपीक जमीन, सुंदर अस्तुरी.... आनी, जाय तें तांचे गिदांचे दोळे जिस्तूच सोदून काडटात.

गरीब शेतकामत्यान ताचो रेव्हेन्यू भरला. पूण तांबडे फायलींत ताची एन्ट्री ना. म्हूण अधिकारी शेतसारो वसूल करूंक भायर सरतात. शेतकामती रडटात. आड्डतात... म्हणटात दुसरे खेपे भरूंक आमचेकडेन पयशे नात.

वसुली करपी लोक कानार केंस काडटात. कोण कांय आयकना. तुमी शेतसारो दिवंक शकनात जाल्यार पुरसांव काडात. पुरसांव काडप हो सरकारी संस्कृतायेंतलो वाक्प्रचार - खरे म्हळयार ज्या शेतकामत्याच्या घरा सुंदर चलयो नाजाल्यार सुंदर बायलो आसतात, तांचेंच पुरसांव भायर सरता.

ह्या पुरसावांची गजाल 'चारपाई समाचारांत' छापून आयली जाल्यार बोवाळ जाता. मागीर मोर्चा भायर सरतात. पुतळे लासतात बोबा बोब जाता... मागीर सरकारी फुडारी पुरसांव जाल्ले सुवातेक भेट दितात. तेय बी शेतकामत्यांचो मोर्चा काडटात. मागीर विरोधी पक्षाचो फुडारी येता. तोवूय बी ताका जाल्लें दूख परगटावपाक दुसरो मोर्चा काडटा. आनी मागीर परथून वता.

हांगा सगळे लोक चलतात. लोककवी खरेंच सांगता. तो म्हणटा, ''हो संवसार म्हळयार येवपी वचपी लोकांचें फेस्त.''

आवागमनाचे चक्र! हरि ओम् तत् सत्! हरि ओम् तत् सत्!!

सन १९७८

शर्माभाई खुशालभरीत आसा.

खबरेपत्रानी माथाळो आसा – अमेरिकेक न्युट्रोन विस्फोट करूंक सफलता मेळ्ळी.

सेठ सायब 'बॅडरूमकी बात' ह्या कॉलमात बरयता-आतां सगळी शक्त अमेरिकेच्या हातांत. तागडेच्यो ताटल्यो वयर सकयल जातात.

सेठ सायब फक्त कुरू करता. मुखावेलें काम ताचे दुकानदार ज्युस्ता ज्युस्त करतात.

शर्मा भाई हुमेन चिप्प भिजून, घामाचो वास मारपी दुकानदारांक न्युट्रोन बॉम्ब म्हळयार कितें तें समजावन सांगता. आनी दुकानदार दोळे मोटे करून आयकता.

परमानंदांत लीन जावन शर्मा सांगता – न्युट्रॉन बॉम्ब म्हळयार विष्णु भगवानालें विराट रूप! साक्षात सुदर्शन चक्र! ही अमेरिकेची...

''हें सगळें फट! – गर्देंतल्यान कोण तरी आड्डता... न्युट्रॉन बॉम्ब, आमच्या पूर्वजानी तयार केल्लो. अमेरिकनानी आमची पुस्तकां चोरून व्हेली. तांतल्यान ताणी —

शर्माजी पळेता – स्वायाराम आनी ड्योढाराम कित्याय कितें बडबडत रावल्यात. ''आरे, ह्या दोगूय पिशांक धरात आनी कादयेंत उडयात पळोंवया.''

— दुकानदार उमेदीन विचारतात,

"पूण ह्या सुदर्शन चक्राचो फायदो कितें?"

शर्माभाई समजायता... दुकानदारां खातीर हो एक कल्पवृक्ष... तुमी ताच्या मुळांत बसले रे दसले, लागली सोर्त तुमकां म्हूण समजात. लुटमार करपाचें लिसेंस तुमच्या हातांत आसतलें. हो बॉम्ब तयार जालो म्हूण रशिया दुबळो जालो. तुमचे खातीर ताचो इतलोच अर्थ; तुमी विकतात त्या वस्तुंचें तोंडाक येता तें मोल सांगात. तें तुमकां मेळटलें.

न्युट्रोन बॉम्बचो हो सरळ अर्थ आयकून एक दुकानदार आड्डलो, "अमेरिका जिंदाबाद!"

"पूण जाय जाल्लें मोल वसूल करपाचो अधिकार कसो मेळटलो?"

"तसोच! तेल उत्पादन करपी देश गाजोलिनाचे दर वाडोवन सगळया जगाची गची आवुंळटा आनी सगळया वस्तुंची दर आपशींच वाडटा. तशेंच न्युट्रॉन बॉम्बच्या स्फोटान जगभर आशिल्ल्या दुकानदारांक आनी ठेकेदारांक मनाक येता तें करपाचो अधिकार मेळटा. आयज सावन आमची घोषणा अशी – जगावेल्या नफेखोरांनो एकठांय जायात. वॉशिंग्टन तुमकां तेंको दितलें.

शर्मा भाईचो पी.ए, चेंबर ऑफ कॉमर्सचो मुखेल, लाला धरमदासाचो चलो... शर्मा जेन्ना सुको ताळो ओलो करता तेन्ना तो भाशण दिता.

"भावांनो काय देश 'दिताना' च्या नांवान विश्वशांतीच्यो गजाली करतात. पूण हीं मूर्खपणां... जगांत शांती नंदत जाल्यार मनीसपणाचो इतिहास तळयेंतल्या उदकावरी कुसून वतलो. हाचो अर्थ असो की मनीस उदरगतीचे सुवातेर अश्मयुगांत पावतलो. टँक, मिसायल, कोट्यांनी रुपया खर्च करून तयार केल्ले उपग्रह म्हळयार मनशाच्या विकासाची साक्ष! पूण ह्या कलियुगांत शांती खातीर प्रयत्न करपी खरेलो शांतिदूत्त कोण तर अमेरिका....

दुकानदारांनी फोर्सान ताळयो मारल्यो. तेन्ना शर्मान उदकाचो पेलो दवरून मायक हातांत घेतलो. ताणें म्हळें, "भावांनो, म्हजो पी.ए. राजकारणात मात्सो फाटीं. आमकां शांती जाय. तोफो, टँक, मिसायल हीं सगळीं सत्यानासाचीं साधना. हांकां लागून दुकाना, कारखाने, म्युझियम, आर्ट गॅलरी, बँको, पयशे सगळें ना जातलें. पूण न्युट्रोन बॉम्बांत हो भंय ना. हाका लागून इस्टेटीचें नुकसान जायना. आमचीं झगडीं मनशांकडेन, जड वस्तूंकडेन न्ही. चूड दाखोवन म्हारू हाडपी लोकांकडेन आमचीं झगडीं. तांच्या तत्वाकडेन झगडीं. आमी वाग, शींव बी जनावरांक शिकार करूं नाकांत अशें सांगूक शकतात?

"ना! ना!! अजिबात ना." गर्देंतल्यान आवाज आयलो.

"पूण म्हारगाय वाडल्या ताचें कितें करप?" एक बारीक आवाज आयलो. 'क्रेमलिन आमचें.... अमेरिका पयशेकारांचो देश. तेन्ना क्रॅमलिन आमकां मेळटकीच आपशींच म्हारगाय उणी जातली. थंच्या डिपार्टमेंटल स्टोअरांतलो माल जगांतल्या सगळया देशांनी धाडूंक मेळटलो."

निमाणे कडेन शर्मा भाईन हात जोडून सगळयांक सांगलें, "आयज खोशयोचो दीस... तेन्ना घरा वचून घराव्या तुपाचो दिवो देवा म्हऱ्यांत लायात." अशें सांगून तो आपल्या वांगडच्यांक घेवन झिपींत बसून गेलो.

दुकानदारूय खुशालभरीत जावन वस्तूंचे मोल कशें वाडोवचें तें चिंतीत आपआपल्या घरा

गेले.

इश्टांनों, १९७८ मेरेनच्या जुलुसीस्तानाचो हो रिपोर्ट आसलो. हाचे मुखावेली काणी अशे तरेन तुमी जोडीत वचात. पूण लक्षांत दवरपा सारकी गजाल म्हळयार लाठीरस पार्टीचे पोतयेंतल्यान जें मांजर भायर पडिल्लें तें पलतडीं पावलें. आमी मात अजुन आलतडीच आसात.

★ ★ ★





# 4
# शापित

आमचे फातराचे चलता भोंवतात तसले पुतळे जाल्ले.

खंयच्च्याय म्हाताऱ्याची बडी घट जमनीर आदळून आदळून जशी जाता, तशे आमी काळाचीं थापटां खावन खावन भावनाशुन्य जाल्यात. खंचीय भावना जाणवप ही आदल्या काळांतली गजाल अशें दिसता.

आमी दोगूय हताश जावन एकमेकांचे तोंड पळेताले. आमचीं पेशावरी पद्धतिची जोतीं साप्प झरिल्लीं. तांतल्यान तोंपंपी कांटे आतां इतले दुख नासले. आमचे संवेदनेचेर बशिल्लो अपेशाचो धुल्ल आतां फातरावरी घट्ट जाल्लो.

पूण आमी पयलीं अशे नाशिल्ले. बिरादरावरी आमकां दोगांकूय सुखदूख काळजासावन भोगतालें. बिरादर, अभिमन्यु आनी म्हजे भितर भेदभाव करिनासलो. तो उकत्या मनाचो मनीस आसलो.

व्हडल्या भावाक आमी बिरादर म्हणटाले. केन्ना केन्ना ताका 'वीरणी' म्हूण उलो करताले. तो तसो स्वच्छंदी मनीस. म्हजे परस एका वर्सान व्हड. पूण अणभवान कितलीशींच वर्सां मुखार आसलो. म्हजो बी. ए. चो रिझल्ट जातकीच ताणें पठाणी तरेचीं जोतीं हाडून दिलीं. ''तुमी आतां वेव्हारीक जगांत पावल घालतात.'' ताणें शिटकावणी दीत म्हळें.

तो नोकरी करपी मनीस. सदांचे जिणेंत उपयोगी पडपी शाणपण ताचेकडेन आसलें. मनीस वेव्हारी. आपले विचार दुसऱ्यांचेर थापपी न्हंय. म्हणटालो, ''जण एकल्यान जण एकलो अणभव आपणेंच घेंवक जाय.''

''मनशान उश्णें शाणपण घेवन कामां केलीं जाल्यार, ताची चिंतपाची शक्त काबार जाता.'' तो म्हणटालो.

''पापयानो, परिक्षा पास जाले ताची खोस मनयली, खूब जालें. हो फर्स्ट क्लास चड तेंप तुमकां खोस दिवचोना. आयज सावन तुमचीं जिणेकडलीं झगडीं कॉमेस म्हूण समजात.''

खोशेच्च्या भरांत तेन्ना तागेल्या उतरांच्या अर्थाची खोलाय आमकां मातूय समजली ना. अर्दकुट्या गिन्यानान खंयचीय गजाल उखलापी आयकुपाची संवय जाल्ली आमकां.

''संघर्ष!'' हें उतर तेदेवेळार साप्प पोकें आनी अर्थहीण दिसतालें.

''बिरादर, जे खोशयेक दुखाचें एकुय तास ना, ती खोस उक्तांवंक नाजाल्यार मनोवपाक

कसली हरकत आसा? उदकांत आशिल्ल्या ल्हारांनी देगेच्या नांवान कित्याक बोब मारूं जाय? खोस काळाची एक गरज. तेन्ना कपलावेल्यो मिरयो काडून उडोवन आमचे खोशयेंत खोस मनय.''

अकस्मात ताकाय उठोवन आमी नाचूंक लागले.

''पळे, पळे, पाडापडिल्ले निर्लज्ज खंयचे? तुमी कितें करतात हें? म्हजे पांय माड्तिले तुमी!''

पास जाल्ल्याचे खोशयेन आमी वल्लेंतय धर नासले आनी सुपांतूय बी... आमी थाऱ्यारूच नासले. रेड्यांनो, खोशयेन पिशे जाल्ल्यान तुमी जाणत्यांक रेस्पेत दिवंक विसरल्यात.''

— तो आमचे परस मात्सो व्हड आसलो. म्हूण ताका दिसतालें आमी ताचे कडेन सदां मानान चलचें. ताका लागून तो मात्शें अंतर दवरून वागूंक पळेतालो. पूण ताच्या तोंडावेले ते जाण्टेपणाचे भाव पळोवन ताचीं फकांडां करपाची कूय आमकां येताली.

''हे दोगुय मोटे लाद्रांव!'' तो म्हणऽ

''जिणेंत असो एक वगत येता, जेन्ना खोशयेच्यो सगळ्यो वाटो उदासीच्या दर्यांत वचून बुडटात.''

''बिरादर, तुजे भितर सोक्रेटीसच्या आत्म्यान प्रवेश केला काय कितें? सेरमांव दिवपाचे जायते खीण येवपाचे आसात, ताचे खातीर तुवें तुजे हे विचार रिझर्व्ह दवरल्यार बरें जावचें ना?''

''बिरादराक लायफ एन्जॉय करपाचो सेन्स ना. मेळत तेन्ना गांधी जाता आनी खोशयेची वाट लायता.'' उलयतना अभिमन्युची नदर बिरादराचेर पडली. आनी तो एकदम ओग्गी जालो.

जळटे नदरेन आमकां पळेत बिरादर भितर गेलो. खोशयेच्या भरांत आमी चड उणे कितें उलयले खबर ना. पूण एक गजाल खरी, ताका दुखोवपाचो आमचो हेतू नासलो.

तो उदास दिसतालो. ताच्या तोंडार उदासी आसली.

खरें म्हळ्यार हरशीं आमकां ताची समजूत काडची आसत, जाल्यार ताका आनीक सतावचें पडटालें. आनी मागीर चड तिडायतकीच ताका हांसो येतालो.

आमी बाजारांतल्यान फोग हाडिल्लो.

अभिमन्युन भितर वांकून पळेलें.

बेताच्या कदेलार बसून तो सिगार ओडटालो. कुडींत सिगराच्या धुंवराच्यो वाटकुळ्यो लडयो जावन वयले वटेन वताल्यो. दिसतालें, तो कुडींत उदासी आनी टॅन्शनाचें वातावरण तयार करतालो.

आंगणांत रिती बोत्ल उबी करून आमी बाण सोडटाले. तांचो आवाज आयकून त्या वाठारांतलीं सगळीं भुरगीं कुपांवरी एकठांय जमलीं.

अचकीत व्हारांदार आयदनां मोखून मारिल्याचो आवाज आयकूंक आयलो. अकस्मात् जाल्ल्या ह्या प्रकारान आमची भियेवन गुळी जाली.

पळेल्यार, काशाच्या आयदनांक वेर गेल्ली. आनी जमनीर तांचो आवाज घुमतालो. जमनीर मसूराचो पातळ रोस कांदे आनी तोमाटांचें सालाद आनी गंवाच्यो रोटयो शिंपडिल्ल्यो.

"हांव फक्त मॅट्रिक पास क्लार्क.... ओलेंसुकें पानांत पडटा तें गिळपी... तुपाची फोडणां त्या ग्रॅज्युएट जाल्ल्या चोरांक?" – रागान आवाज थरथरतालो.

आमी माराण लावपाचे विसरून गेले. अभिमन्यु पश्चाताप जाल्लेवरी म्हजेकडेन पळेतालो.

हांवूय गोंदळ्ळों. अकस्मात् हें सगळें कितें जालें काय? बिरादर म्हजो व्हडलो भाव, जो सगळ्यांक सांगतालो... दोगूय म्हजे भावूच... एक सख्खो आनी दुसरो सख्ख्यापरस चड.... आनी तो हेंवूय बी सांगतालो, दोगूय बी.ए. फायनलीक आसात. खूब अभ्यास करतात. अशेच जर हे अभ्यास करीत रावले, जाल्यार एक दीस व्हडले ऑफिसर जातले.

ताचे नदरेंत आमचे पासत सदांच अभिमान चकचकतालो.

बापूय मेले उपरांत घराची जापसालदारकी ताच्या बोडार पडली. शिकप अर्द्यार सोडचे पडलें. शिकपाची आवड आशिल्ली. पूण घराचें व्हडलें पांखें सांबाळूंक ताका खांबो जावन उबें रावचें पडलें. ताचे आशेची कोमरी करपली. आपल्यो अपूर्ण आशा आमी पूर्ण करतात, तें पळोवन तो खोशी जातालो.

व्हड व्हड धेपां मारीत तो भायर सरून गेलो. फोग भुरग्यांमदीं वांटून आमी तेर्रासार आमचे खातीर तयार केल्ले पत्र्याचे सांवळेंत ओग्गी बसले. मासिकांनी आइल्ल्या नटयांच्या चित्रांनी सजिल्लो तेर्रास उदास दिसतालो. केन्ना केन्नाय खंयचीय गजाल ताणली म्हणटकच ती रबरावरी लांब जाता आनी फटाक् करून तुटून तोंडार बसता.

भाभी जेवणांची ताटां दवरून गेल्ली. पूण आमकां जेवीनशें दिसलें ना. नाका आसतना जी कितें घटना घडली, तांतूंत आमची जेवपाची वान्साच मरून गेल्ली.

ते रातीं बिरादर खूब रातचो घरा आयलो.

गुप्प काळोख आसलो.

मदीं मदीं भाभीले दांबून दवरिल्ले हुडके आयकूंक येताले. जाल्यार मदींच बिरादराचो रागान भरिल्लो सूर.

सकाळीं जाग येतकीच लक्षांत आयलें की सदचे परस आमी चडूच न्हिदून पडिल्ले. उजवाड, हवा, सुर्याची किर्णां, कोणेंतरी हुमटावन उडयल्ल्याची जाणीव आनी मोनें घुम्म वातावरण... सगळ्यांनी मिळून कसलें तरी जाळें विणलां काय दिसलें. सगळें वातावरण मर्णा उपरांत येता तसले एके तरेचे भिरांतीन भरिल्लेवरी जाल्लें.

अभिमन्यु आपलें हांथरूण कवळटालो. कुडींत सगळ्याक पातळिल्लें सामान एकठांय जावन ताचे बॅगेभितर जमा जाल्लें.

तेन्नाच भाभी वयर आयली. च्या ची बूल आनी कोपां तिणें खाटीर दवरलीं. थोडो वगत ती आमकां पळेत उरली.

हांवें कोप उखल्लें. आनी एकेवटेन फू फू करीत घोंट मारलो. च्या गोड नासली. च्यांत घडये साकर घाल्ली. पूण वगताचे कोडसाणेन ताची गोडसाण उणी जाल्ली.

भायर पावलांचो आवाज आयलो. पळेल्यार बिरादर भितर आइल्लो.

"खंय वचपाची तयारी चल्ल्या?" ताणें विचारलें.

''घरा वचपाची! नाजाल्यार आनीक खंय तरी वचूंक सोदतां. म्हजे खातीर तुमकां बेठेच त्रास जाले.''

''ह्यो नाकाजाल्ल्यो गजाली सोड. हांवें तुका आनी ह्या आप्सुलाद भावाक केन्ना उणो समजला?'' अशें म्हणून कवळून दवरिल्ल्या हाथरूणार ताणें खोंट मारली. हाथरूण वांकडें तिकडें जावन सुटून पडलें.

''ना बिरादर! आतां हांव वतां. नायजाल्यार आतां कितले दीस तुमगेर रावपाचें?''

''दिसता, तुमकां जोत्यांनी मारून फोडून काडचें. म्हाका एक कळना, तुमच्या बोडांत कितें भरलां? हांवें केल्ले मायेचेर अशी खोंट मारून वचूंक सोदता?''

अभिमन्युचे दोळे भरून आयले.

''तुमी जाय जाल्यार ज्योत्यांनी मारात. चलता आमकां. पूण उलय नासतना रावं नाकात.''

— अभिमन्युचो रडवो सूर.

''तुमी कितेंय म्हणात नाजाल्यार म्हणूं नाकात.... पूण हांव मात भावोजीचे कान पिळून लांब केले बगर रावची ना.'' भाभीन म्हळें. तिगेल्या आवाजांत अधिकाराची भावना आसली.

सांजेर ताणें आमकां आपले म्हऱ्यांत आपयले आनी म्हऱ्यांत आंशिल्ल्या कागदाचें बंडल उसयलें. कागद पिंजून काडलो. भितर पेशावरी जोत्याचे दोन जोड आसले.

''अजून म्हजें कर्तव्य काबार जावंक ना. तुमकां नोकरी मेळ्ळी म्हणटकीच हांव सुटलों. मागीर तुमी जाय थंय रावात.''

आमी ताका पळेत उरले. भाभीले नदरेंतल्यान माया थपथपताली. ''जे मेरेन पिलां आपले आपूण गोटे सोदून खावंक शकनात, ते मेरेन चिमणी ताका आपल्या घोंटेटरांतल्यान उडूंक दिना.''

— बिरादरान हांसत म्हळें.

''पूण मागीर मळबांत उडले बगर पायांत बळगें येना. एक दीस तुमकां आपआपलो घोंटेर बांदचोच पडटलो. ध्येयाचें तेमक चडचेंच पडटलें.''

ताच्या असल्या उतरांनी वातावरण परथून जड जालें. थोडो वगत खंयची गजाल करची हें चिंतीत तो बसून रावलो. पूण मागीर तो कांयच उलयनासतना सोपणा देंवन बाजारावटेन गेलो.

जायते फावटीं सत कितलें कोडू आसता. आमच्या पायापोंदची धर्तरी कितली सकयलवयर आसा आनी ती हालतकीच जिणेची कोडसाण कशी उफेतली हाची पयलेच खेपे आमकां जाणवीक जाली. ही आव्हानानी भरिल्ली जीण सपनांतले जिणेपरस कितली वेगळी आसली...

''आजपासून तुमचो संघर्ष सुरू जाता. फर्स्टक्लास तुमकां सासणाची खोस दिवचो ना. अकस्मात अशें म्हणपी बिरादराची म्हूर्त दोळ्यांमुखार उबी रावता.

मोडणांच मोडणां आशिल्ले जिणेंत असो एक खीण येता, जाका लागून काळजाक वेर पडटा. वयर मात्शी दिसपी ही वेर भितर खोल मेरेन गेल्ली आसता. आनी ही वेर इच्छा आसुनूय सांदूंक मेळना. त्या दिसा जाल्ले घटनेन आमी एकमेकांक खुब्ब पयसावल्ले वरी जाल्ले. आनी हें पयसावप दिसान दीस वाडत वतालें.

पडिल्ली वेर दिसान दीस ल्हवू ल्हवू व्हड जायत वताली. एका घरांत रावन लेगीत आमी

एकमेकांक पयसावत वताले.

रात जावचे पयलीं आमचे भीतर ज्यो गजाली जाताल्यो त्यो बंद पडल्यो.

हरशीं म्हूण आमी उसरां घरा येताले. येवन मोन्यांनी सपणां चडून वयर वताले. आनी ओगीच हांथरूणार पडून लोळटाले.

पयलीं आमी एकठांय बसून सपना पळेताले.... कॉलेजांतले भायर सरना फुडें लोक डिग्री विचारतले. आमी मागीर आमकां आवडटा ती नोकरी करतले. पूण सत वेगळेंच आसलें. जिवितांत आमकां जाय तशें काय ना. जिविताक जाय तशें जाता. सत परत्या पायांनी चलूंक लागलें. अशें कित्याक जालें, खबर ना. सुरवेक व्हड नोकरेचें सपन रूचीक लागतालें. पूण सपन आनी सत एकमेकांक फाट करून चलता हें आमकां होलमलें. तरी आसतना सपनां आमकां रेवेंतल्या मृगजळाप्रमाण भुलयत पयस व्हरतालीं.

बिरादर सांगतालो, ''नोकरी ल्हान व्हड कसलीय आसूं, तुमी ती करात. प्यून नाजाल्यार डिसपॅच क्लार्कची नोकरी मेळ्यार तीय बी करात. अनमनूं नाकात. एक खेपे एक सुवात मेळ्ळी काय थंय रावन दुसऱ्यो नोकऱ्यो सोदात. शिकिल्ल्या मनशाक फुडें वचपाचे कितलेशेच चान्स आसतात.''

दिसभर केल्लें भोंवप, ताका लागून पुरो जावप आनी आमचीं बाविल्लीं तोंडां... 'यत्न करात... म्हणपी आसा. ज्याचे भितर हिम्मत आसा, ताका देव पावता... बांयचे धडेर कळसुली दवरून थंय लेगीत फोणकूल पडटा.

सुर्वेक ताच्यो ह्यो म्हणण्यो आमच्या बाविल्ल्या काळजाक फुलयताल्यो. पूण कितलो तेंप? मनशाची हिम्मत हिमालय पर्वतामुखार इल्लीशी रास कशी! खरें म्हळ्यार आमच्या डिगऱ्यांक रद्दीच्या कागदाइतलेंय मोल नासलें.

कापास्दाद लोखणाचो खामो न्ही.... कापास्दाद.... हिम्मत म्हळ्यार मेणाचीं खेळणीं... मात्शी धग लागतकीच वितळटात तसलीं. हारिल्ली हिम्मत सगळ्या म्हणींक अर्थहीण करता.... हांव म्हजे म्हाकांच समजायतालो.

''सांत्वना आमचें मनोरंजन करता. तिका ताचे परस चड म्हत्वय बी दिंवक फावना.''

— अभिमन्यु आपलेपणाच्यो गांठी उसोवचेलो यत्न करतालो.

पेशावरी जोतीं घांसून घांसून झरलीं.

मेळत ते सुवातेर न्हयकार पदरांत पडटालो. एक दीस हांवें म्हळें बी, ''बिरादरान हीं जोतीं बरे जोडीच्या पयशांनी घेवंक ना जावं जाय. म्हूण तीं इतले बेगीन झरलीं.''

नोकरी मेळपाची आशा लेगीत एके सांवळेभशेन जाल्ली. जितले आमी तिचे फाटल्यान धावताले, तितली ती फुडें पळटाली. ह्या आपालिपाच्या खेळांत दीस आनी म्हयने गेले.

बिरादरावांगडा शिकपी एकलो भुरगो आसलो. तो आतां व्हडलो ऑफिसर जाल्लो. ताका सांगून नोकरेची व्यवस्था केली. पूण आमचें भुरगेंपण आड आयलें. आमी दोगूय एकेच सुवातेर नोकरी करतले असो आमी हट्ट धरलो. आनी हातलें सत आनी आमची मुर्खपणां आमकां खूब

उसरान कळ्ळीं.

बिरादरान म्हळें, ''तुमचे मदल्या एकल्यान पयलीं थंय नोकरेक लागचें. सायब म्हणटा एक वर्सान स्टाफ वाडयतले तेन्ना दुसऱ्याकूय लावंया.''

पूण एक वर्स वाट पळोवप आमकां जमचें नासलें.

''तुमकां जाय तें करात. झक मारात. ज्या मनशान आपली वाट लावन घेवचीच अशें चितलां ताका कोण समजायतलो? साप्प भुरगे आसले जाल्यार समजूं येतालें. तुमचे येदे भुरगे आपलेंच न्हंय तर दोन चार लोकांचें पोट भरतात.''

बिरादर आतां आमकां बकत्छायानी पळेतालो. ताजे नदरेक नदर दिवंक आमकां जम नासलें. एकमेकांसामकार येतकीच आमचो आत्मविश्वास गडगडटालो. अभिमन्यु मान वळोवन पळोवंक नाशिल्ल्याचें सवंग करतालो. खरें म्हळ्यार आमकां आमचीच लज दिसताली. आमी बेकार ही जाणवीक आमकां काट्यावरी तोंपताली. आमी बिरादराक आमचें तोंड दाखोंवक सोदी नासले. आनी बिरादर आमी आसात काय नात हाची वासपूस करीनासलो.

दिसूयभर आमी हांगा थंय हेडटाले. आनी हे फुकेसवाय केल्ले परेडी उपरांत कालव्याच्या तोंडाकडेन मेळटाले. सगळ्यांत पयलीं आमच्यो नदरो एक दुसऱ्याच्या जोत्याकडेन वताल्यो. ताचेर बशिल्ल्या धुल्लान आमी कितले भोंवले ताचो अदमास येतालो. एकमेकांची मनां जोखताले. जेन्ना उलोवपासारकें नासतालें तेन्ना ओग्गी रावन कालव्यांत उदकावांगडा नाचपी हळडुव्या उजवाडाक निरखिताले. नाजाल्यार गर्मेन भरिल्ले रातीं, जार्दिनांतल्या बांकड्यार आड पडून, वाऱ्यान घोलपी झाडांच्यो हालचाली पळेतालो.

सकाळीं सकाळीं कपडो घांसून चकचकीत केल्लीं जोतीं, सांजमेरेन तांचो जाल्लो अवतार पळोवं नज जातालो.

''तूं जाणा, इंटरव्हयू घेवपी मनीस सगळ्यांत पयलीं उमेदवाराचे पांय पळेता खंय? थंय बूट आसल्यार बरें जालें. जोतें आसलें जाल्यार ताचे वेल्यान ताच्या नशिबाचो रिझल्ट लागता खंय! उमेदवाराचे कपडे, आत्मविश्वास ताचे चरणदासये वेल्यान, म्हळ्यार जोत्यावेल्यान कळटा खंय.''

अभिमन्यु माजराचो मार्क आशिल्ली पॉलिशाची डबी घेवन आइल्लो. आनी इतले उमेदीन आशिल्लो... पळेल्यार दिसतालें, ताका व्हडलें रहस्य होलमलां....

आमचे नोकरे खातीर हेडप आतां वादियांवपणा जाल्लीं. आमी भोंवत भोंवत खंयच्या न्हंय खंयच्या ऑफिसांत पावताले. पूण थंय ते आमकां अवैध गाबाप्रमाण व्हाळयताले.

सगळ्याक एके लायनीत बांदिल्ले न्हयकार आनी नानाकार दाखोवपी मानो.... आतां न्हयकार आयकून धक्को बस नासलो. आमचे विरूद्ध केल्ल्या कटाक एकूय बोतो नाशिल्लो. ताका लागून आमी भितर रिगूंक शकनात. ह्या अणभवान आमचो आत्मविश्वास आनीक घट्ट जाल्लो. अभिमन्यु भरिल्ल्या अंतःकरणान सांगतालो, ''हांवें एका पुस्तकांत वाचलां. फॉर श्युअर सक्सेस शुज मस्ट शायन लायक ए मीरर''

''पूण आमी जोती घालतात. शूज न्ही.''

''ताका लागून आसत, एकाद्रे...'' अभिमन्यु ओग्गी रावतालो. मागीर थोड्या वेळान म्हणटालो, ''ताणी बरोवंक जाय आसलें your face must shine like the shoes of the interview chairman. पाडापडिल्लीं, हरामी, पुस्तकांय बी फटींग.''

दिसतालें आमचें सगळ्यांत व्हडलें काम आशिल्लें नोकरेची चौकशी करप. नोकरी करपी मनशांच्यो नदरो आमकां बाणावरी तोंपताल्यो. काकूळट.... बकत्छायो.... पोकी सहानुभूति आनी दुबावान भरिल्ल्यो कुत्छीत्री नदरो.... तांकां भंय दिस.... आमी तांच्योच नोकऱ्यो तांचे कडल्यान झोंपय मारून फारावंक आयल्ले वरी. आमी खंयच्याय ऑफिसांत वतकीच थंयच्या वातावरणांत एक अदृश्य चेपण जाणवतालें. सगळ्यांच्या तोंडार तें स्पश्ट दिसतालें, आमी हांगासावन भायर सरून वतकच ते सुटकेचो उस्वास सोडून मोठ्यान हांसतले. उपेक्षेन आनी निर्शेणेन आमी दांतओंठ खायत, रस्त्यावेलो धुल्ल खोटांवक भायर सरताले. बोतो पडिल्ल्या बुडकुल्यांतल्यान उदक गळचें तशें आमचो आत्मविश्वास ल्हूव ल्हवू उणो जायत वतालो.

आशिल्ले परिस्थितीविशीं चिंतुनूच आमी थर्त भिताले. आमी विवेकशून्य आनी संकल्पहीन जायत वताले. दिसतालें एक दीस असो येतलो जेन्ना मनशाचे जाती भायर काडून आमकां जनावराचे जातींत घालतले. दिसतालें, कोणेंतरी पयलींसावन एक षडयंत्र रचून आमकां समाजाभायरे केल्यात. दिसान दीस इल्लो इल्लो मरपी आत्मविश्वास पळोवपाचें आमच्या नशिबांत आइल्लें.

म्हजे म्हाकाच हांव उंवाळून उडयल्लेवरी दिसूंक लागलो. रानटी झाडांवरी कोडू आनी निरूपयोगी. सगळे वेवस्तेंतूच वीख मुंगरत वता अशें दिसतालें. आतां अभिमन्युय उलयतां उलयतां मर्दींच ओगी रावतालो. आयची खबर अदर्यार सोडून म्हयन्या आदीं अर्दकुटी उडयल्ली गजाल येवजून ती उलयतालो.

''इंटरव्ह्यू बोर्डाचे बारीक नदरेंतल्यान कांय सुटना. ते फक्त तुमचीं जोती पळेतले. जोतीं पळोवन तुमकां घेवचें काय ना तें थारायतले. तुजी पॅन्टूच मात्शी हालल्यार पुरो, पॅन्टी भितरल्या तुज्या पायांक कडकडो सुटला हें तांकां रोकडेंच कळटा.

तोंडार आत्मविश्वास आनी गंभीरपणाचे रूपडें चडोवन कांय फायदो जालो ना. कितल्याशाच इंटरव्ह्यू सावन आमी साबार परत आयले.

तणाच्या राजवान घांसून घांसून फातर लेगीत पातळ जाता खंय. पूण फातरूच धारेचो आसल्यार राजूच कापून वच्चो ना? खरें म्हळ्यार इंटरव्ह्यू फक्त दाखोवंक आसता. कोणाक घेवचें, कोणाक घेवचें न्हंय, पयलींच थारायल्लें आसता. आमी आपले बेश्टेच नशिबाक दोश दितात.

जोत्याचेर खुब्ब दिसांचो धुल्ल घेवन सांजचो हांव कालव्याकडेन गेलों, तेन्ना मळबांत आबोल्या कोर पातळिल्लो. आनी काळीं कुपां ताका वेंगावंक सोदतालीं.

आपली तकली लोखणाचे रेलिंगाचेर दवरून अभिमन्यु पुलापोंदा व्हांवपी उदकाचो खेळ पळेतालो.

ऍम्प्लॉयमेंट एक्चेंजचें पत्र बोल्सांत आशिल्ल्यान तो खुशालभरीत जाल्लो. म्हाका येता आसतना पळोवन ताणें म्हळें,

''आयक! कितें तरी बरी गजाल घडपाची आसा, अशें म्हाका दिसता.''

''उजवो दोळो उडटा काय कितें?''

''ना.'' ताणें म्हळें.... पूण मौसम सुहावना लगता है।

अवचीत म्हाका याद जाली.... मौसमाचेर उलयल्यार आमकां खूप तेंप जाल्लो. हे खेपे वसंत केन्ना आयलो, मीर्ग केन्ना लागून गेलो, पानगळ केन्ना लागली, काय कळ्ळेंच ना. इतलो तेंप फक्त शेळो घाम फुटिल्ल्याचो उगडास जाता. वर्सभर, पयलीं आमी हांगाच मेळटाले. तेन्ना सुकण्यांचे चिंवचिवप धरून आइनस्टायनचे रिलेटीव्हिटीचे थियरीचेर उलयताले. कॉलेजींतले जीणेंतल्यों कल्पना मागीर काणयो कशो दिसूंक लागल्यो. त्यो कल्पना आनी वास्तव हांचो कांय संबंध आसना हें आतां आमकां कळ्ळें.

सुंदर सपना पळेतना आमकां वास्तवाचें भान उरलें ना. थोड्यो गजाली आंगार शिरशिरो फुलयताल्यो, त्यो सगळ्यो गजाली आमी विसरून गेल्ले. 'कला' आमच्या दोगांयमदली श्रद्धेची मूर्त आसली. आमची ताचे विंशींची आपुलकी म्हळ्यार आमचें भुरगेंपण आसलें. आमी ताका चडान चड सुखी जाल्लें पळोंवक सोदताले. आमी तिगांय एक घरांत रावंक शकतां असल्या घराची अभिमन्यु कल्पना करतालो. ताच्यो गजाली आयकून हांव कल्पना करतालों.... कला अभिमन्युचे मोटरसायकलीचेर बसलां.... फटफट आवाज करीत मोटरसायकल धांवता.... कला भियेवन अभिमन्युच्या आधारान बसलां... ताचे फाटीक वेंगावन....

कितली विचित्र आनी मायावी कल्पना

आमचे कल्पनेंतली मोटरसायकल सोडून आयज कला रामबाबूबराबर मोटारींत बसून भोंवता. ताच्या हातांत अजून चुडो भरिल्लो आसा. केन्नाय तें दिश्टी पडलेंच जाल्यार आमी तोंड घुंवडावन दुसरेकडेन वतले. दिसतालें, ओगीच नाकाजाल्लो प्रसंग आयलो जाल्यार? निमाणें आमचेकडेन उरलां कितें? जाल्यार एकेतरेची अस्वस्थताय....

रामबाबूकडेन कलाचें लग्न जावप गरजेचें आसलें. कित्याक, आमी कलाक सुखी पळोवंक आशेताले. हेर लोकांपरस तें चड सुखी आसलें. भाटांबेसां, नोकरचाकर सगळें ताचेकडेन.... आनी आमचेकडेन कितें आशिल्लें? पोकीं सपना आनी खतखतपी काळीज.

इश्कोलांत आसतना पाठ केल्ल्यो इंग्लीश कवितेच्यो वळी आमचे आशेक चंवर फुलयतात. Good days are coming boys.

कलाच्यो इत्सा आमचे मुखार येवपी बऱ्या दिसांखातीर बांदून दवरप बरें जावचें नासलें. खेरीज निर्णय घेवप आमच्या हातांत आसना. तें जाण्टेल्याकडेन आसता. हे जाण्टेले असले प्रस्न प्रतिष्ठा, पयशे हांची यादी लावन सोडयतात.

आतां आमकां कळिल्लें, फकत जोत्याचें पॉलिशूच इंटरव्ह्यूक उपकरना. नोकरेखातीर प्रतिष्ठा आनी फावोर लागता. खूब खेपे दिसता हातांत ब्रश आनी पॉलिश घेवन सरळ बुटपॉलीश करूंक बसचें. पूण मागीर अभिमन्यूलीं उतरां फाटीं ओडटालीं. तो म्हणटालो, ''आमी आमचे डिग्रीचो रेस्पेत सांबाळूंक जाय.''

आयज म्हजी नदर तागेल्या चकचकीत जोत्यांचेर पडली. आयज तो आपलेच तनरेंत आनी

धुनकेंत आसलो ताचीं जोतीं ताका नोकरी मेळ्ळ्या म्हूण सांगतात काय? पूण तशें आशिल्लें जाल्यार इतलें बेगीन पयशांचो बंदोबस्त कसो म्हूण जालो काय?

हांवें खांकिल्लेवरी करतकीच ताचें लक्ष म्हजेकडेन गेलें. ताच्या दोळ्यांत उदासीचीं कुपां दिसतालीं. ताच्या वागपांत कसलोच फरक नासलो. ताचे नदरेंत नोकरी मेळ्ळ्या म्हूण कळोवपी अहंभाव नासलो. गैरसमज करून घेवपासारकें ताचे चालचलणुकेंत कांयच नासलें.

"सैम तरी आमचे वटेन आसा. पावसान पळे, जोत्याचेर फुक्यासवाय सोल चडयलें." हांवें म्हज्या जोत्यापोंदचो चिखल काडीत म्हळें. आनी ताच्या मनांत कितें चल्लां ताचो अदमास घेवंक हांव ताचो चेरो बारीकसाणेन नियाळूंक लागलों.

ज्या दोळ्यांतल्यान उज्याच्यो किटी उसळटाल्यो ते दोळे आतां मरूंक पाविल्ल्या जनावराच्या दोळ्यांवरी भावनाशून्य जाल्ले. मनशाभितरली उमेद मरता, तेन्ना तो प्रत्येक संकट हांसून सोंसपाचें नाटक करता. मागीर थोड्या तेंपान तेंय विसरता. आनी एकाद्रे मूर्तीवरी एकेच तरेचे भाव तोंडार दवरून भोंवता. कितेंय सोंसपाक म्हूण एक शीम आसता. ती शीम हुंपतकच मागीर मनीस खोशी जातकीच उडयो मारिना आनी संकटां आयलीं म्हूण दुखी जायना. नशिबाचे खेळ एकेक. तेन्ना अशें जावपाचेंच अशें समजून ओगी रावता.

जेन्ना जेन्ना "रिजेक्ट" जाता तेन्ना तो म्हणटा, "देवाक खबर ह्या देशाचें कितें जातलें? हांगचें सगळें बदल्ले बगर काय जावचें ना. तोंडार रूपडीं चडोवन नाजाल्यार प्लास्टीक सर्जरी करून ह्या बहुरूपियानी आपलीं तोंडां लिपयल्यांत. आनी वेले सुवातेर वचून बसून म्हत्वाचे जागे आडायल्यात. पायां पडटना दोन स्लायसींक बटर लायतकीच त्यो स्लायसी जुळटात तशे हे हात जोडटात. पूण भितल्ल्यान कातर चलयतात. असले हे लोक आमच्या नशिबाचे निर्णय घेतात."

"आयज कम्पिटिशनूय खूब वाडलां रे..." हांव ताका म्हणटां.

अभिमन्यु रागान फणफणटा. "तुका आनी म्हाका हांगा कोण वळखना. लांच दिवंक आमचेकडेन पयशे नात. हांगाच आमचें सगळें अडटा. टेलिफोन आशिल्ले लोक आमचें नशीब बरयतात."

आतां आमी कोणाक शीण नासले. आमच्या नशिबांची दारा सासणांची बंद जाल्यांत हें आमकां कळिल्लें.

"गुड डेज आर कमिंग बॉयज"च्या आदारान आमी कितेंय नकलामी जातली म्हूण वाट पळेतात. आमकां दिसता. अल्लादिनचो दिवो आमचे खातीर सुखान उपाट भरिल्ले दीस घेवन येवपाचो आसा.

राजेंद्र पार्काकडल्यान वचून आमी कालव्याच्या कांठार आशिल्ले लाकडाचे फळयेर बसले.

"ताणें कितें विचारलें?"

"ताणें? त्या व्हड गोमटेच्या मनशान?" अभिमन्यु तिरस्कारान थुंकलो.

"तो कितें विचारतलो? हांवेंच ताका विचारलें, तुमकां वयल्यान फोन आयिल्लोच आसा जाल्यार हीं असलीं नाटकां करून वेळ कित्याक होगडायता?"

ताच्या दोळ्यांत जळपी वात आतां पेट्टा पालवता तसल्या काजुल्यावरी जाल्ली.

“हो चान्सूय गेलो. अशे तरेन आमची वाट लागतली.” ताच्या आवाजांत कोडसाण आसली. म्हाकां सदांच दिसता, ते हे जे नाकाजाल्ले प्रस्न विचारतात तांच्यो जापो खासा तांकां तरी खबर आसतात काय? हांव असल्या अक्कलशून्य लोकांच्या हाताखाला नोकरी करूंक शकना.

एकदीस आमकां रागान अशे फुगार जाल्ले पळोवन बिरादरान आपलें निमणें अस्त्र सोडलें. ताणें सांगलें, आमी दोगूय नालायक. आमी नोकरी करपी मनीस न्हय. आमी म्हळ्यार फटींचीं दोन नाणीं जीं देवादयेन फकत रातचीच चलूंक शकतात.

जाण्टेल्यांच्या असल्या उलोवण्याची आमकां तिडक मारताली. आनी देवाल्या नांवान तर आमी पिशे जावंक पाविल्ले.

अख्ख्या संवसारांतलीं सगळीं दुख्खां, अडचणी आनी तिरस्कार आमच्याच वांट्याक कित्याक आइल्लो काय? दिसाच्या उजवाडांत अन्यायाचो काळोख खवदळ घालतालो. कितें न्हय कितें कूस काडून ते आमकां परथून धाडटाले. आमचे अस्तित्व न्हयकारताले. आनी आपूण परिपूर्ण जाल्लेवरी, आपणाक सर्वगुणसंपन्न समजून आपलीच फाट थापटून घेताले.

“आरे, आयक.... मनीस आसून सुण्याची जीण जगप कशें लागता?”

— अभिमन्यु थंयच्यान वचपी सुण्याक पळोवन म्हाका विचारता.

“आमीय सुणेच... रस्ताद सुणे... फरक इतलोच की म्युनसिपाल्टीवाले आमकां वीख दिनात.”

“पूण आमची कसली चूक? आमकां कोणें आनी कित्याक वीख दिवंक जाय?”

“चिंततालों, एक बल्लभर पोटेशियम सायनायड मेळ्ळ्यार बरें जावपाचें.”

“कित्याक? जीव दिवंक थेंबोभर सायनायड कितें उणें जातलें?”

“ना! हांव कित्याक जीव दिवं? इतलें सायनायड शारांतले उदकाचे टाकयेंत घाल्यार दुसऱ्या दिसा सगळें शार न्हिदेंतलें उठचेंच ना.”

“हो व्हडलो गुन्यांव... खूब व्हडलो गुन्यांव!”

“कित्याक? हातूंत खूब निरपराध लोक मरतले म्हूण? पूण म्हाका सांग, निरपराधी म्हळ्यार कितें? आमी निरपराधी न्हय?”

“म्हाका दिसता, फाविल्ल्या वेळार तूं नक्षलवादी लोकांच्या ऑफिसांत वचून बसता आसतलो.”

“आह!... ताच्या सुरांत विखार आनी कुत्छित्रीपणा आसलीं... तो... तो मुर्खांतलो मूर्ख मेळिल्लो म्हाका.... कॉमरेड पाडापडिल्लो... म्हणटालो, आमकां जॉयन जा... शस्त्रां घे आनी गरिबांक भाटकार आनी भाटकारांक गरीब कर.”

“जगलोकाक खबर तो पोलिसांचो ‘खबऱ्या’ म्हूण! आनी पोलिसांकूय वयलो पोस्ट मेळोवंक असलीं खेबाडां जाय आसतात. मागीर ते तांकां डाकू म्हणून गुळयो घालूंक शकतात. हे कॉमरेड पोलिसांच्या आर्मीक जेवणखाण घालतात म्हळ्यार जाता. हांवें ताका विचारलें, पाडापडिल्ल्या, गेल्या धा वर्सांसावन तूं सस्पेन्ड आसा. तरीकूय तुका पगार खंयच्यान मेळटा? तूं

मेलो, पाडापडिल्लो सरकारी सुणो, आनी आमचेर भोंकता? … शेंपडी भीतर घालून पळ्ळो चोर….

“तशें फावो पाडापडिल्ल्याक….”

— थोडो वेळ आमी ओग्गी बसले. अकस्मात ताका कसलीतरी याद जाली. “बरें तर – हांव मात्सो थंय वचून येवं?” अशें म्हणून तो उठलो आनी म्हजे जापेची वाट पळेनासतना, मदीं मदीं फोणकुलां पडिल्ल्या रस्त्यावेल्यान वचुंकूय लागलो.

तिलो तलावाच्या मोडणार पावन तो दिसनासो जाय मेरेन हांव ताका पळेत उरलों.

सद्दां इंटरव्ह्यूंत फेल जातकीच आपली हार सेलेब्रेट करूंक तो नेटान तिलो तलावाकडेन बेगीन बेगीन वता. आनी तो परथून येतासर हांव कालव्यांतल्या उदकांत ल्हारां मेजीत बसतां.

लागीं पावतकीच बोल्सांत दवरिल्ली बाटली काडून तो हातांत धरता. “हो सोरो बरो… भितल्ल्यान लाशीत वता.”

“केन्ना केन्नाय ‘अंगुरकी बेटी’ चाखीन दिसता.”

“आरे, ही कीकर! म्हळ्यार कीक हाडपी. हातूंत जी मजा आसा ती खंयूच ना. पूण सरकार सोऱ्यावेली बंदी काडून ह्या कुटिरोद्योगाक तकली वयर काडूंक कित्याक दिना काय? खरें म्हळ्यार हीच एक हांगची कसलेंच प्रदुषण नाशिल्ली गजाल.”

तो भाषण मदींच थांबयता. आनी कालव्याचे उणे उदक आशिल्ले सुवातेर बाटली दामून दवरता.

थंड घोंट पोटांत वतकीच दोगांयचेर ताचो विंगड विंगड परिणाम जाता. तो भिवकुरो मांजर सो जाता आनी हांव चवताळिल्लें जनावर.

आमचे आड केल्ल्या कारस्थानांत कोण कोण आसात ताचेर आमी भरभरून उलयतात. आनी तांच्या चाळीस पिळग्यांचो उद्धार करतात. आमकां दिसता, सोमरसाचो (सोऱ्याचो) एक घोंट आमचीं, सगळीं दुःखां थोड्या वेळाखातीर तरी पयस करता. मागीर आमी कल्पनेन ‘युटोपियाची’ सृश्ट निर्माण करतात आनी खासावीस करपी निजामचे जुल्मी राजवटींतल्यान सुटका करपी फ्रँच क्रांतीचीं भारतीय सपनां पळेतात.

सोरो चडटकीच तो आड्डतालो तो म्यांव म्यांव करतासो दिसतालो. तो म्हणटालो, “ह्या येदया व्हडल्या फातराक मिलिमीटर लेगीत फाटीफुडें करूंक शकनात.

आमी साप्प दुबळे. आमच्या शिरांनी रगत ना. कोणूय आमच्यो शिरो कापून पळेत जाल्यार तांतूंत भितर तांकां कालव्याचें म्हेळें उदक दिसतले.

“आरे, तुवें विचारलें ना, ही बोत्तल खंयच्यान फारायल्या म्हूण?” ताणें जोतीं काडून फाटल्यान लाकडाचे फळयेर दवरलीं. आनी पाय उदकांत सोडून बसलो. हांव ओग्गी रावन तो किते सांगता तें आयकुपाचे तयारीन बसलों. इतलो तेंप ताचे बराबर रावन लेगीत अभिमन्यु म्हजे खातीर एक प्रस्नूच आशिल्लो. तशें पळोंवक गेल्यार जण एकलो आमचेखातीर कुवाडेंच आसना?

हाची तकली म्हळ्यार किचापतींची खाण? तिलो तलावालागी एक म्हातारी हातभट्टी चलयता, हाची ताका सुलूस लागली. तेन्ना हो थंय गेलो. आनी आपूण सी.आय.डी. ऑफिसर

म्हूण सांगून ताज्या सोऱ्याची बाटली घेवन आयलो. असल्या वगतार कसलींय बगलांटां आंगार येवं येतात, हाची ताका पर्वा आसना. काळो धंदो करपी लोकांक तुमी चड खेप फटोवंक शकनात. म्हूण जेन्ना जेन्ना तो तिलो तलावार वोल्त मारता तेन्ना तेन्ना भयान हांव कुळकुळटा. दिसता दुसरे खेपे हाचें सणकुट फुटिल्लें पळोवंक मेळना जाल्यार पुरो! ती म्हातारी हाचेबराबर कशी वागत सांगू येता?

हे खेपे कसलें तरी गुड्डुलासांव करून आयला आसूंक जाय. आतांच दोनूच घोंट मारिल्ले. पूण दिसतालें आमचे पांय म्हळ्यार व्हडें, आनी तें उदकाचेर चलता.

आनीक थोडो सोरो... आनी आमकां दिसूंक लागलें, लायफ बॅल्ट बांदून आमी दर्यांत पेंवतात. खांद्यावयली तकली मळबांत उडूंक लागली. दिसतालें, उदकाभितल्ल्यान खंयची तरी विचित्र वस्त आमकां उदका भितर ओडटा. हिरण्यकश्यपुच्या पोटांत नरसिंहान तोंपिल्ल्या नाखटांनी दुख जाल्लेवरी अभिमन्यु आड्डलो.

"आरे, हांव उदकांतूय ना आनी भायरूय ना... जमनीरय ना आनी मळबांतय ना."

"इंटरव्ह्यूक वच्चे पयलीं देवळांत गेल्लों." खूब वगत ओग्गी रावन मागीर अभिमन्युन सांगलें.

"देवळांत?" हांवे ताचेकडेन अजापान पळेलें.

"खरें सांगू? आयज निमणे खेपे मन शेणलें. देवळांत वचून हांवें म्हळें, देवा, तूं खऱ्यानीच आसा जाल्यार आयज म्हजें काम जावंक जाय. पूण इंटरव्ह्यू जाले उपरांत चितले, कमीत कमी देवळाकडेन पासय मारून, ज्या लोकांचो देवाचेर विश्वास आसा, तो कसलोसो आसता तें तरी पळोवन येवचें. मनांत आयलें, जमनीर तकली घासतल्यांक आड्डून सांगचें, आरे रेड्यांनो, तुमी जे सुवातेर तकली तेंकयतात, थंय कितलेशेच टी. बी. चे रोगी आनी कोढी आपल्या आंगांतले कोट्यानी जंतू थंय सोडून गेल्यात. तुमी हांगासावन वर न्हंय शाप घेवन वतात. एक दीस तुमी झरून झरून मरतले. आनी हो फातराचो देव तुमची कायच मदत करचो ना. पूण तांका हें सगळें सांगून काय फायदो जावचो नासलो. कित्याक, पायां पडटना. तकली तेंकोवन वांगडा रोग घेवन वचपाचें शिक्षण तांकां पिळग्यान पिळग्यो मेळिल्लें.... पूण देवळांत हांव भाशण दिवंक वचूंक नाशिल्लो. लोक लायनीत उबे रावन एकेच तरेन पायां पडटात, आनी नाक घश्टितात तें पळोवन अजाप जालें. फाटीं परतताना दाराकडेन आशिल्ल्या ह्या बुटांचेर नदर पडली दिसलें, बूट म्हजीच वाट पळेताले. म्हजी जोतीं साप्प पिड्डच्यार जाल्लीं. तळवे झरून बोते पडिल्ले. आनी पाय जमनीक लागताले."

— हांवें म्हज्या जोत्याकडेन पळेलें. ताच्यो वादऱ्यो जावन हुमकळटाल्यो. जण एक रचना, मागीर तें जोतें आसूं नाजाल्यार बूट.... म्हळ्यार एक व्यवस्था आसता. एक वगत असो येता, जेन्ना ही अवस्था आमकां अडचणीतल्यान वाटायता.

अभिमन्युचें चिंतन दिसान दीस खर जायत वतालें. प्ररिस्थितीप्रमाण तो चिंततालो. परिस्थितीच मनशाक वाट दाखयता.

पूण आमी वायट मार्गान वचनात मू? म्हजेंय मन पायांत असले चकचकीत बूट घालपाची इत्सा करूंक लागलां. The life you save may be your own अशी पाटी आशिल्ल्या

बोर्डाकडेन परिस्थिती आमकां परथून परथून धुकळीत व्हरता.

बोर्ड लोकांक नेम तोडूं नाकात म्हूण सांगतात. अधिकार आशिल्लो लोक सांगता, अशे बोर्ड म्हळ्यार फकणां! नेम तोडल्यार मनशाक ख्यास्त जाता. कित्याक खबर ना, पूण एकाद्रें काम करतकीच ख्यास्त जातली, नाजाल्यार मुल्त फारीक करचो पडटलो हें खबर आसुनूय लोक तसलें काम करूंक फाटींफुडें जायनात. एकेक खेपे अशी परिस्थिती येता जेन्ना मनीस गुन्यांव करूंक भियेना. गुन्यांव करतकीच कितें जातलें तें खबर आसुनूय तो गुन्यांव करूंक कित्याक लब्धेता तेंच कळना.

पूण हे नेमूय बी ठरावीक परिस्थितींत ठरावीक लोकांकूच लागू जातात. जेन्ना भूकेन आकुळपिकूळ जाल्लो मनीस झोंपय मारून आपल्या पोटाची भूक भागयता, तेन्ना जितें रावप हो सैमीक नेम जाता.

तिलो तलावांतलो सोरो जेन्ना चडूंक लागता, तेन्ना अभिमन्यु कित्याय कितें उलोवंक लागता.... नाका जाल्ल्यो गजाली.... ज्यो आयकून प्रस्न पडटा, हाचें नाक खंय आनी आदोळी खंय... शब्द बेठेच जेन्ना एका सुतात गुंथिल्ले आसतात, तेन्ना तांका काय अर्थ आसना.

समुद्रमंथनातल्यान 'वयर' सरिल्लें वीख आमीच पिलां आसतलें अशें सोरो चडटकीच दिसतालें.

हांव ताचे म्हऱ्यांत आसा हें विसरून तो आपले भितर उलयतालो, ''उजवाड दाखोवपीच खासा आपुण काळखांत जियेतात.... जल्ल्यांवरी.... अजाप न्हय?''

''हवलदार, हें अशेंच चलत जाल्यार आमी एक दीस मरून वतले.'' तो आकांतून म्हाकां हिजडायत आड्डलो.

हवलदार म्हजें ल्हानपणातलें घरचें नांव. आता म्हाका त्या नांवान कोणेंय उलो केल्यार राग येता. म्हज्या गरीब आवयबापायची इत्सा हांवें व्हड जातकीच हवालदार जावचें अशी आशिल्ली. हाचे परस चड चिंतपाची तांक तांचे भितर नासली. कित्याक, त्या काळार हवालदाराक व्हड ऑफिसर मानताले. खंयच्याय गावांत एक शिपाय वचत जाल्यार ताका तहसीलदारापरस चड मान आसतालो.

त्या पोन्न्या नांवान उलो मारतकीच म्हज्या दोळ्यांमुखार म्हज्या बापायचो काकुळटेन भरिल्लो चेरो आयलो. बापूय... जाणे पोन्ने संस्कार पगडेवरी माथ्याक बांदून दवरिल्ले... हवलदार म्हणटकीच म्हाका जाळ पडटात, हें खबर आसुनूय अभिमन्यून म्हाका हवलदार म्हळें म्हूण म्हजी जी सहानुभूती ताका मेळपाची तीवुय ना जाली.

''हातूंत भियेवपासारकें कितें आसा? एकदीस सगळीं मरपाचींच आसात. ताची नदर पयस काळखांत खंयतरी शेणिल्ली.

''मर्ण एक चिरंतन सत्य.... absolute truth. Tik-20 मारतकीच फडफडपी भिकणावरीच आमचीय बी स्थिती जातली.''

म्हज्या उतरांचो ताचेर बरोच परिणाम जालो. तो भियेवन गुळे जाल्लेवरी उलयलो, ''कितें म्हळें तुवें?... परथून सांग.... कितें म्हणटालो तूं?''

‘‘मर्ण एक महाभयंकर जनावर.’’

‘‘म्हाका मरपाचें ना. हांव टक्कल पडिल्ल्या आनी अक्कलशुन्य लोकांकडल्यान हार मानचो ना. हांव तांकां बुद्ध शिकयतलों. अजून लडाय सुरूच जावंक ना.’’

‘‘मरूंक कोण सोदता? पूण मर्ण केन्ना कोणाचें आयकता? मर्ण आमच्या प्राणरूपी शेवण्याक घोणीवरी चिड्डून मारून उडयता.’’ बेकार आशिल्ले म्हूण तकलेंत आइल्ल्यो नाका जाल्ल्यो गजाली आमी उलयताले. बिरादर जेन्ना कसल्योय गजाली आमकां सांगतालो तेन्ना ती फिलोसोफी म्हूण आमी त्यो फांफडून उडयताले. पूण आतांच्यो आमच्यो गजाली ज्या एका लेव्हलाचेर चलताल्यो ताकाय फिलोजोफीचो वास मारतालो.

‘‘मर्ण आमच्या हातांत ना आनी जिणूय आमच्या हातांत ना. काय लोक जीव दिवन जीण सोपोवंक सोदतात. पूण ते मरतातूच अशे ना. कित्याक, मर्ण तांच्या हातांत न्हय, तर ते मर्णाच्या हातांत आसतात. खरें म्हळ्यार जीव दिवचे परस जीव दिवंक तयार जावप चड भयंकर न्हय?

तो आत्महत्तेसारको विशय गंभीरतायेन घेता तेन्ना म्हाका भंय सो दिसता. अशा वेळार म्हाका परत्या काळजाचो जावचोच पडटा.

‘‘आतां तूं मनीस म्हूण जल्माक आयला हो एक मजेचो योगायोग! तूं चिंतूक शकता. मनशाचे सुवातेर तूं आनीक कोणूय आशिल्लो जाल्यार मर्णाच्या विचारान बेजार जावचे बदला एकाद्र्या घोड्यावरी फाटीर ओजीं घेवन भोंवपाचो आनी तुजेकडेन काम जायना म्हूण कळटकच तुका फारान मारून उडोवपाचे.कित्याक? मर्णामुखार कोणालें काय चलना.जगांतलो खंयचोय लोखणाचो किल्लो, खंयचीय घट्ट वणत ताका आडावंक शकना. तेन्ना ताचो आफावणो येवचे पयलीं विद्रोह करून आमचें अस्तित्व सिद्ध करप चड बरें न्हय? आमी जीव दिलो जाल्यार खंय आनी कसलो फरक पडटलो सांग पळोवया? आकाशगंगेंत लाखांनी गिरे आसात. तांतलो एक गिरो पडलो म्हूण केन्ना कोणाक कितें फरक पडला? गंगेच्या उदकांतलो एक थेंबो वाफ जावन वयर गेलो जाल्यार ताका लागून पावस पडटलो व्हय? आनी खेरीज मेले उपरांत तुका घोड्याचोच जल्म मेळटलो हाची तरी कितें ग्यारंटी? जंय सगळेंच अनिश्चित थंय आसा तशें जगपांत शाणेपण न्ही?’’

अभिमन्यु ओग्गी रावला तें पळोवन म्हाका खोस भोगली. दिसलें, इतलें पियन लेगीत हांव बरे तरेन चिंतूक शकतां. तेन्नाच ताणें म्हळें,

‘‘आमी चिंतपी घोडे न्हय जाल्यार दुसरे कोण? आमी ह्या दळडिऱ्या सिस्टमाचें अळशिकावणें आनी अपमानीत वजें फाटीर घेवन फिरनात?’’

उदकाच्या ल्हारांत रूपेरी आनी रंगीत उजवाड पडटालो. तो पळोवन दिसतालें, निकेलाचें पॉलिश मारिल्लीं बदकां उदकांत पेवतात.

उदकाभितर कोणतरी म्हजे पांय ओडटा. म्हाका घट धर हवलदार.’’ अशें म्हणून आड्डून ताणें आपले पांय वयर ओडून घेतले. पूण त्या झेलाद उदकान लाकडावरी जाल्ले पांय परथून उदकांत पडले. आनी फसक् करून उडिल्ल्या झेलाद उदकान आमचीं तोंडां भिजलीं.

‘‘पळेलें, भितर कोण तरी आसा. पांय भायर काडले उपरांत लेगीत कोण तरी पांय भितर

ओडटा.''

अकस्मात म्हाका दिसलें चारूयवटेन पाताळिल्लो काळोख आमचे विरूद्ध कसलो तरी कट शिजयता. ताका फाटसून वेंगावन हांव ताका कालव्यापसून पयस व्हरूंक लागलों.

''हो तो मरे.... इंटरव्ह्यू बोर्डाचो चेअरमन.... पाडापडिल्लो म्हाका बुडोवंक सोदता.''

ताका जमनीवेल्यान हांव ओडीत व्हरतालों. थंय मातयेचेर एक लायनशी उदेताली. दोनूय हातांनी ताणें आपले बूट घट्ट धरिल्ले. तण माड्डित आमी झाडामेरेन पावले. अवचीत म्हजो पाय फोणकुलांत पडलो.

''तूं म्हाका मारूंक सोदता. म्हाका उदकात बुडोवन तू म्हजे बूट हातासूंक पळेता.''

आयकून म्हजी तकली सण्ण् जाली. ताका कितें सांगचें कळ्ळें ना. उदकांतल्यान भायर येतकीच कितेंतरी चिंतून आयलें...

''खंयचीय वस्त तुजी म्हजी केन्ना जाता? देवळांतले चोरून हाडिल्ले बूट बी तूं 'म्हजे' म्हणूंक शकता?''

आर जाल्लेवरी निर्जिव जाल्ल्या ताच्या पायांत बूट घालून ताका म्हळें, ''हे बूट तुजे न्हय... हे बूट म्हशीच्या चामड्याचे डियर!''

''म्हाका खबर ना. चामडे म्हशीचे आसूं नाजाल्यार मनशाचें. पायांत चडयतकच ताका जोतें नाजाल्यार बूट म्हणटात.''

खबर ना ताका सोरो चडिल्लो काय आनीक कितें तरी जाल्लें. कालव्याच्या त्या कोण नाशिल्ल्या जार्दिनात ते बूट म्हशीभशेन व्हड दिसूंक लागले. आनी मागीर कात नाशिल्ल्या मनशांची चित्रां दोळ्यांमुखार दिसूंक लागलीं.

''ए, म्हाका दिसता तें तुकाय दिश्टी पडटा रे?'' हांवें विचारलें.

''तूं बेईमान जावं नाका. फाल्यां देवळांतल्यान तुजेय खातीर जोतीं घेवन येतां.'' अभिमन्यु बेबदडावरी उलयतालो.

खूब वगत जार्दिनातल्या बांकार पडून रावतकीच मागीर आमी उठले. ताका म्हज्या एका खांदार धरून ताच्या खाक्यांत हात घालून, ताका चलयत हांव पार्कातल्यान भायर सरूंक लागलों. ताच्या खाक्यांतल्यान घामाचो बुरसो वास मारतालो. तो परथून परथून फाटल्यान वळून पळेतालो.

''रिती बोत्ल घे. सकाळीं आठ आण्यांक विकूंक मेळटली.'' – सदांभशेन तो दुबावान उलयलो.

रस्त्यार पावले तेन्ना आमी आमच्यो तकल्यो उजव्यान धुंवडायल्यो. आमच्या तत्वांक लागुन आमी दावी वाट न्हयकारताले. हांगच्यो बिल्डींगो झेतान उब्यो आसात. कोणेंय तांचेर नदर घाली काय तांचो अहम् मात्सो शांत जाता. आमी मात सोरो पितकीच तांचे वटेन नदर लेगीत घाली नासले. ह्या बिल्डींगांनी आमकां लजेक म्हारग केल्लें. आमचें गिड्डेपण दाखयल्लें. साद्या साद्या गजालींक लागून बुद्धिक धार काडची पडटाली. कुत्त्छित्रीपणान पळोवपी बिल्डींगांक तितलेच उणाक लेखून आमी आमची तकली घुंवडायताले. समजा एक पैलवान आसा. तो तुमकां हारयता आनी मेळत तेन्ना आपुणूच तो तुमकां हारोवपी अशें दाखयता, तेन्ना ताचे पसून आपल्याक वाटावपाचें

आसत जाल्यार ताचे मुखार वचनाशिल्लेंच बरें. कित्याक, पैलवानाक हारोवपाचो जेन्ना एकूय उपाय उरना तेन्ना अशें केल्ल्यान पडलो तरी फाट वयर अशें समजून आपले आपणाकूच समजावं येता.

आमी अशें करतकच आमचे भितर खतखतपी लाव्हारसाचेर झेलाचे कुडके दवरिल्लेवरी जाता. दिसानदीस असले रस्ते आनी बिल्डींगो वाडत वताल्यो आनी आमी आमचो तांचेकडलो संबंध तोडून उडयताले.

खरें पळोंवक गेल्यार छाती फुडें काडून आमी त्या रस्त्यावेल्या अवचिन्नाळ्या बिल्डींगाकडेन लक्ष दिनासतना रस्त्यावेल्यान चलूंक जाय आसलें. पूण तो आमचो आमीच केल्लो फाल्त रेस्पेत जावपाचो. वायट जाल्ले परिस्थितीविरूद्ध आमी बंड करूंक शकतात. पूण असलें खिणयाळें बंड म्हळ्यार उदकावेले बोमाडे. तातूंत काय अर्थ ना. ताका चिड्डून उडोवपाचें आसत जाल्यार ताचे खातीर व्हड आनी लोखणाची जोतीं घाल्ले घट पाय आसूंक जाय. ह्या जोत्यापोंदा आमचें आसप नाशिल्लेवरीच आसतलें. हे असहायतेन आमकां पोकरी केल्लें. आमच्या अस्तित्वाविशीं हीण भावना आमचे मर्दी आइल्ली.

जायते फावटीं दिसतालें, आमी म्हळ्यार समाजाक दसून राविल्ल्यो उवो. एक दीस तापिल्ल्यो चिमट्यो आमकां ओडून काडून घेवन चिड्डून मारतल्यो.

ह्या बिल्डिंगांचें तोंड पळोवचें पडूं नये म्हूण आमी गल्लेंतल्यान भोंवताले. थोड्यो खास गल्ल्यो आशिल्ल्यो.त्या गल्ल्यांमेरेन आमचें येवप वचप आमी मर्यादित करून दवरिल्लें. हांगा पावतकच आमी लोकांपरस चड पयस आशिल्ल्यान आमकां चड सुरक्षितशें दिसतालें.

आमी भितल्ले भितर घुस्मटटाले. आमचे भितर आमी एक वेगळें जग उबें करताले. रसमी किड्यावरी आमीच आमचे भोंवतणी एक रसमी कोश तयार केल्लो. तांतल्यान भायर सरपाक आमी धडपडटाले. तकली आपंटिताले. रसमी किड्यांनी कोशाभितर तकली धोडावन घेवप म्हळ्यार निर्दयी शक्तिचेर तकली आपटून घेतिल्लेवरी न्हय?

आमी जेन्ना ''किंकरीसिंही'' पिताले तेन्ना आमचें विमान वयर हवेंत उडटालें आनी आमी आमचेच दुस्मान जावन आमचे पसवत कोडसाण वाडयताले.

''ह्या बिल्डिंगांक हांगा रावपाचो कांयच अधिकार ना. कित्याक हो आमचो सदचो येवपा वचपाचो रस्तो.

''अशें हाचे पसून तकली धुंवडावन घेवन कितलीं वरसां आमकां चलचें पडटलें, हें कोणुय आमकां सांगीत काय? ही विद्रुप बिल्डिंग कितलो तेंप मेरेन आपलो बोंचो मोडून दाखोवन आमकां चलयतली?''

''तिसरें म्हायुद्ध जालें जाल्यार? हांव कितें मागतलों, जाणा?''

खिणभर हांवें ताचेर लक्ष दिवचें म्हूण तो रावलो. मागीर म्हजे कान तो कितें म्हणटा तें आयकता हाची खात्री जातकीच ताणें म्हळें, ''सगळ्यांत पयलीं ॲटम बॉम्ब उपमहाद्विपांतल्या ह्या बिल्डिंगाचेर पडचो.''

कितेंतरी व्हडली सेग्रेत सांगिल्लेवरी ताणें हें ल्हवू आवाजांत सांगलें. ''पूण एक सांग, ॲटम बॉम्ब कित्याक? नापाम बॉम्ब, कॉबाल्ट बॉम्ब, न्युट्रोन बॉम्ब नाजाल्यार इलेक्ट्रोन बॉम्ब कित्याक

न्हय?''

''कित्याक न्हय?'' ताणें दुसरे खेपे परथून तोच प्रस्न विचारलो. थोडो वगत ओगी रावन मुखावेलो प्रस्न विचारलो. ''सगळ्या दुःखाचेर हें एकूच वखत आसा?'' वखद जाणा जावन घेवपाची म्हजी अजिबात इच्छा नासली. ताच्या चिंतनाक ब्रेक लायत हांवें म्हळें, ''ना! ना!! असलें मर्ण साप्प वायट आसतलें. मरपी कोण हें आमकां कळ्ळे बगर तांकां मारप समा न्हय. असल्या मर्णाकूय मर्ण म्हणप? संवसारांतलो खंयचोच कायदो असल्या मर्णाक कायदेशीर मर्ण म्हणचो ना.''

''संवसाराचो कसलो कायदो घेवन बसला रे तूं? एक मनीस दुसऱ्यांक मारता, तेन्ना ताका फांसार चडयतात. पूण त्याच मनशाक अेकाद्रो जमाव मारता, तेन्ना कोणाक गुन्यांवकारी मानिनात.''

''तेचवरी अॅटम बॉम्ब सारख्या सत्यानाश करपी हत्याराची जापसालदारकी फकत मर्णाचेर येता. खंयचीय जात, राष्ट्र नाजाल्यार एके व्यक्तिचेर यना.''

''असो तर्क केलो म्हूण तूं नागासाकी आणि हिरोशिमाचो गोबोर करपी अमेरिकेचो दाग धुवंक शकना. कांयच गुन्यांव करूंक नाशिल्ले जे लोक मेले...''

''अमेरिकेंत थोडे लोक जे राक्षसावरी निर्णय घेतात, तांकां अमेरिकन लोकांचो सपोर्ट आसता. एक दीस असो येतलो ज्या दिसा अमेरिकेचेर ह्या गुन्यांवाखातीर केस जातली.''

''तुजे तकलेंत मरे कुंडो भरला. सगळी मनीस जात शिक्षा करपाचे लायकीची आसा. आनी अमेरिका हवालदार आनी जज्ज अशे दोगांयचीं कामा करता.''

''अमेरिकेक गुन्यांवकार म्हणूंक जायना म्हूण तूं कट करता.''

''म्हाकाय दिसता धरतरेवेली जनावरपणां काबार जावचीं.''

''तिसऱ्या म्हाझुजा उपरांत हें जातलें.''

''म्हाकाय दिसता, मागीर जंगली सावदांक मेकळी सुवात मेळटली.''

''तूं परंपरावादी. तुका, बदल नाका.''

''I want change but not atomic explosion. खरें म्हळ्यार तूं मनीसपणाचो दुस्मान.''

''कितें म्हळें? दुस्मान? त्या मनीसपणाचो दुस्मान जें खूब पयलीं मेलां? ज्याचें मडें आमी आमच्या खांदार घेवन भोंवता तें? कितें म्हळें तुवें? कितें?'' — अकस्मात् ताचे दोळे भरून आयले...'' हांव म्हळ्यार कोणूच न्हंय? ''हय! आमी म्हळ्यार कोण न्हय.'' हांवें म्हजे हात ताच्या गळ्याभोंवतणी घालो. तो खुब्ब भियेल्लेवरी जाल्लो. ताणे म्हाका वेंग मारली. मागीर कितलोसोच वगत आमी एकमेकांच्या दोळ्यांत कितें तरी सोदताले.

वारो लागतकीच आमचें विमान अदीकूच उंच उंच उडूंक लागलें. In fact, I can well visualize the after crises scene.

फातरांच्यो राशि, विटांच्यो चुरो, मेणावरी कडिल्लें लोखण आनी फातर... स्टंट फिल्मांतल्या सेटार दाखयिल्लेवरी पडींग इमारती.... जमनीर कोसळिल्लीं पांखां... तेर्रास.... सरयांचीं जाळीं जांचेर कापडयान विणिल्ली सुताळी....''

''साप्प चूक..... नाश जाले उपरांत हांगा कितेंच किल्लप शक्य ना.''

"पूण ह्या झूजांत मरची म्हजी इत्सा ना."

"सगळोच लोक मरतलो, तेन्ना तूं एकलोच जितो रावन कितें करतलो?"

"हांव कवटेचेर खोंट मारतलों आनी विचारतलों, कूटकारस्थान करपी मेंदवाचो अखेर होच न्ही?.... घडये अशें करचोय बी ना."

"कर्मधर्मसंयोगान तूं जितो उरलोच जाल्यार माओच्या मताप्रमाण कांय करोड चिनी लोक वांचतले. झुजा उपरान्त जेवपाखावपाचे सामान मेळचें ना. तेन्ना उपाशीं पोटार ते तुका पयलीं मारून उडयतले. मागीर ते एकमेकांक चिरून खायत, पूण तूं पयलीं तांचे भकीक पडटलो.

"हांव आमच्या नक्षलवादी कॉमरेडाचें नांव घेवन तांकां फटयतलों."

"आरे रेड्या, पयलीं चिनी कॉमरेड हिंदुस्तानी कॉमरेडाचें मांस खातलो. मागीरूच दुसरें कितेंय येवजितलो. जो कॉमरेड आपलो जीव वाटावंक शकना तो तुका कसो म्हूण वाटायतलो?"

"तसो वगत आयल्यार मागीर हांव जीव दितलों. I hate those yellow bugs."

"आनी तिसऱ्या म्हाझुजांत आमच्या मोगाळ कलाचें कितें जातलें?"

"आरे देवा! हांव जाल्यार ताका विसरूनूय गेल्लों. म्हाका दिसता तिसरें म्हाझुज जावंक फावना. कित्याक आमचें कला, आमच्या मोगाची याद बरी करून रावंक जाय."

इतल्यान रस्त्याच्या काळख्या कोनशांतल्यान आवाज आयलोसो दिसलो. मागीर सगळ्याक मोनेळ पातळ्ळो. आमी आमचे सुवातेर रावले.

"कोण थंय?" काळखांतल्यान कडक आवाज आयलो.

मागीर फस्काची एक काडी पेटली. पळेल्यार दोग सोल्दाद आसले.

"इतले रातीं रस्त्यार कितें करतात तुमी?" एक सोल्दाद आड्डलो.

"तुमी कितें करतात?" अभिमन्युन तिखट सुरांत विचारलें.

दिसले, आतां पडलें पाड! घडये हो सोल्दादांक वळखूंकना दिसता. पयलीं एक खेपे 'किंकरीसिंही' पिवन बेबदड जावन कालव्यांतल्या जार्दिनांत आमी न्हिदिल्ले. सकाळीं दोळे उकते करून पळेल्यार आमी कादयेंत आसले. बिरादराक येवन सोडयल्ले. मागीर ताणें आमचेकडेन उलोवपाचेंच बंद केल्लें. ताका पळोवन आमी लजेन हेवटेन तेवटेन पळेताले.

म्हजी तकली धांवली. हे सोल्दाद रातचे पाळयेक आसले. रातचें तांचेंच राज्य. तेन्ना आमी मातशें कितेंय केल्यार त्रासांत पडूंक शकताले. तांणी अख्खी रात आमकां आडावन दवरल्यार लेगीत तांकां विचारपी कोण ना.

"आमी वर्तमानपत्राचे प्रतिनिधी" — हांवें ताका जाप दिली.

आमकां खबर आसलें, वर्तमान पत्राचें भूत भ्रश्ट समाजांतल्या व्हडल्या व्हडल्यांक भेश्टायता.

"बरें आसा." कॉन्स्टेबलाचो आवाज मात्सो मोव जालो.

"तुमकां कितें दिसलें आमी जोतीं चोरपी म्हूण! हे म्हज्या पायांत आसात ते बूट देवळांतल्यान चोरल्यात अशें बी तुमकां दिसूंक ना मू?" अभिमन्युन म्हळें.

"सिंयोर, हीच तर मजा! आमी अजून जोतीं चोरतल्यांक धरूंक पावंक नात. अख्खें शार

आमी सोदलें, आनी त्रासांत पडले. आमी गस्त घालीत उरले.'' मोटव्या सोल्यादान फोर्सान झुरको घेतलो. सिगराचें तांबडें तोंक अदीक तांबडें जालें.

''नायट पेट्रोलांत आडकले? ते आनी कशे?'' हांवें विचारलें.

''व्हडल्या देवळाच्या मुखेल दारांत आमची ड्युटी आसली DSP सायब देवाचे भेटीक देवळांत गेल्ले. परथून आयले जाल्यार बूट जाग्यार ना.'' ''आमकां सांगिल्लें जाल्यार आमी लक्ष दिवपाचें.'' लांब सोल्यादान म्हळें.

''कोणाक खबर! तो आमची परिक्षा घेता आसतालो.'' मोटव्यान म्हळें.

''चल रे पुरो! पुलिसेंत नोकरी करतां हाचो अर्थ आमकां फाटल्यानूयबी दोळे आसूंक जाय काय कितें?''

''तो DSP आसलो म्हूण कितें जालें? हाचो अर्थ सगळे जोतीं चोरपी तुमचे सोयरे काय कितें?'' अभिमन्युन विचारलें. ''पूण कितेंय सांगात, ज्या मनशान हें काम केलां तो मनीस कापास्दादीचो आसूंक जाय. आनी ह्या कामा खातीर ताका तस्त्रीप दिवंक फाव. कांयच ना जाल्यार लॅटर ऑफ एप्रिसिएशन...''

''सिंयोर, आमचे बाबतींत जालां अशें – केलें घागरेवालीन आनी सांपडली सलवारवाली.'' मोटव्या सोल्दादान म्हळें.

''जाय जाल्यार ही खबर वर्तमानपत्रांत छापूं?'' हांवें झेत मारूंक विचारलें. दोगूय भियेले.

''सिंयोर, कित्याक आमच्या पोटार मारता?''

''मागीर DSP वांगडा फोनार उलोवं?''

''नाका सायबा! तुमी हातूंत मेतेर जावं नाकात.''

''हें चडूच जालें. करचें कोणें आनी भरचे कोणें?'' अभिमन्यू मोठ्यान उलयलो.

''चलात, तुमी अशें करात. तुमी म्हाकां धरात. सांगात, हांवें बूट चोरल्यात आनी व्हरात म्हाका त्या DSP सामकार.''

सोल्दाद हांसले, ''सिंयोर, तुमी फकाणां करतात.''

''तुमी कोण म्हजे भावोजी, तुमचीं फकाणां करूंक?''

''आरे अभिमन्यु, तूं साबुददीर ना. कित्याय कितें उलोवं नाका पळोवंया.''

''हांव जोतीं चोरपी. आनी हांवें DSP चे बूट चोरल्यात.

''पूण तुमी बऱ्या घरांतले मनीस.''

''कितें म्हळें? हांव कोण म्हळें? सभ्य मनीस?.... ना हांव जोतीं चोरपी. ल्हवु ल्हवु हांव डाकू जातलों... म्हाका धरून व्हरात.''

''अभिमन्यु, तुज्या गजालींचेर हे कशे विश्वास दवरतले! पोलीस चोरांक पळेना बराबर रोकडेच वळखतात.''

''मागीर कितें करूंया? आतां ह्या संकटाचेर उपाय कितें?'' अभिमन्युन म्हळें.

''पात्रांव, उपाय आमकां खबर आसा. सकाळ जातकीच आमी बाजारांतल्यान एक बुटाचो जोड विकतो घेवन सायबाक व्हरून दितले.''

‘‘ही लांच जाली.’’ अभिमन्युन म्हळें.

‘‘आपल्या पयशांनी कितेंय विकतें घेवन दिता, तेन्ना ती लांच जाता. आमकां आयचे रातिभितर दोनशें रुपया एकठांय करूंक जाय. देडशें रुपया जमल्यातूय बी. आनी दोन तीन बेबदे मेळटकीच जाय तितले पयशे मेळटले.’’

‘‘आनी जाय ताचे परस चड पयशे एकठांय जाले जाल्यार?’’

‘‘बूट घेतकीच सायबाच्या बायलेभुरग्यांक खावंक कितेंय व्हरू नाका तर?’’

‘‘पूण ताका कळटलें न्हय तुमी ताका लांच दिल्या म्हूण?’’

‘‘ताका खबर आसा. पूण बूट पळेतकीच तो म्हणटालो, खंय मेळ्ळे? आमी मागीर म्हणटले रिंग रोडार राऊंड मारतना आमकां पळोवन एक चोर धावंक लागलो. धांवतना ताणें हे बूट उडयले. आनी गेलो. सायब आमकां शाबासकी दिवन बूट पायांत घालतलो.

‘‘बुटांचो नंबर?’’

‘‘तो नंबर ड्युटीर भायर सरतना हवालदारान आमकां सांगिल्लो.’’

‘‘तुमचो DSP करप्ट, पाडापडिल्लो... हरामी.’’ अभिमन्यु आड्ढलो.

‘‘बरें तर, पेपरवाले सायब! आतां आमी वतात. अजून आमकां पन्नास रुपया एकठांय करपाचे आसात.’’

सोल्दाद मुखार वचूंक लागले. अकस्मात उबे रावले. आमी अजून आमचे सुवातेरूच उबे आसले.

‘‘पात्रांव, जेवन खावन सुसेगाद न्हिदात. तुमी रेस्पेदाचे लोक.’’ मोटव्या सोल्दादान म्हळें.

‘‘तशें पळोवंक गेल्यार तुमी आमचे पात्रांव! चुकून आमी तुमकां अशें तशें उलयल्ले, जाल्यार त्रासांत पडपाचे.’’

‘‘खबरांपत्रांत सगळें छापून येवपाचें आनी आमी सस्पेंड जावपाचे.’’ लांबेल्यान म्हळें.

‘‘आमी आमच्या पयशांनी पिल्यात. तुमच्या....’’ अभिमन्युचें तोंड आतां सुटल्यार आमी त्रासांत पडटले हें येवजून हांवें ताच्या तोंडार हात दवरलो.

‘‘बरें हवालदारसायब! तुमी भियेवं नाकांत. आमी हांगा लागींच रावतात. आमी आतां घरा वतात. ओ.के?’’ हांवें अशा झेतान सांगलें की तांणी आमकां फकत सॅल्यूट करपाचेंच उरिल्लें.

आपलें वाक्य पूर्ण करूंक अभिमन्यु म्हजो हात सोडोवपाची खटपट करूंक लागलो. मागीर गल्लेंत वतकीच, हांवें म्हजो हात काडतकीच ताणें म्हळें, ‘‘ह्या हरामखोरांक पयशे खावपाचो हक कोणें दिलो? हांच्या बापायचें राज्य आस काय कितें? आमी सोरो पियेवन रस्त्यार भोंवकय शकनात?’’

थोडो वगत ओग्गी रावन मागीर ताणें म्हळें, ‘‘सद्दां हे गल्लेंतल्यान वतना हांव चिततां हाचे परस कादयेंत रावप बरें. तुज्या बापायन तुजें नांव हवलदार दवरूंक जायना आसलें. तुजें नांव गुलाम नाजाल्यार बंदी दवरूंक जाय आसलें. त्या पाडापडिल्ल्यान कितें म्हूण तुजें असलें दळडिरें नांव दवरलें खबर ना.

‘‘पाडापडिल्ल्या मारतलों धरून तुका! तूं म्हाका जायतें म्हण. पूण म्हज्या बापायक गाळी

घालशीत जाल्यार हांव तुका सोडचो ना.''

''तुका राग आयलो? मागीर पेट म्हाका. बिरादरूय आमचेर रागार आसा. मागीर तो आमकां पेट कित्याक घालीना? ताणें आमकां पेट घाल्लो जाल्यार, तो अजून आमचेर माया करता, आमचो तिरस्कार करिना म्हूण तरी कळपाचें'' ताचे दोळे भरून आयले.

हे गल्लेचीं दोनूय तोकां हे गल्लेक उरिल्ल्या शाराकडेन जोडटात. हिच्या मदल्या शिरांनी आनीक ल्हान ल्हान काळख्यो गल्ल्यो आसात. व्हड गल्लेच्या दोनूय वटांनी बिल्डिंगो आसात. ह्या बिल्डिंगांक व्हड गॅलरी आसात. ताका लागून थंच्यान चलतना बोगद्यांतल्यान गेल्लेवरी दिसता. बोगद्यां भितर आनीक बोगदे. आनी सदांच थंय घाणी गुठ्ठाणी मारतात. तरीकूय हांगा लोक रावतात. नाकार कपडो धरून नाजाल्यार श्वास थांबोवन. नाजाल्यार घाण येचना अशें समजून.

आमचें घरूय बी ह्याच बोगद्यांत आसलें. पूण आयज गटाराची घाण यनासली. घडये आमचे भितल्ले घाणीन भायली धाण दामून उडयल्ली.

''एका तेंपार ह्या गटाराफाटल्यान मसंड आसली.''

''मसंड? अभिमन्युक अजाप दिसलें.'' पूण कितें फरक पडटा? नरक यातना सोंशीत कितल्याशाच मसंडीनी भोवचें पडटा. हय काय न्हंय?''

रातकिडे आमच्या कानांनी आड्डताले. रस्तो हालतालो. घडये 'किंकरसींही' आमच्या शिरांनी व्हांवताली. आनी नकलामी करून दाखयताली. जादूच्या जादवावरी रस्तो व्हड जायत वतालो. एके गल्लेंतल्यान दुसरो, दुसऱ्यांतल्यान तिसरो.... गल्ल्यांचें जाळ विणिल्लेवरी जाल्लें. हांगा भोवतां भोवता खूब वगत जाल्लो. पूण आमचें घर, आमची रावपाची सुवात शेणिल्ली. आमी ती सोदताले. कुड्ड्यावरी हातांनी सांसपून आमी घरां सोदताले. थंयचे चिरे म्हळ्यार ब्रेल लिपींतल्या अक्षरांवरी जाल्लें. आनी तांकां हाताच्या बोटाचीं पेरां लागलीं काय दिसतालें, तांतुतल्यान एक अद्‌भुत अर्थ भायर सरतालो. तो अर्थ म्हळ्यार घर. आमचें घर.

आमकां कसले तरी नकलामीन घुंवडायल्ले.

आमचे विरूद्ध केल्ल्या कटाच्यो वणटी मोडून आमी एका तिटयार पाविल्ले. आनी थंयच्यान पयस खंयतरी चूड पेटयल्लेवरी दिसतालें.

''म्हाका दिसता, खंयच्या तरी ताव्हेर्नातली आंटी चणे भाजता आसतली.''

म्हाका याद जाली, सकाळसान पोटात काय ना.

''चल भाजिल्ल्या मक्याचे दाणे खावंया. आनी थोडो वगत उज्याच्या धगाक बसुंया. चलून चलून म्हजे पाय पंक्चर जाल्यात.''

''आमच्या पायां पोंदची जमीन नाच्च जाल्या. वाटेर कोण दिश्टीय पडना. घडये या शाराचेर ॲटम बॉम्ब पडला आसूंक जाय.'' अभिमन्यु आपल्याच उतरांचेर बेजारता.

''जळटे शेकोटेकडेन पावतकीच दिसलें, ही म्हारवाची चूड न्हंय मू? हांगा कोण कणसां भाजूंक बसूंक नासली. दोन चार व्हडलीं लाकडां जळटालीं. मातशी पयस तवी नदी व्हांवताली. तवी नदिच्या पुलार लायनीत उबे आशिल्ले लायटी दिवे चकचकताले.

आमी आमकां कोणाक न भिवपी समजताले, पूण मनांतल्यान आमी थर्त भियेल्ले. परथून वचपाचो विचार करताले. पूण आमचे पाय बांदिल्ले वरी जाल्ले. चावरें वारें सुटिल्लें.

अभिमन्यु पिसवला. प्रेतावेलें लाकूड काडून सिगार पेटयता. म्हजे दोळे जड जाल्यात. ''खऱ्यानीच ॲटम बॉम्ब पडून निमाणो मेळ्ळो तो हो मनीस आसूंक जाय. अभिमन्यु सांगता...'' ती पळे ताची कवटी.... गोबर आनी इंगळ्यामदी पडल्या.''

खूब थंडी पडल्या. आतां सामकी लकणी मारूंक लागल्या. ''रात ह्या शेकोटेकडेन शेकत कित्याक सारची न्हय? ह्या निमण्या मनशाचें दुःख म्हूण, जाका आमी वळख लेगीत नाशिल्ले.''

''कित्याक नाका? आमचें कर्तव्य तें.''

''मात्सो उज्याच्या आनीक लागीं वच. नाजाल्यार ही थंडी आमकां काबार करतली.''

''हांगा गरम चादर बी मेळत काय?'' हांवें म्हळें.

— अभिमन्यु जमनीर पडून न्हिदला.

ताच्या हातांतले सिगार काडून ताचो झुरको घेत हांव मसंडेतलीं कफनां सांबाळपी मनशाचे खोंपींत वतां.



# 5
# मर्णाचें दुःख

जीण म्हळ्यार योगायोगाची जात्रा. शंबर योगायोग एकठांय आयले आनी तांतलो एकूच जरी शेणलो जाल्यार जिणेक अर्थूच उरना. तांतली मजाच शेणटा.

फाल्यां अशीच एक अर्थहीण जीण घेवन हांव जम्मूंत परततलों. परथून घुस्मटीन भरिल्लें वातावरण.... आवयबापायल्या सुक्या सडसडीत दोळ्यांतली मोनी उदासी... पोक्या सपनांचो एक सुको दर्या... आनी त्या दर्यादिगेर अर्दकुट्या इत्सांचो थरार थर.... हे पडींग जमनीरूय बी निमाणे मेरेन बी च उरता. तांतूंत भितर आशिल्ल्यो आशा केन्नाच चवंरनात.

बससँडार तो म्हाका पावोवंक आइल्लो. तेन्ना पयले खेपे ताचे सुके नदरेंत दुखां पळेलीं. आइल्लो उमाळो, भितल्ले भितर दामून तो इतलेंच म्हणूंक शकलो, "तुका नोकरी मेळ्ळी, जाल्यार ह्या वर्सा तुज्या पयशांनी स्वेटर घेवचो म्हणटां....

ताच्या पयशांनी पेजपाणी कशेंयतरी चलतालें.... आपली जाण्टी आनी अशक्त जाल्ली कूड घेवन तो आइल्ले पावसाळे धुकळटालो.

आतां देविल्लें तोंड घेवन हांव ताचे सामकार वतलों तेन्ना ताच्यो आशा करपून वतल्यो. गर्मेन थरथरपी ताची कूड म्हज्यान साप्प पळोवं नज जातली.

"म्हाका, सुर्वेक सावन मात्य आशा नासली. पूण आवयक विश्वास आसलो."

"म्हाका दिसता, देवाक आमची काकूट आयल्या. नाजाल्यार हिंदुस्तानातल्यान कित्याक आपोवणो येवपाचो?"

"माँ, जम्मू हिंदुस्तानांतूच आसा. हांव तिची चूक सुधारतालो. पूण आवयक दिसतालें, जम्मू आनी काश्मीरचेर अजून राजा राज्य करतात.... कांय लोक सदांच भूतकाळांत जियेतात.

इंटरव्ह्यूचें पत्र पळोवन तिगेल्या दोळ्यांत आशेची वात जळूंक लागली. म्हाका खबर आसलें, आशेच्या मंद किर्णाफाटल्यान आवयलें आशिर्वाद दिवपी काळीज आसा.... आवय... जिका ह्या काळाच्या राजकार्णाची कांयच खबर ना.

पूण एक बरें जालें. ह्या निमतान तरी दिल्ली पळोवंक मेळटली. खेरीज आवयबापायलें उतर राखिल्लेवरी जावन तांकांय बरें दिसतलें.

गाडी सुरू जावचे पयलीं बापूय गाडयेच्या जनेलालागीं आयलो. ताणें म्हळें, "भटान जी प्रसादाची पाकळी दिल्या ती छातयेर बांदून दवर.... परके सुवातेर मारूतीराय तुजी राखण करतलो."

गाडी मुखार पावली. ताचो आवाज थंयच उरलो.

परथून येतकीच बापूय कितें म्हणटलो तेंवूय बी म्हाका खबर आसा. जड आवाजान तो म्हणटलो, ''न्याय खंयच ना. दिल्लीतूय ना. देव जगाचो जमाखर्च बरोवंक जें पेन वापरतालो, तें ताणें देंवचाराकडेन दिलां आनी आपूण मळबांत लिपून बसला.''

— आनी हांव असहाय जावन आनीक एक कोडू घोंट गिळटलो.

पयलीं दिल्लीसावन आइल्लो कॉल पळोवन म्हाकाय बी दिसले, घडये व्हडल्या शारांत नशीब चमकतूय...

पूण दिल्लींत रावतलों खंय हो प्रस्न आसलो. ''इतल्या व्हडल्या शारांत तुजे खातीर एकूय सुवात आसची ना?''

— आवय म्हज्या मनांतलो प्रस्न वळखल्ली.

ल्हान गावांनी मनीस रोकडोच ॲडजस्ट जाता. पूण व्हडल्या शारांत परको मनीस वळख देख नाशिल्ल्या बिल्डींगांचो आनी रस्त्याचो आपल्याक कैदी मानता.

हॉटेलांत वचून रावपा इतली आस्पत ना. आवयन म्हळें, ''येवपा वचपाचें भाडें ते दितात जाल्यार वचनासतना रावपांत शाणेपण ना.''

''पूण रावतलों खंय?''

''तुका थंय कितें वर्सभर रावपाचें आसा? एके रातीचीच तर गजाल!''

''पूण रात थंय रस्त्यार काडूं?''

''आरे हय! याद जाली... ती पन्नाली चली आस मरे थंय.... तिगेर वच. तिचे आवयकडल्यान हांव पत्तो घेवन येतां. इतले दीस ती तुजेकडेन शिकली ना तर?''

.... रेखा ....केन्ना केन्नाय गणितां शिकूंक येतालें.... साधारण दोगांकूय एकमेकाविशीं आकर्शण आसलें.... ना.... ना.... मोग न्हय... फकत आकर्शण.... एक पसंती....

आमच्या घरा उपरांत सात आठ घरां जातकीच ताचें घर आसलें. आमच्या वाड्यावेलें व्हडलें घर.

केन्ना केन्ना घराच्या तेर्रासार हांव शिकूंक बसतालों. तेन्ना म्हज्या दोळ्यांर एक उजवाड पडटालो. दोळे धांपून घेवचे पडटाले. मागीर दोळयांर हात ओमथो घालून बारीक दोळे करून पळेत जाल्यार, रेखा आपल्या घराच्या तेर्रासार रावन हारशेचो फोकस घालता तें दिश्टी पड. पयलीं हांव पिकार जातालों... मागीर हांसप बिसप आनी कुरू करप सदांची गजाल जाली.

कांय दिसानी ताका आमच्या घरा पळोवन अजाप दिसलें. हांव घरांत एकलोच आसलों.

''तुजी आवय खंय?... तूं आमगेर कित्याक येना?... तुका गणितां येतात?....'' असले प्रस्न आसले.

मागीर गणितां शिकूंक म्हूण तें सदाच येवंक लागलें. शिकपा वांगडा आनिकूय गजाली जाताल्यो. प्रस्न विचारपाच्या निमतान ताणें प्रस्न बरयल्लो. ''तूं मार्गार केन्ना येतलो?''

हांवें रोकडेंच बरयलें, ''तूं म्हज्या रस्त्यावेल्यान कडेक वतलें तेन्ना.''

ते बरयतालें, ''तूं महात्मा बुद्ध कित्याक जाला?''

''पूण तूं मात मेनका जावं नाका.'' हांव कादेर्नार जाप बरोवन ताचेकडेन दितालो. तें वाचतालें. व्हडान हांसतालें. अशा वगतार आवय थंय पावली जाल्यार हांव रेखाक म्हणटालों, ''आगो पिश्या, सद्दां चुकीच्यो जापो दिता आनी वेल्यान दांत दाखय्ता?

ह्याच दिसांनी रेखालो साखरपुडो आनी लग्न दोनूय वांगडाच जालें.

आमच्या कादेर्नांतले कांय प्रस्न फक्कत प्रस्नचिन्हांत बदल्ले.

बी. एस. सी. चे परिक्षेचे तयारेक लागून रेखाल्या लग्नाचो सुवाळो लेगीत पळोवंक मेळ्ळो ना.

परिक्षा जातकीच नोकरेच्या चाकांत घुसलों. बापूय सद्दां दुयेंत आसतालो. आवय फाटल्यान दम्ने लागिल्लो. वखदां करपाची गजाल काडना फुडें दोगांय हांसून ओगी रावतालीं.

''आरे, असलीं बारीक सारीक दुयेंसां जायत आसतात.'' पूण म्हाकां खबर आसलें, वखदां हाडलीं जाल्यार थोडे दीस उपाशी रावचें पडपाचें. आमचे खातीर वखद लेगीत चैनीची वस्त जाल्ली.

बापायल्या पेन्शनांतल्यान मेळपी पयशांचे खावडीचेर आमी चरताले म्हळ्यार जाता. बापूय पेन्शन घेंवक वतालो तेन्ना हो मनीस म्हळ्यार ठाकुर चतुरसिंह आनी अजून तो जितो आसा अशें प्रमाणपत्र ताका गॅझिटेड ऑफिसराकडल्यान व्हरचें पडटालें. तेन्ना दिसतालें, तो जितो आशिल्ल्याचें न्हय तर, मेला म्हणपाचें सर्टिफिकेट मागता. तो खंयच्याय गॅझिटेड ऑफिसराक सोदूंक भायर सरतालो, तेन्ना ताच्या तोंडावेल्यो सुरकुत्यो आनिकूय खोल वताल्यो. आनी आपूण आतां जाण्टो जालां हाचो भंय ताच्या तोंडार दिसतालो. तो टुकूटुकू करून म्हजेकडेन पळेतालो. तेन्ना ताची नदर तेल सोंपूक पाविल्ल्या दिव्यांतले वातीभशेन थरथरताली.

ते नदरेंतली काकूट म्हज्यान सोसूं नज जाताली. कित्याक त्या जाण्टेल्याची आशा म्हजेर आशिल्ली. तो अशे तरेन पळोवंक लागलो की हांव हांगा थंय नाच्च जातालों.

दिसान दीस म्हारगाय वाडटाली. आनी पेन्शन तितलेंच. त्या पयशांनी पोट भरूंक जड जाताले. आतां केन्ना केन्नाय आवयली एकेक वस्त बाजारांत वचूंक लागली.

ल्हान आसतना हांव म्युझियमा फाटल्यान आशिल्ल्या रानांत वचून जळोव हाडटालो. चुलीक जळोव तरी फुकट मेळटालो. पूण आतां शारां वाडिल्ल्यान रानां ना जाली. आतां जळोवूय बी विकतो घेवचो पडटालो. बी. एस. सी. पास जातकीच असलीं कामां करूकूय उणेपण येतालें. आतां कसलें तरी बरें रेस्पेताचें काम जाय आसलें.

नोकरेची आस पांचशें मैल पयस आशिल्ले दिल्लींत व्हरताली... दिल्ली.... जे सुवातेर रेखा रावतालें.

आवयची सुचोवणी मानवली. दिसलें, प्रस्न उतरांचो तो कादेर्न ताचे मुखार दवरचो आनी विचारचें, हे प्रस्न आनी जापो मुखार चालू दवरूंया?... नाजाल्यार सरळ अर्दकुट्या प्रश्नाच्यो जापो ताका बरोवंक सांगप.... अशे तरेन घडये इतल्या वर्साच्या त्या धुल्लाभितर लिपिल्ली ती पयलींची खोस परथून मेळ्ळ्यांर मेळ्ळी.

.... पूण माँ, ताच्या घरा हांव कसो वचूं? ताच्या घरच्यांक काय हांव वळखना.... तांकां

कितें म्हूण सांगू?''

आवय ओग्गी रावली. म्हाका दिसलें, चल, ती गजाल थंयच सोंपली.

सांजेर रेखाली आवय आइल्ली. म्हणूंक लागली, ''आरे परकाश, तूं तुजे आवयक कितें म्हणटालो रे? पिश्या, शेजरासांबाराच्यो चलयो आपल्यो भयणी लागतात. वीरू दिल्ली वता तेन्ना रेखागेर रावना?.... वीरू ताचो भाव तसो तूं...

आवयन सुटकेचो हुस्कार सोडलो. आनी म्हळें, ''ना तर कितें?''

विचित्र गजाल! हांव आनी रेखालो भाव? दोळ्यांत कुस्कूट पडिल्लेवरी जालें. अवचीत येवजलें, उतरांय बी पड्ड्याचें बरें काम करतात.... अशें येवजतकीच मात्शें सूऽ जाल्लेवरी दिसलें. दोन दीस कोणालो तरी मेवणो जावन रावपांत कितें वायट ना.... परती मजाच येतली.

रेखाले आवयन ताचो दिल्लींतलो पत्तो दिलो. आनी वेल्यान सांगलें, वता आसतना रेखा खातीर घरचो बादाम, अक्रोडाची बास्केट मात व्हरची पडटली.

..... बरें आसा.... तांगेर वचूंक निमित तरी मेळटलें.

खांदार बॅग मारून आनी हातांत बास्केट घेवन हांवें दिल्लींतल्या रेखाल्या दारांत पाय दवरलो. बॅल वाजयली. थोड्याच वेळान पळेल्यार रेखा म्हज्या सामकार उबें आशिल्लें. अजापान एकटक म्हाका पळेतालें. ताका पळोवन हांव मात खुश जालों. ताणे लेव लिपस्टिक लायिल्ली. सोबीत बोर्डर आशिल्ली साडी न्हेशिल्लें. चलयेली बायल जाल्लेवरी तें दिसलें. म्हजो विश्वास बसलो ना... हीच ती मस्ती चली, आपल्या घराच्या तेर्रासावेल्यान आरसो धरून म्हजेर फोकस घालपी?....

तेन्नाच एक जंटलमनसो दिसपी दादलो मुखार येवन उबो रावलो.

''कोणाक सोदता?'' ताणें विचारलें.

''दिल्लीची रितूच तशी... लोक हांगा येतकीच आपली बोली विसरून हिंदी नाजाल्यार इंग्लीश उलयतात. चडशा लोकांची इंग्लीश चूक आनी विचित्र आसता. दिसता गंवाचे सुवातेर हे रबराची चपाती चाबडायतात काय कितें?.... दिल्लींत रावन सगळे कडेन असल्यो रबराच्यो चपात्यो पचोवपाक म्हाका कठीण पडपाचें.''

हांवें त्या जंटलमनाक जाप दिली.... ''हांव जम्मुसावन आयला. दारूगिरीचे गल्लेंतल्यान...

— रेखाचें तोंड आनीकूय देंवलें. ताचे भितरल्या चोराचें चान्नें स्पश्ट तोंडार दिसतालें... हाणें आपल्या घोवाक थोडेंच सांगलां आसतलें; गणिताच्या कादेर्नार आपूण मोगाचे नवे नवे फॉर्म्युला जाका बरयतालें तो होच म्हूण!

जंटलमन म्हाका दुसरो प्रस्न विचारचे पयलींच मुखावेले घडणुकेचो अदमास घेवन हांवें मुखावेलें पान परतिलें.

''भावोजीन म्हाकां वळखूंक ना तांतूंत अजाप काय ना. पूण भयणूच जेन्ना हाका केन्ना जल्मांत पळोवंकूच ना अशे तरेन पळेता तेन्ना आनीक कितें म्हणचें पडलें?''

हांवे अशें म्हणटकीच सगळें वातावरण सदळ जालें. रेखालें देंविल्लें तोंड सारकें जालें. तें रोकडेंच मुखार सरलें आनी ताणें म्हळें, ''आरे तूं? परकाशभाऊ.... हांव तुका वळखुंकूच ना.''

हांवें रोकडेंच ताका वेंगेंत घेतलें. आनी आवाजांत इल्लें दुःख आनी हांसो भरसून नाटकीपणान म्हळें, ''आगो, तुजी कांयच चूक ना. कलियुगांतल्यो पाडापडिल्ल्यो भयणीच तसल्यो... रोकड्योच विसरतात...''

ताचें आंग शिरशिरलें. ते भियेलें. घडये हांव ताच्या घोवामुखार कितेंय उलयत म्हूण! पूण हांवें फटिंगपणाचो आदार घेतिल्लो.... कोणाक कसलो दुबाव येवचो न्हय म्हूण! हांवें म्हळें, ''बोट धरून हांवेंच तुका चलूंक शिकयल्लें म्हूण बरें...''

ताच्या घोवान म्हज्या खांद्यावेली बॅग घेतली. आनी रेखान बास्केट. ''आतां भितर यो सालेसाबजी'' भावोजीन व्हडाव्हडान हांसत म्हळें.

बसपाच्या सालांत खाऱ्यो बिस्कीटी आनी थंड पिवपाक आयलें. रेखा म्हजी सरबराय करपांत गुल्ल जालें.

''भाई, बिस्किटी खा... दिल्लींत येवन लजलो जाल्यार पेजेक पावचोना.''

''हय रे बाबा, सालेभाय, तूं फॉरमॅलिटी करूंक राव नाका. नाजाल्यार घरा वचून मागीर दिल्लीवाल्यांनी उपाशी पोटार धाडलो म्हूण दिसफाम करशी...''

— हांव व्हडान हांसलों. रेखान तो धागो धरून म्हळें, ''तुमी बरोबर सांगलें. हाच्यो संवयो म्हाका खबर आसात. मस्करी करपाची वायट संवय, हाका आसा.''

''दिल्लीत पयले खेपे आयलां... फक्त जेवणखाण घालून तुमी सुटचे नात. दिल्लीय भोंवडावन दाखोवची पडटली!'' हांवें हांसत म्हळें ''आरे बाबा, म्हाका काय वगत ना. एक इंपोरटंट ॲसायनमेंट आसा. एके फॉरेन कंपनीचो डी.जी. येवचो आसा. म्हाका अजिबात वेळ ना. I may be excused. पूण तुमी भाव भयण जाय तितलीं भोंवात. खूप तेंप जालो. रेखाय दिल्ली दाखय म्हूण फाटल्यान लागलां... पूण वगतूच ना. आतां आमचें स्वताचें वाहन आसा, तरीय हीच परिस्थिती. दोगांय जोडप्यान बिरला मंदिरांत लेगीत अजून वचूंकनात.''

''बरे बाबा! म्हजे खातीर तुमचेकडेन वगत कसो आसतलो?'' रेखाल्या सुरांतलो थोमणो काळजाक खंयतरी स्पर्शुन गेलो.

''मनांत कितलीशींच सपना आसलीं. लग्न जावन हांव दिल्ली वतलें म्हूण मैत्रिणी म्हजेर जळटाल्यो. हांव खोश्येन वल्लेंतूय धर नाशिल्लें आनी सुपांतूय धर नाशिल्लें....''

''रेखा, प्लीज...''

''असले दिल्लींत लग्न जावचे परस लग्न जावन मसंडेत रावपी लोग लोगीत सुखी म्हणूंक जाय...''

''रेखा, व्हडल्या शारांतले हेच प्रॉब्लॅम आसतात. हांगा मनीस चलना. तो धावता. जो धावंक शकना ताका बेवारशी भुरग्याभशेन रस्ताद उडयतात.''

''अख्ख्या संवसारांतल्यो घड्याळी बंद पडल्यार पुरो.'' — रेखाले दोळे भरून आयले.

वातावरण तापलें.

"Please Rekha, do not create a scene."

रेखा उठून भायर गेलें.

"Do not mind it friend. These silly things are part and parcal of the metropolis."

‘‘तुवेंय म्हूण रेखाखातीर इल्लो वगत काडूंक जाय भावोजी.’’ — म्हाका जितलें कळ्ळें ताचे वेल्यान हांवे अदमास पंचे धावोदरशे केलें. ‘‘ल्हान शारांतलीं सुसेगादपणा हांगा येतकीच सोडलीं नात जाल्यार मनीस मिसफीट जाता. As a matter of fact हांव ल्हानाचो व्हड हांगाच जावनूय बी हांवें अजून पुराय दिल्ली पळोवंक ना. Anyhow हे खेपे तूं ताका दिल्ली भोंवडावन दाखय. हांवूय यत्न करतां. खरें म्हळ्यार कामूच इतलें आसता की मरूंक लेगीत वगत मेळना.’’

— आमच्या दोगांमदलो कांटो आपशींच गेलो म्हूण मनांतल्या मनांत हांव खूश जालों. दिल्ली भोंवतना रेखा आनी म्हजेमदीं कोणूच नासप म्हळ्यार सोर्त लागिल्लेवरी खोस....

‘‘म्हजे खातीर दिल्ली अनवळखी.... आनी हांव ताका कितें फिरयतलों?’’ — हांवे म्हळें.

‘‘तुका चलत भोंव म्हणिना हांव.... कार ड्रायव्हराक दिल्लोचो कोनशान कोनसो खबर आसा.’’ — अशें म्हणून भावोजी उठलो. वरां पळेलीं.

‘‘म्हाका एके पार्टीक मेळूंक वचूं जाय. O.K. try to change her mood.’’

‘‘तुमी केन्ना येतले?’’ रेखान विचारलें.

‘‘घडये रातीं वगत जायत. But I will try to be back early. by the way सालेभाय, तुवें रावची व्यवस्था खंय केल्या?’’

‘‘आतां येता थंय आसा. व्यवस्था केन्ना करतलों?’

‘‘तुका आनी खंयच वचपाची गरज ना. आयकलें? No व्यवस्था elsewhere. हांगा राव दिल्ली पळे. रेखालोय वगत बरो पासार जातलो. बिजनेसांतल्यान वगत मेळत जाल्यार गजालींक बसूंया. O.K. Wish me Good Luck."

"Good Luck." हांव हांसलों. रेखाय ल्हवू ल्हवू हांसलें. भावोजी भायर सरून गेलो. आनी तें परथून कुडींत आयलें. ताणें तोंड धुलें. पुण ताचे दोळे तांबडे आसले.

‘‘रेखा, तुजो घोव एकदम् बिझी मनीस!’’

‘‘बिझी?.... हूँ.... चडशाणो समजता स्वतःक... ताका दिसता, म्हाका कांय खबर ना... बँकेंत एक कोणतरी आसा हाची हिरोइन. दीसभर तिचे वांगडा भोंवता... इम्पोर्टेड पार्टी बी सगळीं हाची नाटकां... हाव सगळें जाणा.’’

‘‘नोकर येवन रिते ग्लास आनी प्लेटी घेवन गेलो. हांव घरच्यो दारच्यो गजाली सांगूक लागलों.

‘‘पूण तूं कित्याक आइल्लो, तें सांगलें ना.’’ रेखान विचारलें.

‘‘तुंवे मनापसून म्हजो उगडास केलो. तेन्ना नशीब इंटरव्ह्यूच्या निमतान म्हाका तुजे म्हऱ्यांत घेवन आयलें.’’

‘‘हांवें तुजो केन्ना उगडास करूंकच ना.’’

‘‘खऱ्यांनीच? म्हूण म्हाका पळोवन तुजें तोंड उकतें उरलें?... हांव आयलों तें आवडलें ना

तुका?''

''ना! ना!! वायट बऱ्याचो प्रस्न नासलो. खरें म्हळ्यार तुजें येवप कशें जस्टिफाय करूं म्हूण चिंततालें! कितें म्हूण तुजी वळख करून दिवं हेंच येवजना जालें.''

— ''घोवाकडे वळख करून दिवपाची आसली न्हय?.... हांवें पळे कशी जिस्ताक जिस्त वळख करून दिली... उरली तुजी गजाल... तुजे खातीर प्रस्नउत्तरांची चोपडी खूब जाली.''

''अशें म्हणून तूं म्हजें काळीज दुखोवं नाका.

तुजें लग्न जावन तूं वतकीच तुजे ते चोपडेन म्हाका केदो आदार दिलो तुका खबर ना.''

— रेखा ओगगी रावलें. मागीर कितें तरी येवजून हांवें विचारलें, ''दिल्ली पावन तूं खोशी आस मु?''

''खूश आसलें नासलें, ताचें कोणाक कितें पडलां?... दिल्ली विचित्र शार... आवयचो आपलो मार्ग वेगळो.... धुवेलो आपलो मार्ग वेगळो आनी घोवाल्यो आपल्यो भानगडी... खबर आसुनूय कांय खबर नाशिल्लेवरी सगळे वागतात.''

''व्हडल्या शारांत रावतकीच थंयच्या वातावरणांत आपणाक बदलचें पडटा. मनीस जंय ल्हानाचो व्हड जाता, थंयच्यान दुसरे सुवातेर गेलो जाल्यार ताका बदलते परिस्थितीप्रमाण रावचेंच पडटलें न्हंय?....''

रेखान नाईलाजान हें मानून घेवन एक निःश्वास सोडलो... ''तुका इतलो वाज आइल्लो जाल्यार घरा परतुचे न्हंय तुवें? आमची ती अशीर वांकडी तिकडी पायण कशें विसरलें तूं?''

''विसरतलें कशें? पूण हांव डोगरा संस्कृतींत वाडील्ली चली.... चिंततालें लग्ना उपरांत दुसऱ्या दादल्याविशीं विचार करप लेगीत पाप.''

''रेखा, म्हाका खबर आसा... पाप आनी पुण्य दोन रस्ताद उतरां! बायलांचे बाबतींत तर तांचो परथून परथून वापर करतात... दादल्यांखातीर ह्या उतरांक कसलोच धरबंद ना.... दुसरी गजाल येवरोपाची.... आमचे परस एकदम परत्यो थंयच्यो गजाली... ताका लागून थंय पाप बी काय ना... आसा तें फक्त ॲडजस्टमेंट... खबरे पत्रांवेल्यान थंयची जीण समजता... थंयची जीण म्हळ्यार पूर आइल्ली नदी... खिणाखिणाक मर्यादा सोडून व्हांवता.... चड पयस कित्याक वचूंक जाय?.... तूं आमच्या दोंगरार रावपी लोकांक पळे... एकेक बायल स स दादले बदलता... खंय खंय जाल्यार एक बायल कितल्याशाच दादल्यांवांगडा संबंध दवरून आसता. चड घोव करपाची प्रथा थंय आशिल्ल्यान तांतूंत अनैतिक कांय ना अशें तांकां दिसता. तेन्ना आमी आमच्या भोंवतणच्या समाजापरस वेगळीं वागतात तेन्ना फरक पडटा. अशे परिस्थितीत तो मनीस त्या वातावरणांत मिसफिट दिसूंक लागता.''

''ही सगळी गुंतावळ सोडोवन मनाक उजू मार्गार हाडपाइतली अक्कल म्हजे भितर ना... पूण तूंच सांग. तुजे बायलेले दुसऱ्या दादल्याबराबर संबंध आसात, हें तुकां कळत जाल्यार तुका कशें दिसतलें?''

''म्हजेर म्हज्या गांवचे संस्कार आसात. लग्नाक चली सोदचे पयलीं ते चलयेली चालचलणूक बरी आसा काय ना ते हांव पळेतलों. आंकवार चलयांमदले गूण तिचे भितर आसा काय ना तें

पळेतलों. ही म्हजी, मध्यमवर्गीय मॅन्टेलिटी. पूण दुसरे वटेन चिंतीत जाल्यार ह्या सगळ्याक काय अर्थ ना अशें दिसता. कित्याक मिडलक्लासचे संस्कार आनी विश्वास फाल्स गजालींचेर उगधारिल्ले आसात. बायलेचो संबंध दुसऱ्या दादल्याबराबर आसत जाल्यार म्हजो संस्कार म्हाका घटस्फोटाकडेन व्हरतलो. आपले खातीर असले प्रस्न उप्रासतात तेन्ना म्हजे विचार आपशींच अशीर जातात.

“परकाश, तूंय बी द्विधा मनःस्थितींत आसा आनी हावूंय बी! द्विधा मनःस्थितींत रावनासतना आपल्याक जाय तसली जीण जगपी मनशाच वेगळीं. आनी आमचो समाजुय बी तांचें जगप नितीक धरून आसा अशें मानता.”

“हो विशय घेवन घोवावांगडा केन्ना वाद जालो ना?”

“सुरवेक अशें जाल्लें. पूण ताणें म्हाकां भेशटायलें.... ताणें सागलें, तूं लेगीत तुका जाय जाल्यार फाव तसलो दुसरो दादलो सोद, म्हजी हरकत ना.... पूण परथून परथून जर तूं आडखळी हाडशीत जाल्यार तूं तुज्या घरा वचूंक मेकळें.... हांव तुका आडावचोंना... ताचे उपरांत हाचेर उलोवंक म्हाका जमलें ना. केन्ना केन्ना दिसता, व्हडल्या शारांत लोकांची मत भ्रश्ट जाल्या.

“ही संवसाराची रीत रेखा... हांगा नैतिक अनैतिक बी काय ना.”

म्हाका जाणवलें, रेखा आतां पयलीं भशेन उरूंकना. जम्मूतलें रेखा आनी दिल्लींतलें रेखा हातूंत फरक आसा. तो फरक जो सादे मातयेंत आनी भाजिल्ले मातयेंत आसता तो....

हांवें विशय बदल्लो.

“ज्या देशांत सगळेच चोर थंय एक संत जावचो यत्न करूंक लागलो जाल्यार, उरिल्लो लोक ताका मारून उडयतात. आतां हांव हांगा नोकरेची आस्त घेवन आयलां, पूण कांय जावचेंना हें म्हाकां खबर आसा. तूं इतलें लागीं आशिल्लें, पूण काळान तुका पयस व्हेलें.... म्हजेपसून... कितेंय मेळोवपाखातीर सामाजिक दर्जो आनी पैशाचें फाटबळ आसप गरजेचें आसता. एके नोकरेक ह्या देशांत कितलेशेच लोक लाखांनी आशेचे दोळे लावन पळेतात. निमाणे कितें उपयोगाक येता काय म्हळ्यार फावोर, वशिलो आनी सरकारी नियंत्रणातल्या व्हड मनशाकडेन आशिल्ली वळख!”

“कितें जातलें म्हाका खबर ना. पूण एक गजाल खरी.... तुका हांगा नोकरी मेळत जाल्यार, हांवें तुजे खातीर एक चली पळोवन दवरल्या. फामील उत्तरप्रदेशांतली, पूण तांच्यो चलयो डोगरी चलयांवरी उमथे मानेन चलपी.”

“शेख महमदी सपना पळोवं नाका.”

“चल आतां हांव वतां. तुज्या जेवणाची तयारी करतां. तुका उडीद आनी चण्याचो फोडणा घाल्लो रोस आवडटा न्ही?”

“Thank God, तूं अजून हें विसरूंक ना.”

भितर वतां वतां रेखा हांसलें. हांवें शबनम पिशवेंतल्यान जनरल नॉलेजचें पुस्तक काडलें. आनी वाचूंक बसलों.

— x — x — x —

दुसरो दीस.

कपड्यांच्या जाळ्यावरी सुरकुत्यो पडिल्लीं आवयबापायलीं मुखामळां परथून परथून दोळ्यांमुखार येतालीं. भविश्याच्या गावांतल्यान खोश्येच्यो फुलत्यो कळयो पळोवंक आशेल्ले तांचे दोळे म्हाकां दिसताले. भियेवन हांव सामान्यज्ञानाच्यो जापो वाचूंक लागलों.

इंटरव्ह्यू कर्जन रोडावेले एके व्हडले बिल्डिंगेंतल्या चवथ्या माळयार आसलो. लिफ्टमनान वयर व्हरून सोडलो. पळेत जाल्यार थंय घे म्हूण लोक! एका एका मिनटाक एकलो भितर वतालो आनी रोखडोच परततालो. ''खुब्ब कठीण इंटरव्ह्यू'' अशें भायल्या लोकांक सांगून तो वतालो.

प्युनान म्हजें नांव आनी नंबर घेतकीच हांव हातांत सर्टिफिकेटांनी भरिल्लें पाशत घेवन भितर गेलों. थंय जाण्टेले बुदवंत बशिल्ले. तांच्या तोंडार बापायवरी भाव नाशिल्ले.

''सर, हांव बसूं?''

''नाका... नाका... उबोच रावन उलय.''

''बरें....''

''तूं जम्मूसावन आयला?''

''हय!''

''जम्मु काश्मीरच्या रस्त्यार आसा?''

''हय!''

''जम्मुक टुरिस्टाक रावपाची व्यवस्था आसा?''

''हय! हॉटेलां आसात... सरकारी टुरिस्ट बंगले आसात.''

''बरें तर... तूं वच आतां.''

''आरे! तुमी म्हाका कांय विचारलेंच ना.''

''खूब विचारलें.... इंटरव्ह्यू दिवंक आयिल्ल्या त्या लोकांक पळेल्यार हें विचारलें तें खूब जालें.''

''भात तरी विचार करात... हांव इतले पयसुल्ल्यान आयलां...''

''ताचे खातीर तुका टी.ए. मेळटलो.''

''हांवें म्हयनोभर इंटरव्ह्यूची तयारी केल्या.... कितेंय तरी विचारात... जनरल नॉलेज नाजाल्यार म्हज्या विशयाचेर...''

— चेअरमनाक म्हजी काकूळट दिसली. ताणें विचारलें, ''बरें सांग..... जम्मूत खंयच्या वर्सा जमरूदच्या किल्ल्याची लढाय जाल्ली.''

''जमरूदचो किल्लो जम्मूत ना.''

''चूक! चूक!!'' पांचूय जाण्टेले बुदवंत उलयले... म्हाका दिसलें, ते म्हणटात, जमरूद किल्ल्यावेलीं पेरां गोड आसतात. आनी आमी जेन्ना तीं खाल्लीं तेन्ना तूं जल्माक लेगीत येवंक नासलो.'' तेन्नाच कानार उतरां आयलीं...

''जम्मू म्हळ्यार जमरूदचो अपभ्रंश!''

''येवपा वचपाचो टी.ए. खंय मेळटलो?''

— ''भायर अॅकावंटांकडेन''

हांव म्हजें पाशत सांबाळीत भायर सरलों. ‘‘कितें विचारलें?... कितें विचारलें?’’ भायर बशिल्ल्या लोकांनी विचारलें.

‘‘कितें सांगू कितें विचारलें तें?... वेल्यान फावोर लायिल्लो... तांकां फोन आयलो... मागीर कितें? हांगच्यो थंयच्यो गजाली केल्यो... थंड पिवपाक दिलें. आनी भायर धाडलो... तुमी हांगा ओगीच झक मारतात.... म्हजें ॲपोयंटमेन्ट लेटरूय बी टायप जालां आसतलें.’’

‘‘आमी ह्या ऑफिसाचे हारशे फोडटले... बदमाश खंयचे कडले... फ्रॉड सिलेक्शन बोर्ड करून आयव्हरी टॉवरांत बसून फकाणा करतात?’’ एक बंगाली माराण कसो उसळटालो.

‘‘तांतूंत कितें फायदो? ते लोक दुसरो हारसो लायतले. ताचे परस खंयच्याय लिडराचे पांय धरिल्ले बरे... अशें म्हणून हांव ॲकावंटटां म्हऱ्यांत गेलों.

रेखाल्या घरा गेलों. पळेत जाल्यार थंयचे वातावरण दुःखान भरिल्लेवरी दिसलें. रेखा ड्राइंगरूमांत म्हजे म्हऱ्यांत आयलें... घोवाबायले मजगतीं परथून झगडीं जालीं काय?... समजूंक मार्ग नाशिल्लो... ते म्हाका म्हज्या इंटरव्ह्यूबद्दल विचारतलें?....

इतल्यान ताणें म्हळें, ‘‘हांव तुजे बराबर तुका दिल्ली दाखोवंक येवंक शकचें ना.’’ हांव ताचे नदरेंत दिसपी शुन्याचो सोद घेवंक पळेतालों.

‘‘म्हजी मांय मेली... म्हाका हांचे बराबर करोलबाग वचचें पडटलें. घडये दोन तीन दीस थंय रावचें पडटलें.’’ अशें म्हणून तें घोवाम्हऱ्यांत गेलें.

अकस्मात हांव एकलोंच उरलों. मनांत दिसलें, पाडापडिल्लो म्हातारेक मरूंक होच म्हूर्त मेळ्ळो? आनीक चार दिसांनी मेल्ली जाल्यार कोणाल्या बापायलें कितें वचपाचें?.... दिसले, आतांच्या आतां घरा वचचें. पूण रिझर्व्हेशन फाल्यांचे आसा... कितें करूं? एकलोच फिरूंक वचूं?’’

आंगणात येवन भावोजी म्हऱ्यांत उबो रावलों.

‘‘भावोजी, तुज्या आवयच्या मर्णाची गजाल....’’ वाक्य पुराय जावचे पयलींच ताणें म्हळें, "Take it easy.... हांगा येवप, जगप, मरप ही दुनियेची रीत. Don't worry. You enjoy the sight seeing."

रेखाबगर हांव दिल्ली पळोवंक भायर सरलों... लोकांची धक्काबुक्की... रस्त्यार गाडयो... लींप रस्ते.... म्हज्या दोळ्यांक जम्मूचे रस्ते पळोवपाची सवंय... म्हळ्यार रस्त्यार भिकारी... मदींच भोंवपी बैल... आनी रस्ताद गाडवां.....दिल्लीचे भिकारी लेगीत white collered......जनपथाचे रूंद पासयेर कोणेंतरी व्हडलो मारुति काडिल्लो. थंच्यान येवपी वचपी लोकांमदले थोडे लोक ताचेर पयशे उडयताले. तो दीस शेनवार.....रस्त्याचे कुशीक तेलान भरिल्लीं लोखणाची आयदनां दवरल्यांत. तांतूंत पत्र्याचो शनी बुडयल्लो आसा. तीं कोणें दवरल्यांत तें कळूंक मार्ग ना. घडये पोलिसांच्या भयान ते लिपल्यात आसतले. पोलिसूय खंय दिश्टी पडनात.

जम्मूंत जर तुमी अशे भायर सरून वचशात जाल्यार कोण न्हय कोण वळखीचो मनीस दिसता. हांगा दिल्लींत तुमचेकडेन कोणूच पळेना.... हांगचो मनीस कोणतरी जावपाक, आपणाली अशी कुरू करून दवरूंक धडपडटा. लेडी हार्डिंग मॅडिकल कॉलेजींतल्यो चलयो आपले भितर गुल्ल जावन भायर सरतात. पळेतल्याक दिसता, तांतली खंयची तरी एक चली तुमचे म्हऱ्यांत येवन

तुमची फ्रेंड जातली. पूण अशें जायना. तुमचे कडेन पळोवपाक हांगा वगत कोणाकडेन आसा? जम्मूंत दोन चलयो उलयनासतना चलतात अशी तुमी कल्पना लेगीत करूंक शकनात. चिमण्यो कुलकुलाट करच्यो नात जाल्यार कोण करतलो? पूण हांगच्या पिटकोळ्यांचो हांसो कोणें फारायला काय?

कनॉट प्लेसांत भोंवतना जण एकलो आपले भितर गुल्ल सो दिसता.... सगळो लोक अदृश्टाफाटल्यान धांवता. अशे परिस्थितीत एक रशियन चली कृत्रिम रितीन वागनासतना सहजतायेन वागता तें पळोवन अजाप दिसलें. तिणें निकतेंच जुवानवणांत पावल घाल्लें. तिचेबराबर तिचे आवयबापूय आसले. तिगेल्या धव्या बानयनाचेर 'तान्या' बरयल्लें. तान्याचें थंय आसप म्हाका परमळीत थंड हवेभशेन दिसलें.

महानगरांतले जिणेचो अर्थ म्हणजे मनशान आपल्यो सभाविक संवयो विसरप, असो बी न्हय मू?.... एक विचित्र हिणपणाची भावना चोंय वटांनी म्हाका वेंगावंक लागली.... हांव भिल्लेवरी जालों. मनीस आपुण कृत्रिमतायेच्या पांगरूणांत गुठलावन घेता आनी आपलीच मस्करी करता... हो इंटरव्ह्यू म्हळ्यार मस्करी.... क्रूर मस्करी....

साला हरामजादा! चेअरमॅन.... चेडयेचो.... फाल्यां दाखयता ताका हांव कितें तें... पयलींच जर तुमी कोणाक वेंचून फाडिल्लो जाल्यार इतले पयसुल्ल्यान म्हजो अपमान करूंक म्हाका हांगा आफयल्लो?

म्हजें मन तिडकीन आनी उतळतापांनी भरलें. जिणेची खोस ल्हवू ल्हवू उणी जायत गेली.

लोक म्हणटात दिल्ली म्हळ्यार देशाचें काळीज... पूण तें धडधडना तें धांवता... फास...

चेअरमनाक विचारूंक जाय, इंटरव्ह्यूचें कितें जालें? आनी... आनी ताका विचारूंक जाय, जुवान चल्याकडेन म्हाताऱ्या आवयबापायल्यो आशा कशो जोडिल्ल्यो आसतात तें ताका खबर आसा काय म्हूण?

— × — × — × —

चेअरमनाच्या रूमांत वचूंक भितर सरूंक वतालों तेन्नाच प्युनान आडायलो. ताणें म्हळें, "पयलीं रिसेप्शनिस्टाक मेळात."

रिसेप्शान रूम खूब व्हडलो आसलो. तांतूंत काश्मिरी केनच्यो कदेली आसल्यो. दाराकडल्या कोनशाक एक बॉबकटवाली चली बशिल्ली. भुंवयो कापून तिणें ते सुवातेर आयलायनरान एक लायन काडिल्ली, ताका लागून तिचे दोळे मोटे दिसताले. स्लॅक्स आनी शर्ट घालून ती एकाद्र्या हुशार चल्यावरी दिसताली. तिचे सामकार आशिल्ल्या मेजार एक बॉक्स आशिल्लें. कुशीक टेलिफोन. बॉक्सांतल्या सामकार आशिल्ल्या पितळेची चावी लावन ती घुंवडायताली आनी फोन लायताली. ती फोनाच्या रिसिव्हरांत कोणाल्या कानांत उलयल्लेवरी उलयताली.... आनी मागीर आपुणूच हांसताली.

तान्या उपरांत हें दुसरें मुखामळ आसलें जे म्हाकां चोरीनशें दिसलें. काळजाच्या एका कोनशाक मनशाक हांसतात, रडटात, आड्डतात आनी भितल्ले भितर हांसतात तसलीं मनशां पळोवपाची उमळशीक लागिल्ली आसता.... कित्याक तर मनीस म्हळ्यार पुराय यंत्र न्हंय हो विश्वास

गरजेचो आसता.

निमाणी बॉबकटवाली चली मेळ्ळी. तिवूय बी केन्ना तर हांव चेअरमनाकडेन झगडूंक वतालो तेन्ना.

बॉबकटवालीन सुर्वेक पळोंवकूच नाशिल्लेवरी केलें. मागीर अवचीत आत्तां तिचें लक्ष म्हजेर गेल्लेवरी करून तिणें विचारलें, ''कोणाक सोदता?''

''चेअरमनाक.... तांकां सांग, काश्मीरसावन प्रकाशसिंग आयला.''

''जम्मूकाश्मीरसावन?''

''हां!''

''कित्याक मेळूंक सोदता?''

— थोडो वगत हांव ओगी रावलों. मागीर अकस्मात म्हाका मस्करी करीन दिसली. हांवें सेग्रेत सांगिल्लेवरी म्हळें,

''ताचें कितें आसा, ताची एक चली आसा.''

''कोण बेबी?''

''हां! बेबीखातीर तांणी म्हाका सोदून काडला. तांणी पत्र बरोवन म्हाका आफयला. पूण तूं तांकां हें सांगू नाका. फक्कत इतलेंच सांग की तांचो एक सोयरो मेळूंक आयला म्हूण!''

''सर, तुमी बसात.'' — तिणें कृत्रीम हांसो हांसत सांगलें.

हांव मुद्दाम ताचेकडेन नदर लावन पळेत रावलों. तें दोळ्यांच्या खांचीतल्यान म्हजेकडेन पळेतालें. आनी फोन घुंवडायतालें. मागीर सेग्रेतीन भरिल्लो हांसो ताच्या ओंठार फुलतालो. तीन चार खेपे पितळेच्यो सुयो हांगा थंय घाल्यो आनी ताणें कोणाक तरी आफावणो धाडलो.

बसून बसून खूब वगत जालो. म्हाकाय बी तेंच जाय आसलें. तिगेलो हांसो आनी कोंतरायल्या भुंवयापोंदच्या दोळ्यांची ओलसाण काळजांत खंयतरी घुस्पून गेल्ली.

मदींच चार चलयो एकेका मिनटाच्या अंतरान भितर आयल्यो. तांतले एकलेकडेन कागदाचे पोतयेंत संत्रां आसलीं. चौगांनीय पोतयेंतलें एकेक संत्र घेतलें आनी सोलूंक लागलीं. फक्कत रिसेप्शनिस्ट मात फोन करपांत गुल्ल आसली.

तांतली एक चली पंजाबी ड्रेसांत आसली. उरिल्ल्या तिगांयनी स्कर्ट ब्लावज घाल्लो. ती एकमेकांकडेन उलयताली.... हांसतालीं आनी दोळ्यांतल्या कोनशांतल्यान म्हाकां पळेतालीं.

तांचे गजालींचेर लक्ष दवरिल्ल्यान तांची नांवं कळूंक वगत लागलो ना. रिसेप्शनिस्टाचें नांव आसलें जॉली. एके चलयेलें नांव प्रेम. एक अन्ना, एक सुनयना. जाल्यार पंजाबी ड्रेस घाल्ले चलयेचें नांव आसलें जनक.

पांचूय जणी संत्र्यांच्यो फोडी 'ते भशेन' तोंडात घालतालीं.... चडांत चड वेळ फोडींचो रोस कोण चोखता, ताची तांचे मदी सर्त लागिल्लेवरी.

सगळो रूम संत्र्यांच्या वासान घमघमतालो. म्हज्याय तोंडाक उदक सुटलें. तकलेंत वादळ घुंवळटालें. तांचेकडेन कशें उलोवचें कळनासलें.

इतल्यान बॉबकटवालीक एक फोन आयलो. तिणें बाकीच्यांक कितेंतरी सांगलें. तीं भियेवन

फटाफट आपआपले सुवातेर गेलीं.

म्हाका रेखाली याद आयली.

सदांच सगळें अर्दकुटेंच उरता. कोणाकोणालें नशिबूच तशें पाडें आसता. ज्या लोकांचे सांवळेक लेगीत हांव वळखनासलों थंय तें वतकीच सगळें रितें जालाशें दिसलें. बापायली चिंता हांव विसरलो. नाकर्तेपणाची भावना जागी जाली. चेअरमनालें अन्यायी तोंड फाटीं पडिल्लें. अकस्मात उठून जॉलील्या मेजा म्हऱ्यांत आयलों. म्हज्या संयमाचे कुडके जाल्ले. हांवें म्हळें, ''हाय स्विटी! यू आर द ब्यूटी!''

''वॉट?''

— जॉलीच्या तोंडार तांबडे गुलाबी रंग धांवत गेले. कोतरांयल्या अस्कडांतल्या दोळ्यांत लजेचीं ल्हारां उफेवंक लागलीं.... हांव कित्याय कितें उलोवंक ना मू? हो विचार मनांत येतकीच म्हज्या रंन्ध्रांरन्ध्रांत सुरांचीं ल्हारां व्हांवत गेली. मागीर हांवें म्हजे म्हाकाच समजायलो.... हांवें काय गुन्यांव करूंक ना. फुलाक फूल म्हळां... आनीक कांय ना.

''हांव चेअरमनाक दुसरे खेपे मेळूंक येतां स्विटी'' अशें म्हणून हांव रूमांतल्यान भायर सरलों. म्हाका दिसलें, हांवें स्वयंवरूच जिखलां. लिफ्टान सकयल आयलों. बाजारावटेन चलूंक लागलों. म्हज्या मनांत तरेतरेचे प्रस्न नाचूंक लागले. म्हाका रेखाले शब्द येवजले.... हांगा आवय आपल्या मार्गान वता आनी धूव आपल्या.''

म्हाका जॉलीक मेळची, ताचेकडेन उलोवपाचीशी उमळशीक लागली. पूण म्हाका परथून वयर वचपाचो धीर जालो ना. हांव परथून वयर गेलों आनी कितेंय जालें जाल्यार आवयल्यो सगळ्यो उमेदी मरून वतल्यो. एकेक खेपे मनशाक आपल्यो इत्सा मारून उडोवच्यो पडटात. तशें केलें ना जाल्यार जो तुमचेर आपल्यो आशा पातयेवन बसता, ताका दुःख जाता.

— x — x — x —

मद्रास हॉटेलामुखार अेक बंगाली बाबू येतल्यावतल्यांकडेन बिर्ला मातोश्री देवळाकडेन खंयची बस वता ताची चवकशी करतालो. म्हाका याद जाली, हांवूय तें देवूळ पळोवंक सोदतालों म्हूण! देखून हांव पयस उबो रावलों... बंगाली बाबूपसून मात्सो पयस.... बस आयली. तेन्ना तो चडटकीच हांवय भितर सरलों.

देवळांतल्यो मूर्ती आनी चित्रां पळोवन भायर सरलों. जपानी आनी कोरियन दादल्याबायलांचो एक ग्रुप भितर वतालो. त्या बायलांची हेयरस्टायल पळोवन म्हाका जॉलीची दाद जाली. म्हाका एक कल्पना सुचली. हांव पब्लिक टेलिफोन बुथांत गेलों. आनी नंबर घुंवडायलो. दुसरेवटेन बायलेचो आवाज आशिल्लो.

''रिसेप्शनिस्ट?'' हांवे विचारलें. ''हाय जॉली? वळखलें?''

''कोण जोसफ?''

''ना.''

''अजित?''

''तूं इतले बेगीन म्हाका विसरलें?''

“तुजो आवाज वळखिचोसो दिसता.”

“जनक कशें आसा?”

“बरें आसा.”

“आनी प्रेम?”

“दोगांय आतां हांगाच आशिल्लीं.”

“आनी बाकी कशें चल्लां?”

“सदां भशेन... सकाळीं फाटल्यान सांज येता.”

“आवय कशी आसा?”

“कोणाली आवय?”

“अर्थांत तुजी...”

“ती पांच वर्सां पयलींच मेली.”

“सॉरी... त्या दिसा कनॉट प्लेसांत तुजे बराबर कोण आसलो?”

“म्हजे बराबर?.... कोण?.... याद ना... पुरो आतां. फकाणां खूब जालीं. आतां तुजें नांव सांग म्हाका.”

“म्हणजे? म्हजो मोग म्हळ्यार ज्योक? आनी तो पाडापडिल्लो तुजो बॉस? तो कसो आसा? ताचेपसून सांबाळून राव.”

“तुका दुस्वास दिसलो?” जॉलीलें फोनावेल्लें हांसप कानाक बरें लागूंक लागलें.

“म्हाकां दुस्वास कित्याक दिसतलो? हांव फक्त तुका सावध करता. जाणटेलो बरो तन्नो आसा.”

“हय? आनी जोसफ आयक... आयज मजाच जाली. हांगा ऑफिसांत एक चक्रम मनीस आइल्लो... तो म्हजेर इतलो लब्धेलो म्हूण सांगूं?.... दोळे फोडून अशे तरेन पळतालो की म्हाका भंय जालो हो म्हाका अख्खो गिळून उडयत म्हूण! बॉसाक मेळूंक आइल्लो, ताचो जांवय जावन...”

“तो खऱ्यांनीच जांवय आसूं येता.”

“ना रे! पूण बॉसाक मेळचे पयलींच तो भायर सरून वतकीच हांवें बॉसाक सांगलें तुमचो मुखार जावपी जांवय आइल्लो म्हूण! तेन्ना बॉसाक रागूच आयलो.... तो आड्डलो... म्हणूंक लागलो कोण जांवय?... कोणाचो जांवय?.... कोणूय पिसांट आसतलो.”

“खरें म्हळ्यार, मोग करतल्याक लोक पिसांटूच म्हणटात. वता आसतना ताणें म्हळें, “स्विटी, यू आर ब्युटी! तुका सांगूं जोसफ, आयज म्हाका न्हिदूच येवची ना.”

“तूं म्हणशीत जाल्यार न्हीदे वखद घेवन येवं?”

“आतां मात चड जालें. प्लीज, तुजें नांव सांग न्हय?”

“आगो पिशा, जो कोण आसा, तो तुजोच.”

“पूण नांव?”

“पाडापडिल्ल्या इतले बेगीन नांव विसरलें? त्या दिसा तर चाळोवन चाळोवन संत्रां खातालें.”

‘‘केन्नाची गजाल?’’

‘‘पांच स म्हन्याफाटली.’’

‘‘पुरो आतां! मस्करी खूब जाली... नांव सांग.’’

‘‘बँ म्हण! तूं हारलें.’’

‘‘तशें समज.’’

‘‘नांव सांगलें जाल्यार कितें दितलें?’’

‘‘देव बरे करूं म्हणटलें.’’

‘‘आंवंय! इतलें चामटें तूं? उण्यात उणें एका पिवचराक व्हरतां म्हणचें आसलें.’’

‘‘हाचे वेल्यान कळटा, तूं जोसफ म्हूण! कितें जालां तुजें जोसफ?’’

‘‘आयज मूड बरोबर ना.’’

‘‘तुजो मूड सारको करतां... आयक, त्या पिसांटाचेर जनक कितलें पिसावल्लें तें विचारूं नाका..... म्हणूंक लागलें, कितलो एक्टीव्ह न्हय हो? हांव वतां हाचेबराबर.... M. D. जर टुरावेल्यान येवंक नाशिल्लो जाल्यार तें कितेय तरी नाटक करपाचें.’’

— हांव हांसलों.

‘‘लग्न जायना तो मेरेन दिसता, जुवानपण फुकट वता. अशा वगतार आवडीच्या मनशाबराबर वचप वायटशें न्हंय....’’

‘‘बरें बाबा... आतां तरी नांव सांगता काय असोच वाज हाडीत रावतलो?’’

‘‘आयक! तुजें म्हजें नातें खुब पोन्ने.... पूण एके अटीचेर सांगतां. सगळें आयकले बगर फोन दवरचें ना आनी सांजेर सं क रीगल सिनेमाभायर मेळटलें. आनी तिकेटूय तूंच काडटलें. मंजूर?’’

‘‘मंजूर!’’

‘‘तेन्ना, जानेमन, शेंकड्यांनी वर्सांपयलींची गजाल.... पूण तुका कशी याद आसतली? तुका तर एक वरा आदीं कितें जालें तें याद उरना. शेंकड्यांनी वर्सां आदीं हांव वृंदावनांत मुरली वाजयतालों. म्हजें नांव कृष्ण आसलें आनी तूं म्हजी राधा.... आमी दोगांय वृंदावनांतल्या कुंज-गल्लींत गळ्यांत गळे घालून रास रचतालीं.’’

‘‘यू चीट!’’

— कनेक्शन कट जालें.

भायर आयलों. भायर एकलो बूथ रितो जावपाची वाट पळेतालो. भायर येतकीच ताणें विचारलें, ‘‘बाबू, तूं खुब्ब वगत उलयतालो.... मोगाबिगाची भानगड काय कितें?’’

‘‘हय! मोगाचीय बी आनी बिगाचीय बी..... तुजी कितें हरकत आसा?’’

— अशें म्हणून हांव गेलों.

खरें म्हळ्यार ह्या सगळ्या वातावरणांत म्हजे म्हाकांच किकोंत केल्ले खातीर म्हजे भितर कोडसाण आयल्या. असुरक्षिततेचे भावनेन म्हजी जिणूच बदल्ल्या. कारण नासतना म्हाका दुबाव येता. आनी ओगीच हुस्कोय जाता. हें सगळें वातावरण बदलूंक सोदतां.

घरा वचून पळेल्यार रेखा थंयूच आसा.

“तूं वचूंक ना?”

“गेल्लें. तांकां मर्णाचे पोलरॉयड फोटो घेवपाचे आसले. कॅमेरा सेफांत दवरला, तोच व्हरूंक आइल्लें.”

“बरें जालें. ह्या कॅमेऱ्याच्या निमतान जावं, तुका एकलें एकटुशी मेळप जालें.”

—— रेखान विशय बदल्लो.

“आमची रीत पळे. मर्ण लेगीत उत्सवशें.... लग्नावरी फोटो काडटले, मर्णाक आइल्ल्या व्हडल्या व्हडल्या लोकांचे फोटो काडटले ”

“तूं आनीक मेळत अशें दिसूंक नाशिल्लें. मांयच्या मर्णाचो लोकाचार तुका सांबाळचो पडटा.”

“सांबाळचो पडटलोच न्हंय?”

“तूं साप्प बदल्लां...” हांव ताची तुस्त करतालों काय ताका थोमणो मारतालों, हांवूच नकळ आशिल्लों.

“वगतान म्हाका बदलून उडयलें. पूण काळजान हांव पयलींवरीच आसा.”

“तुका खबर आसा.... एक खेपे हांवें तुका वेगेंत घट्ट धरिल्लें. हांव खाटीर बशिल्लों. तूं धावंक लागलें. जाल्यार खाटुय म्हजेबराबर आयली.... तुजे भितर इतली शक्त आसा तें पळोवन म्हाका अजाप जाल्लें.... आनी तूं व्हडान हांसूंक लागलें. तेन्ना थोडे दीस हांव तुका ‘बजरंगबली की जय’ म्हूण चाळयतालो.”

गजाल सांगतां सांगतां हांव दोन वर्सां फाटीं गेलों. म्हज्या आवाजांत तेन्नाचो उत्साह आनी मस्ती आशिल्ली. रेखा ओग्गी आशिल्लें.

“तूं कांयच उलोवचें ना?”

“कित्याक खबर ना. पूण फाटल्यो गजाली काडटकीच मन चंवरून येता.”

“तुज्या मनाचो कळो बावला.”

“आसत.”

“एक सांग, तुज्या पदरांत अजून भुरगें कशें ना?”

—— ताचे दोळे चकचकले. पूण जाप मेळ्ळी ना.

“आयज हांव वतां.”

“अजून खूब वगत आसा.”

“घरा कितें रकाद आसा?”

“रकाद? हय. रकादूच आसा. मांय मेल्या. पूण कोणाक कोणालें दुःख आसा? घरा सांग, कांय येवपाची गरज ना. आनी कांय करपाचीय गरज ना. हांगची रीत वेगळी.”

“घोवाक खूश दवर.”

“ताची खोस पळोवपाची आसल्यार यो म्हजेबराबर आनी पळे आपल्या दोळ्यांनी.... एके वटेन प्रेत पडलां. दुसरे वटेन दवरिल्ले बायलेकडेन रोमान्स चल्ला. हाचे परस चड खूश ताका कशें

दवरूं?''

''तीय आयल्या?''

''तीच तर सगळें घेवन बसल्या. म्हजी मांय न्हय तर तिचीच मांय मेल्लेवरी...''

''बरें आसा. हांवूय येतां. दिल्लीचें हेंवूय रूप पळोंवया.''

— गाडयेंत बसतकीच रेखान परथून तोंडार गंभीरतायेचें रूपडें पांगुरलें. हांवें ल्हवूच विचारलें, ''लोकांक सगळें खबर आसा?''

''सगळ्यांक खबर आसा. ड्रायव्हर, माळी सगळ्यांक खबर आसा. लग्ना पयलीं तें आठ आठ दीस हांगा पडून आसतालें.''

''ताचे कडेन लग्न कित्याक जालो ना तर तो?''

''म्हजें नशीब फुटकें आशिल्लें न्हंय?''

''ओगी राव! ड्रायव्हर आयकता.''

करोलबागचो रस्तोभर ओग्गी आशिल्लीं आमी.

गाडयेंतल्यान देवलेउपरांत आमी बंगल्याचे लॉन आशिल्लें थंय गेलीं. शामियान्यापोंदा उबे आशिल्ले एके काळेसावळे बायलेकडेन बोट दाखोवन ताणें म्हळें, ''हीऽऽ ती!''

पळेल्यार दिल्लीचें उदक पिवन जातकीच निबर जाता तसल्या चेहऱ्याची एक बायल मनीस! चरित्र नासलेली.... उदास चेहऱ्याची.... मोट्टें नाक, मोट्टे ओंठाची... ती भटाकडेन उलयताली.

तेन्नाच भावोजी तिचे म्हऱ्यांत गेलो. तिचेकडेन ल्हवूल्हवू कितेंतरी उलोवंक लागलो. ते बायलेन म्हजेकडेन पळेलें आनी ती थंयच्यान वचूंक लागली. घडये भावोजीन तिका म्हजेविशीं सांगलें आसतलें.

''भावोजी, I don't mind such things. हांव प्रोग्रेसिव्ह विचारांचो मनीस. हें सगळें अशेंच चलता.''

भावोजीक कितें उलोवचें कळ्ळें ना. ते बायलेल्या ओंठार आकर्शक हांसो फुल्लो.

''हांव परथून वतां म्हूण तुका सांगूक आइल्लों.''

''Wish you a happy journey boy, तांकां सांग येवची बी तकालस घेवं नाकात म्हूण! वगत मेळ्ळ्यार फुडल्या म्हयन्यान आमी दोगांय थंयच येवंची आसात.''

हांव लॉनाचे दुसरे वटेन गेलों. इतल्यान थंय एक मनीस आयलो. ताणें म्हाका रेखा आपयता म्हूण सांगलें.

रेखा मेथयेच्या झाडाकुशीक उबें आशिल्लें. मेथयेचीं पानां गळून पडिल्लीं. तांच्यो काडयो मळबावटेन उब्यो आशिल्लेवरी दिसताल्यो.

''यू. पी. वाली चली हांगाच आसा. तुजी वळख करून दितां.''

''ती... डोगरी चलयांवरी लजपी चली?''

—रेखा म्हजेकडेन पळेत उरलें.

''हय. पूण ताची अेकूच अट! चल्याली दिल्लींत नोकरी नाजाल्यार बिझनेस तरी आसूं जाय.''

“तशें जाल्यार मागीर ओगीच उतर घालूं नाकां.”

“कित्याक?”

“नामो नाशिल्ले चिटयेवरी हांव परथून जम्मू वतां.”

“नोकरी मेळची आशा ना?”

—रेखा उदास जालें.

“नोकरेची चिंता सोड. चलयेकडेन वळख तरी करून दी. तिका हरशींच मेळूंक कितें हरकत ना न्हय?”

लॉना फाटल्यान आनी शामियानामुखार बायलां आनी चलयांचो ग्रूप आशिल्लो. रेखान फुडें वचून उलो मारलो, “जॉली, मात्शें हांगा यो.”

परकी मनशाकडेन उलोवंक ती भिडेत म्हूण हांव झाडाफाटल्यान उबो रावलों. रेखा आयलें ताजे फाटल्यान एक लाडीक आवाज आयलो. “दीदी, हांव हाफ-डे घेवन आतांच आयलां. ऑटोरिक्षा आनी टॅक्सीचो संप.” ताचें तोंड पळेतकीच म्हज्या काळजाचो ठोको चुकलो.

“तुमी? आनी हांगा?” ते चलयेक म्हाका थंय पळोवन अजापाचो धसको बसलो. अनपेक्षित गजालींचो धसको बसता तसो.

“हय.... हांवूच तो... शेंकड्यांनी वर्सा पयलीं वृंदावनाचे कुंजगल्लींत तुजेबराबर ‘रास’ खेळपी तो हांवूच....”

“यू नॉटी बॉय!” आपल्या केसांक एक विशेश झटको दीत ताणें म्हळें.

“तुमी गेले उपरांत हांव तुमी आनी तुमच्या फोनाविशीं चितालें... हांसतालें आनी अजाप जातालें. तुमी आनी परथून मेळत अशें सपनांत लेगीत चिंतूक नासलें.”

“तुमी दोगांय एकमेकांक वळखतात?”रेखाल्या सुरांत अजाप आसलें. “वळख जावंक कितें चड वगत लागता? खरें म्हळ्यार केंस कापिल्ल्यो चलयो म्हाकां पयलींसावन आवडटात.” जॉली हांसलें. आनी हांवें तिरसुवादपणान म्हळें, ‘रेखा, तूं हांगां कशें उतर घालतलें? हे लोक किरीस्तांवशे दिसतात.” अकस्मात जॉलीन जाप दिली. “तुमी खंच्या तेंपावेल्यो गजाली करतात? आमी सेक्युलर! तशें पळेल्यार म्हजो बापूय कर्मठ हिंदू!”

“आयकून बरें दिसलें.”

“दीदी, काल तूं हाचीच गजाल करतालें? रेखाल्या हाताच्या कोंपराक धरून ताणें विचारलें.

आतां हांव मदींच उलयलों. ‘रेखा, तूं म्हणटालें ती ही चली म्हळ्यार लजेझाड!”

“हाय!” जॉली उलयलें, ""I suppose it's a compliment.""

रेखाक म्हज्या उलोवण्याचो अर्थ कळळो. इतल्यान बायलांमदल्यान कोणेंतरी जॉलीक दोन खेपो उलो केलो.

“ओ. के..... आतां येतां हांव!”अशे म्हणून तें शामियान्यावटेन गेलें.

“खरें म्हळ्यार रेखा, असल्या चलयांवांगडा मैत्री करूंक जाता. लग्न न्हय.”

“आसत....” रेखालें उतर जड जाल्लें. तें अजाप आनी भंयान भरिल्ले नदरेन शुन्यांत

पळेतालें. तें पळोवन दिसलें, ताका ताच्या प्रस्नाचें उत्तर मेळिल्लें. कित्याक तर तें कितेंतरी चिंतीत घोवाक आनी ते बायलेक पळेत रावलें.

तांचे वळखीचो एक मनीस गळ्यांत पोलरॉयड कॅमेरा घालून मर्णाक आइल्ल्या लोकांचे फोटो घेतालो.

इतले मजगतीं पळेल्यार जॉली लॉनाचे कुशीक उबी राविल्ले मोटारीकडेन फास्ट चलत वतना दिसलें. तें जे तरेन गेलें तें पळोवपासारकें आसलें.

गाडयेंतल्यान जो मनीस देंवलो ताका पळोवन म्हजे दोळे अजापान आनी तिरस्कारान उक्तेच उरले. हो तर इंटरव्ह्यू बोर्डाचो म्हातारो चेअरमन आसलो... जम्मूत जमरूदच्या किल्ल्याचो सोद लावपी व्हड बुदवंत.

ताका पळोवन म्हाका म्हज्या आवयबापायची याद जाली. आतां म्हजें चिंतप सदांपरस मात्शें वेगळें जाल्लें.... हांव चिंतूंक लागलो... देवा, हिका दोन दिसां पयलींच मर्ण आइल्लें जाल्यार? उण्यात उणी ह्या सगळ्यांकडेन वळख तरी जावपाची. इंटरव्ह्यूखातीर कितेंतरी हाताक लागपाचें. घडये ह्या वर्सा बापायली थंडेच्या दिसांनी स्वेटर विकतो घेवपाची इत्सा पूर्ण जावपाची आनी जिणेचो शेणिल्लो अर्थ घडये परथून मेळपाचो....

★ ★ ★

6

# अर्द चंद्र

सांज जाल्ली.

बू जी च्या प्लास्टीक जोत्याचो आवाज माळयेवेल्यान येतालो.

वयर येवन ती पन्तूचेर खूब आड्डतली. ताका तापयतली. बू जी च्या चलपावेल्यान बू जी रागार आसा काय खूश आसा, तें ताका बरेभशेन कळटा. जोत्यांचो आवाज तो सारको वळखता.

माळयेच्या सपणासकयल आशिल्ले सुवातेर पन्तू कोणाली पर्वा नाशिल्लेवरी पडून आसता. जोत्याचो आवाज आयकून तो सारको बसलो. पाखें सकयल आशिल्ल्यान मनीस थंय सारको उबो रावंक शकनासलो.

दुसऱ्या माळयार पन्तूची कूड आसली. हांगासावन तिसरे आनी चवथे माळयेर वचूंक सोपणां आसलीं.

ह्या चार माळयांचे बोटीची कॅप्टन बू जी! म्हळ्यार तिचे फाटल्यान तिचे भाडेकरू तिका तशें म्हणटात. आनीय कितें कितें म्हणटात. पूण तिच्या तोंडार तिका कितेंय म्हणूंक कोणालेच छातयेक केंस नात. चार माळयांच्या घरांत तिगेलें राज्य चलतालें. तिका परती जाप दिवपी जल्माक येवचो आसलो. शारामदीं रघुनाथजीच्या देवळालागीं तिचो सोबित बंगलो आसा. कित्याक खबर ना, पूण पन्तूक दिसतालें, बू जी फाटल्यान हो बंगलो ताकाच मेळटलो. हरशीं ताचें बू जी लागीं कसलेंच नातें नासलें. आनी कायद्यान तो वारसूय नासलो.

ताचो जल्म हे बिल्डिंगेंत जाल्लो. ल्हानाचो व्हड तो हांगाच जाल्लो. आनी सगळेजाण तिका बू जी म्हणटात म्हूण तोवूय बी तिका बू जी म्हणटालो.

लोखणाचो कण जसो लोहचुंबकाच्या तालार नाचता, तसो पन्तू बू जी च्या उतरार आसलो. तिगेलें एकूय उतर तो भायर उडय नासलो.

दोळे उकते जायत सावन आतां मेरेन ताणें कोणाली मूर्त पळेल्ली आनी जिच्या नांवाचो जप केल्लो जाल्यार ती आसली बू जी!

आनी अवचीत एक दीस जोगूल पडिल्लेवरी जालें. हय! जोगूल पडिल्लें. एक दीस बू जी न ताका फाफडून उडयल्ले वरी भायरो केलो... ताच्या सपनांचो म्हाल खळ्ळ करून फुटून ताचे कुडके कुडके जाले.

केन्ना केन्ना ती म्हणटाली, ''पन्तू, तूं ल्हान आशिल्लो तेन्ना हांव तुका म्हज्या हातांनी

लायतालीं.''

पन्तूक दिसतालें, तिणें पाखांवरी उडून गेल्ल्या खिणाच्यो गजाली सांगच्यो. पूण खूश आसताली तेन्नाच कसलीय एक गजाल ती सांगताली. आनी ताका भूतकाळांत सोडून वताली. आनी वतां वतां आड्डताली,

''आरे कफनू, तूं म्हजो कोण न्हय! धाग्याचो न्ही पाग्याचो...''

पयलेच खेपे ताका हें कळ्ळें, तेन्ना तो वरांची वरां रडत बसलो.

तो चिंततालो. वरांची वरां रडपाखातीर देवान म्हाका जल्माक घाला काय? बू जी कडेन रगताचें नातें नाशिल्ल्यान तो आपल्याक अपराधी समजतालो. फुटक्या नशिबाच्या मनशाक कोण आसना. आपले सुवातरे पडिल्लेकडेन तो पांखें पळेत रावतालो... देवा, हें पांखें धुकळून धुकळून मळबामेरेन गेल्यार कितलें बरें जातलें? श्वास घेवंक मेकळी सुवात तरी मेळपाची... पूण घट्ट वणटी पळोवन तो निर्शेतालो.

रातींकडेन न्हिदतना बू जी न उलयल्लीं उतरां ताका येवजतालीं. ''कफनू, तूं म्हजो कोण न्हंय.'' आनी अर्दे न्हिदेंतल्यान तो कच्च करून जागो जातालो. ताका दिसतालें, ताच्या कानांत शब्दांचे सुवातेर शंबर पांयांची वागोणी गेल्या... तो उठून बसतालो. दोळ्यांत भरिल्ली न्हीद भंयाच्या वादळान पळून वताली.

पूण ताका बेश्टेंच दिसतालें.... नातें नासुनूय बू जी कडेन ताचें लागशिल्लें नातें आसा. ताचें काळीज ताका सांगतालें, ज्या हातांनी भुरगो एक खेपे खेळ्ळा, थंय आपशींच नातें जुळटा.... अशें मनांत येतकीच ताका सूऽ जातालें.

जोत्यांचो आवाज तो बशिल्ले ते सुवातेकडेन येवंक लागलो. ताणें साकाचो पड्डो कुशीक काडून पळेले. तिगेल्या हातांत एक पितळी आशिल्ली.

रागान पन्तूल्यो अस्कड्यो एकठांय जाल्यो. ताचें आंग दुखतालें. ल्हवू ल्हवू ताच्या काळजांतल्यान रागाचीं ल्हारां व्हांवक लागलीं.

''कितें रे? अजून तुजो राग वचूंकना? पाडापडिल्ल्या म्हाका चड आड्डूक लावंक नाका.... केन्नासावन आड्डतां.... कानांत कितें कापूस घाला?''

''ना. कानांत वागोणी गेल्या...'' जिबेर आइल्लीं उतरां ताणें गिळ्ळीं.

''हीं सोपणां आतां म्हज्यान चडूंक जातात?''

--- आपलो राग दाखोवपाच्या हेतून पन्तू नाक फुगोवन बसलो.

''पळे पापया! अन्नाक केन्ना ना म्हणूंक जायना. आनी उपाशी पोटार न्हिदल्यार आत्मो फडफडटा.

''हांव जेवचोंना! उपाशी रावन आत्म्याक तडफडयतलो.''

''अशें करिनाका पापया! अशें करप कोणाकूच आवडचेंना'' बू जी च्या आवाजांत लाड आनी माया आसली. ''तुज्या बापायच्या आत्म्याक दुख जातलें. ताचो आत्मो हांगा खंयच्यान तरी तुका पळेता आसतलो.''

कपलावेल्या मिरयांनी जिज्ञासा आसली.

“बू जी, आत्मो पळोवंक शकता?”

“हय.”

“आमी आत्म्याक पळोंवक शकनात?”

“ना.”

“म्हजो बापूय कसो आसलो बू जी?”

“तुवें ताचो फोटो पळेला न्हंय? सुंदर पुरूश आसलो तो. घे आतां ही पितळी घे.”

“स्टुलार दवर बी जी. मात्सो रावन जेवतां.”

थंय आशिल्ले बटाटांचे काशीक ताणें ‘स्टूल’ हें नांव दवरलां. केन्ना केन्नाय तो ताचो उपयोग कदेलीवरी करतालो. “बच्चू, जाण्ट्यांनी म्हणून दवरलां, खंयचोय आत्मो भुकेन तडफडटा तेन्ना तेन्ना धरतरेचेर नकलामी जातात.... तेन्ना यादीन जेव.” अशें म्हणून ती वचूंक भायर सरली. पूण तेन्नाच ताचे वटेन परथून जोत्यांचो आवाज आयकूंक आयलो.

“आरे, आयज तेर्रासार कोण गेल्लो?” तिणे पडदो कुशीक काडलो आनी काशीचेर दवरिल्ले पितळेचेर एक नदर मारली.

“तो झोकी-पोकी गेल्लो.”

“अशें? म्हळ्यार ताणेंच शेणी माड्डून उडयल्यात?”

“आनीक कोणें तर?” तिणें अशें विचारलें तें पन्तूक बरें दिसलें. कित्याक त्या कारणाक लागून ताणें विटेचो कुडको काडून शोकीच्या बापायले तकलेर मारिल्लो. आनी पन्तून, शोकीच्या बापायची तकली फोडली हें बू जी न आयकलें, तेन्ना तिणें पन्तूक बडयेन काळोनिळो जायसर मारिल्लो.

“कितें जाल्लें?”

“..... ही आतां विचारता? बडी तलवारीभशेन घुंवडायली तेन्ना तिका विचारूंक याद जाली ना?” मनांतल्या प्रस्नांक मनांतूच दवरून ताणें सागलें, “शोकीन तेर्रासार वचून आपल्या पायांनी शेणी माड्डून मोडून उडयल्यात.”

बू जी न चार माळयांच्या बंगल्याच्या आंगणांत सात आठ गायो पोशिल्ल्यो. तांतली एकली दुकली सदांच दूद दिताली. दूद काडूंक येवपी बायलमनीस सकाळीं येताली. दूद काडून जातकीच थंय आशिल्ल्या शेणाच्यो शेणी ती तेर्रासार थापून दवरताली.

बू जी न पन्तूक शेणी सांबाळपाचें काम दिल्लें. तो थंय माळयेच्या कोनशाक बसतालो. आनी कोण येता वता तांचेर लक्ष दवरतालो. कोण गेलो, कित्याक गेलो, कितलो वगत थंय आसलो, हें तो पळेतालो. कोणूय कपडे सुकत घालूंक तेर्रासार वचत आनी शेणी माड्डिल्यो आसत, जाल्यार तो रोकडोच बू जी क वचून सांगतालो. आनी तिचे बराबर त्या मनशाले कुडींत वतालो.

बू जी भाड्याक रावपी लोकांक मागीर खूब तापयताली. मनांत येता तें उलोवन सोडटाली. आनी निमणें म्हणटाली, “तुमी हांगा रावता हाचो अर्थ, तुमी सगळो बंगलो विकतो घेतला असो न्हय! दुसरे खेपे म्हजे शेणीक कोणी हात लायलो म्हूण कळत जाल्यार म्हजे इतलो वायट कोण आसचो ना.”

तिणे केन्ना जळोव नाजाल्यार पेट्रोल विकतें घेवंक ना. वर्सभर तिचें जेवण शेणीर शिजतालें. शेणीच्या उज्याक ती शुद् उजो समजताली.

"अशें?"

.... सकाळीं घडिल्लें रामायण ती आतां विचारता?.... हांवें ताका आडायलो. जाल्यार पन्तू-पन्ता म्हूण चाळोवंक लागलो."

बू जी न पन्तूच्या माथ्यार केन्नासावन हातभर शेंडी दवरिल्ली. घरांत घालूंक खडावो. बू जी सांगताली.... ल्हानपणांत तूं खूब मस्तो आसलो. दुदाची बाटली तोंडातल्यान काडून मान हेवटेन तेवटेन हालयतालो..... म्हूण तुजे शेंड्येक एक घुंगुर बांदून दवरिल्लो.... ताचो छुन् छुन् आवाज येतालो....

"कितें म्हूण चाळयतालो?"

म्हणटालो,

"पन्तू-पन्ता
शेंडयेची गांठ सोड
नाजाल्यार मान तरी मोड"

"हांवें वचून ताच्या बापायक सांगलें, तो अशें अशें म्हूण म्हाकां चाळयता. जाल्यार तोवूय कित्याय कितें बडबडूंक लागलो.

"त्या पाडापडिल्ल्यान कितें म्हळें?"

"ताणें म्हळें, ते रांड म्हातारेचो हो रस्ताद पूत... शुद्ध उज्याचो रखवालदार...."

"आनी तुवें ताचेर वीट मोखून मारली?"

"मागीर ताणें म्हाकां, म्हातारी मरतकीच शेणीच्या शुद्ध उज्यानूच तिका लास, अशें कित्याक म्हळें तर? म्हज्यान आयकूं नज जावन हांवें ताचेर विटेचो कुडको मोखून मारलो."

"आवय गे ऽ म्हजे!.... म्हज्या पुता!" बू जी च्या हातांत सगळी माया भरून ओतताली, त्या हातांनी तिणें पन्तूची तकली पोशेली आनी ताका ओडून काळजाकडेन घट्ट धरलो.

पन्तूच्या दोळ्यांतल्यान दुखांच्यो झरी व्हांवल्यो.

"खा पुता.... रोटी खा..." समजूंक लागिल्ल्याक पयले खेपे बू जी न आपल्या हातांनी ताका उंडी भरयली.

केन्ना केन्नाय ताका बू जी सांगताली, "तूं कपलफुटको! तूं जालो आनी तुजी आवय मेली."

पन्तूक आवयची याद नासली. आयज बू जी च्या हातान राज्माच्या तोंडाकान बुडयिल्लो रोटयेचो कुडको खातना ताका आवयची याद आयली.... म्हजी आवयूय अशीच मायेस्त आशिल्ली जावंक जाय."

शोकीचो बापूय तकलेचे टांके काडून हॉस्पिटलांतल्यान घरा येतकीच बू जी न ताका घर सोडूंक सांगलें.

"म्हज्या पोटांतल्यान जल्मलो ना म्हूण कितें जालें?.... तो म्हजे खातीर परकी न्हय. ती सगळ्यांक सांगीत सुटली. "तुमकां खबर आसा, शोखीचो बापूय म्हजेफाटल्यान म्हजे विशीं नाका

जाल्लें उलयतालो, तेन्ना रागान पन्तून ताचेर विटेचो कुडको मोखून मारलो. ताका तश्शें फाव! हे आपणांक समजतात तरी कोण?.... रांड बायलेक आनी अनाथ भुरग्याक हाणीं कित्याय कितें म्हणप?.... हांकां विचारतलो कोण ना काय कितें?.... चेडयेच्यांची शेश्टी धरून धाडायतलीं हांव...."

बू जी सदांच रागार आसताली. रागान फडफडपाचो तिचो सभाव. केन्ना कांय जालें ना जाल्यार रागार जावंक ती निमित्त सोदताली. आनी निमित मेळ नासलें तेन्ना हेवटेन तेवटेन बडबडत भोंवताली. आनी जो कोण सामकार येता ताका संवताली.

..... पाडापडिल्लीं सकाळ सांज हांचीं तोंडां पळोवचीं पडटात... अवचिन्नांची ...मेल्ले भाडेकारूय असले मेळ्ळ्यात, पाडापडिल्ल्यांनी घराच्यो विटो लेगीत जाग्यार दवरूंक नात."

अशें आनिकूय कितें कितें ती उलयताली. ज्या कोणाक तिगेलो सभाव खबर आशिल्लो ते बाबडे आयकूंक नाशिल्लेवरी करून कान फाफडून फुडें वताले... आनी जे कोण मर्दी तोंड घालताले, तांची वाट लागताली.

पूण ती जेन्ना पन्तूक रागान तापयताली, तेन्ना ताका वायट दिसतालें. मागीर ताच्या काळजाक नाका जाल्ले प्रस्न तोंपताले.... हांव कोण? बू जी म्हजी कोण? हे सुवातेर म्हजी नाळ पुरल्या? बू जी म्हाका शाळेंत कित्याक घालिना?....

एकेक खेपे मारवाड्याची व्हडली चली ताका शिक्षणाबद्दल विचारताली. तेन्ना तो ओग्गी रावतालो. मागीर म्हणटालो, "दीदी, गरीब कशे शिकूंक शकतात?"

"आरे, लोक शिकून शिकून व्हड ऑफिसर जातात."

पन्तू हांसतालो.

"दीदी, तांचे आवयबापूय मेल्ले आसनात. बू जी न वाडिल्ल्या अन्नार हांव जगतां.लोकालीं नाका जाल्लीं उलोवणी खातां. म्हजीं आयदना हांव घासतां. आनी रांदचे कुडींत व्हरून दवरतां. शेणी राखतां.... आनीक कितें करतलों?" ताचो आवाज जड जातालो. दीदी हांसून म्हणटालें, 'म्हळ्यार शेणीची ऑफिसरी करून तूं खूश आसा न्हय?"

पन्तूक जिणेक अर्थ आशिल्लेवरी दिसतालो. ताच्या तोंडार खोशयेचो हांसो फुलतालो.

रातीकडेन तेर्रासार शेणीचे लायनीत बसून तो चिंततालो... बू जी न शेणीचो ऑफिसर करून म्हजेर कितलो उपकार केला! ती म्हजेकडल्यान भाडें घेना.... दुसऱ्या भाडेकारांक एकदीस लेगीत वगत जावंक दिना... हाचो अर्थ कितें? ती म्हजी?.... ना... ना... ती म्हजी कोण न्हय... ती म्हजी आशिल्ली जाल्यार बरी बरी मुस्तायकी घालून हेर भुरग्यांवरी म्हाका शाळेंत धाडची नासली?... ती आपुणूच म्हणटा.... कफनू, तूं म्हजो कोणूच न्हय....

जेन्ना पन्तूक मार खावचो पडटालो, तेन्ना ती गवळण येताली. ती एकटक पन्तूक पळेताली. तिगेल्या दोळ्यांत माया आनी सुरांत याचना आसताली.

"बुई, हो चलो म्हाकां दी पळोवंया."

गवळणीच्या कपड्यांक कोनशेल्लो वास मारतालो. तरीकूय पन्तुक तिचें उलोवप आवडटालें. गवळणीक स चलयो आशिल्ल्यो. चलो नासलो. ताका दिसतालें, तिणें हाका हांगासावन पयस घरा

व्हरचें.... आनी ताणें भुरग्यांवांगडा खूब खेळचें.

"हां! हां!! लोकांक दिवपाखातीर हांवें हाचें गुमूत काडलां काय कितें?" बू जी पन्तुक लागीं ओडून काळजाकडेन घट धरताली.

"बाबड्यान मनशाच्या जल्माक येवन सूख म्हणटात तें कितें केन्ना पळेलां?"

— गवळणीच्या उतरांनी माया थपथपताली.

"चल! चल!! आयत्या बिळार नागोबा... म्हजे परस तूं ताका लागीं काय कितें?" – बू जी तिचेर तिडकताली.

गवळणीच्या दोळ्यांत आनीकूय दया, माया दिसताली. पन्तुक त्या दोळ्यांनी आवयची म्हूर्त दिसताली. केन्ना केन्ना बू जी ची नदर चुकोवन, ती ताका बर्फी नाजाल्यार लाडू हाडून दिताली. आनी पन्तूक परथून परथून दिसतालें, तिका "माँ" म्हूण उलो मारचो.

गर्मेच्या दिसांनी रातीकडेन जेन्ना काजुले झाडांचेर पेट्टाले पालवताले तेन्ना पन्तुक दिसतालें, ताच्या बापायचो आत्मो सकयल आयला आनी काळखांत रावन ताका पळेता. ताचे बराबरचो एकूय भुरगो नासलो जाचेकडेन तो मनांतलें उलोवंक शकतालो. ताचे भोंवतणी जे आसले तांकां असल्या गजालींनी रस नासलो.

खरें म्हळ्यार ताचे वांगडच्या हेर भुरग्यांक एकमुळेपण म्हळ्यार कितें हें लेगीत खबर आसचें ना. पूण तो असल्या वातावरणांत व्हड जाल्ल्यान ताका हाची सवंय जाल्ली. मेळत तेन्ना तो आपलेकडेनूच उलयतालो. काजुल्यांचो संवसार ताका आवडटालो, तो ताका कुवाड्यावरी दिसतालो. तो चिंततालो, बापायलो आत्मो हांचे मदीं रावन ताका पळेता.

बरीता ह्या घरांतलो पोन्नो भाडेकार. तो सांगतालो, पन्तुचो बापुय हांगा भाडेकार म्हूण आइल्लो. एक दीस खंय गेलो तो परथून आयलोच ना.

"कित्याक? कित्याक तो परथून आयलो ना?"

"बू जी सांगताली एक बरें काम करतना ताका मर्ण आयलें."

पन्तु चिंतता.... ताणें मरचे पयलीं म्हजें कितें जातलें हाचो विचार केलो ना? हांव कपलफुटको, ताच्या मनांत इल्लीय जिणेची आस हाडूंक शकलों ना? कोणालें मर्ण कोणालें बरें करूंक शकता?... असले प्रस्न सदांच ताच्या मनाक काट्यावरी तोंपताले. आपल्या इल्ल्याशा अस्तित्वाक धरून आशिल्ल्या असल्या प्रस्नाच्यो जापो सोदूंक तो काळखे रात्रीं, शेणीच्या वासान आइल्ल्या जळारां मदीं बसून वरांची वरां काळ्या मळबाक पळेत रावतालो.

रिकामे जाल्ले सुवातेर नवो भाडेकार आइल्लो. सामानान भरिल्ले बैलांचे गाडे रिते जाताले आनी हें सगळें सामान आपलें जाल्लेवरी बू जी खोशी जाल्ली. पन्तूय खुश जाल्लो. तो धांवत धांवत तांचें सामान वयर व्हरून दवरतालो.

तो जिणेतलें रितेंपण दुसऱ्याक उपकरा पडून ताणीं दिल्ले शाबासकेन भरून काडटालो.

रिती कूड सामानान भरची तशी शाबासकी पन्तुच्या रित्या आत्म्यांत भरताली.

कदेली..... सतऱ्यो.... आयदनां.... नवो भाडेकार ताका शाबासकी दितालो.

....शाबास मुंडू!.... सांबाळून दवर.... नाका...." तेन्नाच बू जी थंय आयली.

"आरे पन्तू, हांगा यो।" मागीर तिणें तापार जावन म्हळें, "काकाजी, हो मुंडू न्हय... एका खानदानी घरांतलो दिवो तो...."

पयलोच खेपे पन्तुक दिसलें, जावं सायबा, कोण तरी, ताचे विशीं खास कितें तरी उलयलो.... म्हळ्यार तो कोणतरी आसलो.... तरी बू जी नव्या भाडेकरूकडेन अशी उलयली तें ताका मानवलें ना.

तिनसांज जाल्ली.

नव्या भाडेकरूची चली मांजराच्या चोरपावलांनी तेर्रासार वताली.

"ए, वयर वचूं नाका. बू जी थंय कोणाक वचूंक दिना." पन्तु आपले सुवातेवेल्यान भायर आयलो.

"हांव वतलें." ती ताची शिटकावणी कानामनार घेनासतना मुखार गेली.

"आयकूंक आयलें ना?" पन्तुन मुखार वचून तिच्या भुजाक धरून विचारलें.

"ओऽ! पन्तू घडन्तु!! म्हजो हात सोड."

"ए, गाळी संवुं नाका आं?"

"मागीर? तोंडातल्यान उलय."

"वयर वचून शेणीची वाट लावचें ना मगो?"

"ना लावचें! म्हजो हात सोड."

"पळे, याद दवर! नाजाल्यार वयर वचून म्हाका बू जी चो मार खावंचो पडटलो."

वयर वचून ते चलयेन चोंय वशींनी पळेलें. दिसाची धनुष्यकार व्हांवपी तवी न्हंय दिसताली. आनी रातीकडेन न्हंयचेर आशिल्ल्या पुलावयल्यो लायटी जगमगताल्यो.

पन्तू ताचे फाटोफाट वयर आयलो.

"थंय न्हंय आसा." ताणें सांगलें.

"खबर आसा." तिणें जाप दिली.

"तवी न्हंयत अष्टपाद रावता हेंवूय खबर आसा?"

"ना."

"बू जी सांगता, हो अष्टपाद मनशाक ओडून खोल उदकांत व्हरता. आनी ताचे रगत चोखता."

— चली खूब वेळ तेर्रास पळेत रावली. मागीर तिणें म्हळें, "हें कितें नाका जाल्लें?.... इतलें सुंदर घर आनी तेर्रासार शेणाची रास?"....

"शेणान दिश्ट लागना.... बू जी सांगता शेण पवित्र आसता."

"पूण गरमेच्या दिसांनी कोणाकूय तेर्रासार न्हिदन दिसलें, जाल्यार कशें न्हिदूंक मेळटलें?"

पन्तुक हया प्रस्नाची जाप खबर नासली. कोणूय वयर येवन न्हिदू नये म्हूण बू जी तेर्रासार शेणी दवरता आसूंक जाय.

..... पयले खेपे हो विचार पन्तुचे तकलेंत आयलो.

"हांगासान पूल कितलो सुंदर दिसता न्हय?"

''रातीकडेन रणबीरेश्वरच्या देवळाभायलें तांबडें कारंजेंय दिसता.''

''खऱ्यांनी?''

''रातीकडेन येवन पळे.''

''पूण हांगा शेणींमदीं बसून तें कारंजें बरें कशें दिसतलें?''

धोंपराचेर तकली दवरून तो चिंततालो.... ह्या शेणींचो कोयर हांगासावन काडलो जाल्यार तेर्रास कितलो बरो दिसतलो.... कल्पनेन ताणें शेणी सकयल व्हेल्यो. सान्न मारून तेर्रास नितळ केलो. आनी तेर्रासार उडयो मारूंक लागलो....

''आरे कफनू, शेणींचें कितें केलें? तुका तांची राखण करूंक दवरलो आनी तुवेंच तांची वाट लायली?'' — अशें म्हूण कल्पनेंतली बू जी सान्न घेवन ताचे फाटीक लागली.

''ना बाबा! हांव शेणींक हात लावचो ना.'' तो आपले भीतर पुटपुटलो.

अवचीत ताका एक तरेचो बरोऽ वास आयलो. दीदी क्रीम लायता त्या क्रिमावरी. ताचे दोळे कोणेतरी धांपिल्ले. मोव मोव हाताच्या स्पर्शान. ते हात दीदीचे न्हय, तें ताका कळ्ळें. तो हात सांसपितां, सांसपितां ताच्या हाताक कांकणा लागलीं. सकाळीं नव्या भाडेकाराच्या चलयेच्या हातांत कांकणा आशिल्लीं. पूण तीं सादीं आसलीं. बोटांनी ताणें कांकणा सांसपिलीं. तांचेर तासां नासलीं. दीदी तर तासां आशिल्ली कांकणा घालता.

''तूं कोण तें म्हाका कळ्ळें.''

''कोण सांग पळोंवया.''

''सकाळची चली.''

''कोण सकाळची चली?''

''नव्या भाडेकाराची चली.''

''ताचें नांव कितें?''

''म्हाका खबर ना. आतां हात काड.''

''नांव सांगले बगर ना.''

''पाडापडिल्ल्या हात काड.''

''कितें म्हळें मेल्ल्यान?'' रागान तिणें ताच्या दोळ्यांवेले हात काडले.

''पाडापडिल्लें! पाडापडिल्लें!! पाडापडिल्लें!!!''

''आपली शेंडी पळे पन्तू.... हुंदराची शेंपडी म्हूण बरी.... हूंदीर खंयचो.... हांव तुका खावन उडयन... म्यांव....'' ताणें पन्तुची शेंडी ओडली आनी धांवत सोपणां देवन गेलेंय बी....''

शेंडी ओडली थंय पन्तुक खुब दुखलें आनी खातखुतल्योय बी जाल्यो.

— x — x — x —

दुसऱ्या दिसा सकाळीं तें आयदन घेवन धंय हाडूंक वतना पन्तुन पळेलें. तो बू जी खातीर पांचवो च्या चो पालो हाडूंक वतालो. कोनशावेल्या लायटीच्या खांब्याकडेन दोगांय मेळ्ळीं.

''ए, पाडापडिल्ल्या, तूं खंय वता?''

''आरे, पन्तु-घडन्तू म्हजें नांव रिंकी. सरळ नांव घेवन उलो मार म्हाका. आनी तूं तुजें नांव

सांग म्हाका.... मागीर हांव तुका चाळोंवचेना."

"तूं म्हाका पन्तुच म्हण!"

"पन्तू म्हूण कोणालें नांव आसता?"

— तो ओग्गी रावलो.

"तूं कितवेंत आसा?"

"हांव शिकना."

"कित्याक?"

"कोणे म्हाका शाळेंत घालोच ना! हांव बू जी चो चलो न्हंय म्हूण आसूं येता."

रिंकी ओग्गी रावलें. मिठायवाल्याच्या दुकानामेरेन तें ओग्गी आसलें. पन्तुय ताचेबराबर चलूंक लागलो. ताचे बराबर वचून येतना मंगुच्या दुकानार तो च्या पालो घेवंक उबो रावलो. मंगु दार उगडून तागडी आनी जोखाची पूजा करतलो. तांकां उजवात दाखयतालो. णव वरां जावंक नासलीं, म्हूण दुकान उकतें करूंक नासलें.

"शाह, चार आण्यांचो च्या पालो दी. तिखी, बडीशेप आनी वेलचीय घाल." मंगू शाह आड्डलो, "पाडापडिल्ली जिस्तच बोणयेच्या वगतार येता. ज्या दिसा म्हातारेची पावली पयलीं येता, त्या दिसा मुसकां मारीत बसचें पडटा."

"म्हातारी आसत तुजी आवय... बू जी क म्हातारी म्हणूं नाका."

"कितें म्हळें हरामखोरा?" मंगू सान्न घेवन ताचे फाटल्यान धांवलो. पन्तू धांवलो. धांवतना ताणें म्हळें, "हरामखोर तूं.... तुजो बापुय... तुजो आजो.... तुजो पणजो... तुजे फाटले फुडले, मेल्ले जिते आशिल्ले, सगळे हरामखोर...."

इतल्यान सान्नीचो मुडो लागलो आनी पन्तू धबांयच करून पडलो. हाताचो कोंपर आनी धोंपरां फुटलीं.... पावली खळयेंत खंय तरी वचून पडली. मंगून ताका दाव्या हातान धरून दोन तीन सान्नीचे मुडे मारले. तें पळोवन रिंकीय मर्दी पडलें.

"ए, कितें म्हणपाचें आसा तें तोंडान म्हण? ताका मारता कित्याक?"

"मागीर तो गाळी कित्याक घालतालो तर?"

"तुवें ताचे बू जी क म्हातारी कित्याक म्हळी तर?"

"ती कितें तन्नी व्हय तर?"

"तन्नी आसूं नाजाल्यार म्हातारी.... तुका सामान विकपाचें आसल्यार वीक.... ना जाल्यार ना म्हण! आनीक खूब दुकाना आसात. सरळ कितें तें सांग. तो तुजेकडेन फुकट च्या पालो मागीनासलो...."

"ए, चल, चल! एक खेपे न्हय, हजार खेपे म्हणटलो, म्हातारी.... म्हातारी.... म्हातारी...."

— मंगू शाह आपल्या मांडार गेलो.

"तूं सकाळीं सकाळीं दुकान उकतें करून बसता न्हय? तुका हांव फोंडांत घालिना जाल्यार पळे. सहगल अंकलाक सांगून तुका मुल्त घालूंक लायतां."

— पन्तुन म्हळें, "रिंकी, तूं घरा वच."

"तूं कितें करतलो?"

"हांव देवळांत वचून बसतां. घरा गेलों जाल्यार बू जी क च्या पालो खंयच्यान दितलों? पावली शेणली म्हूण तूं तिका सांगू नाका. मंगुकडेन झगडीं जालीं तेंवूय बी तिका सांगू नाका. वेल्यान ती म्हाकाच मारतली."

"हे घे चार आणे.... हांव दितां तुका."

"तुका घरा मार खावंचो पडटलो."

"ना! म्हाका घरा कोण मारिना. तूं च्या पालो घेवन घरा वच."

"पूण तुजे चार आणे हांव परथून कशे दिवं?"

"नाका दिवंक."

—×—×—×—

पन्तू आपले सुवातेर आड पडिल्लो. कोंपरावेलें आनी धोंपरावेलें रगत सुकिल्लें. घाम देवन व्हांवतालो. तेन्ना ताका दिसतालें चामडे भीतर कोणतरी मीठ चोळटा. दुखीन सगळें आंग फोडटालें. हेवटेन तेवटेन वळवळत थोडो वगत गेलो.

ताचो साकाचो पड्डो हाल्लो. भायर बू जी आनी मंगू शाह उबीं आसलीं.... चाडी करूंक आयला दिसता... पन्तुक दिसलें. भयान ताचे हात थरथरूंक लागले. तो धवो फटफटीत पडलो. आंगाची दूख विसरलो.

मंगू म्हणटालो, "माँजी, आमी तुजीं भुरगीं.... आमचेर कृपा कर.... च्या पाल्याचें कितें व्हडलेंशें..... तुका जाय तितलो धाडून दितां."

"आरे, ह्या दिसांनी तूं तिखीच घालीना आनी वेलचीय बी." बू जी न म्हळें. पन्तू माराच्या भंयान धवो पडलो. ताका दिसलें बू जी क आतां मंगुल्या दुकानांतल्यान च्या पालो हाडूंक ना म्हूण कळटलें.

"वेलची आनी तिखी वेगळी धाडटां. घरा म्हजी आवय च्या पिना काय कितें?"

बू जी न साकाचो पड्डो कुशीक सारलो.

"ए पन्तू, मात्सो भायर यो." पन्तुक दिसलें ताचो स्वास भितल्ले भितर कोणेंतरी अडचिला... हो तर बू जी क मस्को मारता.... म्हाका पेटूंक लायतलो... आतां म्हजे म्हाकांच हांव कसो वाटावं?.... कितें करचें, ताका काय समजना जालें.

भायर येतकीच मंगून ताचे हात धरले.

"आरे बाबू, ती चली खंय? माँ जी, हांव गरीब बाबडो मदले मदीं मरतलो. सकाळीं सकाळीं एक मनीस येवन तालांव दिवन गेला."

आतां पन्तुक कळ्ळें, कितें जालां तें. पन्तुन व्हड उस्वास सोडलो. सहगलसाब रिंकीच्या डॅडीचो दोस्त. तांकां रिंकीन सांगलां आसतलें. आनी तांणी येवन मंगुक तालांव दिला आसतलो. आतां पन्तुक मात्सो फोर्स आयलो. हो चाडी करूंक न्हय, आपलें काम सादूंक आयला. "बू जी, हाणें सकाळीं फुडें तुका म्हातारी म्हळी. हांवें कितें म्हळें जाल्यार म्हाकाय मारलो. बू जी ह्या बेईमान सुण्याक पयलीं धांवडावन दी." मंगू ही ही करून हांसत दांत दाखोवंक लागलो.

''आरे मात्सो रावन तूं म्हणटलो, तुज कोंपर आनी धोंपरां हांवेंच फोडल्यांत म्हूण!''

''एं?.... बू जी न बारीकसाणेन पन्तुचेर नदर भोंवडायली. ताच्या हातांचे कोंपर आनी धोंपर फुटल्यांत तीं पळेलीं. बू जी च्या कपलाक मिरयो पडल्यो. ती रागान मंगूक पळोंवक लागली.

''देवाच्यान तर माँजी, हांवें पन्तुक मारूंक ना. हांव एक भुरगीं बाळां आशिल्लो मनीस.... खंयच्याय भुरग्याक कसो मारतलों?....'' ताणें तोंड बाबडेंशें केलें.

''बरें आसा... तें सोड.... पयले खेपे हांगा आयला. सांग. तूं, कित्याक आयला हांगा?'' मंगून बू जी चे पाय धरले.

''माँ जी, तुज्या पायांचो सोपूत. हांव वायट मनीस न्हय.''

''कितें काम आस तें सांग पयलीं.''

''काम कितें तें सांगतां. पूण पयलीं तुजो राग गेलो म्हूण सांग.''

''बरें! बरें!! बू जी ची तिडक निवळ्ळी.'' आनी ती हांसली. मंगूक सूऽ जालें.

''तुका सांगलें न्हय, सहगलबाब तालांव दिवन गेला.... माँ जी, हे भानगडींत कोणें पडचें?... म्हजीं ल्हान ल्हान भुरगीं आसात. तांचें पोट भरूंक हांव वावरूं, काय कोर्टांत पासयो मारूं?''

—ताणें हातांतली पुडी बू जी कडेन दिली.

''हातूंत थोडो च्या पालो आसा. अर्द शेर जातलो. माँ जी, सहगलबाब, तुज्या भाडेकाराचो खास दोस्त.... ताच्या उलोवण्यावेल्यान हें म्हाका कळ्ळें. तांकां सांगून म्हाका हे तालांवाचे भानगडींतल्यान वाटाय. तूं मनार घेशीत जाल्यार मुखारूय म्हाका कसले त्रास जावचे नात. सकाळीं दुसरीं दुकानां बंद आसतात. तेन्ना सकाळींच गल्ल्यार चार पयशे जमतात. खेपेक चार पांचशीं रुपया मुल्त जाता. चड जायत पूण उणो जावचो ना. सदांच अशे जावंक लागलें जाल्यार म्हाका दिवाळें काडचें पडटलें. म्हज्या सारक्या गरिबाक....''

— इतल्यान ताका मुखावेल्यान रिंकी येतना दिसलें.

''ए, धाकले बू जी राणी, तुका सोपूत आसा. बापायक सांगून म्हाका वांटाय.''

मंगूच्या कपड्यांक मिरसांगो आनी मसाल्याचो वास मारतालो. रिंकीन म्हळें, ''तेन्ना बरो झेत दाखयतालो.''

''धाकले बू जी, म्हजो गुन्यांव भोगोस! शाबास! म्हजें शाणें बाय तें.... हांगा पळे....''

— अशें म्हणून मंगुन हात जोडले. ''एक खेप मात्शें सहगलबाबूक सांग. हांव तुका लेमनचीं पिपीरमिटां दिंता.''

''रिंकी बाय, ताका माफ कर.... येदो व्हडलो मनीस, तुका पायां पडटा.'' अशें म्हणून बू जी च्या चो पुडो घेवन आपले कुडींत गेली.

रिंकीन म्हळें, ''पिपीरमिंटा तूंच खा!... हाचे मुखार अशें करतलो?''

मंगुन कान धरलें, ''सायबिणी, शंभर खेपे ना.''

''चल तर वच घरा आतां.''

रिंकु पन्तू म्हऱ्यांत येवन बसलें. मागीर दोगांय मंगुच्या संवगांचेर पोटभर हांसलीं.

पन्तुक न्हिदूंक आवडटा. दीस वयर आयलो, तरी तो न्हिदून रावता.येतना वतना रिंकु ताका उठयतालें.

''पन्तू, सामकार बेलाच्या झाडार कोगूळ गायता... ऊठ.... आयक.... तुका उलो मारता. पळे..... ऊठ.... कू.... कू.... कू हू.....

पन्तू कूस परतिता. ताका दिसता, तो उडटा. शेंदरेर बसून उडटा.... कोगळाचो कुहू कुहू आवाज आनी रिंकीलो आवाज भरसून ताच्या कानांत रिगता. ताचे दोळे परथून जड जातात.... न्हीद फुलपाख्याच्या पाखांनी अचळय दोळ्यांर येवन बसता.

रिंकी ताच्या भुजांक धरून ताका उठोवन बसयता.... ''ऊठ रे पन्तू.''

''रिंकी, न्हिदूं दी म्हाका.... बरें सोबीत सपन पळेता हांव.''

''अशें? मागीर तुजें सपन म्हाका सांग. आनी मागीर न्हीद.''

''सगळें सपन पळोवंक तरी दिशीत?''

''ना! ना! ना!! पयलीं तूं सांग.''

— तो उठून बसता.

''कसलें सपन पळेलें तुवें?''

''ना सांगिना.''

''बरे भशेन सांग.... नाजाल्यार तुजे शेंडयेचें पद म्हणटलें.''

''नाका! नाका! पद नाका. हांव तुका सांगतां.... तुवें आनी हावें मळबांत उडी मारून चंद्र धरिल्लो.... तूं चंद्र तोडून ताचो कुडको म्हज्या तोंडांत घालता.... तो चंद्र आसलो काय रोटी?....'' रिंकी व्हडाव्हडान हांसता.

''ना तो फकत चंद्र आसलो. पूण तुवें तो काडटकीच बर्फेचो कुडको जालो.''

''पाडापडिल्ल्या, मागीर तुवेंच एकल्यान सगळो चंद्रीम खाल्लो आसतलो. म्हूण तुजें पोट गरगरीत फुल्लां. तुवें म्हाका कांयच दिवंक ना जातलें.''

''हांवें अर्द चंद्र तुजे खातीर दवरिल्लो. पूण तुवें म्हळें, तुका भूक लागूंक ना.''

''फटींग.... बातां मारता.''

''सकाळीं सकाळीं झगडीं करूंक उठयिल्लो?''

''तुका सांगलें, सकाळीं उठून कोगूळ पळे म्हूण! आतां ती खंयतरी पयस लिपून बसल्या आसतली.''

''हांगाच आसं ती.''

''खंय?''

''म्हजे सामकार बसून गोड गोड उलयता.''

''हलू! हांव कितें काळी कोगूळ?'' रिंकी उठून धांवत गेलें.

वसंत रूतु आइल्लो.

''फुलाही'' झाडां हळडुव्या फुलांनी कुचकुचीत भरिल्लीं. सकाळीं थंड हवा व्हांवताली तेन्ना

तांचो परमळ गॅलरी, आंगण आनी पन्तूल्या घरांत पातळटालो. गॅलरी ते व्हारांद मेरेनच्या रस्त्यार हळडुव्या फुलांचो गालिचो पसरतालो.

रिंकी ती फुलां एकठांय करून ताचे कुडीकडेन येतालें आनी रिकामे काशीचेर दवरतालें.

पन्तू विचारतालो, ''ह्या फुलांचें कितें करतलें तूं?''

तें खूब वगत ओग्गी रावतालें. मागीर म्हणटालें, ''म्हाकां हीं फुलां खुब्ब आवडटात. कित्याक नकळं, पूण म्हाकां दिसता, ह्या फुलांची रास करची आनी ते राशीर न्हिदचें.''

पन्तू हांसता. ''रिंकी, कसलीं पिशेपणा उलयता? हीं हळडुवीं फुलां म्हळ्यार कापूस तर?''

''तूं जळरां आनी किड्यांमदीं रावपी मनीस.... तुका कशें कळटलें तें?''

''हांव नकळ तर, तूं ह्या फुलांचें कितें करतलें तें?''

''कितें करतलें?''

''हीं एकठांय करून तूं तीं उशांनी आनी गादयेंत भरतले आनी लग्नाचे शिवर्णीत व्हरतलें.''

— हाचेर रिंकीन ताका जीब काडून दाखयली.

— × — × — × —

दीदीलें लग्न जालें. पन्तुक कळूंक लागिल्याक हें पयलें लग्न आसलें. आनी तें ताणें सुर्वेसावन निमाणे मेरेन, व्हंकल घोवाघरा वता, ते मेरेन पळेलें.

रंगीत बनेरां, पदां, चलयालें हांसप, चौगुड्याचें वाजप, लायटीचे दिवे, मिठाय आनी तरेकदार खाणां....

सगळें विचित्र पूण आकर्शक दिसतालें. दीदीची डोली वतकीच पन्तू आनी रिंकी बसून रडलीं. तांचे नकळत तांचे भितर एक नातें तयार जालें.

डोली वतकीच तो हुडक्या हुडक्यांनी रडलो. लोक म्हणटाले, दीदीले घरचो लोक लेगीत रडूंक ना तितलो तो रडलो. गर्दैतल्यान ताका कोणेंतरी उखलून दीदीले डोली म्हऱ्यांत हाडलो. दीदीन ताचे तकलेवयल्यान हात भोंवडायलो. आनी तीच रडूंक लागली. वतां वतां दीदीन दोन रुपयांची नोट ताच्या हातांत दिवन ताची मूठ बंद केली.

दुसऱ्या दिसा सांजेर ताणें ती नोट रिंकीकडेन दिली.

''तूं ही नोट दवर. म्हाका तिचो कितें उपेग?''

''नाका रे बाबा. हांव कोणालेय पयशे कित्याक घेंव?''

''तुवें घेतले नात जाल्यार कोणूय म्हजे कडल्यान हे पयशे काडून घेतलो.''

''बरें तर! ह्या पयशांनी हांव तुका, तुज्या हातांत घालूंक एक कडें हाडटां.''

''तुका बरें दिसता तशें कर.''

दुसऱ्या दिशा सांजेर पन्तुच्या हातांत कडें घालीत रिंकीन विचारलें, ''तूं ओग्गी कित्याक?''

''हरशींच.''

''कडें घालतकीच तुका बरें दिसलें ना?''

''ना! तशें न्हय. हांव चिंततालों दीदी भशेन तूंय बी एक दीस घोवा घरा वतलें.''

''धत्! निर्लज्ज मेलो''— तें उठून धांवत गेलें.

दीदी पयले खेपे कुळारा आइल्लें. होळी खातीर ताचो घोव भेट घेवन येवचो आसलो. मारवाडी लोकांचे रितीप्रमाण दीदीची आवय ताच्या हाताक आनी पायांक मेंदी घालताली. पन्तू पळेत आसलो. ताका दिसलों रिंकीच्या हातार मेंदी घालची. तेन्नाच रिंकी वयर आयलें. दीदीली आवय मेंदी घालता तें पळोवन ताणें म्हळें, ''आण्टी, म्हाकाय मेंदी लाय.''

''यो! हांव तुका मेंदी लायतां'' पन्तुन म्हळें.

''रिंकीन हांसत दोनुय हात ताचे मुखार केले.''

पन्तुन ताच्या हातार फुलां आनी नक्षत्रां काडलीं. दीदीले आवयक मेंदी पळोवन अजाप दिसलें. पन्तुलो स्वताचे करणेर विश्वास बसलो ना. आपले आपणाक ताणें केन्नाच कसलेच लायकीचो समजूंक नासलो. ह्या कामाक लागून जाल्ले तुस्तीन तो खुशालभरीत जालो.

होळीचे दीस आयले.

बाकी भुरग्यांवरी आपणेंय होळी खेळची अशें ताका दिसलें. रिंकीच्या तोंडाक रंग लावचो अशें ताका दिसलें. पूण रिंकीन ताका पयलींच सांगिल्लें, आपणाक रंग लावं नाका म्हूण!

आपले हात ताचे मुखार दवरून ताणें म्हणिल्लें, ''पळे, तुजे होळीचो रंग कितलो गाढ आनी चकचकीत... आमची होळी हेर लोकांपरस कितली वेगळी....''

हें सगळें येवजतकीच पन्तुक एकेतरेन खोस भोगताली.

सांजेर तेर्रासार शेणीं मदीं बसून तो चिमण्यो आनी पिटकोळ्यो आपल्या घोटेरांत परततात तें पळेतालो. तेन्ना रिंकी थंय आयलें. आनी ताणें एका पेपराच्या लाखाटयांतलो रंग ताच्या माथ्यार ओतलो.

''तुवें तुजो रंग म्हज्या हाताक लायलो. हांवेंय तुका परथून रंग लावं नाका? आनी हो रंग कपडे पिड्ड्यार करीना.''

''हळद आसतली.''

''ना. फुलाहीचीं फुलां वांटून रंग केला.''

''तूं जाणा पन्तू, मेंदी लायता ताचो रंग जितले चड दीस उरता, तितलो तो मनीस खूब प्रेम करता.''

''तुवें हाडिल्ल्या रंगाचो मातूय रंग आयलो ना. हाचोच अर्थ, तूं म्हजेर मातूय मोग करिना. हांव मात तुजेर खुब्ब मोग करतां.''

''म्हाका खबर ना. आनी हांव तें आयकुनूय बी घेवचें ना.'' अशें म्हणून हांसत रिंकी सोपणां देवन गेलें.

खूब खेपे रिंकी माजराभशेन, पायांचो आवाज करिनासतना वयर येतालें आनी पन्तू म्हऱ्यांत बसून रणबीरेश्वर देवळाभायल्या कारंज्याक पळेत रावतालें आनी आवय ताका उलो मारताली, तेन्ना ल्हवूच सकलय वतालें.

रामनगरसावन सुवासीक थंड हवा व्हांवताली.

ही सकाळची खबर.

पन्तू आपले कुडींत बशिल्लो. इस्कादीचेर पावलांचो आवाज आयलो. पळेत जाल्यार रिंकीली आवय कपडे भरिल्ली बालदी घेवन तेर्रासार सुकोवंक वताली. पन्तू ओग्गी रावलो. रिंकीले आवयन दोन कोंडे तेर्रासाच्या रेलिंगाचेर दवरले. ताचेर कपडे सुकत घालून ती गेली.

कांय वेळान बू जी आयली. तेर्रासार कपडे पळोवन ती फडफडली.

''पाडापडिल्ल्यांक सगळें घर भाड्यान दिलां काय कितें?''

बू जी क दिसतालें, भाडेकारांक तांच्यो कुडी सोडून ताचे भायर कांयच करपाचो अधिकार ना. कुडींत कितेंय करात. कित्याक, ते ताचें भाडें दितात. पन्तून म्हळें, ''बू जी, ल्हवू उलय. त्या लोकांनी आयकलें जाल्यार?''

''पाडापडिल्ल्या, हांव कोणाक भियेना, कळ्ळें मरे? तें मेलें रिंकी येवन कपडे सुकत घालून गेलें आसतलें, हय मरे?''

''बू जी, खबर नासतना कोणाकूय गाळी घालप समा न्हय.'' पन्तूच्या स्वरांत राग आसलो. मंगुकडेन झगडटना रिंकीन ताचे वटेन रावन ताची मदत केल्ली, तें पन्तू विसरूंक नासलो.

''चेडयेच्या, तूं केन्नासावन तांची आदोगासी करूंक लागलो? आतां आनीक चड उलयशीत जाल्यार उबो चिरून भितर मीठ भरतां.''

''बू जी, पूण जालां कितें? आमचें घर कांय झरूंक ना न्हय? कपडे वोतान सुकतले. आमचें हातूंत कितें वता?''

— रागान बू जी थरथरूंक लागली.

''तुजी आदोगासी आतां भायर काडटां.... देडशाणेपणा करता मरे... दाखयतां तुका कितें तें...''

तिणें ताच्या भुजांक धरून ताचेर सातआठ थापटां फुलयलीं. पन्तुक दिसलें वागोणी ताच्या आंगार कांटे तोंपीत भोंवता. भंय आनी तिडक ताच्या काळजांतल्यान भरून व्हांवक लागली. तो आड्डलो.... ''मार आनी मार... मारूनूच उडय म्हाका.... सदां इल्लें इल्लें मरचे परस एकूच खेपे मारून उडय...''

गवळणीच्यो शेणी थापून जाल्ल्यो, ती बू जी म्हऱ्यांत येवन उबी रावली. तिचेर नदर पडटकीच बू जी न उरिल्लो राग तिचेर काडलो.

''कितें पळेता? कितें जालां? हांगा कितें नाटक दवरलां हांवें?''

''जातलें कितें सायबिणी? हांव म्हजो पगार व्हरूंक आइल्लीं... पूण ह्या गरीब पोराचेर म्हजो कांय अधिकार ना... अशें चिंतून ओगी रावतालीं.... पूण आयज ओगी रावचीं ना. तुका खरेंच सांगता. पन्तू खरें तें उलयलो. अशे तरेन सदांच इल्लें मारून हाल करचे परस एकेच खेप ताका मारून उडय.''

''हांव हाका मारू नाजाल्यार चिरून कुडके करूं. तुका कितें जालें?''

''बाये गे, तो तुज्या पोटांतल्यान जल्माक आइल्लो जाल्यार तूं असलें अळशिकावणें उलोवची नासली. दुसऱ्यालें रगत... तुका जशें दिसता तशें कर.''

''ज्या लोकांनी अर्द अर्द डजन भुरगीं जल्माक घाल्यांत तांचेपरस ताका हावें बरो दवरला.''

"ताकाच लागून फकिरावरी इतलीं वर्सां तो पिंनिल्ले कपडे घालता. आवयचें काळीज आसलें जाल्यार आपल्या भुरग्याचे असले कपडे पळोवन काळीज फुटपाचें.... आरे देवा, अशें कोणाक आनी करू नाका.... देवा, खंयच्याय भुरग्याचे आवयक मर्ण दिवं नाका."

"चल. चल... मेली चुळकी खंची... इतलें तुका वायट दिसता जाल्यार तुवे ताका कुर्ता पायजमो शिवून कित्याक दिलो ना?"

"हांव ह्या म्हयन्याचो पगार व्हरिना. त्या पयशांनी हाका कुर्ता पायजमा शिवून घे. आयज सावन हांव तुजें काम सोडटां.... एका अनाथ भुरग्याक मार खावचो पडटा. आनी तें पळोवपाचें पातक म्हाका करचें पडटा.... म्हज्यान तें पळोवं नज.... असल्या दुश्ट लोकांचें काम करचे परस तें सोडिल्लें बरें...." गवळण तिका तोंपून उलयली.

"आयकलें मेल्या? तुका लागुन दोन पयशांच्या लोकांकडल्यान म्हाका कितें कितें आयकुचें पडटा तें.... म्हजे फाटल्यान तूं लोकांक म्हज्यो चाडयो सांगता, म्हूण ते अशे उलयतात...." बू जी न पन्तुचो हात परथून धरलो आनी परथून ताचेर एक थापट फुलयलें. गवळण मुखार सरली. तिणें बू जी चो पन्तुक मारूंक उबारिल्लो हात वयले वयर घट धरलो.

"खबरदार! आतां हाका परथून हात लायशीत जाल्यार...."

दादल्यावरी वाडिल्ले ते गवळणीच्या दोळ्यांत उजो पेटिल्लो. बू जी भियेली. पन्तुक सोडून ती फाटीं परतली. कांय खीण तशेच शांततायेन गेले. आतां कितें जातलें कोणाक खबर, अशें दिसलें... अकस्मात् गवळण सोपणां देवन गेली. तिणें फाटी वळून पळेलें लेगीत ना. पूण तिचे कान फाटल्यान कितें चल्लां ताचो अदमास घेताले.

बू जी न दुसरे खेपे पन्तुक भुजांक धरलो. "सांग पंयलीं.... तूं लोकांक म्हजेविशीं कितें कितें सांगीत भोंवता?"

— पन्तु ओग्गी उबो आसलो... भियेवन ताची गुळी जाली.

"सांग.... उलय आतां." तिणें परथून थापटां फुलोवंक सुरवात केली. पन्तुक, दिसतालें गवळण मुखार येतली. ताका सोडयतली. आपल्यागेर घेवन वतली. पूण हे खेपे ती आयली ना. इतल्या बोवाळान रिंकी केन्ना वयर आयलें ताका कळ्ळेंच ना. तें म्हणटालें, "बू जी, ताका मारूं नाका. सोड ताका."

— ताणें बू जी चो हात धरिल्लो.

"ताका बाबड्याक अजून कशें उलोवचें तें कळना.... तो तुज्यो चाडयो कशो सांगतलो? तो तर ओग्गी बसून आसता."

"सर फाटीं. तुका केन्नासावन हाची काकूट येवंक लागली काय म्हणटां?"

— बू जी ची दोन थापटां रिंकीचेर बसलीं.

मागीर कळ्ळें की रिंकीचो बापुय मंगु शाहचें दुसरे खेपे भरिल्लें चलन कॅन्सल करूंक पावलो ना. कित्याक, त्या दिसाचे गस्तीर मॅजिस्ट्रेट ताचे वांगडा आसलो. ताचो राग बू जीक आशिल्लो. तो राग तिणें पन्तुचेर काडिल्लो.

कितें करचें तें कळूंक नाशिल्ल्यान आनी साप्प असहाय जातकीच पन्तुन थंय आशिल्ली फळी

उबारली आनी आपले तकलेर फोर्सान मारली. तो रडटालो आनी दुसरे वटेन म्हणटालो, ''बू जी मार.... म्हाका मार... आनीक मार... मारून उडय... म्हजेर दया कर.''

ताचे तकलेंतल्यान भळभळीत रगत व्हांवतालें. फळयेकूय बी रगत लागिल्लें. आपलो हात सोडोवन घेवन रिंकी धांवत गेलें.... कसली पाडापडिल्ली राक्षीण.... कैदाशीण.... लांवसट मेली...

''मेल्या, तूं आयज तांगेरच जेव... तांचे वटेन उलयता न्ही...'' अशें म्हणून बू जी सकयल गेली.

जमनीर न्हिदिल्लो पन्तू खूब वगत मेरेन न्हिदून रावलो. रिंकी एक पुडी घेवन येवन ताचे म्हऱ्यांत केन्नासावन बसलां ताका कळ्ळेंच ना. पुडयेंत कोडू तेल घाल्ली हळद आसली. पन्तुचे घाय पळेतना अकस्मात ताच्या तोंडातल्यान शब्द आयले ''आवयस्!''

''एक घाय खूब व्हड आस रे – टांके घालचे पडटले आनी धोणकेचें इंजेसांव घेवचें पडटलें.''

''हांव जाल्यार म्हणटां, म्हाका धोणकी जावं.... दिसपट्टें इल्लें इल्लें मरचे परस एकूच खेपे मर्ण आयल्यार बरें.

रिंकी बोटाच्या पेरान ताच्या घायांचेर हळडीचें मलम लायतालें. घायांचेर मलम लागतकीच चुरचुर पडटाले... दुखीन तो पिरंगतालो. रिंकीची बोटां थरथरतालीं. ताच्या दोळ्यांतल्यान मोटी मोटी दुकां येवन घायांक लायिल्ल्या मलमाचेर पडटालीं.

पन्तुचे दोळे तांबडे गुंज जाल्ले. दोळ्यांत दुकां येवचीं बंद जाल्लीं... पूण अजून हुडकेतालो. रिंकीन दुपट्ट्याचें तोंक आपल्या तोंडान घाल्लें. आनी ताणें आपलें रडप थाथारून दवरिल्लें. आपले दोळे पुसून ताणें म्हळें, ''पन्तू, हांव तुका वर्णमाला हाडून दितां.... तूं शीक.... शिकतलो मरे?''

— पन्तुन मान हालोवन हय म्हळें.

''म्हजो आजो म्हणटा मनीस शिकलो म्हणटकच ताचे अर्दे किलेश गंगेंत व्हांवन वतात.''

— खूब वगत मेरेन दोगांय एकमेकांचे हात धरून एकमेकांच्या दोळ्यांत पळेत बशिल्लीं.

''रिंकी, हांव मरूंक सोदतां.''

''अशें उलोवं नये पन्तू.''

''कोणालो आदार नाशिल्लो लोक, ज्यांका संवसारांत कोणूच ना असो लोक, निमाणें त्रास काडुनूच मरता.''

— दोगांय हुडक्या हुडक्यांनी रडूंक लागलीं.

मळबांतलो काळोख डांबरावरी जाल्लो. वितळिल्ल्या डांबरावरी तो ल्हवू ल्हवू सगळ्यांक पातळटालो. गॅलरी, पन्तुची कुड आनी आत्मा सगळें त्या डांबरान भरिल्लें.

''बिण्ण काळोख... रातकिडे किरकिरताले.'' हांव एकलोच हवेंत उडटां.'' — पन्तुक दिसता.

ल्हवेंल्हवेंत सूय तोंपिल्लेवरी जाता. अवचीत ताका दिसता तो जमनीर देंवला... तान लागल्या... गळो सुकला... जमनीक पाय लागतकीच तो धांवत सुटटा... एक पाणटो... ताच्या तिरार पावपाची आस्त काजुल्यावरी पेट्टा पालवता.... उदक पयस पयस वता. पुरो जावन तो जमनीर

पडटा. आतां पाणट्यांतलें उदक धांवत ताचेसरीं येता.... उदकाच्या ल्हारांतल्यान सोंशेल्लेवरी आवाज येता... ह्या नाग-ध्वनीतल्यान आनीक एक चिडिडलेवरी आवाज येता... पयलीं तूं आमकां पिवंक येतालो. आतां आमी तुका पिवन उडयतलीं.... पायांच्या तळव्यांक लागपी उदक धोंपरामेरेन पावलें... सुकिल्लो गळो ओलो करूंक पन्तू आपल्या हाताच्या पोशान उदक घेता... पूण तें उदक रेंव जाता... तापिल्ली रेंव.... मृगजळाभशेन सगळेंच फट...

"माँ... माँ... माँ...."

"दूद पितलो बाबू?" गवळण आयल्या.

"हय... पूण पयलीं उदक जाय."

— अवचीत एक ल्हार येवन गवळणीक घेवन वता.

उदकाचेर पातळिल्ल्या धुक्याच्या चादरांतल्यान बू जी भायर सरता. म्हणटा म्हणसर एक व्हडलो अष्टपाद (ऑक्टोपस) उदकांतल्यान भायर सरता. ह्या अष्टपादान आपल्या आठूय पायानी पन्तुली छाती, फाट आंवळून धरल्या. तो ताका खोल उदकांत व्हरता.

"बू जी, बू जी..." पन्तू आड्डता. ती "खो खो" करून व्हडान हांसता. तिगेल्या हांसपाचो आवाज देवळांतले घांटीवरी सगळ्याक घुमता... हवा बू जील्या धव्या केसांकडेन खेळटा.

"बू जी, म्हाका वाटाय... हो म्हजें रगत पितलो."

मर्दींच वागोणी कानात रिगता... पाडापडिल्ल्या तूं म्हजो कोण? तूं म्हजो कोणूच लागना...

— काजुले उदकाचेर व्हांवत वतात.

"बाबूजी, म्हाकां वांचय.... काजुले उडचे सोडून एके सुवातेर एकठांय जाल्यात. पन्तूचो आवाज भीतर ओडिल्लेवरी जाता... खोल उदकांत बुडिल्लेवरी.... तेन्नाच ताका एक आवाज आयकूंक येता.

"पन्तू, ए पन्तू...." बेशुद्धिचे खोल बायंत बुडटां बुडटां ताका एक आवाज आयकूंक येता... "आरे, आयज उठना? आंब्यारूखार कोगूळ गायता.... तुका कितले खेपे उलो केलो रे?"

"रिंकी, यो... म्हाकां ह्या बांयतल्यान भायर काड." पन्तू म्हणूंक सोदता.

"चल. आमी उडटा त्या गालिच्यार बसून भोवंक वचुंया... फक्त तूं म्हाका हे विवशतेंतल्या बांयतल्यान भायर काड.

"उठ!" कानांत घांटी वाजयिल्लेवरी आवाज येता. ताका सुद्द येता. पळेत जाल्यार काशीचेर बसून रिंकीन ताचें भूज धरलां.

"आमी वतात. सगळें सामान घोड्याचे गाडयेर घालां. आमी दुसरेकडेन एक कूड भाड्यान घेतल्या."

पन्तुले दोळे जळटात. हुमेन सगळी कूड भिजल्या. आंगांतल्यान दुखीच्यो किटी उसळटात. दोळे उकते केल्यार दोळ्यांतल्यान उदक व्हांवता. "म्हाकां कडटया डांबरार उडोवन वचूं नाका." उतरां ताचे जिबेवेल्यान निसरतात.

"तुजे दोळे तांबडे कशे जाल्यात? तूं कित्याक उलयना?" रिंकी पन्तुच्या माथ्यार हात दवरता. "आरे देवा, पन्तू तुकां खुब जोर आयला." पन्तुचे व्हांवते दोळे चकचकताले.... बरें

जालें. हें खूब बरें जालें. तेवटेन रिंकी वता. हेवटेन म्हजो जीव वता... ''तो आंशिल्ली नाशिल्ली शक्त काडून उलयता. ''बरें जालें रिंकी.... म्हज्या मनाप्रमाण जालें. कालूच हांवें मर्ण मागलें आनी आयज तें आयलें.''

उदकाचो बांद फुटिल्लेवरी जाता. रिंकी हुडक्या हुडक्यांनी रडत वता. दीदील्या लग्नावेळार लेगीत तें अशें रडूंक नाशिल्लें.

आपले कुडीचेर आनी आपल्या मनाचेर पन्तुलो ताबो ना. तो पुराय साबुद्दीरूय ना आनी बेशुद्दबी ना.

सकयल्यान खूब लोक धांवत आयिल्लेवरी आवाज येता. पन्तुक दिसता तो उडटया गालिच्याचेर बसून उडटा.

''रिंकी, चंद्रिमाच्या दोनूय तोंकांक दोरी बांद.... बरो झोंपाळो जातलो.... चान्ने कितलें धवेंफुल्ल पडलां न्ही?''

बरीता म्हणटा... धोंडकी आसताली.... दोतोर ताका टिटेनस म्हणटात.

''आरे म्हज्या पुता, हें तुका कितें जालें?'' बू जी रडटाली.

''बू जी, रडटा कित्याक? हांव चंद्रिमाचेर झोंपाळो घेंवक वतां.'' तो पुटपुटलो. बू जी न ताका वेंगेंत घेतलो.

''तूं खंयच वचचो ना. तुका म्हजे म्हऱ्यात रावंक जाय. हे म्हातारेचो तूंच तर एक आदार... देवा, म्हजो गुन्यांव भोगोस...'' बू जी आतां हुडक्या हुडक्यांनी रडटा.

''आरे, कोणूय वचून दोतोराक घेवन येयात... बरीता तूं दोतोराक घेवन यो.''

''बू जी, ताका ताच्या बापायच्यो गजाली सांग.'' रिंकीन म्हळें. दिसलें बेलाच्या रूखार बसून कोगुळ कूऽ करता.

''एक खेपे हांव दुयेंत जालीं... आयकता पुता?''

''हूं!'' पन्तुलो आवाज खोलांतल्यान येतासो दिसतालें.''

''तुज्री आवय रात दीस म्हजी सेवा करीत रावली. रातीकडेन बापूय जागो रावलो. वखद दीत रावलो. म्हणटालो, ''कांय जावंकना तुका. तूं रोकडीच बरी जातली. तूं दुयेंत आसा हें मनांतलें काडून उडय.''

— पन्तुक दिसलें ताचे खातीर कोणतरी आल्लय गाता.

''तुजो बापूय एक खूब बरो मनीस आसलो. देशाचे फाळणेउपरांत लाहोरांत म्हजो जावंय मेलो... तुजो बापूय म्हजे विधवा धुवेक हाडूंक म्हूण गेल्लो, तो परथून आयलोच ना.''

तेन्नाच गवळण धांवत धांवत वयर आयली.

''पन्तुक कितें जालें?.... दोतोराक हाडूंक वतना बरीतान म्हाका रस्त्यार सांगलें.... पन्तूऽ...

तिणें बू जी च्या हातांतल्यान पन्तुक आपले कडेन घेतलो. गवळण येतकीच बू जी मात्शी भियेली.

''पन्तू, सावचीत जा.... हांव ती दूद काडटा ती गवळण... पन्तू....''

गवळणीच्या कपड्यांक येवपी एकेतरेचो दूदाचो वास पन्तुल्या नाकांत रिगलो.

''माँऽ!'' खुब्ब त्रासांतल्यान ताच्या तोंडांतल्यान उतर आयलें.

“हय पुता...” गवळणीच्या दोळ्यांतल्यान दुकां व्हांवंक लागलीं. ताका दिसलें युगांयुगांची आत्म्याची तान भागली.

“तुका कितें जालें पुता? तुजी बू जी कितली रडटा पळे.”

— पूण पन्तुच्यो अस्कड्यो जड जाल्यो. फुलपाख्यांचे तरेकवार रंगाचे चोम्याचे चोमे चंद्रिमाकडेन उडटाले.

ल्हवू ल्हवू ताचे दोळे धांपत गेले.

★ ★ ★




# 7
# चरतें

तो सामकार येवन उबो रावता.

"पाडपडूं! आयचोय दीस फुकट गेलो."

— खरें म्हळ्यार अशें म्हणूंक फावना. पूण केन्ना केन्नाय भितल्ली गजाल मनांतल्या चार वणटींभितर बांदून दवरूंक जमना. भोवच कठीण काम तें.... पूण सांगचे सारकी गजाल आसली जाल्यार ती उदकावरी खंयच्यानतरी भायर पडटाच.

हांव जाणां, तो म्हाका मूर्ख समजता. एकदम् बुर्र! तरीकूय हांव ताचें उलोवप सोंसतां. इतलेंच न्हय तर ताच्या उतरांच्या जाळांत नुस्त्यावरी हांव घुस्पला, अशें ताका भासयता... जाळांतलें नुस्तें काड. तळ आनी खा... धेंकर दिनासतना!

खरें म्हळ्यार ताचें उलोवप एक दोन कप च्या मारीसर चलतालें. पूण एकेक खेपे अतिताय जाल्लेवरी चार, स कपांमेरेन पावतालें. हो च्या चो कप एका वरान मागयात नाजाल्यार स वरांनी... वगत ताचे कडेन खूब आसलो. ताका लागून तो येवन वचसर वाजाच्या पावसांत भिजत बसपाचें.

जाता अशें – तो सामकार बसून अश्या एकाद्र्या विशयाचेर उलयता, जातूंत म्हाकां इल्लोय इंटरेस्ट ना. देखीक, तो आपूण कांसाक गेल्लो ताची गजाल सांगतलो.... कवडो मारूंक तो ताचे फाटल्यान कसो धांवलो... धांवतां धांवतां तो रान माड्डीत पुराय जग माड्डीतालो. तुमी मात आसा तेच सुवातेर उबे.... तुमकां दिसता मागीर खऱ्यांनीच जग वांटकुळें.... ताच्या बापायच्या 'दम्बुक' नांवाच्या कवितासंग्रहाची तुस्त केली आनी हेर कविंच्यो कविता तासल्यो काय तो खुशालभरीत जातालो.

बंदूक आनी कविता तुमी एके माचयेर सोसूंक शकतात. पूण तुमचो मूड नासतना जेन्ना तो आपल्या कवितांचें जाळें तुमचेर घालता, तेन्ना मनांत आशिल्ल्यो गाळी सट करून जिबेर येतात.

तुमचें पासियेंस काबार जावचे पयलीं तुमकां सगळें सांगिल्लें बरें. आनी ताचें नांव सांगलें ना जाल्यार काणी अर्दकुटी उरतली. आनी एक खेपे ही काणी सांगूंक लागलों जाल्यार उदकावरी ती व्हांवत रावतली. खंयच थांब नासतना. थांबिल्लें उदक कुसता आनी उरिल्ली गजाल पिड्ड्यार जाता खंय... तर ताचें नांव आसलें पवित्रनाथ आनी दुसरें नांव "कलाजंग." घडये तो केन्नाय कुस्ती शिकतालो आसुं येता. ताका लागून दुसरें नांव "कलाजंग."

हरशीं कविंची तुस्त करपी मनीस हांव. पूण कवी जेन्ना कुस्ती चड आनी कविता उणी करता

तेन्ना ओग्गी रावप, हांव म्हजो जल्मसिद्ध हक्क समजतां. नायजाल्यार मौनं सर्वार्थ साधनम्।

खंयचेंय पुस्तक जेन्ना छापून तयार जाता, तेन्ना सदांच आठवडोभर संपादकीय तयार नाशिल्ल्यान हुंबळकत उरता. आयज संपादकीय तयार आसलें. टायपिस्ट सकाळींच तें टायप करून दिवन गेल्लो. तें वाचून सुधारून प्रेसांत दिवपाचें उरिल्लें.

पयल्यो दोन वळी वाचल्या मात्, तो धडाम् करून दार उगडून भितर आयलो. हात मुखार करून ताणें विचारलें,

"कसो आसा?"

"आसा बरो!" – हांवें थंडसाणेन म्हळें.

नम्रता आनी शिश्टाचार आमच्या विभागाची गरजेची गजाल. थंडसाण हांगा चलना. कित्याक तर आमचो संबंध बुदवंत लोकालागीं आसता. ते लोक भावूक आसतात, खेरीज तांकां अहंकाराचो वास आसता. सांगपाचें म्हळ्यार, तांची तिडक लेगीत तांच्या सभावाचो भाग अशें धरून वागचें पडटा.

तो कुडींतल्या हेर लोकांक हात दिवपांत गुल्ल आशिल्लो, तेन्ना म्हजी नदर मेंदीन तांबड्या जाल्ल्या ताच्या बोटांचेर गेली. तेन्नाच मेहताबान ताका विचारलें, "कितें रे बाबा? बोटांचेर मेंदी शी कित्याक घाल्या?"

"अशीच! मनांत आयलें. मजा दिसली. हाताचीं बोटां मेंदयेन रंगयलीं मनाचे खोशेखातीर मनीस केन्ना कितें करीत सांगूं येता?"

बरें जालें, तो मेहताबावांगडा गजाली मारूंक उबो रावलो तें. चितलें, तितल्या वगतान संपादकियाक फायनल टच दिवचो. कित्याक, विचारांची साखळी एक खेपे तुटली काय मागीर केल्लें काम वायट जाता.

ह्या दिसांनी तो सदांच येतालो. पयलीं थोडो वगत बसून मागीर दुसऱ्या सेक्शनांत वतालो. थंय जण एकल्या म्हऱ्यांत थोडो थोडो वगत बसतालो. आनी ऑफीस बंद जालें म्हणकीच वतालो. ल्हवूल्हवू म्हजे म्हऱ्यांत बसपाचो ताचो वगत वाडूंक लागलो. परिणामीं म्हजें काम काबार जायना जालें.

ताच्या व्यक्तित्वांत एके तरेचें हुळहुळेपण आसलें. एके सुवातेर थंडसाणेन ताका बसुंकूच येनासलें. तो ओग्गी बसतालो, तेन्ना लेगीत ताचे दोळे हेवटेन तेवटेन घुंवताले.

हांव कामात आसन जाल्यार म्हजें लक्ष ताचेवटेन ओडून घेवंक तो बोटांनी टिकटिक करतालो. नाजाल्यार केन्ना बोटांनी मेजाचेर घोडे धांविल्ल्याचो आवाज काडटालो.

अकस्मात दोळ्यांची मिचमिच थांबोवन तो स्टुलाम्हऱ्यांत आयलो. हात फुडें करून ताणें कॉलबेलचो बटण दामलो. मागीर भरिल्ल्या आवाजान ताणें म्हळें, शर्माजी, ऑफिसरांचो हो झेत मात पळोवपा सारको आं... बॅलीचो बटण दाम आनी चपरासी हाजीर!

हांवें हांसून ताजेकडेन पळेलें. तो भुरग्यांवरी बॅलीचो बटण दामीत आसलो.

"शर्माजी गाडयेच्या हॉर्नाच्या पों पों आवाजांतूय बी वेगळी मजा आसता. ल्हान आसतना बावलो बावलेचें लग्न लायताले, तेन्ना ट्रकाचो हॉर्न वाजंत्र्याचें काम करतालो. म्हजो काका ड्रायव्हर

आसलो. पात्रांवान पगारांत पांच रुपया उणे दिले, जाल्यार तो गाडयेचो हॉर्न घरा घेवन येतालो. अशे तरेन दर म्हयन्याक तो गाडयेचो एकतरी स्पेअर पार्ट घरा हाडटालो.''

आतां म्हाका पेन सकयल दवरचेंच पडलें. ''अशे तरेन गाडयेचें पुराय सामान तुमच्या घरा एकठांय जाल्लें आसतालें न्ही?''

''पूण स्पेअर पार्टानी गाडी खंय तयार जाता? काका शेटीक सांगतालो अमुक तमुक स्पेअर पार्ट पिड्ड्यार जाला. आनी मागीर काका तोच स्पेअर पार्ट परथून व्हरून लायतालो. खरें म्हळ्यार असल्या फटींग शेटींक फटयलें म्हूण जालें कितें? नाजाल्यार ते पाडापडिल्ले आमकां गरीब करून पयशेकार जाल्यात.

''खऱ्यानीच?'' हांव मूर्खावरी तोंड करून ताका विचारतालों.

''हांव जाल्यार म्हणटां घोशणा करून गरिबी वचची ना. कसलो तरी उपाय करूंक जाय. आनी शेट लोकांकडल्यान, तांचेकडेन आशिल्ले पयशे काडून घेवंक जाय... कशेय तरेन जावं मागीर ते... तांकां फटोवन... तांकां नागोवन... नाजाल्यार तांच्या घराचेर दरोडो घालून... लीडर म्हणटात, गरीबी हटाओ... हांव म्हणटां पयशेकाराकडल्यान पयशे फारायात.''

''अशें केल्यार सगळ्याक गोंदळ जातलो.''

''तुमकां कितें दिसता? आमी आतां राम-राज्यांत रावतात म्हूण?''

— हांव ओग्गी. ताणें परथून कॉल बॅलीचें बटण दामलें. ''आरे, आयकूंक कितलें बरें दिसता न्हय?.... कितलें सुंदर संगीत... ट्रिन... ट्रिन... ट्रिन.....''

तेन्नाच चपरासी भितर आयलो. आनी येवन कलाजंगाक पळोवंक लागलो. ''दोळे फोडून कितें पळेता'' कलाजंगान विचारलें. आनी, आनीक एक खेपे बॅल वाजयली.

''सर, हें खेळणें न्हय.'' चपराशान म्हळें.

— कलाजंगाक कितें उलोवचें कळ्ळें ना. आनी ताणें आपलें काम ताका सांगलें. ''आरे, उदक घेवन यो.... मागीर दोन कप च्या... मागीर हांव ह्या खेळण्याबराबर खेळचें बंद करतां.''

''पयशे कॅश दिता काय कॅंटिनांत तुमची उदारी आसा?''

''शर्मासराच्या खात्यार हाड बाबा.... शर्मासराचो हांव पावणो. तेन्ना सर आसतना हांवें पयशे मोडून च्या पिवप म्हळ्यार तांचो अपमान न्हय? कितें शर्माजी?''

''बरोबर!'' हांव ताच्या धूर्तपणाचेर आनी म्हज्या सोंशीक सभावाचेर हांसतां.

''आयक, आनी खावंकूय बी कितेंय घेवन यो.... शर्माजी तुमी कितें खातले?''

''म्हाका कांयच नाका.''

''म्हजे खातीर दोन ''बाकरखानी'' हाड. मागीर म्हजेकडेन पळेंत जाणें म्हळें, ''शर्माजी, च्या एक सुंदर ड्रिंक ! कवी, लेखकांक तें खूब उंचायेर व्हरता.''

— खरी गजाल अशी आसली की पांच स खेपो उंचायेर वचून, म्हळ्यार पांच स खेपो च्या मारून लेगीत पुरो जायनासतना तो आपली बडबड चालू दवरतलो.

''शर्माजी, एक दीस तुमकां आमच्या गावांत व्हरतलो म्हणटां. गरमेच्या दिसांनी गरमेक लागून लोकांचें दिसाचें जगप आनी रातची न्हीद ना जाता, तेन्ना आमच्या गांवचो लोक ब्लेंकेटां

घेवन न्हिदता.''

पवित्रनाथाक म्हळ्यार कलाजंगाक ताच्या गांवच्या शेजारच्या गांवांतूच म्हजो आजो पणजो रावतालो हें चड करून खबर ना शें दिसता. थंयचें वातावरण जम्मुभशेनूच. तो फट मारता हें खबर आसून लेगीत हांव शांतपणान ताचें उलोवप आयकतां.

''तुमी डाक बंगल्यांत रावात. हांव तुमचे खातीर कवडुले, रानवटी बोकडे बी हाडून दितां. चौकीदार तुमचे सेवेक हाजीर आसतलोच. गुजर लोक ताजें दूद आनी तूप हाडून दितले.''

''ताजें दूद आनी तूप?'' हांव अजाप जाल्लेवरी विचारतां.

''फक्त ताजें तूप न्हय.... शुद्ध तुपूय बी.''

''अशें? ह्या कलियुगांत ही एक अद्‌भूत काणीशी दिसता आयकूंक.''

''ताचेर हांवें एक कविता बरयल्ली ''सर्ग म्हजो गांव.'' आमच्या गावांत आयज लेगीत सत्य युगाचें दर्शन जाता.''

''म्हळ्यार तुमच्या गावांत मनीस जितोच सर्गांत वता काय कितें?''

— ताचेर हांसत ताणें म्हळें, ''येतना एक बुयांवूय घेवन येयात. तुमकां लोणचें दितां. आनी दोन तीन बाटल्यो म्होंव.''

''पूण....''

''पूण?.... पूण कितें? आतां आपूण फक्त शिवराक जेवतां आनी शुद्ध गजालींचो म्हाका पातसो आसा म्हणूं नाकां.''

''खरें म्हळ्यार शारांत भेसळीच्यो वस्तु खावपाची संवंय जाल्ल्यान शुद्ध वस्तूचें नांव घेतकीच पोटांत गुडगुडटा.''

तो व्हडान हांसलो. ''पूण तुमकां आमच्या गावांत उदक नाशिल्लें दूद पिवचें पडटलें.''

''पूण ताचे पयलीं तूं च्या तरी पी.''

''हय न्हय? चपरासी पळे कितलो सुबेज.... हांगा म्हाका च्या ची रूच आयल्या आनी तो भांग पिवन खंय पडला, देवाक खबर!''

''म्हाका कळिल्लेंच तूं उंचायेपरस मात्सो सकयल आस म्हूण! आतां जर तुका च्या मेळ्ळी ना जाल्यार ल्हडलो अनर्थ जातलो.''

''वा शर्माजी! तुमी तर सामकार आशिल्ल्या मनशांची पाळांमुळां वळखतात. आमच्या गावांत एक पंडित आसलो. ताका कसली सिद्धी आसली खबर ना. पूण तांगेर कोणूय पावणो आयलो आनी त्या पावण्याक कितेंय खायनशें दिसलें जाल्यार ताका हें रोकडेंच समजतालें. आनी तो ती वस्त रोकडीच हाडून दितालो. सीझन नासतना खंयच्याय सीझनचें तो फळ हाडून दितालो. आनी हांवें तें चाखलां.''

— ह्या चमत्काराचेर हांव ओग्गी आसां तें पळोवन ताका अजाप दिसलें.

''शर्माजी, तुमी ओग्गी कित्याक? तुमचो विश्वास ना?''

''कित्याक ना? असली सिद्धी म्हाकाय खबर आसा.''

''O My God? तो खोश्शेन आड्डलो. तुमी ही गजाल म्हाका पयलीं केन्नाच सांगली ना.

लिपोवन कित्याक दवरली? पवित्रनाथ कलाजंगाक यक्षिणीकडल्यान रसगुल्ले मागून हाडून खावंक घालचे पडत म्हूण! मान गये गुरू.... पूण म्हजें आयकात. यक्षिणीकडल्यान पयसुल्ल्या शारांतले बँकेतल्यान कोटयांनी रुपयो हाडून दिवंक सांगात. आनी मरसर मजा मारात. आनी आपल्या सांगात्यांकूय बी आदार दियात.

''पूण हांवें यक्षिणीची न्हय, यक्षाची सिद्धी केल्या. आनी ह्या यक्षाक चोरप बिरप साप्प मानवना.''

''आरे, मागीर ते सिद्धिचो किते फायदो? पूण ताचो एकाद्रो चमत्कार तरी दाखय.''

तेन्नाच दाराचो पड्डो हालललो. कोपांचो आवाज आयलो. हांवें रोखडेंच म्हळें, ''यक्षा, यक्षा, च्या हाड.''

— ते मेरेन चपरासी भितर आइल्लो.

''मि. कलाजंग, आमच्या यक्ष म्हाराजाक पळे.''

— पयलीं थोडे खीण ताका कांयच कळ्ळें ना. मागीर तो व्हडान हासूंक लागलो. ''तुमी चोरार मोर हाडलोच तर!''

हांगा येवन कांयच न्हंय म्हळ्यार ताका स म्हयने जाल्ले आसतले. स म्हयन्यांत ताणें अर्द डुज तरी धंदे बदलिल्ले.

पयलीं तो 'रावी-तवी' प्रोजेक्टांत एल.डी.सी. आशिल्लो. मागीर रघुनाथ बाजारांतल्या एका दुकानांत सेल्समन आसलो. दुसरे खेपे सरकारी रीण घेवन ताणें पोल्ट्री फार्म काडलें. मागीर ताणें शाल करपाचें केंद्र गावांत काडलां अशें आयकल्लें.

तो जेन्ना जेन्ना नवो धंदो सुरू करता, तेन्ना म्हाका येवन सांगता. ''तुमची आतां मज्जा आं... मजा मारात! फुडल्या आठवड्यांत तुमकां तांतयांची पेटी धाडून दितां. ''नाजाल्यार'' तुमी कसलो चेर वापरतात?''

म्हाका तांतयां आनी चेर आवडना हें आयकून ताका वायट दिसता. मागीर म्हणटा, ''इराणी स्मगल्ड सेंट आयला. सवाय शालूय मेळटा. जाय जाल्यार नातेवाईकांक गिफ्ट बी म्हूण दिवपाक मागय.''

हांव मागीर ताका सांगतालों, ''म्हजे कडेन दोन नंबरचो पयसो आशिल्लो जाल्यार हांव नातेवाईकांकूच न्हय, तर जगांतल्या सगळ्या गरजू लोकांक प्रेझेन्टां वांटीत भोवपाचों.''

— महताब सदांच म्हणटा, हां हू करी नासतना तूं हें सगळें कसो म्हूण आयकून घेता, ताचें म्हाका अजाप दिसता.

''हें म्हजें ट्रेड सिक्रेट बाबा!'' हांव हांसून म्हणटां.

त्या दिसांनी कलाजंग बेकार आसलो. एक जाग्यार बसून काम करप ताच्या नशिबांत ना, हाचेर ताचो विश्वास आसलो. ताच्या पांयार चक्रां आसलीं. ''म्हाका म्हजें कांय पडूंक ना शर्माजी! पूण लग्न करून जिका पोसपाची जापसालदारकी हांवें घेतल्या, तिची म्हाका चिन्ता जाता... म्हळ्यार, म्हजे बायलेची. तिणें बाबडेन दुख, त्रास, नाजाल्यार भूक कित्याक म्हूण सोंसची?''

म्हाका कळटालें, indirectly तो म्हाका सांगता, पेपरांत कितेय छापून आयल्यार बरें जातलें. ताच्या संवसाराक तितलोच आदार.

डोग्रा गावांतले रितीप्रमाण लोक गांवचे चलयेकडेन लग्न जायनात. गांवच्यो सगळ्यो चलयो भयणीप्रमाण. ताणें ही रीत तर मोडलीच, खेरीज सकयले जातीचे चलयेकडेन लग्न केलें.

दोगांयच्या आयवबापायनी आनी दुसऱ्या सोयऱ्यांनी हांकां जाती भायर काडलीं. लग्न साप्प सादे तरेन जालें. बँड, वाजप, वरात बी कांय ना. घरच्या लोकांपसून लिपचोरयां कोर्टात गेले. सिव्हील रजिस्टर करून ताचें सर्टिफिकेट घेवन घरा आयले.

लग्नापयलीं आपल्या रोमान्साच्यो काणयो तो सांगतालो. कसो तो हात पळोवपी जोतिशी जावन ते चलयेगेर गेलो... ताका कोणूच कसो वळखलो ना.... हात पळेतां पळेतां पळून वचपाचो प्लॅन ताणें कसो केलो तें, आनी जायतें कितें कितें.... ताचे काणयेचेर हांवें पयलो हक सांगून म्हळें, फुडेंफाटीं केन्नाय हांव हाचेर बरयनय बी...."

अकस्मात ताणें ॲडव्हान्स मागलो. "शर्माजी, धा रुपयांची गरज आसा."

"काणयेची कॉपिरायट फी म्हूण न्हय मू?"

"तुमचेकडल्यान फी कशी घेवं? चेक मेळ्ळो म्हणटकच तुजे धा रूपया परतून दितां."

तो वतकीच अकावटंटाक सांगलें कलाजंगसायबाचे कवितेचो चेक बेगीन तयार करून दवर.

हे खेपे तो आयलो. मेजार नवी कविता दवरून ताणें म्हळें, "ते धा रुपया हांव मुखावेलो चेक मेळटकीच दितां."

म्हळ्यार ताणें पयलींच चिंतून दवरिल्लें की आतां ह्या धा रुपयांक लागून ताची दूसरी कविताय बी छापून येतली. नाजाल्यार धा रुपया बुडीत खात्यार जमा.

ताच्या हातात एक पिशवी आसली.

"म्हाकां दिसता शर्माजी, हे फावटीं तरी तुमी शाल विकती घेवकूंच जाय. हांवें स्पेशली ही तुमचे खातीर तयार करूंक लायल्या." ताणें पिशवी उगडून शाल काडली. ती तांबडी शाल आसली आनी तिचेर पांचव्या आनी हळडुव्या सुतान नाजूक फुलां काडिल्लीं. भाभी ही शाल पळेतली तेन्ना तुजे पसंतीची तुस्त करतली.

"पयलीं लग्न तरी जावं दी."

"शर्माजी, तुमकां कितें दिसता, तुमचें लग्न जावचें ना? आयज मेरेन कोण आंकवार उरला? तूं तर हजारांनी जोडटा. म्हजे सारक्या एका बेकार मनशान लेगीत एक सुंदर चली फारायल्या...."

"पूण हांवें आयकल्लें, तुवें चलयेक पळोवन हाडल्या म्हूण!"

"हांव जाणां. अशें नाका जाल्लें कित्याय कितें तुमकां कोण सांगता तें! ह्या ऑफिसातल्या सकयल्या दुसऱ्या माळार आशिल्ल्या सेक्शनांतल्या लोकांनी चाडयो केल्या आसतल्यो."

"पूण मनां जुळटात तेन्ना चलयेक पळोवन व्हरप हो गुन्यांव न्हय. खेरीज शारांत हाडून तूं तिचे कडेन लग्नूय जालो."

"शर्माजी, कितें सांगूं तुमकां.... गद्देपंचवीशीची ती चूक हांवें ओगीच केली. आतां दिसता,

हांव स्वतंत्र पक्षी आसलो. ओगीच लग्न जालों. आनी अडचण गळ्यांत बांदली. सुकणीं जाळांत अडकतकूच परथून सुटप कठीण.

"हांव ह्या जाळापसून पयस रावचो अशें तुका सांगचें आसा काय कितें?"

"ना! ना!! ह्या जाळांत घुसपून उरपाचीय बी एक मजा आसता, गरज आसता ती फक्त पयशांचे उबेची! केन्नाय काळाचें चाक परथून घुंवलें जाल्यार जे मेरेन बँकेंत म्हज्या नांवान एक लाख रुपया जमा जायनात ते मेरेन हांव लग्न जावचो ना."

हांव ताच्या पुरो जाल्ल्या तोंडार पश्चातापाची सांवळी पळेतालों. "शर्माजी, देवाच्यान तर! तुमी ही शाल घेतली ना जाल्यार म्हाका खूब वायट दिसतलें."

"बरें! आसूं दवर ती शाल. पूण तुका वायट न दिसपाक कितले पयशे दिवचे पडटले?"

"मार्केटांत हांची किंमत अडेचशें तें तीनशे परस चड आसा. पूण हांव तुमचेकडल्यान फक्त करणावळीचे पयशे घेतलों. तुमी फक्त शंबर रुपया दियात."

"मनांत नासतना हांवें बोल्सांत हात घालून शंबराची नोट काडून ताच्या हातार दवरली."

"कळ्ळें! तुमी ते धा रुपया वाशील करून घेतले. बरें जालें. एका रिणांतल्यान मेकळो जालों. डायरेंत तुमी बरोवन दवरलां आसत, जाल्यार धा रुपया मेळ्ळे म्हूण बरयात." हातांत पयशे येतकीच तो सामको उतावीळ जाल्ले वरी जालो.

"एक सामकें म्हत्वाचें काम येवजलें. तेन्ना हांव दुसरे खेपेची च्या उदार दवरून वतां. फाल्यां येतकींच तीन कपां च्या एकच खेपे घेतां."

सांजेर पिशवेंत शाल घालून घरा वतालों. रस्त्यार सूरज बाबू मेळ्ळो. "कितें हाडलां?" ताणें विचारलें.

"शाल!"

"दाखय पळोंवया. खूब दीस जाले, बायल शाल हाड म्हूण फाटीक लागल्या."

पिशवेची पीन काडीत ताणें म्हळें, "अंदू लाडू दिवपाचो विचार आसा काय कितें?" — हांव अडेचो हांसो हांसलों.

"असलीच शाल हांवें पवित्रनाथ कलाजंगाचो लग्नाचो साक्षीदार म्हूण गेल्लों, तेन्ना ताचे बायलेक दिल्ली. शाल बरी आसा. पूण आतां out of fashion जाल्या."

शालीच्या बिझनेसाफाटलें सत्य कळटकीच म्हाकां धक्को बसलो. पूण मागीर दिसलें, देवाक खबर, कसले परिस्थितींत ताणें ती विकूंक काडल्या आसतली....

तो आयज खूब उदास दिसतालो.

"शर्माजी, हांव कितें म्हणटा.... देव लेगीत दुःख वांट्टना भेदभाव करता. एकल्याक कायच दुख दिना, जाल्यार दुसऱ्याचे झोळयेंत कांटेच कांटे घालता. एका तेंपार स्पेअर पार्टसूचो धंदो करतालों. तेन्ना शंबर रुपया अशेच खर्च करतालों. आनी आतां हे दीस पळोवचे पडले.... च्या क लेगीत पादिशेर."

तेन्नाच चपरासी फायली घेवन म्हजे कुडींत आयलो. ताका दोन कपां च्या सांगतकीच

कलाजंग मुडांत आयलों.

“तुमकां खबर आसा, कोणूय म्हाका चिरून पळेत जाल्यार ताका रगताचे सुवातेर च्या मेळटली.” अकस्मात ताका याद जाली. विशय बदलीत ताणें विचारलें, “म्हजी कविता उजवाडाक आयिल्ली, ताचो चेक तयार जाला काय ना?”

“सकयल अकावंटटाक विचारचें आसलें.”

“कितें विचारतलों? तो मनीस केन्नाच सरळ उलयना. हांगा तुमी म्हजेर प्रसन्न आसात. पूण थंय ताच्या पोटांत दुखता. ताच्याच बोल्सांतल्यान तो म्हाका पयशे दिता अशें ताका दिसता. आयज यो म्हणिल्लें ताणें आनी तोच रजेर आसा.”

हांव संपादकीय तयार करतालों. मदींच ताणें विचारलें, “तुमी तांबडी शाय वापरतात? तुमी सरकारी ऑर्डरी पळोवंक ना? तांबडी शाय फक्त मंत्र्यानी वापरची अशें तांतूंत म्हळां.”

“आसत! पूण संपादकीय तांबडे शायेंत सुधारचें अशी परंपरा आसा.

“मंत्र्यानी हो रंग आपले खातीर दवरून आनी हेर रंग हेर लोकांखातीर दवरून ‘इन्किलाब’ चो दावेदार आपुणूच अशें दाखोवपाचो यत्न करूंक ना मू? सरकारन मागास जातींक जायत्यो गजाली रिझर्व दवरल्यात तें पळेल्लें. पूण शायूय बी अशे तरेन रिझर्व दवरल्या तें पयलेच खेपे आयकलें.

ताचे चर्चेत म्हाका इंतेरेस येवंक लागलो. हांवें ताका विचारलें, “तुवें मेथी लावन तुज्या हाताचीं पेरां तांबडीं केल्यांत तीं कित्याक? तूं मंत्र्यांच्या इन्किलाबाक चॅलेंज बी करूंक सोदिना मू?”

“शे! शे! तशें काय ना. म्हज्या घरमालकाचीं भुरगीं मेथी लायतालीं. आनी हांवे तांच्या हातार चंद्रिम, नखेत्रां बी काडिल्लीं. ताचोच रंग बोटार चडला.”

“तूं हेंवूय काम करता तर!”

“सर, म्हाकां खंयच्याय फिल्मांत काम मेळत जाल्यार हिरोइनीच्या हातार हांव इतलें सुंदर मेथयेचें डिझायन काडीन की पळोवपी अजापान पळेत रावतले.”

सदांचे संवयेप्रमाण थोडो वगत ओगी रावन ताणें विशय बदल्लो.

“शर्माजी, कसलोय उपाय आसल्या सांगात.”

--- हांव बरयतां बरयतां थांबलों.

“म्हज्या पोटार चरतें जालां.”

--- हांव ओगी रावन ताचें तोंड पळेत उरलों.

“घरचीं वखदां केलीं पूण फायदो जालो ना. खरपता तेन्ना नाखटांनी ल्हवू ल्हवू खरपीतकच बरें दिसता, रागार जाल्या भुरग्याक माथ्यार हात भोंवडायतकीच बरें दिसता तशें. पूण खाज वचून वचना खरपून खरपून रगत येता.”

“मागीर बायलेकूय बी जालां आसतलें.”

“अजून मेरेन तरी ना. सद्या उपासूच चलता.”

“रोखड्या रोखडो स्कीन स्पेशालिस्टाक वचून मेळ. हें चरतें एक खेपे चरत गेलें जाल्यार बरें जावप कठीण. जल्मभर रडत रावचें पडटलें.”

''शर्माजी, पयशांक पादिशेर जाल्ल्यान दोतोराक दाखोवंक ना.''

— अशें म्हणून खोमसा भायल्यान तो पोट खाजोवंक लागलो.

''असिस्टंट अकावंटंट आयला जातलो. घडये तुजो चेक ताजेकडेन आसत. तूं चवकशी करून यो. ते मेरेन हांव म्हजें कामुय सोंपयतां.''

— तो वतकीच थोड्या वेळान नेकराम आयलो.

''ह्या दिसांनी कलाजंग तुमच्या म्हऱ्यांत खुबूच येता.''

''हय! हांगा कवी आनी लेखक सोडून कोण येतालो?''

''तुमी सांगतात तें खरें! पूण तुमकां खबर ना, ताच्या पोटाक चरतें आसा म्हूण! सकयल आमच्या सेक्शनांत येवन सगळ्यां म्हऱ्यांत तो बसूंक सोदता. पूण ताका कोण लागीं धरिना. ही पिडा आफडीची. पोरूं म्हाकाय शिवाकडल्यान चरत्याचो प्रसाद मेळिल्लो. स म्हयने कितलो त्रास काडलो म्हूण सांगूं? म्हजे कपडे वेगळे दवरतालों. बायलेभुरग्यांक तें जायत म्हूण हांव भितालों. कलाजंगाक सांगिल्लें, दोतोराकडल्यान वखद घे म्हूण! पूण तो कोणालें आयकना.... आयकना नाका आयकूं! पूण मनशाक इतलें तरी कळूंक जाय न्हय की हो रोग दुसऱ्यांक जावं येता तेन्ना दुसऱ्या मनशाक हात लावंक फावना, कोणाक तेंकून बसूंक फावना...''

नेकरामान बरो सल्लो दिलो आनी तो गेलो.

हांवें बॅलीचें बटन दामलें. चपरासी येतकीच ताका कुडींतल्यान कदेल काडून उडोवंक लायलें. कित्याक, ताजेर कलाजंग बशिल्लो म्हूण! आतां महताबा सामकार तीन कदेली आशिल्ल्यो... म्हजे पसून स फूट पयस...

मागीर हांवें आरमारींतल्यान शाबू काडलो. आनी दोन खेपे बरे करून हात धुले.... पाडापडिल्लो ही चरत्याची सागवाद म्हाका दीत जाल्यार जल्मभर खरपीत बसचें पडटलें.

आता म्हाका ताचो राग येवंक लागलों.... आरे, तुका चरतें जालां जाल्यार लोकांक मेळपाचें तरी बंद कर....

आनी एका वरान तो येवपाचो आसा. रागान ओगीच उणें अदीक उतर तोंडातल्यान भायर सरचें न्हय ह्या हेतून हांव बॉसाच्या रूमांत वचून बसलों. खूब वेळान म्हज्या रूमांत येवन पळेत जाल्यार तो शांतपणान म्हज्या टेबलार आशिल्ल्या कागदांचेर उब्यो आडव्यो रिस्को काडटा.

पळोवन म्हाकां भिरभिरी मारली.

हाच्या हातांतल्यान चरत्याचे जंतू पेनाक लागून म्हज्या हातामेरेन पावतले आनी चरतें...

''हें कितें चल्लां तुजें? संपादकाचें पेन काडून सरकारी कागद पिड्ड्यार करपाचो अधिकार तुका कोणें दिलो?'' म्हज्या उलोवपांत राग आशिल्लो.

तो अजापान पळेत उरलो. म्हाका दिसलें, ''हांवें चड तापोवन उलोवंक फाव नासलें. फक्त पेन काडून डस्टबिनांत उडोवपाचें.

''आतां हें पेन तुकाच दवर.''

— तो खुश जालो.

''शर्माजी, यू आर ग्रेट! काल राती म्हज्या मनांत भोपाळ गॅसच्या त्रासाचेर एक कविता

आइल्ली. पूण पेन नाशिल्ल्यान हांव बरोवंक पावलों ना. तुका म्हज्यो भावना कळटात. नाजाल्यार सकयल्या सेक्शनांतलो तो नेकीराम.... पयलीं मायेन उलयतालो. हे खेपे गेल्लों तेन्ना म्हणूंक लागलो बेकार आसपांतूय बी मजा आसता. जे सुवातेर एक खेपे वचूंक जाय थंय शंबर खेपो वचूंक मेळटा. आपणेंय काम करप ना. आनी दुसरे कोण करतात तांकांय करूंक दिवप ना. ही तर जिणेची मजा. ताणें मारिल्ल्या थोमण्यानी म्हज्या काळजाक हुलोप बसलो. हांवेंय मागीर ताका सांगलें, देवा पाव, तुजी नोकरी वचूं आनी तुकाय बी बेकारीचे मजेची खोशी भोगुं!''

''अशें कोणेंय कितेंय म्हळ्यार आपणें लक्ष दिवचें न्हय.''

''शर्माजी, कितें जालां खबर ना. पूण सकयल्या सेक्शनांत जेन्ना कोणाय म्हऱ्यांत वचून बसतां, तेन्ना ते म्हजेकडेन सारके उलयनात.''

''तातूंत न समजुपासारकी कसली गजाल आसा? सगळ्यांक भंय दिसता आसतलो, तुजे भशेन तांकांय चरतें जायत म्हूण!''

''ताका लागून तुमीय बी हांगासावन कदेल काडूंक लायलें?''

''आता तूंय बी ज्ञानी पुरूश जालो. कित्याक, सांगचे पयलीं तुका खरें कितें तें कळूंक लागलें. तुकाय बी ह्या दिसानी सिद्धीबिद्धी प्राप्त जाल्या काय कितें?''

—- म्हज्या उलोवण्याचो ताचेर कांयच परिणाम जालो ना. वेल्यान ताणें म्हळें, ''तुमच्या उलोवण्याचें म्हाका वायट दिसना. जाय जाल्यार कानाक धरून तुमी भायर धांवडायात, तरीकूय हांव वचचो ना. पूण तो पाडापडिल्लो नेकीराम आनी ती अवदसा दुखियारी बेगम, दोगांय मिळून म्हज्यो चाडयो करून सगळ्यांची मनां वायट करतात.

''अशें? पूण तीं हें बरें करीनात.''

''सांगात! तुमीच सांगात.... तांणी अशें करप?'' ताच्या नाकांतल्यान हून श्वास येंवक लागले.

वचचे पयलीं दुसरे खेपे ताणें शेकहँड करूंक हात मुखार केलो. हातांत हात येतकीच लायटीचो शॉक लागिल्लेवरी जालो. चरत्याचे जंतू म्हज्या हातार चडिल्लेवरी जाले.

''तुवें चेक घेतलो न्हय?''

''ना! बसून बसून आयलों. असिस्टंट मॅनेजर बँकेंत गेला.''

''फाल्यां येवन व्हर.''

—- तो वतकीच हांवें वॉश बेसिनाकडे वचून रगडून रगडून हात धुले.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं ऑफिसांत गेलों. तेन्ना पळेत जाल्यार हो पयलींच एके कदेलीर बसून आसा. ताका पळेतकीच मूड गेलो. तो उठून म्हऱ्यांत आयलो. आनी ताणें हात मुखार केलो. हांवें रोकडेंच म्हळें, ''आयज शेकहॅन्ड करचो ना.''

''कित्याक सायबा? म्हजे कडल्यान कसली चूक जाली?''

''ना. म्हजे हात लिंप नात. आतां बाथरूमांत वचून आयलां.'' हांवें बंडल मारलें. म्हजी नदर ताच्या मेंथी लायिल्ल्या बोटांचेर आसली.

ताचे शॅकहॅन्ड करपाचे इत्सेवेल्यान दिसलें की तो आपलें चरतें म्हाका दिवंक सोदता.

''रार्ती तूं ह्याच रूमांत नाशिल्लो मू?''

''ना शर्माजी. तशें काय ना. आयज शुक्रार. म्हजी बायल संतोषी मातेचें व्रत करता. काल शिवरात्र आसली. तेन्ना चितलें आयज सकाळीचं अकावंटंटाक धरल्यार बरो.''

''तुमी व्रतां बी खुब करतात.''

''आरे बाबा, आज एका धर्माचोच फकत आधार आसा. ना जाल्यार मनीस मनशाक खावन उडयतलो.''

''तूं च्या पिवन आयलाच आसतलो न्हय.''

''च्या पिवन आयलां. पूण तुमी च्या पी म्हणशात जाल्यार हांव ना म्हणचों ना.''

''व्हेरी गुड! मनीस असोच आसूंक जाय. मनशाचें मन केन्ना मोडिना असलो. मात्सो फावोर कर. चपराश्याक हांवें बँकेंत धाडला. कँटिनात वचून दोन च्या सांग पळोवंया.''

''बरे ऽ भशेन! येता आसतना अफावंटटाकडेन चेका ची वासपूस करून येतां.''

— कलाजंग उठलो. आनी पैलवान आखाड्यांतल्यान कुस्ती खेळून भायर सरता ते भशेन तो कँटिनावटेन गेलो.

तेन्नाच नेकीराम आयलो. कानाकडेन तोंड व्हरून तो गुपीत गजाल सांगिल्लेवरी ल्हवू आवाजांत उलोवंक लागलो. तो भितर येतकीच विडी आनी सिगाराचो भरसल्लो एक विचित्र वास कुडभर पातळ्ळो.

तुमी कलाजंगाची बोटां पळेलीं? हाणें कसलेंतरी विखारी मलम बोटांक लायलां तो सांगता चरतें जालां. पूण म्हाका खात्री आसा, हाका रोग जाला तो सादो न्हय.... तो कंटेजिअस...

तेन्नाच पड्डो हाललो. कोपांचो आवाज आयलो. च्या किटली आनी कोपां घेवन कलाजंग उबो आसलो. नेकीरामान विशय बदल्लो. ''जाणा, म्हजे कवितेंत चंबळचो उल्लेख आसा. पेपरांत वाचिल्लें, चंबळचे उदक जो कोण पिता, ताका कामीण जाता म्हूण! ताजे पसून स्फूर्त घेवन हांवें कविता रचल्या.''

''आरे पापया, चंबळ घाटांत डाकूय रावतात. तांचो उल्लेख केलो ना जाल्यार कविता अर्दकुटी उरतली.'' — कलाजंगान मर्दीच तोंड घालें.

''आरे बाबा, म्हज्यान जाय जाल्यार चंबळ आनी चरत्या सारकेल्या चामडेच्या रोगाचो उल्लेख करूं येतालो. पूण हांणी तें छापूंक जाय न्ही?

कलाजंगाचें तोंड साप्प देवलें. तो सकयल जमनीकडेन पळोवंक लागलो.

''तुवें कित्याक च्या हाडली?''

''चपरासी नाजाल्यार कँटिन बॉय केन्ना येत हाचो अदमास ना. ते मेरेन आमची च्या ची तलफ वचूं नये म्हूण!''

मनांत म्हळें, हांवें ओगीच मूर्खपणान सुखासुखी चरत्याचे जंतु पोटांत वचपाची माण्णी केली. कपाक लागून जंतू म्हजे म्हऱ्यांत पावतले, हें चिंतून हांव बेजार जालों. मागीर व्हडान म्हळें, ''हें तुवें बरें केलें ना. आतां हांव च्या पिंवचोंना. नेकीरामजी तुमी पियात.''

नेकीरामान बकत्छायानी म्हळें, ''रागार जावं नाकांत. दोतोरान म्हाका च्या घेवं नाका म्हळां.''

कलाजंगान म्हळें, ''सकाळीं हांव आयलों तेन्ना कॅंटिनात तुमी कितें पिताले नेकीरामजी?''

''ती च्या नासली हकीमान दिल्लो कसाय आसलो. कॅंटिनांत हांवें तो खतखतावन घेतलो आनी पिलों.''

''तशें जाल्यार कलाजंगजी हीं दोनूय कपां तुमीच पियात.''

''तुमी कित्याक पिना?''

''As a protest हांव पिवंचोना.''

''कसलो प्रोटेस्ट?''

''तुमच्या सारक्या प्रतिभावंत मनशान चपराशाचें काम करप? म्हज्यान हो अपमान सोसूंक जावाचोना. तेन्ना असलें उणाक काम केल्ल्याचो टॅक्स म्हूण तुमीच सगळी च्या पियात.''

''हो टॅक्स हांव खोशेन भरीन. गावांत तोपभर च्या पितालों. तेन्ना दोन कपां च्या पिवंक कितें व्हडलें?''

कित्याक खबर ना... पूण म्हाका दिसलें, फाटले स म्हयने तो च्या पिवन काडटा आसूंक जाय. ताचो रंग हळडीवरी हळदुवोच दिसतालो. ताच्या चडटया जुवानपणाक म्हातारपणाची कलय काडिल्लेवरी....

नेकीराम वतासो पळोवन कलाजंगान म्हळें, ''एक कविता म्हण. खूब तेंप जालो. हांसूंक मेळ्ळें ना. आनी हास्यकवितेंत तुमी फिशाल आसात.'' ''बरें कविता तयार आसा. पूण तीं आयकून हांसूंक येतलें काय रडूंक तें खबर ना. आयकात....''

अजब नहीं कुछ उसका ढंग
सुबह चाय और शामको भंग
पेटपर दाद पोरोंपर रंग
फिर भी हंसता रहे कलाजंग।

कलाजंगाचें तोंड पडलें. रागान तो थरथरूंक लागलो. खूब कश्टान आपली तिडक लिपयत ताणें म्हळें, ''नेकीरामजी, ही कविता तुमी छापात. मागीर तुमकां कितें तें दाखयतां.''

''तोंड सांबाळून उलय.'' नेकीराम खोमसाचे हात कवळूंक लागलो.

''कुन्नाट्या, दुसऱ्यांचो अपमान करून आपूण व्हड जावंक सोदता?''

— कलाजंगाचे हात फुरफुरूंक लागले.

आतां मर्दी म्हाका तोंड घालचें पडलें.

''आरे, तुमी दोगूय शांत जावन म्हजी सांगणी आयकात पळोवंया. कवींनी इतले बेगीन झगडीं करूंक फावनात. गजाल मस्करेंतल्यान सुरू जाल्ली. पूण आतां तुमी मारामारीचेर पावल्यात.

''हांव तसो झगडूंक फाटीं ना. अख्ख्या गांवाक खबर आसा, आखाड्यांत हांवें केन्नाच फाट तेकोवंक ना म्हूण!''

''तुमी कवितेची जाप कवितेतूनच दिल्यार बरी न्ही?''

''तशें जाल्यार आयकात.

सुन नेकीराम यह है बुरा काम
गालियोंको देता है कविताका नाम
कविताके नाम पे लोगों को दे नहीं बुत्ता
हाथी नहीं रूकेगा, चाहे भुकता रहे कुत्ता।''

तें आयकून नेकीरामान म्हळें, ''बरें आसा. तशें जाल्यार तूं भोंकत बस. हत्तीक आपल्या रस्त्यान वचूं दी.'' अशें म्हूण नेकीराम गेलो.

खूब वेळान कलाजंग नॉर्मल जालो.

''शर्माजी, अकावंटंट आयज परथून रजेर आसा. खरें सांगू? हांव साप्प पादिशेर जालां. बायल उपास बिपास करून दीस सारता. पूण म्हज्यान एक वेळची लेगीत भूक सोसूं नज. बायल धार्मिक वृत्तिची. तिचें एक न्हय जाल्यार दुसरें व्रत चालूच आसता.''

फाल्यां सूर्यगिराण... तिचो तिसऱ्या दिसाचो उपास आसतलो.... देवाच्यान तर... पवित्रनाथ, जगांतलें सगळें पुण्य तुवें हातासलें.''

म्हाका कळ्ळें, आयज हाचो चेक मेळ्ळोना जाल्यार म्हज्याच बोल्साक खार! बोट दिल्यार हात गिळपी हो मनीस.... ताचे खातीर ताका बोटूच धरूंक दिवप ना अशें थारायलें... पळेतां आयज हाका सारकी बुद्द शिकयतां.

''आनीक खंयच्या दिसाचो उपास करता तुजी घरकान्न?''

''सोमार आनी मंगळारचो.'' ताणें खूश जायत म्हळें.

''ओ हो! सोमारा मंगेशाचें पुण्य आनी मंगळारा दुर्गादेवीचो प्रसाद...''

''शर्माजी, एके वटेन घरमालकान जीव नाका पुरो करून दवरला. म्हयन्याचे पयले तारखेक ताची बायल व्हडाव्हडान उलयत येता.''

''पवित्रनाथजी, जग सामकें दुष्ट... पापी! दिसता ही धरतरी आसा तशी कशी उरल्या? ती दुभंगना कित्याक?.... अशें येवजता तेन्ना दिसता तुमचे सारक्या लोकांनी केल्ल्या जपान, तपान, उपासान ती तशी उरल्या.''

''घराचो मालक....''

तो फुडें कितेंय उलोवचे पयलींच हांवें म्हळें, ''कोण तो घराचो मालक? चड शाणेपणां करीत जाल्यार गोलाक धरून कानसुलार वाजय पाडापडिल्ल्याच्या.... भाड्यान रावपी मनशाचोय बी अधिकार आसा काय ना? घरमालकाक भिवंक तो कितें हावलो? ताणें कोर्टांत केस केली जाल्यार लेगीत स म्हयने मेरेन काय जावचें ना. ह्या दिसानी भाडेकार लेगीत भाड्याचें घर सोडूंक तीस चाळीस हजार घेतात.... तूं आसा खंय?''

''मागीर हांव वचूं?'' ताणें पडिल्ल्या आवाजान विचारलें. ''बायल आशेन वाट पळेता आसतली.''

''आतां फक्कत वाट पळोवपी बायलूच आसा. फाल्यां भुरगीं जालीं म्हणटकच तूं सामको घरकोंबो जातलो.

---- तो हांसलो.

''भुरगीं जायना तो मेरेन बायल जायजायशी दिसता. भुरगीं जातकीच घरा वचूंक जिवार येतलें... तांचें पेपारें कोण आयकतलो?''

रातीकडेन न्हिदपाची तयारी करतालों. तेन्ना टी.व्ही. चेर खबरी लागल्यो. फाल्यां टी.व्ही चेर सुर्यगिराण लागत वता, तशें ते दाखयतले.

गिराण शब्द आयकतकीच कलाजंगाची आकृती दोळ्यांमुखार आयली.

चरत्यान भरिल्ले ताचे हात आनी उपासानी खूश रावपी ताची बायल.

अकस्मात कितेंतरी येवजलें. घडये कवी घरकार बेकार, ताका लागून ती गांवची चली ताका नोकरी मेळची म्हूण उपास तापास करिना मु?

आनी घरांत कायच नासत जाल्यार उपाशीं रावले बगर कोणूय कितें करूंक शकता? तो परथून परथून बायलेच्या उपासाविशीं सांगतालो.... घडये तिगेले खरेले उपास तो धार्मिक उपासांफाटल्यान लिपयना मु?

रेशन बी मेळ्ळें ना जाल्यार हो पाडापडिल्लो हांगा थंय, मेळत थंय च्या मारून आपलें पोट भरतलो. पूण ते सोंशीक चलयेक गिराणाच्या निमतान आनीक एक दीस उपास करचो पडटलो.

म्हजे भितरले भितर आंतकडी तुटिल्लेवरी जाली. काळजांत एक कळ आयली. ऐशआराम सोडात.... पूण एक वेळचें जेवण लेगीत मेळपाची मारामारी.... जेवणाक लागून एका मनशाचो आत्मो फडफडटा आनी दुसरो मनीस हें पळोवन ओगी रावता.... पाडपडूं असल्या मनशाचें.

घोव-बायल दोगांय आपआपलीं घरां सोडून पयस शारांत आयल्यांत.... केन्ना न्हय केन्ना तरी दीस बदलतले हे आशेर जगतात.

पयलीं चली आवयबापायल्या घरा सुखी आसली. आनी कलाजंग आपल्या बापायच्या घरा सुसेगाद आसलो. मनांत आवडिल्ल्या मनशाकडेन लग्न जाल्ल्याची ख्यास्त दोगांय भोगतालीं. कितेंय आसूं, तांकां मदत करूंकूच जाय.... कमीत कमी तांकां उपास मोडूंक लावंकूच जाय.

सकाळीं ऑफिसांत वचूंक म्हूण बेगीन भायर सरलों. मेजार नोकरान नाश्तो हाडून दवरलो. पूण व्रताच्या नांवान उपास काडपी, तांची याद येवन भूक मेली.

''जिवाक बरे दिसना'' अशें सांगून हांव पवित्रनाथाच्या घरा वचूंक भायर सरलों. चितलें, कितेंय करून हांच्या घरांत रेशन भरचें.

ताच्य घरा पावलों. घर भितरल्यान बंद. दुसरे वटेनचें जनेल उकतें आसलें. भितल्ल्यान आवाज बी कांय येनासलो.

सगळे आपआपल्या कामांत गुल्ल आनी हो आपलो सुसेगाद न्हिदला.

म्हाका कालच्या म्हज्या वागपाची लज दिसली.

इतल्यान भितल्ल्यान आवाज आयलो...

''भाऊन सांगिल्लें ह्या कपड्याचो व्हंकलेचो ड्रेस शिवन बेगीन धाड म्हूण! तशें केलें ना जाल्यार खंयच्या तोंडान तागेर वतलीं?''

''तातूंत कित्याक भिवंक जाय? हुंदरांनी कपड्याक बोते केले म्हूण सांगल्यार जालें ना?...''

कलाजंगाचो पर्वा नाशिल्लो आवाज.

"खूब तेंपान चान्स मेळ्ळा. घडये जाल्लें सगळें विसरून ते आमकां परथून घरा घेत.... पूण आता आमी अशें केल्यार?"

"पयली गजाल, आमी कांय चूक करूंक ना. चोरी करूंक ना... दरोडो घालूंक ना.... आमी मोग केला. दुसरी गजाल, त्या घरांत म्हजोय वांटो आसा. तांचे मर्जेन लग्न जाल्लों जाल्यार, ते लोक धा पंधरा हजार खर्च करचे नासले? हांव हजार बाराशेंचो कपडो दवरून घेन, जाल्यार अशें कितें मळब तुटून पडटलें? बाजारांत व्हरून विकल्यार पांचशें रुपया मेळटले... मागीर घराचें भाडें भरूंक जाय.."

"अशें कितलो तेंप चलतलें?"

"चलता ते मेरेन चलोवंया."

"ताचे उपरांत?"

"जातलें कितेंय...."

"चमत्कार जातलो? मळबांतल्यान पयशांचो पावस पडटलो? हांव तुमच्या पायां पडटां. अशें करूं नाकांत.... भयणीच्या लग्नाची गजाल ही.... तुमचे परस ल्हान ती.... तुमी तिका कितेंय दिवचें थंयच उरलें. वेल्यान ताचो लग्नाचो ड्रेस तुमी विकून खालो जाल्यार जलमभर तांकां खंयचें म्हूण तोंड दाखयतले?"

"कपड्याचे पयशे घेयात, अशें सांगल्यार जालें ना? तूं तो कपडो काडून भायर दवर... हांव हातपाय धुवन येतां."

— इतल्यान वणटीच्या कुशीक आशिल्ल्या संडासाची सफाई करूंक भंगीण आयली. ताची घाण येवंची न्हय म्हूण बेगी बेगीन थंयच्यान पयस गेलों. थोडो वगत हांगा थंय भोंवलों आनी आयलों. ते मेरेन ती भंगीणूय गेल्ली. आनी घाणय येनासली.

हांवें दारार मारलें.

"पवित्रनाथजी?"

"आं? कोण?" कलाजंगान दार उघडलें.

"तुमी? ताच्या तोंडार अजाप दिसचे परस, ही पिडा हांगा कित्याक आयल्या अशे भाव आसले."

हांव भितर गेलों. तो परथून हांतुणार पडलो. थंय आशिल्ल्या कदेलार हांव बसलों.

कुडींत मात्सो काळोखूच आसलो. एक कोनशाक ताची बायल बशिल्ली. एके ताटलेंत तांदळाची कणी वेंचताली. म्हाका पळोवन बेगी बेगीन ते ताटलेर तिणें दुसरी ताटली धांपली. आनी आपलो दुपट्टो माथ्यावेल्यान घेतलो.

"हांगा म्हजे म्हऱ्यांत येवन बस." ताणें म्हळें.

"ना. हांव हांगाच बरो आसा."

"आयज सूर्य खंयच्यान उदेलो?"

"आरे बाबा, हांवे चितलें आयज च्या ची सुरवात तुमगेरसावन करची. आरे, पूण च्या ची

वासपूस करपाची रीत तुमगेर आसा काय ना?''

''ओह! तो व्हडान हांसलो. आनी बायलेकडेन पळोवन ताणें म्हळें, ''आगो, तूं आनी कितें पळेता? स्टो पेटय आनी च्या क उदक दवर.''

बायलेन प्रस्न विचारिल्लेभशेन दोनूय भुंवयो वयर करून ताचे कडेन पळेल्लें.

''हांव दूद आनी साकर घेवन येतां.'' ताणें म्हळें.

''च्या चे पाडपड्डूं! आयज हांव फुलके खातलों. सकाळीं हांवे नाश्ताच करूंक ना.''

''ताचें कितें आसा शर्माजी, तुमी जाणात, पीठ सोपलां. गंव दळून हाडूंक म्हाका वगत मेळ्ळो ना. तेन्ना आयज तांदळांचेर भागोवचें पडटलें.

''मागीर शितावांगडा हुमण कसलें?''

''आयज शेनवार न्हय? तेन्ना काळ्या चण्यांचो रोस.''

ताची बायल म्हाका फाट करून उबी आसली. तिका पळेत हांवें म्हळें, ''भाभीजी, काल हांवें तुज्या उपासांचे महात्म्य आयकल्लें.... आयज सुर्याच्या गिराणाचें व्रत ना मू?''

तिणें म्हजे कडेन पळेलें आनी ''आसा'' म्हळें. नाक, दोळे, रंग, आंगलोट, सगळें सगळें म्हळ्यार पुराय ती बायल सगळ्याच आंगानी कलाजंगापरस हजारपटींनी बरी आसली. चन्द्र-गिराण कित्याक म्हणटात तें आयज पयले खेपे तिका पळोवन म्हाका कळ्ळें.

दिसलें, पुनवेच्या ह्या चंद्रिमाक चरत्याचें गिराण ल्हवू ल्हवू ग्रासता.

''बरें तर हांव ऑफिसाक वतां.'' हांव उठून उबो रावलों.

''च्या पिले बगर?'' कलाजंगाचे बायलेन विचारलें.

''आगो, च्या पियेनासतना रावन आमचें मन ते केन्नाच मोडचे नात. पूण तांकां खूब कामां आसतात. तांकां वगत ना. हे एक खूब व्हडले ऑफिसर. ट्रिण करून बॅल वाजयना फुडें चार पांच प्यून धांवत येतात. कोण च्या घेवन येतात जाल्यार कोण नाश्तो... हे आमगेर आयले हें आमचें नशीब!''

— हांव वतासो पळोवन कलाजंगाक सूऽ जालें जातलें. ''भाभी, आयज न्हय.... पूण दूसरे खेपे तुमच्या हातची च्या पिवंक मुजरत येतां. आयज हांव मात्सो बिझी आसां.''

कलाजंग आपुणूय जोतें घालून म्हजेबराबर भायर सरलो. हातांत एक पोती आसली. ते पोतयेंतल्यान चकचकीत सुतां भायर हुंबकळटालीं. म्हाकां तांबडी शाल येवजली. मनांत चितलें दुसरे खेपे च्या पिवंक हागेर येतलों, तेन्ना ती शाल घेवन येवप आनी तिका दिवप.''

''राव आं एक मिनिट. हांव भाभीक मेळून येतां.'' अशें म्हणून हांव भितर आयलों. आनी ते सोंशीकपणाचे मुर्ती म्हऱ्यांत वचून उबो रावलों. ''रागार जावची ना जाल्यार एक सांगूं भाभी? कसलीय गरज आसल्यार म्हाका सांग.''

— पयलींच हळडुवें आशिल्लें तिचें तोंड धवें फटफटीत जालें. म्हाका म्हजी चूक कळ्ळी. हांवें तिका सरळ अशें विचारूंक फावना आसलें.

''घरांत सगळें आसा भाईसाब!''

''म्हजे कडेन कितेंय मागूंक फाटींफुडें जावं नाका. तुमच्या उपकरा पडूंक म्हाका बरें दिसतलें.''

''सगळी देवाची कृपा!''

हांव भायर आयलों. कलाजंग लायटीच्या सरयांचेर बशिल्ल्या चिमण्यांक धांवडावपाचो यत्न करतालो.

''शर्माजी, पळेयात. ह्यो पाडापडिल्ल्यो चिमण्यो मरतल्यो.''

''चल. चल.... मुखार वच..... त्यो मरच्योनात.''

''कित्याक मरच्यो नात?''

''कारण मनशांवरी त्यो दोनूय सरयो एकठांय करून तांकां हात लायनात.''

आमी मुखार गेले. मुखावेल्यान भंगीण येताली. ती सान्नीसकट कमरे हात धरून उबी रावली.

कलाजंगान दोळ्यांनी कुरू करून तिका कितें सांगलें कळ्ळें ना. हांव ताचे कडेन पळेतां तें पळोवन ताणें म्हळें, ''कळ्ळें! कळ्ळें!! तुजें काम जातलें.''

मात्सो मुखार वतकीच ताणें सांगलें, ''खूब दीस जाले. ती म्हजेकडेन एक शंबर रुपया उदार मागता. पूण असल्या लोकांक पयशे दितकीच ते परथून कशे मेळटले? हाचे पयलीं कितल्याशाच लोकांक पयशे दिल्ले आसात. स्पेअर पार्टसचें काम करतालों तेन्ना भंग्याक तीन रुपयांचे सुवातेर शंबर रुपया दितालों. बोल्सांत मोडचे पयशे केन्ना दवरलेच ना.''

''पूण एक गजाल कलाजंग! हे लोक दुसऱ्यांचे पयशे दिवं ना दिवं. आपले पयशे मात कशेच सोडचेनात.''

तेन्नाच फाटल्यान आवाज आयलो, ''बाबू, आयज सांजेर म्हजो पगार बरे भशेन दी. नाजाल्यार तोंडातल्यान वायटबरी उतरां येत जाल्यार म्हाका दोश दिवं नाका. आयज आमचो गिराणाचो दीस.''

भंगिणीन आपलो राग काडलो. तिच्या उतरांनी कलाजंगाचीं फटिंगपणा उकताडार पडलीं.

तिच्या उतरार कांय उलयनासतना रावत जाल्यार तो कलाजंगच न्हय. तुमचे पयशे घेवन तो सूर्य आयजूय बाबडो गिराण सोसता. थंय म्हजें कितें?''

तो चलतालो आनी दुसरे वटेन थुकतालो.

''इतलो थू थू थूकता. ताचे परस सकाळीं दांत घांशिल्ले जाल्यार बरें जावचें नासलें?''

''सकाळीं फुडें दांत कित्याक घांसप शर्माजी? काम ना धंदो. दीस असोच सारचो पडटा. तेन्ना भोवन दीस गेलो, नाजाल्यार खाटीर न्हिदून रावन दीस गेलो, कसलो फरक पडटा?''

''मागीर कसलीय नोकरी सोद. तुजे मुखार येवन कोणुय हात जोडून, उबो रावन, सायबा, हांगा नोकरेचें सिंहासन रितें आसा, तेन्ना तूं थंय येवन बस म्हूण कोण आमंत्रण घेवन येवचो ना.''

''नोकरी मेळपाची आसा त्या दिसा मेळटली. तेन्नाचें तेन्ना पळोवंया. पूण तुमी आमगेर कित्याक आइल्ले तें कळ्ळें ना.''

''खरें कितें आयकुपाचें आसल्यार आयक. रातभर हांव चिंततालों, तुमी जेवण ना म्हूण उपास बी करिनात मू? दिसलें, मनशानूच मनशाक मदत करूंक जाय. तुमकां दाळ रोसाक कांय ना जाल्यार म्हजे कुवतीप्रमाण थोडें सामान घेवन दिवचें म्हूण आइल्लों.''

ताणें थुकप बंद केलें आनी एके सुवातेर उबो रावलो. ''ना! इतलो काय वगत येवंक ना. सुसेगाद खातां पितां. दर तिसऱ्या दिसा आमगेर मांस शिजता. गावांत आसलों तेन्ना आर्म घेवन शिकारेक वतालों. 'आंऽऽक छी'' ताका मदींच शींक आयली. आनी तो मात्सो ओगी रावलो. मागीर ताणें म्हळें, ''पळे, थंडेची शींक.... रातींच काळ्या राज्माचें तोंडाक केल्लें.थंडी जांव नये म्हण खूब तूप घाल्लें. तूप अशें वयर उफेताले. पूण जावपाची ती थंडी जालीच.... बापायचें आर्म बरें आसलें. ताचो फार केन्नाच चुकनासलो. केन्ना रानदुकर जाल्यार केन्ना सोंसो मारून तो हाडटालो.

ही बंडलां आयकून ताची भिरभिरी मारूंक लागली. मनांत आयलें, हो फटी मारता म्हूण ताका तापोवन काडचो. पूण ताच्यो भावना दुखत म्हूण हांव ओगी रावलों. ताचीं बंडलां सोंशीत....

अडेचो स्वाभिमान घेवन, सगळें जग मूर्ख अशें समजून जगपांत अर्थ नासलो. पूण तो हें सगळें खंयच्या बळार करतालो, हें समजूंक मार्ग नासलो.

इतले म्हणसर आमी रस्त्याक दोन फांटे फुट्टात थंय पाविल्ले.

ताणें पोती दुसऱ्या हातांत घेतली. आनी मेथी लायिल्ले हात शेकहॅन्ड करपाखातीर म्हजे मुखार केले.

''बरें तर शर्माजी..... हांव बाजारांत वतां. थंय मात्शें काम आसा.''

हांवें ताच्या हाताकडेन लक्ष दिलें ना. आनी म्हळें, ''तूं तुज्या कामाक वच.''

''बरें तर..... हांव हे वटेन वतां. शर्माजी, आयज म्हजो चेक मात्सो दियात.''

हांवें गाडयो पळोवन मोन्यांनी रस्तो क्रॉस केलो. मनांत आयलें, आपलो अहम् सांबाळूक हें जोडपें कितेंय करीत. कसलेय त्रास सोंसूंक तयार आसात. हाकां मदत विचारप म्हळ्यार, विचारप्यान हांचो अपमान करप. पूण हांचो अहम् फटींगपणाचे बुनयादीर उबो नाशिल्लो जाल्यार बरें जावपाचें. आनी आळसान तर हांची आनीकूय वाट लायल्या.

बस स्टँडार गाडयो आनी गर्दी हांचे मदल्यान आपणाक सांबाळीत वतना मनांत कसले कसले विचार येताले. इतल्यान कोणेंतरी खांदार हात दवरलो. पळेल्यार मेथी लायिल्लीं बोटां.... दिसलें, हो हात न्हय... खांदार पाल पडल्या.

तो खर्शेतालो.

''आयज मार्केट बंद. दुकानां बंद.'' ताणें हातांतली पोती खांदार मारिल्ली.''

''सरकारान सुटी डिक्लेर केल्या. खासा हांव रस्त्यार आयकून आयलां.''

''देव बरें करू म्हजें व्हडलें वॉल्त तुवें वाटायलें.''

''पूण मागीर म्हजो चेक आयज मेळचो ना न्ही?.... तुमचे कडेन थोडे पयशे आसल्यार....'' हाच्या उपकरा पडटलों म्हूण खोस जाली म्हाका.

''कितें जालां खबर आसा? गावांत धाकले भयणीलें लग्न आसा. थंय हांवें खूब सामान धाडलां. म्हूण पयशांक मात्सो पादिशेर जालां.''

— आनीक एक फट!

म्हाका म्हजोच राग आयलो. हांव हाचो फटींगपणा कित्याक म्हूण आयकतां? हांव मूर्ख न्हय. पूण हाका हांव कित्याक म्हूण ओगी रावतां?

फट मारचे बदला खरें कितें तें सांगुनूय तो पयशे मागूंक शकता काय ना? पूण भितरल्यान आवाज आयलो. ताच्या स्वाभिमानाची एकूच धिगी आसा, आनी ती म्हळ्यार फटींगपणा.... आनी ह्या फटींगपणान कोणालें वायट काय जायना. तेन्ना आयकूंक कितें जालां?

त्या दिसा तो म्हजेबराबर घरामेरेन आयलो. म्हणूंक लागलो, ''बरें जालें, घर पळोवन दवरलें म्हूण! आतां केन्नाय तुका त्रास दिवंक बरें.

तो म्हजे बराबर ड्राँइंगरूमा मेरेन आयलो.

''शर्माजी, तशें पळोवंक गेल्यार सुटयेचो बाकी सगळ्यांक फायदो जालो. म्हजें मात नुकसान जालें. कशें काय म्हूण विचारात....''

हांवें प्रश्नार्थक मुद्रेन पळेलें.

''म्हाका सदांच तुमच्या ऑफिसांत तुमचे कडल्यान चार पाच कपां च्या मेळटाली, ती आयज ना जाली न्हय?''

ताच्या त्या अरवळ उलोवण्याचो म्हाका हांसो आयलो. हांव कितेंय उलोवचे पयलींच ताणें म्हळें, ''बरें जालें. तुमी परकी काय न्हय.... तुमच्या फायद्यान म्हजोय बी फायदो.... पूण तुमकां एक सांगतां. च्या घेतले बगर हांव वचचो ना.''

इतल्यान आवय च्या चो ट्रे घेवन आयली.

''नोकर सुटी घेवन गेला. घरा गावांत कोण सो मेला खंय.'' तिणें म्हळें.

''आई, हो म्हजो कवी मित्र.''

— तो रोखडोच उठून उबो रावलो.

''तुवें कित्याक त्रास घेतले आई? तुवें आतां सुसेग घेवपाचो. शर्माजीचें लग्न करून दी आनी ह्या त्रासांतल्यान सूट.''

आईच्या मनांतलें तो उलयलो. तेन्ना तो कोण काय म्हूण पळोवंक तिणें तोंड वयर केलें.

''आई, म्हजें नांव पवित्रनाथ! हांव कवी. रेडिओचेर म्हजीं भजनां प्रसारित जातात. एक भजन खूब फामाद जाल्लें. तुवें आयकतां आसतलें.

.... मातारानी, दुर्गा भवानी तेरी शरणमें आया.....

आयकून आई खूश जाली.

''शाब्बास! पयलोच तूं एकलो आस्तिक मेळ्ळो बाबा.... नाजाल्यार आयत वचत तो बरोवपी आनी कवी कित्याय कितें बरयता. देवाचे सुवातेर आपणाक मानता. आमच्या बाबूचींय मतां इबाडूंक लागल्यांत.''

''कोण बाबू?''

''होच. तुमचो एडिटर सायब.''

कलाजंग म्हजेकडेन पळेत उरलो. मागीर ताणें म्हळें, ''तूं कांय हुस्को करूं नाका आई! हांव हाका सरळ करतां. इतलें फामाद ब्राह्मण घराणें आनी तांचो हो दिवटो देवाक मानिना म्हळ्यार अजाप न्हय?''

म्हाकां गंभीर जाल्लो पळोवन ताणें विशय बदल्लो. ''आई, तूं जाणा, हांव च्या बल्लांचीं बल्लां







भरून पितां म्हळ्यार जाता. पूण इतली बरी च्या पिल्यार खूब तेंप जालो.... आवयच्या हातांतली माया तिणें केल्ल्या सगळ्या वस्तूंत आसता न्हय?''

—आनी दुसऱ्या खिणाभितर तो आईल्या विश्वासांतलो मनीस जालो आनी ताणें आवयक म्हजे खातीर गांवची चली सोदून हाडटां म्हणपाचें उतर दिलें.

त्या दिसा ऑफिसांतल्यान घरा वतकीच आवयन विचारलें, ''तूप खंय?''

''खंयचें तूप?''

''तुवें पवित्रनाथाक घरा धाडूंक नासलो, पितळेचें व्हडलें आयदन घेवन यो म्हूण!''

''कितें जालें तें सगळें सारकें सांग पळोवंया.''

''तो आयलो. ताणें म्हळें एडिटर सायबान एक व्हडलें आयदन–चार चार किल तूप धरता–तितलें व्हडलें मागलां. आनी ताणी सांगलां, तांचे म्हऱ्यांत एकलो घरावें तूप विकपी मनीस आयला.... आनी ताणें दोनशें रुपयाय बी मागल्यात.''

''आतां तूप मेळटलें चाळीस तारखेक.'' हांवें उस्वास सोडलो. ''आयज हांवें ताका पळोवंक लेगीत ना.''

''मेल्लो, पाडापडिल्लो फटींग! तेन्नाच तो ल्हान आयदन व्हरूंक तयार जालो ना. म्हणूंक लागलो, गरमेचे दीस–तूप वितळ्ळें जाल्यार ओततलें म्हूण व्हडलें आयदन घेवन गेलो. भजनां बरयता खंय.... फटींग मेलो.''

''पितळे आयदन शंभर रुपयांचें तरी आसतलें न्हय?''

''शंबर रुपया? आदल्या तेंपार तें आयदन एकशें चाळीस रुपयांक घेतिल्लें. तूप आनी आयदन मारलें झक! पूण म्हाका एक सांग, हे बरोवपी फटींग कित्याक आसतात?''

''आई, सगळेच कितें फटींग आसनात.''

''दुसरे खेपे फटींग लोकांक घरा घेवन येवं नाका.''

''कोण खरो कोण फट तें कितें तकलेर बरयल्लें आसता?''

''तेऽ दीस ती दुखियारी बेगम आइल्ली. म्हणटाली, जगांत सगळ्यांत दुःखी तीच. आवय बापूय लग्न करून दिना. जेवंक खावंक घालिना. उपाशी दवरतात. पूण मागीर ढौगरी आते कडल्यान कळ्ळें, ह्या रांडलांचे लग्न जालां. घोवा वांगडा पटना म्हूण कुळरा वचून आसा. पाडापडिल्ली डायटिंगच्या नांवान उपास करता.... वेल्यान आवयबापूय जेवंक घालिना म्हूण तांच्या नांवान बोब मारता.''

''आसूं! पाडपडूं आई.... थोडे लोक आसतात अशें फटींग... फटींगपणांतूच तांकां ताचें व्हडपणशें दिसता.''

ताचे उपरांत तूप ना, आयदन ना. आनी कलाजंगूय दिसूंक ना हें सांगपाची गरज ना. आनी हे गजालीक लागून ताची खबर घेवंक ताच्या घराय बी वचीन दिस नासलें. कित्याक, ताच्या ह्या फटिंगपणा फाटल्यान उपासान बारीक जाल्ली निश्पाप अशी देवी.... ताची बायल दिसताली.

ताचे हे करणेक हांसूं, रडूं, काय फडफडून ताका चरचरीत गाळी घालूं.... कांय कळनासलें.

त्या दिसा ऑफिसांत बसून फायल उगडली. इतल्यान एक फोन आयलो.

''हॅलो, शर्माजी?''

''हलो, हावूंच उलयतां.''

''शर्माजी, हांव कलाजंग उलयतां. एक अडचण आयल्या. तुमी मातशे पोलीस स्टेशनार येयात. एक जामीन दिवचो आसा. ठाणेदार सायबान व्हडल्या फावोरान फोन करूंक दिला.''

''पूण जालां कितें?''

''तुमीच येवन पळेयात न्ही.''

फोन दवरतकीच ते देवीसमान बायलेची मूर्त दोळ्यांमुखार आयली – तोंडांतल्यान एक आवाज काडीनासतना चरत्याचे त्रास सोंसपी. उपासांनी बावडी मर्णाच्या दारांत बी पावूंकना मू? ह्या फटिंगान कसली भानगड केल्या आनी पुलिसेंत पावला देवाक खबर!

ऑफिसांतल्यान रजा घेवन हांव पोलीस स्टेशनार गेलों. थंय कलाजंग मुखेल पोलिसाच्या रूमांत जमनीर बसून नाखटां चाबडायतालो.

''नमस्ते शर्माजी, घर मालकान बेश्टोच म्हाकां फटींगपणाचे केसींत घुस्पायला.''

तो म्हजे बराबर H.H.O च्या रूमांत येवंक लागलो. ऑफिसरान ताका भायर बसूंक लायलो. आनी मागीर म्हाका विचारलें,

''ह्या मनशाक तुमी वळखतात?''

''हय! बरे भशेन. कित्याक? कितें जालें?''

''चारशें वीस ची केस. हाणें शारांतल्या एका प्रतिष्ठित मनशाक धा हजारांक फटयला. ''न्यू एज कन्सर्न'' च्या मालकाक तुमी वळखतात आसतले. बाबड्याची बायल मेली. हाणें ताका ताचें लग्न जुळयतां अशें सांगून ॲडवान्स घेतलो.... आनीकूय पयशे घेवपाची ताची तयारी आसली. पूण तेन्नाच ताचीं फटिंगपणां उकताडार पडलीं. शार सोडून पळून वतालो. पूण त्या मालकान हाका धरलो. वांगडा बायलूय आसली.... त्या मालकाक एक खेपे हो घरा घेवन गेल्लो. आपली बायल ताका दाखयली. ताका सांगलें, ही आपली सख्खी भयण म्हूण! तिचे कडेन लग्न करून दिवपाचें वचन दिल्लें.''

''तिका हें सगळें खबर आसा?''

''हाका धरून हाडलो तेन्ना तिवूय बी वांगडा आसली. पूण तिका हांतलें कांयच खबर नासलें. तेन्ना तिका तिच्या भाड्याच्या घरांत धाडली. खरें सांगू शर्माजी, थोडे लोक इतले सादे आसतात की तांच्या निश्पापपणा सामकार आपल्याक गुन्यांवकारीशें दिसता. पूण तिचे वांगडा हो नालायक फटींग आसा.''

''कसले तरी अडचणीक लागून ताका अशें करचें पडलें आसूं येता. पूण ताच्या गुन्यांवाक जामीन मेळटलो न्हय?'' हांवें विचारलें.

''हय! हय! जामीन मेळटलो.'' ठाणेदारान रजिस्टर आपले मुखार दवरलें. आनी तो कितें तरी बरोवंक लागलो.

''उलोवण्यावेल्यान मनीस देडशाणोसो दिसता.''

ताका घेवन ताच्या घरा वचूंक भायर सरलों. रस्त्यांत दोन कील आंबे घेवन पोती ताचेकडेन दिली.

"शर्माजी, म्हाका ओगीच हे केसींत घुस्पायला. तुमकां खबर आसा, म्हजे लाखांनी दुस्मान आसात. नेकीराम, दुखियारी बेगम आनी हेर भाटकार. हांवें कोणालो पोटलो घेवन खावंक ना. म्हजेकडेन फावोर लावंक कोणूच ना. देखून पोलिसांनी म्हाका कादयेंत उडयलो. कायदो पयशेकारांचो. पोलीस तांच्या काळ्या पयशांची राखण करतात. पूण त्या पयशांचेर आमचो हक न्हय? आमी गरीब.... कित्याक? कित्याक तर हे लोक नागावरी फोडा काडून हे पयशे राखतात. हांव जाल्यार म्हणटां पयशेकारालें सगळें काडून घेवंक जाय... आनी अशेंच बरेंच कितें कितें तो उलयतालो... कम्युनिस्ट जे काल क्रांतीच्यो गजाली करतात, तो दीस एक दीस येतलोच... आनी आमचे हक्क आमका मेळटले.

"हय!... घडये तें तुपाचें आयदन.... जाचेर आमचो हक आसा तेंय बी त्याच दिसा मेळटलें...." हांवें हांसत म्हळें.

ताचें तोंड बंद जालें. मागीर ताच्या घरा पाव मेरेन तो कांय उलयलो ना.

ताणें दार खटखटायलें.

भितरल्यान खिळी काडली. आनी पळेल्यार तांब्याची मूर्त म्हजे सांमकार उबी आसली. नमस्कार करूंक तिणें हात जोडले.

.... ना. आयज ती मूर्तीवरी नासली. पूण तिच्या निशपाप दोळ्यांत दुकां आसलीं. त्या निष्कपट दोळ्यांत दुकां पळोवपाचें सामर्थ्य म्हजे भितर नासलें.

"कवी बाबू, कसलीय गरज पडल्यार कळय." अशें सांगून हांव परतलें.

"तुमचो फकत आशिर्वाद जाय. बाकी सगळें आसा शर्माजी."

हांव मातसो मुखार मात गेलों, तो सांगतालो, "पिश्या, रडटा कित्याक? म्हाका काय जाववें ना. कोर्ट म्हाकां सोडून दितलें."

— ताच्या ह्या उलोवण्याचेर एक हुडको आयकूंक आयलो.

"पुता, म्हाका गुन्यांव भोगोस. म्हाका खबर नासलें तुज्या घोवान असलें कर्म केलां म्हूण! हांव परथून परथून तुजेकडेन भाडें मागतालीं."

फाटल्यान पळून पळेलें. एक म्हातारी हुंबऱ्यार उबी रावन तिका समजायताली.

"आगो, ह्यो सगळ्यो गजाली शिंवासारक्या दादल्याक सोंसच्यो पडटात. त्यो मनाक लावन घेवपाच्यो न्हय!.... तो म्हणटालो तें कानार आयलें.

फाटल्यान ताचो तो बेपर्वा व्हडान केल्लो हांसो... तो हांसो रस्त्यामेरेन म्हजे फाटल्यान आयलो.

म्हाका दिसलें ताका जाल्लें चरतें ताच्या पोटासावन कुशीक वचून ताच्या आत्म्याक ताची बाधा जाल्या. आनी ताचो आत्मोय बी कुसत वता.....

☆ ☆ ☆

ओम गोस्वामी हाणी डोगर भाशेंत बरयिल्ल्या सुन्ने दी चिरी हाचो कोंकणी अणकार म्हळयार "भांगराचें सुकणें"

हातूंत वट्ट सात दीर्घ कथा आसात. "भांगरा सुकणें" ही कथा म्हळयार राजकीय विडंबन. एका तेंपार भारत कसो सुखी आनी समृध्द आशिल्लो, पूण आमच्या भिजूड आनी विरोध न करपी सभावाक लागुन भायल्या लोकांनी ताका कसो नाडलो, पीडलो हाचें चित्रण आसा. आतां भारत स्वतंत्र जाल्याउपरांत आमचेच मूठभर लोक जनताजनार्दनाच्या नांवान लोकांक कसो नाडटात आनी आपलो फायदो करून घेतात ताचें चित्र आसा.

ह्यो सातुय कथा म्हळ्यार डोगरी जिणेचें पडबिंब. गरीबी, तांतल्यान आइल्लो स्वार्थ, आर्थिक विषमता, शेणिल्लें मनीसपण, पैशांकलागून खंच्याय थराक वचपी लोक, पैशाखातीर घाण पडिल्लें राजकारण, बेकार आशिल्ले तरनाटे... हें सगळें बरोवप्यान समर्थपणान आमचे मुखार उबें केलां. इतलें कि हयो कथा वाचतकीच दिसता कि भारतांतल्या खंच्याय राज्यांतल्यो आसूं येता, इतल्यो त्यो जिव्यो तटतटीत दिसतात.

ह्या पुस्तकाक साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार फावो जाला.

ओम् गोस्वामी (1947) हो बरोवपी डोगरी आनी हिंदी भाशेंत समर्थपणान बरयता. तांचे स कथासंग्रह डोगरी भाशेंत आनी तीन कथासंग्रह हिंदीत उजवाडाक आइल्ले आसात. ताणी बत्तीसां वयर डोगरी पुस्तकांचे संपादन केलां. सद्या ते डोगरी शब्दकोशाचे मुखेल संपादक म्हूण काम करता. हो शब्दकोश जम्मू आनी काश्मीर अकादमी ऑफ आर्ट, कल्चर ॲन्ड लँग्वेजचे वतीन उजवाडाक येवपाचो आसा.

Bhangarachen Sukne (Konkani), Rs. 65
ISBN 81-260-1929-8

